# ऋतुचक्र

कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

**ऋतुचक्र** (लळीत निबंध)
**कमलाकर दत्താराम म्हाळशी**

**RUTUCHAKRA** (Essays)
**KAMALAKAR DATTARAM MHALSHI**

प्रकाशन क्र. ७



पयली आवृत्ती : ५ एप्रील, १९९७

**प्रकाशक**
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन
श्रीस्थळ, काणकोण – गोंय ४०३ ७०२

**अक्षर जुळणी**
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स
मडगांव – गोंय

**मुद्रण**
उमेश वागळे
प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय – गोंय

**मुखचित्र**
गौरीश रमाकांत वेर्णेकार

**मोल : ७५/- रुपया**

# आई, तुजे आशीर्वाद मागतां

म्हाका आपल्या सांगाताक घेवन मे म्हयन्यांत म्हयनांतल्या शेतांत शिरीं फाफुडपाक वतना वाटेवयल्या वेळपांबागांतल्या वेळपांघराच्या सोप्यार बसून खाल्ल्या, आईन केल्ल्या सोय-गोडाच्या चुन्नाची गोड याद आजुनूय तोंडाक उदक हाडटा!

आईच्या दुदाचेर ल्हानाचो व्हड जातना तिणें पाजयिल्ले कसाय, कडे आनी कोलदांड्यान घाल्लीं कडू वखदां तिचे काळजाचे ओलसाणेन आनी मायेच्या हातगुणान ह्या चुन्नाइतलींच गोड लागलीं. तिणें कांट्याखुट्यांतल्यान व्हड मायेन खुडून हाडिल्ल्या करंजां चुन्नांक लागून तर आमकां 'शबरीचीं बोरां' बरेभशेन कळपाक पावलीं.

आदल्या तेंपाच्या काळमानाक धरून तिसरे यत्तेंत शिकतनाच लग्नाच्या बंधनांत घुस्पल्ले आमचे आईचें कुळार घुसपुटो (गोपशिट्टो) – हळगें जाल्ल्यान 'हळगेंबाय'. मिराशी – म्हाळशी कुटुंबांच्या इतिहासांची जशी ती गवाय, तशीच आमच्या कुटुंबांतली त्या तेंपाची व्हडली सून आनी उपरांत व्हडली आवय जाल्ल्यान कुटुंबांतली, वाड्यावयली आनी गांवांतलीय ती 'व्हडली आई'. आनिकूय कांय कारणांखातीर ती व्हडली आई. एक व्हडली वखदळी, व्हडली वैजीण आनी व्हडली घर-संवसारी. पू. साने गुरुजींची 'श्यामची आई' म्हाका भावली ती म्हजे आईक लागून.

आई, दर एके आवयभाशेन तुकाय आपल्या पुतांचो सार्थ अभिमान. तुवें आमचेखातीर कितें म्हूण केलें ना? जांच्या भरवंशाचेर आनी कश्टांचेर आमी आमच्या पांयांचेर उबे रावंक शकले, तातूंत दादावांगडा आनी भाऊवांगडा मुखेलपणान तूंच आसा.

देखुनूच, फुडें वचपाक

आई, तुजे आशीर्वाद मागतां.

तुजो बाब

(कमलाकर)

# ब्रह्मांडाची भोंवडी

सैम हें एक विज्ञान जावन आसा हें सत आमच्या पुर्वजांक होलमल्लें. तांणी तें स्विकारिल्लें. एक विज्ञान हे नदरेंतल्यानच तांणी सैमाकडेन पळेलें. ताचेकडेन संबंध दवरलो. वेव्हार केलो.

विज्ञानाचें एक आसा. ताचें ज्ञान जालें म्हण सोंपना. ताचेकडेन प्रामाणीक रावूंक जाय. आमचे पुर्वज विज्ञानाकडेन प्रामाणीक रावले. म्हणून ते आनी विज्ञान हांचेमदीं आपलेपणाचें नातें निर्माण जावंक पावलें. म्हणून विज्ञानाचो वापर विधायकच उरलो. तांचेखातीर विज्ञान विनाशी जालेंना.

अशें इश्टागतीचें नातें आनी असो विधायक वापर हो ''ऋतु-चक्रा''चो आशय आसा.

पुराणकथांनी हमखास एक कथा आसता. वर मेळिल्ल्या राकेसाची. खर तपश्चर्या करून राकेस वर मागून घेता. वर मेळटकीर मदांध जाता. विनाशी जाता. अखेरीक राकेसाचोय अंत जाता. वराचें रुपांतर शापांत जाता. वराकडेन प्रामाणीक ना रावतल्याक दिल्लें तें प्रायश्चीत आसता.

आमच्या पुर्वजांखातीर सैम-विज्ञान वरदान थारलें. आयच्या काळांतल्या मनशाखातीर विज्ञान शाप जावपाचे वाटेर पावला. कारण सामकें उक्तें आसा. आयच्या काळांतलो मनीस विज्ञानाकडेन प्रामाणीक रावलोना. विज्ञानाचो विधायकच वापर करतलो ही लागणूक करून घेतली ना. परिणामीं आयच्या काळांतलो मनीस विनाशी जायत रावला. पुराणकथेंतल्या राकेसा सारखी ताची अवतिकाय जाल्या. पुराणकथेंतल्या राकेसाचें जें जालें तें आयच्या काळांतल्या मनशाचें जावपाचें आसा.

हें अरिश्ट नाका आसत तर प्रकृती आनी संस्कृती हांचो संयमी सुमेळ सादपाची गरज आसा. ही गरज कितें आसा आनी कशी भागोवं येता हाचो मंत्र 'ऋतुचक्रां'त दिला.

विज्ञान आनी संस्कृती हांचेमदीं द्वैत ना. दिसता द्वैत तें आमच्या अज्ञानाक लागून. आमच्या अपसमजाक लागून. विज्ञान आनी संस्कृती आपापल्या प्रकृतीधर्मानुसार चलत तर तातूंत दोगांचेंय सार्थक आसा. मनीसकुळयेचें कल्याण आसा. दोगांचोय अतिरेक हो घातकी विचार. अविवेकी विचार. विवेक धरून विज्ञान आनी संस्कृती हांचेमदीं अद्वैत निर्माण करून हो सुंदर संवसार आनीक कसो सुंदर करूं येता हाची शिकवण 'ऋतुचक्रां'त मेळटा.

कोणाचो पांखो घेनासताना आनी कोणाक विनाकारण दोश दिनासतना सकारात्मक भुमिकेंतल्यान प्रकृती आनी संस्कृतीची निपक्षपाती पारखणी करपाचो यत्न 'ऋतुचक्रां'त

जाला आनी तो खूब यशस्वी जाला. अशें निपक्षपातीपण विशयप्रवेश सोपो करता. विशय आकलन निर्दोश करता. सणा-परबांचें म्हत्व सांगताना, सुतापुनवेंतल्या ब्राह्मणेतरांच्या जानव्याची फटवण सांगपाक 'ऋतुचक्र' फाटीं रावना. भजनी सप्ताहांतल्या जातीवार पारांचेर बोट दवरपाक अनमनना. दसऱ्याक वांटिल्लीं आपट्याचीं पानां सुकचेपयलींच मनशांमदलें आटिल्लें भावपण वळखुपाक उणो पडना. 'ऋतुचक्रा'ची ही तटस्थ पारखणी वाचप्यांक शास्त्रीय नदर दितना विशय-आकलनाचें मार्गदर्शन दिवन वता.

सैम-विज्ञान आनी संस्कृती ह्या दोन मुखेल सुत्रांभोंवतणी 'ऋतुचक्र' घुंवता आसलें, तरी तातूंत ब्रह्मांडाची भोंवडी आपसुकच घडटा. भारतीय सणां-परबांची, सगळ्या धर्मांच्या आनी पंथांच्या रिती-रिवाजांची, आचार-विचारांची, आहार-विहाराची, तांच्या निजाच्या नांवांनिशीं आनी तारखां-तिथीनिशीं माहिती 'ऋतुचक्र' दिता. इतिहास, भुगोल, समाज, धर्म, जीव-सृश्ट, भलायकी अशा साबार शास्त्रांचें विवेचन 'ऋतुचक्रां'त आस्पावता. दर एका शास्त्राचें प्रयोजन, योगदान, परस्पर संबंध, काळा-थळाच्या संदर्भांसयत दिवप जाल्ल्यान 'ऋतुचक्रा'क आपशींच संदर्भग्रंथाचें रूप प्राप्त जाता.

ह्या पुस्तकांतल्या सगळ्याच विचारांकडेन आनी विधानांकडेन सगळेच जाण सहमत जातलेच अशें ना. शास्त्रीय पुस्तकाची ती अपेक्षाय नासता. सहमतांतल्यान आनी असहमतांतल्यान विचारमंथनाक वाट करून दिवप हें शास्त्रीय लिखाणाचें दायीत्व आसता. 'ऋतुचक्रा'न हें दायीत्व दिलां.

पुस्तकाची मांडणी प्रकरणां (episodes) वा संग्रह (collection) अशे पद्दतीची जाल्ल्याकारणान, विचारांच्या पुनुरोच्चाराक थोडो वाव मेळूंक पावला. सैम-विज्ञान आनी संस्कृती ह्या दोन मुखेल सुत्रांनी सगलीं प्रकरणां गुंथिल्लीं आशिल्ल्यान, एका दमान वाचपी वाचप्याक ह्या पुनुरोच्चाराची आडखळ जावं येता. एकाच विशयाक आनी आशयाक धरून आशिल्ल्या प्रकरणांच्या एकीकरणांतल्यान पुनुरुच्चोराक मेळिल्लो वाव उणो करपाचो यत्न जावं येतालो.

ललित साहित्यावांगडाच शास्त्रीय बसका घेतिल्लें, गंभीर प्रकृतीचें वैचारीक साहित्य कोंकणींत व्हड प्रमाणांत येवप, कोंकणीच्या फुडाराचे नदरेन भोव गरजेचें. 'ऋतुचक्रा'न आपले परीन ते दिकेन पावल घालां. ताच्या पावलार पावल दिवन आनीकय चक्रां कोंकणी सरस्पतीच्या ब्रह्मांडांत घुंविल्लीं पळोवपाचें भाग्य मेळूं.

'राजांगण' पर्वरी – गोंय
मार्च १९९७

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**

# कृतज्ञताय

'सुनापरान्त' निकतोच सुरू जाल्लो. नवीं नवीं सदरां तातूंत येवपाक लागिल्लीं. ताची गरजूय आशिल्ली. सुनापरान्ताक आनी वाचप्यां-बरोवप्यांकूय.

'पाजण'कार श्री. पुंडलीकबाब नायक हांणी हांवेंय एक सदर तातूंत बरोवचें म्हूण म्हाका सुचयलें. आयिल्ली संद हांव केन्नाच सोडिना! हांवें तें मनार घेतलें आनी तेन्नाचे 'सुनापरान्त'चे संपादक श्री. चंद्रकांतबाब केणी हांचे संमतीन 'ऋतुचक्र' सदराचो आरंब केलो. गोंयच्यो जात्रा, फेस्तां, परबो (चड करून म्हाका खबर आशिल्ल्यो, संबंद आयिल्ल्यो) आदींचो म्हजेर (आनी थोडोभोव समाजमनाचेरय) जाल्लो परिणाम आनी बदलत्या काळांत तांचेकडेन पळोवपाची नवी नदर (भावनीक, अध्यात्मीक आनी बुद्धीक) अशें ह्या सदराचें सूत्र आशिल्लें.

मदल्या काळांत 'ऋतुचक्र' मदले निबंधवजा लेख पुस्तकरुपान येवचे असो विचार कांय बरें मागपी इश्ट वाचप्यांकडल्यान आयलो. अर्थांत हांवूय ते नदरेन विचार करतालोंच. पूण गोंयच्या नामनेच्या अशा आनीक कांय जात्रा-फेस्तांचो आसपाव तातूंत जावपाची गरज म्हाका अस्वस्थ करताली. पूण आयजमेरेन तें शक्य जालेंच ना!

उपरांत कांय वर्सांनी हांवें 'सुनापरान्त'चे सद्याचे मुख्य संपादक अॅड्. उदयबाब भेंब्रे हांचे संमतीन 'सोदतां सोदतना' हें सदर बरोवपाक आरंब केलो. आनी ह्या सदराच्या विशय-विविधतायेचो फायदो घेवन 'ऋतुचक्र' पुस्तकांत आसपावपाक योग्य अशे कालचक्राभोंवतणें घुंवतना – चैत्र... फाल्गुन, कालचक्राभोंवतणें घुंवतना – जानेवारी... डिसेंबर आनी ऋतुचक्राप्रमाण खाणजेवण, हिंदुंनी येशू आनी खिरस्त्यांनी ॐ काळजार कोरांतून गेवप गरजेचें हे लेख 'सोदतां सोदतना' मदीं आनी संऽजांव घुंऽऽवता, 'शबै शबै, शाबोऽ ओऽऽ' अशे लेख मदल्या काळांत हांवें 'सुनापरान्त'वरवीं उजवाडा हाडले. आनी ह्या अशा थोडेभोव लळीत स्वरुपाच्या लेखांचो संग्रह आयज 'ऋतुचक्र' ह्या नांवान पुस्तकरुपान उजवाडा येता.

'ऋतुचक्र' उजवाडा येता आनी तेंवूय ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन, श्रीस्थळ, काणकोण हे घरचेच प्रकाशन संस्थेवरवीं हाचो आनंद म्हाका जाताच. पूण येता येता म्हूण आवाज जाल्लो ताचेपरस तें उतरां येता, हाची खंतूय मनांत आसा. घडये 'ऋतुचक्र' म्हजे पिरायेच्या सुवर्णमहोत्सवाच्या म्हूर्ताक रावतालें जावंये! जावं!!

आयज तुमचेवरीच हांवूय ताका येवकार दितां आनी म्हाका मार्गदर्शक थरिल्ल्या वयर उल्लेख केल्ल्या साहित्यीक इश्टांवांगडाच संदर्भाक उपकरा पडिल्ल्या ग्रंथकर्त्यांचे व्हड उपकार

मानतना उण्यांत उण्या वेळांत गरजेच्या वेगान आनी फावो त्या नीतीनेमांनी 'ऋतुचक्र' चालू करून वाचकराजाच्या राजांगणांत हाडलें देखून चिकीत्सक, समीक्षक रितीन पुस्तकाक प्रस्तावना दिवपानिमतान म्हाका मार्गदर्शन करपी म्हजे इश्ट डॉ. तानाजी हळर्णकार, सोबीत आनी कल्पक रितीन मुद्रण करपी तन्वी ग्राफिक्सचे मालक इश्ट श्री. राजेश भाटीकार, सोबीत छापणावळ करून दिवपी प्रिंटआर्ट प्रिंटर्सचे श्री. उमेश वागळे, पुस्तकांतल्या मजकुराक न्याय दिवपी आकर्शक मुखपृश्ठ-चित्र काडपी म्हजो विद्यार्थी चित्रकार श्री. गौरीश रमाकांत वेर्णेकार आनी ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनचे प्रकाशक श्री. मिलींद कमलाकर म्हाळशी हांचेसंबंदान हांव मनापसून कृतज्ञताय उकतायतां.

हे लळीत लेख/लळीत निबंध वाचून त्या त्या वेळार सुचोवण्यांसयत परबीं दिल्ल्या वाचक इश्टांक ह्यावेळार विसरून कशें जायत?

**कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी**

ॐ श्री दत्त
श्रीस्थळ, काणकोण – गोंय
५ एप्रील, १९९७

# ललित निबंधांची वळेरी

# कालचक्रा भोंवतणें घुंवतना
# — चैत्र... फाल्गुन

भुरगेपणांत शाळेंत शिकता आसतना पुराय पयशे आनी औंटकी म्हणपाक कळ्ळेबगर वाचन-पुस्तक (पाठ्यपुस्तक) पळोवपाक मेळनाशिल्लें आनी वार, म्हयने, तिथी, नक्षत्रां, राशी आनी ऋतू पाठ जालेबगर शाळेंतलें शिकप पुराय जालां अशें मानप जायनाशिल्लें, त्या तेंपार म्हजेपयलींच्या आनी म्हजेवांगडच्या सगल्यांचेरूच कितलेच बरे-वायट संस्कार जाले! आतां, तेन्ना ते सगलेच 'बरे' दिसताले जाल्यार आतां 'बरें-वायट' वेगळावपाची थोडीभोव अक्कल आयल्या, थोडीभोव मनाची तयारी जाल्या, थोडेंभोव धाडस आयलां, तरी 'वायट' तें पुरायेन भायर मारप शक्य जालें ना, मनांत आसुनूय जायत अशें दिसना! कारण, पर्थून 'संस्कार'! आनी हे संस्कार करपी सगल्यांचीच मनोवृत्ती! कुड्ड्या श्रद्धांनी, रुढींनी भरिल्लीं धर्मशास्त्रां, पोथयो-पुराणां प्रमाण मानून तीं पाठ करपी तथाकथित 'हिंदुत्व' म्हळ्यार भारतीयत्व, राष्ट्रीयत्व अशे पिशेपणाचे समजुतींतल्यान 'शिकपी भुरग्याक अमकें अमकें पाठ येवंकूच जाय' अशें अभ्यासक्रमाची आंखणी करतल्यांकूय दिसतालें. अर्थात्, मुजीच्या बंधनाचो शिक्को मारून मनीस समाजांतल्या चार-चौगांपसून वेगळें काडिल्लें तथाकथित 'ब्राह्मण्य' हे शिक्षण पद्धतींत शाळांतल्यान शिकपी सगल्याच भुरग्यांच्या वांट्याक येनाशिल्लें हीवूय वस्तुस्थिती! जाल्यारूय मराठी शिक्षणाचो आनी चड करून महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ल्या वा महाराष्ट्रांतल्या शिक्षकांकडेन शिकून तयार जाल्ल्या शिक्षकांचो प्रभाव आनी संस्कार म्हजेसारक्यांचेर घडिल्ल्यान खुबशो बऱ्यो गजालीय शिकपाक मेळ्ळ्यो हें मानचेंच पडटलें. आतां मराठी शिक्षण म्हळ्यारूच 'हिंदू संस्कृतायेचें शिक्षण, तेंच भारतीयत्वाचें शिक्षण, तेंच राष्ट्रीयत्वाचें शिक्षण' ही पिशेपणाची समजूत तातूंत आसपावताली आनी गोंयकारपण, कोंकणीपण – गोंयकारांक स्वतंत्रताय मेळपाक जाय हो एक म्हत्वाचो हावेस सोडल्यार – तातूंत फावो त्या प्रमाणांत दिसनासलें, हें मतींत धरुनूच बऱ्या गजालींचो सोद घेवंचो पडटलो.

तोंडपाठ करप ही त्या तेंपावयल्या शिक्षणाची जशी कितें मुखेल मोख! पुस्तकांत आसा तें आनी मास्तरान बरोवन दिलां तें पाठ करून धडाधड म्हणून दाखोवप हें हुशार विद्यार्थ्याचें लक्षण! ताका लागून पद्यपाठ वा कविताच तितल्यो पाठ करप जायनासलें, जाल्यार गद्यपाठ लेगीत भुरगे पाठ करताले. घडये इतले फावट तें वाचप

जातालें की तोंडपाठ जावन वतालें. अर्थात्, अर्थ कितलो कळटालो तें विचारप निरर्थक! पूण खुबशो बऱ्यो गजाली मात हे पद्धतींतल्यान त्या तेंपार पाठ केल्ल्यान आयज उपकारा पडल्यो. विज्ञानयुगाक लागून आयिल्ल्या कंप्युटर-युगांत गणित 'कंप्युटरायज्ड' जालें आनी पाढ्यांचें वजें आयच्या भुरग्यांचे तकलेवयल्यान कुशीक गेलें खरें, पूण पाढ्याचें पुराय गणित तकलेच्या कंप्युटरांत आशिल्ल्या एकादऱ्या आदल्या 'पाठी' जाणट्याचो गणित वेग खंयच उणो पडना, ही वस्तुस्थिती. आतां एकदम आर्विल्ल्या गणित-तंत्रांत तो आदलो मनीस नापास जातलो.

...तर खबर पाठांतर उपकारा पडिल्ल्याची. आनी कांय फुकट गेल्ल्याची. शंबर पयशांचो रुपया येवचेपयलीं हांगा चौसठ पयशांचो रुपया चलतालो. आनी चार पयशांचो एक आणो ह्या हिसबान सोळा आण्यांचो एक रुपया जातालो. आनी हो सगलो 'घुसपागोंदळ' भुरग्यांक 'एक पैसा पाव आणा, दोन पैसे अर्धा आणा, तीन पैसे पाऊण आणा, चार पैसे एक आणा' धरून 'चौसष्ट पैसे सोळा आणे' मेरेन पाठ करून निस्तारचो पडटालो. शंबर पयशांचो रुपया येमेरेन हें सगलें गरजेचें आशिल्लें. पूण शंबर पयशांच्या रुपयान आणो 'मेकळो केलो' आनी कोंत साप्प सोपें केलें. पूण 'एक पाव पाव (.।.), बे पाव अर्धा (.॥.), तीन पाव पाऊण (.।॥.), चार पाव एक (१) धरून एक औंट औंट (३॥), बे औंट सात (७)... मेरेन पाढे पाठ केल्ल्याचें तोंडी गणित मात्त आयजूय १/४, १/२, ३/४ सारक्या अपूर्णांकाचीं वा ११/४, २१/२ सारक्या पूर्णांकयुक्त अपूर्णांकाचीं गणितां कागद-पेन घेवन वा कंप्युटर घेवन सोडोवपापरस खात्रीन बरें आसा म्हणचें पडटलें. आतां हेंवूय काळाभायलें थारून नश्ट जातलें. पूण एक (१) ते शंबर (१००) आनी ताचेफुडले हजार, लाख, कोटी, अब्ज बी आंकड्यांचो हिशेब जेमेरेन 'बुडीत खात्यांत' वचना तेमेरेन 'एके एक (१) दुके दोन (२)... दाहे (१०) दहा (१०)' प्रमाणूच 'एकावर एक अकरा (११), एकावर दोन बारा (१२) धरून नवावर नऊ णव्याण्णव (९९) मेरेनचे पाढे आनी ताचेफुडले 'बे (२) एके बे (२), बे (२) दुणे चार (४)' धरून 'तीस एके तीस (३०)... तीस दाहे (१०) तीनशें (३००)' मेरेनच्या पाढ्यांक आयुर्विम्याची गरज नाच्च! ते पाढे पाठ आशिल्ल्यांचे तकलेच्या कंप्युटराकूय मरण ना.

म्हजेसारक्या कितल्याशाच जाणांक आयज ह्या पाढ्यांच्या पाठांतराचो तर फायदो जालाच. वांगडाच तेन्ना पाठ केल्ल्या कवितांक लागून आनी लक्षांत उरिल्ल्या कांय गद्यपाठांक लागून अणभवविश्व वाडपाक मजत जाल्या. पाठ केल्ले वार, म्हयने, ऋतु, तिथी, नक्षत्रांसंबंदान तर्कशुद्ध गिन्यान मेळ्ळे उपरांत विश्वाचो आवांठ लक्षांत आयला आनी हातुंतले दर एके गजालीचो बेस्स बरो उपेग करून मनशाच्यान कशें कितें फुडें वचुंयेता हाचो माग मेळ्ळा. ह्या गजालींफाटलो/संकल्पनांफाटलो थोड्या

प्रमाणांतलो कुड्डो विश्वास नकळटां वाडत गेल्ल्यान वा बळयां वाडयिल्ल्यान नवे पिळगेक विश्वचक्राची म्हायती समजून घेवपाक आमच्या भुरगेपणांतल्यो ह्यो संकल्पना व्हडल्योशो आपल्यो कशो दिसल्योनात जाल्यार अजाप न्हय.

कारण, त्या तेंपार म्हजेसारके जायते जाण मराठी शाळांनी रविवार, सोमवार, मंगळवार, बुधवार, गुरूवार, शुक्रवार, शनिवार बी वार पाठ करतना गांवांत आयतार, सोमार, मंगळार, बुधवार, बिरेस्तार, शुक्रार, शेनवार बी म्हणपी लोक आमकां गांवठी कशे दिसताले. जाल्यार आमी जानेवारी, फेब्रुवारी, मार्च बी म्हणटना गांवांत कोणेंय जानेर, फेब्रेर, मार्स बी म्हळ्यार आमकां ताची तोखणाय दिसताली! चैत्र, वैशाख – वसंत ऋतु; ज्येष्ठ, आषाढ – ग्रीष्म ऋतु; श्रावण-भाद्रपद – वर्षा ऋतु; आश्विन-कार्तिक – शरद ऋतु; मार्गशीर्ष, पौष-हेमंत ऋतु; माघ, फाल्गुन-शिशीर ऋतु अशे रितीन भारतीय म्हयन्यांवांगडा वर्साचे स ऋतू आमी पाठ करतना आमचे भोंवतणच्या शेता-भाटांनी वा हेर वावर-धंद्याक वचपी लोक मात गीम (गिमाळो), पावस (पाऊस/पावसाळो) आनी शीं (शिंयाळो) अशे वर्साचे 'ऋतू' तांच्या उलोवपांत वापरताले. आमी शाळेंत शिकून प्रतिपदा, द्वितिया, तृतीया, चतुर्थी, पंचमी, षष्ठी, सप्तमी, अष्टमी, नवमी, दशमी, एकादशी, द्वादशी, त्रयोदशी, चतुर्दशी, पौर्णिमा, अमावास्या बी तिथी पाठ करून म्हणटना गांवगिऱ्या वाठारांतले केन्नाच शाळेंत वचूंक नाशिल्ले अशे त्योच तिथी पाडवो, बी, तय, चवथ, पंचम, सश्ट, सप्तम, अश्टम, नम, दसम, एकादस, दुवादस, त्रयोदस/तिरोदस, चतुर्दस, पुनव, अमास/उमास अशे रितीन वेव्हारांत वापरताले तेन्ना आमकां अजाप दिसतालें. आमी जेन्ना अश्विनी, भरणी, कृत्तिका, रोहिणी, मृग, आर्द्रा, पुनर्वसु, पुष्य, आश्लेषा, मघा, पूर्वा, उत्तरा, हस्त, चित्रा, स्वाती, विशाखा, अनुराधा, ज्येष्ठा, मूळ, पूर्वाषाढा, उत्तराषाढा, श्रवण, धनिष्ठा, शततारका, पूर्वा भाद्रपदा, उत्तरा भाद्रपदा, रेवती अशीं २७ नक्षत्रांचीं नांवां मास्तराकडल्यान शिकताले, तेन्ना बरप अक्षर कळनाशिल्ले शेतकामती, वावराडी, मानाय 'कृत्तिका'क 'कातयो' म्हणटाले, 'मृग' 'मीर्ग' म्हूण वळखताले, 'मघा'च्या पावसाक 'मोगा'चो पावस म्हणटाले; मूळ, धनिश्टा अशीं कितलींशींच नक्षत्रांय तांचे संवकळीचीं जाल्लीं, तेन्ना तर आमकां आनिकूय अजाप दिसतालें. शाळेंत वचनासतना तांकां हें सगलें कशें कळटा असो प्रस्न मनाक पडटालो. अर्थात् सादारण कळपाक लागतकूच लक्षांत आयलें तें अशें की घाडी, बंट, बंटिणी म्हऱ्यांत वचून म्हारू, देंवचार, खेत्री, वार्गत बी लागल्या काय कितें तें समजून घेतकूच हे लोक भट, जोयशा म्हऱ्यांत आनी प्रसाद घाडया म्हऱ्यांत वचून कोणें करणी बी करून घाल्या काय कितें ताचो सोद घेताले; मंगळ, शनी बी गिराव कोंत्र नात मूं, हाचोय अदमास घेताले आनी तातुंतले थोडेंभोव बरप अक्षर शिकिल्ले वा तसल्यांकडेन संबंद आयिल्ले थोडे भटागेर-जोयशागेर वचून भुरग्यांची 'जल्मपत्रिका'

करून घेताले. गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांचो म्हूर्त वा वेळेचेर इतलो खर विश्वास आसतालो की ताका लागून तर बऱ्या कामाक 'वेळ' पळोवपाक वा लग्नां-मुजीसारक्या शुभकार्याक 'म्हूर्त' काडपाक भट-जोयशागेर वचप जातालेंच. ह्या सगल्या गजालींचो परिणाम म्हूण गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लागीं लागीं सगल्याच लोकांक तीथ, नक्षत्रां आनी म्हयने बरे तरेन संवकळीचे जाल्ले.

ना तर हरशीं गांवांत कोणाकूय 'तुजी रास खंयची?' अशें विचारल्यार 'शिताची' म्हूण सांगपी लोक चड मेळटात. हातुंतलो विनोद सोडलो जाल्यार मेष, वृषभ, मिथुन, कर्क, सिंह, कन्या, तूळ, वृश्चिक, धनु, मकर, कुंभ, मीन अशो बारा राशी कोणाक खबर आसतात? ना म्हणपाक संवसारपाडव्या दिसा पंचांग वाचचे वेळार देवाच्या आय-व्यया (आदाव-खर्च) वांगडाच गांवच्या सगल्या घर मुखेल्यांचोय आदाव-खर्च सांगपाची एक प्रथा आसता. तेन्ना, मागीर जाका पुरयताक आपली रास सांगपाक येना, ताका पुरयत ताच्या नांवावयल्यान रास काडून आदावखर्च सांगता. तो कितलो खरो जाता हो दुभावाचो वा वादाचो विशय जावं येता. पूण आपलें जमाखर्चाचें ज्योतिश आपल्याक कळ्ळां हें एक समादान ताका जाता.

खरें तर संवसारपाडव्याक एक खेरीत म्हत्व आसा. 'बऱ्या कामाक वेळ, म्हूर्त कांय लागना, दर एक वेळ शुभ आसता' अशें दर एका विज्ञाननिश्ठाचें मत आसा. हें जितलें खरें, तितलेंच गिऱ्यां-ताऱ्यांचे गतीचो आनी गुणांचो अभ्यास करून 'पंचांग' तयार करप्यांनी कालचक्रांतल्यो कांय वेळो शुभ आनी कांय अशुभ थारायल्यात हेंवूय तितलेंच खरें. तें कितलें सत्य मानपाचें हो जरी वादाचो विशय जावंक शकलो तरी हवामानाचो आनी गीम, पावस, शिंयाचो परिणाम मनाचेर, आरोग्याचेर जाता हें आमकां मानून घेवचेंच पडटलें. आनी त्याच परिणामाक लागून मनशाचो सभाव लेगीत बदलूंक शकता आनी ताचेकडल्यान बरें वा वायट काम घडूंक शकता हेंवूय आमकां मानचें पडटलें. हातूंत मागीर त्या त्या हवामानाक धरून गरजेचो असो आहार आनी भेस ह्यो गजालीय आस्पावतात हें मतींत घेवचें पडटलें. आनी हें सगलें लक्षांत घेतल्यार चैत्र म्हयन्याच्या पयल्याच दिसा संवसारपाडवो वा 'गुढी पाडवा' कित्याक म्हळां आनी त्या दिसाचें म्हत्व म्हूण वर्सांतल्या साडेतीन म्हुर्तांतलो एक म्हूर्त म्हळ्यार 'संवसार पाडवो' अशें कित्याक म्हळां तें समजुपाक मजत जातली.

संवसार पाडव्याप्रमाण दसरो (विजयादशमी) हो एक पुराय आनी बरो म्हूर्त अशें मानतात. गोरवां-पाडवो (बलिप्रतिपदा) हो हे वळेरेंतलो आनीक एक पुराय आनी शुभ म्हूर्त जाल्यार अपतय (अक्षय्य तृतीया) हो शुभ जावनूय अर्दो म्हूर्त मानपाची चाल आसा.

संवसार पाडव्यान वसंत ऋतुक आरंब जाता आनी वसंत म्हळ्यार उल्हास, आनंद,

सगल्या सैमाक नवी कोमरी, आंकरी फुटोवन उमेद फुलोवपी हो ऋतू. बायलांच्या वासंतीक हळदीकुकमाचो आरंब देखुनूच संवसारपाडव्यान करपाची चाल आसा. तो मागीर कांय कडांनी रथसप्तममेरेन (पौष शु. ७) जाल्यार कांय कडांनी अपतयेमेरेन (अक्षयतृतीया-वैशाख शु.३) चलता. शालिवाहनांनी शकांचेर जैत मेळयिल्लो दीस म्हूण संवसारपाडव्याक जशें म्हत्व आसा, तशेंच श्रीरामाच्या राज्याभिषेकाचो दीस म्हूणय ताका म्हत्व आसा. गोंयांत कांयकडेन ह्या दिसा जिन्याच्या ताळ्यांचे आनी कांडांचे 'जिन्या-देव' करून ते नाचोवपाची परंपरा आसा. चड करून तरंगांचे जात्रेची 'नक्कल' कशी ही जात्रा जाता आनी तातूंत भुरग्यांचो वांटो चड अपेक्षीत आसता. हेनिमतान जात्रो लेगीत जातात. गोंयांत कांसारपाला ह्या दिसा जात्रा जाता.

चैत्र शुद्ध तयेक 'गौरीतृतीया' म्हणटात. त्या दिसा चैत्र गौर कुळारा येता आनी अपतयेक धोवा घरा वता अशी चाल आसा. ह्या म्हयन्यांतले चैत्र शुद्ध नमीक येवपी रामनम तर प्रसिद्ध आसा. विष्णूचो सातवो पुराय अवतार अशी नामना आशिल्ल्या मर्यादा पुरुषोत्तम रामाचो हो जल्मदीस ज्या ज्या सुवातींनी रामाचीं देवळां आसात, थंय थंय व्हड दबाज्यान, उत्सव-जात्रा करून मनयतात. गोंयांतलो पर्तगाळ (काणकोण)चो रामनमीचो तेर आनी बोरीची जात्रा फामाद आसा. तर्कनिश्ठ अशी विचारधारा दिवपी, जैनांचो चोविसावो तीर्थंकर भगवान महावीराचो जल्मदीस ह्याच म्हयन्याचे शुद्ध तिरोदशीक येता. भगवान महावीर हो जैन धर्माचो संस्थापक. ह्या धर्माची आयंबील ओळी चैत्र शुद्ध सप्तमीक सुरू जाता आनी चैत्रपुनवेक आयंबील ओळीची समाप्ती जाता.

चैत्रपुनव म्हळ्यार शक्तवंत, बुदवंत, मनवेगी, संगीत तज्ञ, म्हापंडीत, रामभक्त, चिरंजीव वीर हनुमानाचो जल्मदीस. ह्या दिसा हनुमंताच्या देवळांनी जात्रा जातात. गोंयांत नागेशीं, चंद्रनाथ पर्वत, मारुतीगड-काकोडें अशा सुवातांनी जात्रा जातात. माशें (काणकोण) निरंकारा बांदावेली जात्रा फामाद आसा.

अशे रितीन उत्सव-जात्रांनी चैत्र रंगत वतनाच वसंत ऋतूचो भार जाता. गिमाचें कडक वत वाडत वता आनी वैशाख येता. वैशाख शुद्ध बियेक हिंदवी स्वराज्य संस्थापक छत्रपती शिवाजी महाराजाची जयंती येता. महाराष्ट्रांत गांवगिऱ्या वाठारांनी शिक्षणाची आनी समाज शिक्षणाची म्हूर्तमेढ रोवपी कर्मवीर भाऊराव पाटील हांची पुण्यतीथ ह्याच दिसा येता. ह्या म्हयन्याचे शुद्ध तयेक अपतय (अक्षय्य तृतिया) म्हणटात. चैत्र गौर घोवा घरा वचपाचो हो दीस अशें मानतात. हे निमतान बंगाल ओरिसांत चंदनयात्रा जातात. ह्या दिसा जगन्नाथपुरींत नरेंद्र तळ्यांत मदनमोहनाचे मूर्तीक चंदन आनी तेलाचें न्हाण घालपाचो विधी/उत्सव जाता. विष्णूचो सवो पुराय अवतार परशुरामाचो जल्मदीस तो होच. उपरांत, ह्याच म्हयन्याचे शुद्ध पंचमीक शिरगांवां लईराईची फामाद जात्रा जाता. श्री रामानुजाचार्य जयंती (वै. शुद्ध दुवादस), श्री विष्णूचो चवथो पुराय अवतार

नृसिंह जयंती (वै. शुद्ध तिरोदस) अशे कितलेशेच म्हत्वाचे दीस ह्या म्हयन्यांत येतात. वैशाख शुद्ध सश्टीक येवपी छत्रपती शाहू महाराज पुण्यतीथ लेगीत तितलीच म्हत्वाची.

वैशाख शुद्ध पुनव मात श्रीविष्णूचो दुसरो पुराय अवतार कूर्म जयंतीचो दीस म्हूण जितलो म्हत्वाचो दीस, ताचेय परस संवसाराक अहिंसा आनी शांततायेचो संदेश दिवपी बुद्धाचो जल्मदीस म्हूण चड म्हत्वाचो. ह्या दिसाक 'बोधी जयंती' वा 'बौद्ध पौर्णिमा' म्हणटात. राजपुत्र सिद्धार्थाक वैरंजना न्हंयचे देगेर एका पिंपळापोंदा ध्यानांत गुल्ल जावन बशिल्ल्या वेळार दिव्य गिन्यान प्राप्त जालें आनी राजपुत्र सिद्धार्थ 'भगवान बुद्ध' जालो. देखून, ताचे हे जयंतीक खेरीत म्हत्व प्राप्त जालां. वैशाख-न्हाणाची समाप्ती ह्या दिसा जाता. हो एक ह्या दिसाचो धर्मीक नदरेन विशेश.

वैशाख म्हयन्याचे दुसरे पंद्रशींत जे कांय म्हत्वाचे दीस आनी घटना येतात, तातूंत वैशाख कृष्ण एकादशीक येवपी आद्यकीर्तनकार, विश्वमुनी नारदाची जयंती आनी त्याच अदमासाक येवपी पैंगीण (काणकोण)ची नामनेची गड्यांची जात्रा हांचो आसपाव जाता.

वैशाखाउपरांत ज्येष्ठ येता. खरें तर चैत्र-वैशाखांत गिमाक आरंब जावन तो तापत गेल्लो आसता, जाल्यारूय त्या म्हयन्यांचो संबंद सैमांत नवी कोमरी-आंकरी फुलोवपी म्हूण वसंताकडेन जोडला आनी जेश्ठ-आशाढाचो संबद ग्रीष्म ऋतूकडेन जोडला. मजा म्हळ्यार आतां गीम तेंगशेर पावन पावसाक आरंब जाल्लो आसता आनी थोड्याच तेंपान शेताच्या कामांकूय आरंब जाल्लो आसता. ते नदरेन ज्येश्ठ हो धान्य-निर्मणेचो म्हयनो म्हणपाक जाय. ह्या म्हयन्यांतले शुद्ध बियेन मोहरमाचो म्हयनो सुरू जाता.

ज्येश्ठ शुद्ध दसमीक 'गंगावतरण' म्हणटात. भगीरथान आपले खर तपश्चर्येन गंगेक भारतभुंयेर हाडली आनी भगवान शंकरान तिचो घोगो आपल्या मस्तकाचेर धारण केलो, तो हो दीस. अर्थांत, हातुंतल्या मनाक आनी बुद्धीक पटनाशिल्ल्यो गजाली कुशीक दवरून 'प्रतिकात्मक' म्हणूनच ताचेकडेन पळोवपाक जाय. गंगेसारक्या न्हंयांचें म्हत्व तर विज्ञानीक युगांतूय मात्तूय उणें जावपाक फावना. ह्या दिसाच्या निमतान ते संबंदांचे संकल्प दर एकल्यान करपाक जाय. आनी संकल्प करून ते तडीक पावोवपाची परंपरा ह्या देशांत आसाय बी. ज्या शिवाजीन शेंकड्यांनी मावळे सांगात्यांच्या सांगातान हिंदवी स्वराज्याचे स्थापनेचो संकल्प केलो, त्या शिवाजीचो राजा म्हूण 'राज्याभिशेक' जालो, तो ह्याच म्हयन्याचे शुद्ध तिरोदशीक.

ह्या देशाची पतिव्रता धर्माची परंपरा गिरेस्त करपाचें एक व्रत सवायशिणी बायलो वडां-पुनव (वट पौर्णिमा) ह्या नांवान करतात, तें ह्याच म्हयन्याचे पुनवेक. पुराणांतले कथेप्रमाण यमान व्हेल्ल्या (मेल्ल्या) आपल्या घोवाचे – सत्यवानाचे – प्राण पर्थून मेळोवपांत पतिव्रता सावित्री जैतवंत जाली, ती ह्याच दिसा. देखून, तिच्याच नांवान

बायलो त्या दिसा वडाची पूजा करतात आनी आपल्या घरकाराक लांब पिराय मेळची, तेचपरी जल्मभर आनी दुसऱ्या जल्मांतूय होच घोव आपल्याक मेळचो म्हूण मागणें करतात. आतां पुनर्जल्मावयलो विश्वास बी गजाली आयज काळाभायल्यो थरल्यो तरी वडारुखाची वखदी थंडाय नदरेआड करप कोणाक कशें शक्य जायत?

पावस चालूच आसता. आशाढांत तो वाडत वता. अशा वेळार नेमान सैमाक न्हाण घालपी आशाढ-पावसाची व्हडवीक 'आषाढस्य प्रथम दिवसे' अशे रितीन आपल्या मेघदूत नाटकांत मांडपी कवी कुलगुरू कालिदासाची याद आशाढ शुद्ध पाडव्याक जावप सभावीक. अशाच म्हाकवींचे कल्पनेंतल्यान ह्या म्हयन्यांतल्या कांय दिसांक खेरीत म्हत्व आनी रूप दिल्लें दिसता. देखीक, आशाढ शुद्ध एकादस म्हळेबरोबर पंढरपूरची जात्रा दोळ्यांमुखार येता. 'भागवत एकादशी' (एकादस) हें उतर लेगीत तकलेंत येता. मात्त, हे एकादशीक 'शयनी एकादशी' हें नांव दितल्यांची तोखणाय करुंकूच जाय. ह्या दिसा श्रीविष्णू न्हिदता, तो बद्द चार म्हयन्यांनी जागो जाता, देखून ह्या काळाक 'चातुर्मास' अशेंय म्हणटात. खरें तर सुर्याचें म्हळ्यार विष्णूचें दर्शन ह्या चार म्हयन्यांत जावप कुस्तार, म्हणटकूच कल्पना अशी की देव न्हिदता!

आशाढी पुनवेसंबंदानूय अशीच सोबीत कल्पना केल्ली दिसता. ताका भारतीय परंपरेची आनी ध्येयवादाची, आदर्शवादाची जोड दिल्ल्यान तर ह्या दिसाक विशेश म्हत्व आयलां. गुरुकुलांतले गुरू-शिश्य परंपरेक पोसवण दिवपाच्या हेतून ह्या दिसा विद्यार्थ्यान आपल्या गुरूची पूजा करपाची परंपरा जाणटेल्यांनी सुरू केल्या जावंक जाय आनी हे पुनवेक नांव लेगीत 'गुरू पौर्णिमा' दिलां जावंक जाय. पराशर, कृष्णद्वैपायन व्यासांनी महाभारत, ब्रह्मसूत्रां, अठरा पुराणां बरयलीं. देखून ते परात्पर गुरू. तांची पूजा म्हळ्यार व्यासपूजा, गुरूपौर्णिमा. हे निमतान जायत्या कडांनी गुरू-शिश्यांच्या पुजेच्यो कार्यावळी आनी संगीताच्यो कार्यावळी बी जातात.

आशाढांतले दुसरे पंद्रशींत जे कांय महत्वाचे दीस येतात तातूंत एकलो एकसुरो पावन खींड झुजतना दुस्मानांच्या कितल्याशा शिपायकांची आनी वीरांची कत्तल करपी अशा पराक्रमी वीर बाजीप्रभू देशपांडेचो यादस्तीक दीस कृष्ण (वद्य) पाडव्याक येता, जाल्यार लोकभाशेंतल्या भजनांतल्यान लोकांक भक्तीमार्ग सांगपी संत तुलसीदासाची पुण्यतीथ कृष्ण (वद्य) तयेदिसा पडटा. हेच पंद्रशीक कृष्ण (वद्य) दुवादशी दिसा 'म्हजो नेवेद्य कित्याक खायना?' म्हूण देवाकडेन झगडपी विठोबा-भक्त नामदेवाची पुण्यतीथ येता. अशे रितीन ज्येष्ठ-आषाढांतलो ग्रीष्म ऋतू सोंपता आनी कुशळ विणकरान धागे जोडिल्लेवरी श्रावण-भाद्रपदांतलो वर्षाऋतू तातूंत भरसता. देवळां-देवळांनी भजनां सुरू जातात, भजनी सप्ता सुरू जातात. श्रावण सश्टीक येवपी वास्कोचो सप्ता तर प्रसिद्ध आसाच. वांगडाच, नेमान सात दीस चलपी सप्ता-पारांत काणकोणच्या

मल्लिकार्जुनाच्या देवळांतलो आशाढी उमाशेमेरेन चलपी सप्ता प्रसिद्‌ध आसा. मात हे पार सद्‌या जे जातींचे/समाजाचे आसात, ते गांवचे/गांवच्या लोकांचे जावपाची सामकी गरज आसा. काळाची गरज ती.

श्रावण म्हळें की भुरगेपणांतली 'श्रावण मासीं हर्ष मानसीं हिरवळ दाटे चहूकडे, क्षणात येते सरसर शिरवें, क्षणात फिरूनी ऊन पडे' ही कविता जशी याद जाता, तशेंच 'वतांत पावस पडटा, माकड-माकडिणी लग्न जाता' हें लोकगीत ओंठार येता. खऱ्यांनीच! श्रावण म्हळ्यार कितलो प्रसन्न म्हयनो! सैम पाचवोचार शालू न्हेसला, सण-परबांनी नटला!! आनी गेल्ल्या वर्साचें अध्ययन (शिकप) पुराय केल्ल्या विद्यार्थ्यांक नव्या शिक्षणाचो धडो दिवपाक तयार रावला.

सण-परबांच्या ह्या श्रावण म्हयन्यांत पयली परब येता ती नागपंचम. अर्थात्, ती शुद्ध पंचमीक येता हें वेगळें सांगपाची गरज नाच्च. ह्या दिसा नागाची पूजा करतात. महाराष्ट्रांत तर ताचे मोटे उत्सव जात्रा जातात. सवायशिणी बायलो दूद, ल्हायो बी घालून नागदेवाची पूजा करतात. आदले लोक सैमाक भजताले-पुजताले आनी मोनजातीचो मोग करताले. ती परंपरा प्रतीकरुपान फुडें चालू दवरपाखातीर जाणटेल्यांनी ही नागपंचमीची कल्पना काडली जावंक जाय.

श्रावण सोमार आनी ते निमतान शिवपूजा, तेचपरी खासा सवायशिणी बायलांखातीर मंगळागौर-व्रत हे श्रावण म्हयन्याचे विशेश. पुनवे दिसाचें रक्षाबंधन व राखी-पौर्णिमा तेचपरी सुतांपुनव (नारळी पौर्णिमा) ही एक मोटी परब. भयणीन भावाक राखी बांदून राखण मागपाचो दीस म्हूण जशी ही मोटी परब, तेचप्रमाण दर्याची पूजा करून ताका भांगराचो नाल्ल ओपून पर्थून प्रवासाक आनी नुस्तेमारीक आरंब करपाचो दीस म्हूण लेगीत मोटी परब. मात, त्या दिसा सगल्यांनी न्हावन-धुवन गंध लावन सुताचीं जानवीं घालपाची आनी तथाकथित 'भट-ब्राह्मण' जावपाची जी एक चाल चड करून गांवगिऱ्या वाठारांनी चलंत आसा, ती कितली समा? हे रुढीन बृहस्पती-पूजन कितलेंशें सार्थ जाता? काय कोणें तरी ती केल्ली आनी कोणें तरी करून घेतिल्ली 'फटवण' हाचो विचार काळमानाप्रमाण करप गरजेचें दिसता. मात, हे पुनवेदिसा इद-ए-मिलाद येता हे घटनेचो एकमेकांक समजून घेवन राष्ट्रीय एकचार वाडोवपाक उपेग करून घेवप राष्ट्रहिताचें जातलें.

ते नदरेन राष्ट्रपुरूस श्रीकृष्णाचो जल्मदीस जो कृष्ण (वद्‌य) अश्टमीक 'गोकुळाष्टम' वा 'अश्टम' ह्या नांवान पुराय देसभर मनयतात, ताकाय बरें रूप दिवपाची गरज आसा. ना तर 'पत्रं, पुष्पं, फलं, तोयम्' रुपान देवाक अर्घ्य दिलें आनी फोव, कण्ण (मुगांचें), सोजी (गंवांची) बी फराळान उपास उजयलो आनी दुसऱ्या दिसा गोपाळकाल्याच्या नांवान धंय-हंडी फोडपाची कृष्णलीला दबाज्यान मनयली म्हणटकूच आमची गोकुळाश्टम

जाता! पूण ही उमेद फुलयतनाच भुरगेपणांत विचित्र लीला करपी गोकुळांतलो बाळकृष्ण धरून कुरुक्षेत्रार अर्जुनाक गीता सांगपी तत्त्वगिन्यानी श्रीकृष्णामेरेन कृष्णाचीं विंगड विंगड रुपां दाखोवपी आनी ताचो प्रभाव जनमानसाचेर घालपी कार्यावळी गोकुळाश्टमीनिमतान केन्ना जायत, असो एक प्रस्न अस्वस्थताय वाडलेबगर रावना!

विंगड विंगड विधींनी पूजा केली म्हूण 'देव' पावता वा मागण्यो पदरांत पडटात? होवूय असोच एक प्रस्न. घरकाराक लांब पिराय मेळची म्हूण बायलांनी मंगळागौर करप आनी भुरग्यांक लांब पिराय मेळची म्हूण आवयांनी 'पिठोरी उमास' करप हें आयच्या काळांत तरी सारकेंच पिशेपणाचें दिसलें तरी श्रावण-उमाशेक 'पिठोरी उमास' करतात ही वस्तुस्थिती. त्या दिसा आवयो ६४ योगिनींची पूजा करतात. ह्यो योगिनी पिठाच्यो करतात, देखून ही पिठोरी उमास.

पिठोरी उमाशेन श्रावण सोंपता आनी श्रावणाइतलोच उमेदीचो म्हयनो येता भाद्रपद. खरें तर सगल्या ऋतुंतलें हवामान ह्या म्हयन्यांत जाणवता म्हूण जसो हो म्हयनो 'विशेश' तसो भुरग्यांबाळांचो आनी नेणट्याजाणट्यांच्या गणपतीबाप्पाक तो घेवन येता, म्हूण हो म्हयनो चड विशेश.

महानुभाव पंथाचे संस्थापक चक्रधर स्वामी हांचे शुद्ध बियेदिसा येवपी जल्मतिथीन भाद्रपदांतल्या बऱ्या गजालींचो आरंब जाता. रोखडीच तयेदिसा हरितालिका येता, गौर पूजप जाता आनी ते फाटभुंयेर शुद्ध चवथीक गणपतीबाप्पाचें शुभ आगमन जाता. गणपती म्हळ्यार ॐकारप्रधान गणेश. ब्रह्मा, विष्णू, महेशाचे निर्मणेची सुवात. देखुनूच खंयच्याय शुभकार्याचो आरंब गणेशपुजेबगर जायना, अशी घट समजणी. जाल्यारूय भुरग्याबाळांक, जाणट्या-नेणट्यांक तो गणपतीबाप्पा देड दिसांचो! आनी उपरांत गणपतीबाप्पा मोरया!! जायना कित्याक?

अर्थात्, देड दिसांचो गणपती पंचमीमेरेन उरता. आनी हे पंचमीक ऋषीपंचमी ह्या खास नांवान वळखतात. ह्या दिसा व्हड व्हड ऋषींची याद करतात, तांची प्रतिकात्मक पूजा करतात. कश्यप, अत्रि, भारद्वाज, विश्वामित्र, गौतम, जमदग्नि, वसिष्ठ हांकां आदले 'सप्तर्षी' म्हूण वळखतात. विशेश म्हळ्यार वसिष्ठाची घरकान्न अरूंधती हिचोय हातूंत आसपाव करतात. हे सगले ऋषी तांच्या तांच्या तपश्चर्येक लागून, गिन्यानाक लागून आनी बऱ्या कर्तुबांक लागून याद करपासारके आनी पूजा करपासारकेच. मात्त, तांची फकत पूजा करिनासतना मळबांतल्या नखेत्रांक तांचीं नांवां दिवन यादस्तिकांरुपान त्या ऋषींक अमर दवरपाची जाणटेल्यांची कळाशी तोखणाय करीसारकी. 'जेष्ठा गौरीपूजन' नांवान महालक्ष्मीच्या नांवान पूजा करपाफाटलो हेत लेगीत असोच तर्काक धरून. बायलांक त्रास दिवपी कोलासूर राकेसाचो नाश महालक्ष्मीन केलो. देखून, ते यादीखातीर ही 'ज्येश्ठा गौरीपूजा'. मात्त, तिचेवरी शूर, वीर, पराक्रमी जावपाचो संकल्प करून

तो तडीक पावोवप कांय चार बायलांकूय जमलें ना. केल्यो कितें, हिशोब एकूच! थोडेभितर, कर्तुब म्हत्वाचें!

असोच संदेश दिवपी 'भागवत सप्ताह' शुद्ध नमीन सुरू जाता आनी पुनवेक सोंपता. जाल्यार ह्या म्हयन्याचे शुद्ध दुवादशीक श्रीविष्णूच्या पांचव्या पुराय अवताराची – वामनाची – जल्मतीथ येता. दानधर्माची आनी परमार्थाचीय जाल्यार अतिताय म्हणटात, ती वायटूच हेंच बळीराजा आनी बटू वामनाची काणी आमकां शिकोवंक सोदिना मूं? काय दर एका जैतान बरो मनीस लेगीत मस्तो जावन गर्वान कित्याचें कितें करपाची भिरांत उप्रासतली म्हूण देव 'अवतार' घेवन त्या बऱ्या मनशांचोय विलो लायता? काय तथाकथित देवाक आपली सुवात सासणाची ध्रुवावरी दवरपाची आसता?

प्रस्न कितलेय उप्रासले तरी 'बटू वामनाचें रूप घेवन श्रीविष्णून बळीराजाक मारलो' ही वस्तुस्थिती मानून घेतनाच 'आमच्या राजाक देवाक कपटान मारचो पडलो' ही दक्षिणेकडल्या भौसाची भावना लेगीत वास्तव म्हूण स्विकारपाची आनी ताचेर विचार करपाची आमची तयारी नाका?

असोच विचार अनंतचतुर्दशी संबंदान जावपाक जाय. शुद्ध चतुर्दशीदिसा येवपी अनंतचतुर्दशीन गणेशोत्सवाची समाप्ती जाता खरी, पूण लोकमान्य टिळकासारके कांय राष्ट्रपुरीस सोडल्यार अशा सणापरबांसंबंदान आनी उत्सवांसंबंदान व्हडलोसो विचार कोणें केल्लो दिसना. आमचेमदले चडशे परंपरेन चलत आयिल्लीं श्राद्धां घालपी, ना तर म्हाळ वाडपी! भाद्रपद कृष्ण पाडवो ते भाद्रपद उमाशेमेरेनचो काळ हो असोच – पितृपक्ष – सगल्या पितरांची (सगल्या सोंपिल्ल्या जाणट्यांचीं) श्राद्धांच्या रुपान याद करपाचो काळ. 'महालयश्राद्ध' अशें त्या श्राद्धाचें नांव. आमचे भाशेन 'म्हाळ' आनी 'म्हाळ' म्हळो की भूस. 'आप पाप भटा माथ्यार' म्हणटात तशें चुकून माकून उरिल्लीं श्राद्धां वाडपाची वा चुकून माकून उरिल्ल्या सगल्या पितरांक वाडपाची सर्वपित्री अमावास्या ह्या म्हयन्याचे उमाशेक येता.

अर्थात्, इतली याद करून वाडले उपरांतूय तीं पितरां कितलीं समादानी जातात, हो जितलो संशोधनाचो विशय, तितलोच त्या पितरांच्या नांवान बऽरो भूस पेटयिल्ले आनी दक्षिणा हाताशिल्ले खास त्या दिसाचे 'ब्राह्मण' जेवणाची आनी येजमान्याची कांय एक कुरापती काडिनासतना कशे कितें घरा परतूं शकतात, होवूय व्हड वादाचो विशय!

आतां सर्वपित्री उमाशेन भाद्रपद म्हयनोच सोंपता अशें न्हय, जाल्यार वर्षा ऋतूय सोंपता आनी आश्विन म्हयन्यासयत शरद ऋतुचो आरंब जाता. शरद ऋतूसंबंदान तपशीलान जरी उसरां कळ्ळें, तरी 'शरदाचें चांदणें, मधुवनी वाजवी पावा गोविंद' हें भजन भुरगेपणासावनच कानार पडिल्लें. ताचेवयल्यान, उमेद हाडपी असो हो ऋतू हें लक्षांत

आयिल्लें आनी ते गजालीचें खरेपण आश्विन म्हयन्याच्या आरंबासावनच पटपाक लागता हेंवूय खरें कारण. आश्विन म्हळ्यार नवरात्रां, दसरो/दिवाळी ह्या एकदम उमेदीच्या आनी म्हत्वाच्या परबांचो म्हयनो. घटस्थापनेन ह्या म्हयन्याक आरंब जाता. घटस्थापना हो नवरात्रांचो आरंब. शक्तीदेवता महिषासूर मर्दिनीचो उत्सव. नंदादीप, मालार्पण, देवी-पूजन, सप्तशतीपाठ, उपवास, जप, होमहवन अशा विधींचो आनी सगल्या शक्तीदेवतांच्या पुजांचो हो उत्सव. हेनिमतान चडांत चड देवळांनी रातचीं किर्तनां जातात.

ह्याच सप्तकांत शक्तीदेवतेवांगडाच विद्यादेवतेचीय पूजा करपाची चाल आसा. आश्विन शुद्ध सप्तमीदिसा 'सरस्वती पूजा' ह्या नांवान विद्यादेवी सरस्वतीचे हे पुजेक आरंब जाता आनी दसऱ्यामेरन हो उत्सव चलता. हालीं तेंपाची शिक्षणपद्धत बदलिल्ल्यान लेखन (बरोवप) ह्या पांवड्याक निमाणी सुवात मेळ्ळ्या आनी श्रवण (आयकप) ह्या पांवड्याक पयली सुवात मेळ्ळ्या; ना तर शिक्षणपद्धतींत बरोवप ह्या पांवड्याक पयली मानाची सुवात आशिल्ल्या आदल्या तेंपार सरस्पती पुजनाच्या वेळार, दसऱ्यादिसा 'पाटी पूजन' जातालें आनी गणेशपूजन, पाटीपूजन करपी 'भट' भुरग्यांक 'श्रीगणेशाय नमः! ॐ नमः सिद्धम्!' अशीं अक्षरां पाटयेर चिरपाक घालताले. आतां चुकून कोणतरी 'पाटीपूजन' करपाक आपल्या भुरग्याक हाडटा आनी हेवटेन भटमाम 'श्रीगणेशा' चिरूंक घालतना भुरगो मात ते वटेन 'एबीसीडी' करता ही गजाल वेगळी! 'महालक्ष्मी पूजा' होवूय असोच आनीक एके देवीचो उत्सव. नवींच लग्न जाल्ल्यो बायलो व्रत (नेम) कशें हो उत्सव मनयतात. हे निमतान कळशी-फुगडी घालपाचीय चाल आसा. नमीच्यो समरादना आनी त्या दिसाचीं शस्त्रां, अस्त्रां, हत्यारां, आयुधां, पुस्तकां हांची पूजा तर 'शिलांगण' ह्या नांवान प्रसिद्ध आसा.

विजयादशमी वा दसरो हो तर ह्या म्हयन्यांतलो म्हत्वाचो उत्सव. हो दीस म्हळ्यार एक बऱ्यांतलो बरो म्हूर्त. पराक्रमाचो, विजययात्रेचो आनी सीमोल्लंघनाचो असो हो दीस. प्रभू रामचंद्रान लंकेचेर घुरी घालून रावणाक हारयलें आनी जैत हातासलें तें ह्याच दिसा. पांडवांचो बारा वर्सांचो वनवास आनी एक वर्साचो अज्ञातवास सोंपून तांणी शमी-रुखाचे घोलींतलीं शस्त्रां पूजा करून पर्थून हातांत धरलीं तीं ह्याच दिसाक. वरतंतू ऋषीचो शिश्य कौत्स गुरुदक्षिणा मागपाक राजा रघूकडेन गेलो, तेन्ना रघूकडेन तितले पयशे नाशिल्ले, तें पळोवन कुबेरान नगराभायले शमीचेर सुवर्णम्होरांचो पावस घाल्ल्याचें सांगतात आनी कौत्सान तातुंतले १४ कोटी घेतकूच राजान हेर सुवर्णम्होरो लोकांक लुटपाक दिल्यो, ताची याद म्हूण शमी-पूजन करून 'सोनें लुटपाची' (भांगर लुटपाची) चाल सुरू केल्ल्याचें सांगतात. तो दीस दसऱ्याचो देखून त्या दिसा देवस्थानालागीं शमी-झाडाची आनी आपट्या-झाडाची पूजा करून आपट्याचीं पानां 'सोनें' म्हणून

लुट्टात. काणकोणच्या श्री मल्लिकार्जुन देवस्थानांत ह्या दिसा पुजेवांगडाच शमीपत्राचें वाचन जाता. तातूंत क्षत्रियांच्या पराक्रमाचें आनी जैताचें गुणगायन जाता. मात, आयज तसलो पराक्रम सोडात, कर्तुबाचेंय दर्शन व्हडलेंशें घडना आनी 'सीमोल्लंघन' यादीक उरलां, पूण कसलेच तरेची शीम हुपपाचो संकल्प मात जायना ही खंतीची गजाल. 'जनन्यो झरल्यो, खिणां तितलीं उरल्यांत!' अशी म्हैसूरच्या नामनेच्या दसऱ्याची जंय अवस्था जाल्या, थंय बऱ्याच कडांनी दसऱ्याचे उत्सव शास्त्राक तितले उरल्यात. ना म्हणपाक आश्विन पुनवेक जावपी पेडणेचो तरंगांचो दसरो गोंयांत आजूनमेरेन दबाज्यान जाता.

म्हाड्डोळा एक खेरीत दबाजीक उत्सव ह्या म्हयन्यांत जाता, तो म्हळ्यार आश्विन शुद्ध पुनवेची कोजागिरी पौर्णिमा. हालींसरा कांय कडांनी कोजागिरीचे उत्सव सुरू जाल्यात. मात नामना आसा ती म्हाड्डोळचे कोजागिरीचीच. हे पुनवेक 'शरद पुनव' अशेंय म्हणटात. चातुर्मासांत न्हिदिल्ले देव ह्या दिसा जागे जातात आनी उमेदीन उत्सव करतात. ह्या उत्सवांत लोकांनीय वांटेकारी जावचें अशें तांकां दिसता. कितले लोक जागरण करून उत्सवांत वांटो घेतात, तें पळोवपाक आकाशलक्ष्मी भायर सरता आनी जे कोण जागे आसात तांच्या कपलाक भाग्याचो तिळो लायता अशें सांगतात. कोण जागो आसा? को जागरि? हाचेवयल्यान जाल्लें हें कोजागरी उतर आनी उत्सव. ह्याच दिसा रामायणाचे रचनाकार वाल्मिकींची जयंती येता. ते नदरेन ह्या दिसाक म्हत्व आसा.

आश्विनांत येवपी दिवाळी ही तर ह्या म्हयन्यांतलीच न्हय जाल्यार पुराय वर्सांतली एकदम उमेदीची अशी परब. नरकचतुर्दस ह्या नांवानूय दिवाळेक वळखतात. श्रीकृष्णान सत्यभामेच्या पालवान नरकासुराक मारून उडयलें आनी सोळा हजार (कांय जाणांच्या म्हणण्याप्रमाण सोळा हजार एकशें आठ) बायलांक ताचे 'कादयें'तल्यान मेकळें केलें. कांय जाणांच्या म्हणण्याप्रमाण श्रीकृष्ण तांचेकडेन लग्न जालो, जाल्यार कांय जाणांच्या म्हणण्याप्रमाण श्रीकृष्णान तांकां नवी जीण दिवपाची येवजण केली. थोडेभितर, नरकासुराक मारिल्ल्यान लोकांक जो आनंद जालो, तो आनंद उक्तावपाखातीर लोकांनी दिव्यांचो उत्सव केलो. देखुनूच ती दिवाळी. देशांत जायत्या कडांनी दिवाळी दबाज्यान मनयतात. महाराष्ट्रांत तर चड मोठ्या प्रमाणांत आनी दबाज्यान. गोंयांतूय दिवाळी चवथी इतलेच उमेदीन मनयतात. दिवाळेदिसाच लक्ष्मीपूजन जाता. केन्नाकेन्नाय तें दिवाळेच्या दुसऱ्या दिसा जाता (आश्विन वद्य उमास).

हावेळमेरेन आश्विन म्हयनो सोंपून कार्तिक लागता. देवस्थानांतल्या हरजागराचो आनी फोवापुजांचो हो म्हयनो. गोवर्धन पुजेन म्हळ्यार गोरवां-पाडव्यान ताचो आरंब जाता. वर्सयभर घोळयिल्ल्या गोरवांची त्या दिसा मोटे मायेन पूजा जाता. 'बलिप्रतिपदा' ह्या

नांवानूय ह्या पाडव्याक वळखतात. ताच्या दुसऱ्या दिसा बियेक 'भाऊबीज' येता. भयणीन भावाक ओंवाळपाची आनी भावान भयणीक उंवाळणी म्हूण भेट दिवपाची ही परब. हालींसरा राखी-पुनवेच्या रक्षाबंधनाच्या सुवाळ्यावरी भाऊबीज लेगीत व्हड प्रमाणांत गांवगिऱ्या वाठारांनीय पावल्या.

कार्तिक एकादस, तुळशीचें लग्न, कार्तिक पुनव हे कार्तिकांतले कांय म्हत्वाचे उत्सव. कार्तिक शुद्ध एकादशीक 'प्रबोधिनी एकादशी' म्हणटात. विष्णू म्हळ्यारूच सूर्य चातुर्मासांत (पावसांत) दर्शन दिना. ही वस्तुस्थिती जाणटेल्यांनी 'विष्णू आश्विन शुद्ध एकादशीक 'शयन' करता (न्हिदता) आनी कार्तिक शुद्ध एकादशीक 'प्रबोधन' करता (उठ्ठा)' अशे रितीन धर्मीक रूप दिवन सामान्यांमेरेन पावयल्या. देखून उत्तरेकडेन हे एकादशीक 'देवोत्थान एकादशी' अशेंय म्हणटात. ह्याच दिसा पंढरपुरा जळींमळींच्या वारकऱ्यांचो मेळो भरता आनी मोटी जात्रा जाता.

कार्तिक शुद्ध एकादस ते कार्तिक शुद्ध पुनवेमेरेनचे दीस हे तुळशीच्या लग्नाचे दीस. आतां चडशा जाग्यांनी दुवादशीक लग्नां जातात, जाल्यारूय पुनवेमेरेन लग्नाचे सुवाळे चलतात आनी पुनवेउपरांत खऱ्या लग्नांचे म्हूर्त सुरू जातात. तुळशीलग्नाच्या सुवाळ्याच्या संदर्भांत श्रीविष्णूसंबंदान तर्कनिश्ठ विचारसरणीच्या लोकांचें मत बरें ना. मात्त, ताका आदल्या लोकांनी एक खेरीत रूप दिलां. तांच्या म्हणण्याप्रमाण विष्णूच्या कृष्णावतारांत आदल्या सती जल्माच्या वृंदान रुक्मिणीचो अवतार घेतलो. वृंदाचे सती-चितेचेर देवांनी तुळस लायिल्ली ती विष्णूक/कृष्णाक खूबच मानवली. देखून, विष्णूचें/कृष्णाचें तुळशीकडेन लग्न जालें. कितेंय आसलें तरी 'गोंयदा गोंयदा' करीत गोंयभर तुळशीलग्नाचे सुवाळे जातात ही वस्तुस्थिती.

ह्याच म्हयन्याचे तिरोदशीक मडगांवची प्रसिद्ध दिंडी जाता. चतुर्दशीक त्रिपुरारी पौर्णिमेचो आरंब जाता. त्रिपुरी पौर्णिमा अशेंय तिका म्हणटात. त्रिपुरांचे (तीन नगरांचे) सत्ताधीश आशिल्ले – તारાक्ष, कमलाक्ष आनी विद्यून्माली हे राकेस इतले मदमस्त जाले की निमाणें शंकराक तांकां जिवेनशीं मारचेंच पडलें. तो दीस कार्तिक पुनवेचो. देखून, हे पुनवेक त्रिपुरारी वा त्रिपुरी पौर्णिमा म्हणटात. श्रीशंकरान ह्या राकेसांचो नाश केल्ल्यान त्या दिसा त्या नगरांनी कापसाच्यो साडेसातशें वाती लायल्यो. देखून आयजूय पुनवेचे आदले रातीं 'कातयांचे खांब जळोवपाची' रीत सगलेकडेन रूढ आसा. कार्तिक पुनवेदिसाय देवस्थानांनी आनी घराघरांनी पणट्यो (कापसाच्यो वाती घालून) पेटयतात. कार्तिक पुनवे रातीं सगलेकडेन दशावतारी काले जातात आनी दुसऱ्या दिसा धंय काले. शीख पंथाचे संस्थापक गुरू नानक हांची जयंती हे पुनवेदिसा येता हो एक हे पुनवेचो विशेश.

ह्या म्हयन्याचे दुसरे पंद्रशींत आनीक कांय म्हत्वाचे दीस येतात ते अशे: मडकय जात्रा (का.व. ९), संत ज्ञानेश्वर समाधी यादस्तीक दीस (कार्तिक कृष्ण तिरोदस). आळंदीक

सिद्धेश्वर मंदिराकडेन ह्याच दिसा संत ज्ञानेश्वरान जिवी (संजीवन) समाधी घेतिल्ली. कृष्ण तिरोदशी दिसा गोंयांत खांडेपारा एक जात्रा जाता, जाल्यार उमाशेक श्री वनदेवी, मुळगांव जात्रा, हडकोण, बाणस्तारी हांगाय जात्रा जातात.

शिंयाळो आतां सवकसायेन आपली हाजेरी दाखोवंक लागता. मार्गशीर्ष म्हयन्यान हेमंत ऋतू सुरू जालो तरी हेमंतांतल्या शिंयाळ्याक कार्तिकाच्या निमण्या दिसांनीच आरंब जाल्लो आसता. मार्गशीर्ष म्हयन्याच्या शुद्ध पाडव्याक कपिलेश्वरीची जात्रा जाता, जाल्यार तयेक सावयवेऱ्यां अनंताची जात्रा जाता आनी सश्टीक म्हापशां सांतेरीचो कालो. शुद्ध सप्तम हो संत गाडगेमहाराजांचो पुण्यदीस. दसमीक केरी विजयदुर्गा जात्रा जाता. मार्गशीर्ष शुद्ध दसमीक एक विशेश म्हत्व प्राप्त जालां तें गीता जयंतीक लागून. कुरुक्षेत्रार लडायेक गेल्लेवेळार आपल्याच लोकांआड लडाय करची पडटा हें येवजून आबूज जाल्ल्या आनी भियेल्ल्या अर्जुनाक श्रीकृष्णान गीता सांगून ताचेमदलें पुरुषत्व जागें केलें, तो दीस म्हळ्यार गीता-जयंतीचो दीस. गीता म्हळ्यार तत्त्वगिन्यानाचें भांडार आनी एकेवटेन हिंदुंचो पवित्र धर्मग्रंथ. पूण ह्या दिसाचें वा त्या धर्मग्रंथाचें कोणाक केन्ना पडून गेल्लें दिसना. घडये धर्मिकतेचे संकल्पनेन तातुंतलें तत्त्वगिन्यान 'सोवळें' उरलें जावंये! ना म्हणपाक एकाद्री धर्मसंस्था वा एकाद्री संस्कृत प्रचारिणी परिशद बी गीता-जयंती निमतान कार्यावळी करता.

मार्गशीर्ष म्हयन्याचे शुद्ध तिरोदशेक कुंडय एक जात्रा जाता, जाल्यार चतुर्दशीक मुळगांवां रवळनाथाची जात्रा जाता. मार्गशीर्षांतली पुनव म्हळ्यार तर दत्तावताराची जल्मतीथ. 'तीन शीरे सहा हात' (तीन तकल्यो, स हात) अशा दत्तात्रयाचो हो जल्मदीस. बऱ्याच सुवातांनी 'दत्तजयंती' म्हूण तो मनयतात. सांखळे, चिंचोणें, दवर्ली, राय कुडणें, फातर्पें, केपें, सांगें, म्हाड्डोळ, रुमडावाडो, श्रीस्थळ-काणकोण ह्या सुवातींनी दत्तजयंतीचे उत्सव जातात. ह्याच म्हयन्याचे चतुर्दशीक शक्तवंत मारुतीन लंकेत उड्डाण करून लंका जळोवन उडयली आनी त्याच दिसा ताणें अशोकवनांत आशिल्ले सितेचो सोद लायलो, अशें सांगतात. ते नदरेन ह्या दिसा जशें म्हत्व आसा, तशेंच म्हत्व मार्गशीर्ष शुद्ध दुवादस ते मार्गशीर्ष उमासमेरेनच्या दिसांक प्राप्त जाल्लें आसा. कारण प्रसिद्ध अशें महाभारतांतलें कौरव-पांडवांचें झूज जालें तें ह्याच दिसांनी.

मार्गशीर्षाचे दुसरे पंद्रशींतले सश्टीक 'मोरया गोसावी पुण्यतीथ' म्हूण वळखतात. कारण चिंचवडचे गणेशभक्त संत मोरया गोसावी हांणी ह्या दिसा जिवी समाधी घेतिल्ली.

हे उपरांतचो पौष (मालूण) म्हयनो मकरसंक्रांत, मान्नी पुनव आदी परबांक लागून आनी धालोक लागून यादींत उरपासारको. वांगडाच, कडक शिंयाळो, फांतोडेर धुंवरी आनी देखणो सूर्याचो उदय हाका लागुनूय हो म्हयनो मानवपासारकोच. ह्या म्हयन्यांत शुद्ध बियेक नृसिंह-सरस्वती जयंती येता, जाल्यार शुद्ध पंचमीक चोपडें, पेडणें जात्रा जातात. अश्टमीक फातर्पेंची प्रसिद्ध जात्रा जाता, जाल्यार चतुर्दशीक बोडगेश्वराची जात्रा

जाता. पौष शुद्ध पुनवेक माशेलांतली नामनेची 'मान्नी-पुनव' ही जात्रा जाता, जाल्यार काणकोणच्या श्री मल्लिकार्जुन देवस्थानांत 'म्हालजे पुनव' नांवान अवतार पुरसाच्या खांबांचो (तरंगांचो) पयलो अवतार जाता, कौल जाता. 'मान्नी पुनव' वा 'म्हालजे पुनव' मदलीं 'मान्नीं' वा 'म्हालजे' हीं उतरां 'मालिनी' ह्या उतरांतल्यान आयल्यांत जावंक जाय. मालिनी ही शाक्तांची एक मुखेल देवता. तंत्रसारांत तिचें वर्णन अशें केलां– 'मालिनी हि भगवती मुख्यं शाक्तरुपं बीजयोनिसंघट्टेन समस्तकामदुधम्!' म्हळ्यार भगवती मालिनी ही शक्तीचें मुखेल रूप. बीजयोनीसंघट्टान ती सगल्यो इत्सा पुराय करता. हें वर्णन आनी अभिनव गुप्ताच्या तंत्रेकेकांतलें मालिनीचें वर्णन एकसारकेंच दिसता. सगल्यो सिद्धी दिवपी आनी जें जें उणें आसा तें पुराय करपी बीजयोनी संघट्ट हें मालिनीचें रूप अशें सांगतात. पौष पुनवेन गांवांगांवांनी सुरू जावपी धालांचे मांड म्हळ्यार तर बायलांचे उर्बा-उमेदीची व्हडली परब. ह्या म्हयन्याचे दुसरे पंद्रशींतली तय हो एक असोच म्हत्वाचो दीस. एकदम म्हत्वाच्या अशा राम-रावण युद्धाक ह्या दिसा आरंब जाल्लो.

अशे मकरसंक्रांतेक लागून मोगान भरून गेल्ल्या आनी पुनवेक लागून संतुश्ट जाल्ल्या पौषाउपरांत माघ-फाल्गुनाक घेवन शिशीर ऋतू येता. महाभारताच्या अश्वमेध पर्वांत सांगलां, तेप्रमाण पयलीं 'ऋतवः शिशिरोदयः। म्हळ्यार शिशीर ऋतूंत नव्या वर्साचो आरंब जातलो. उपरांत वर्साचो आरंब चैत्रान जावंक लागलो. जाल्यारूय शिशीर वसंताची सुलूस दिता, म्हणपाक हरकत ना. कारण, थंडसाण थोडीभोव राखून दवरतनाच तो झाडांचीं पानां झडयता आनी वसंताच्या वांगडाच चैत्राच्या येवकाराची तयारी करता.

माघ शुद्ध तयेन रमजान म्हयन्याक म्हळ्यारूच रमजानाच्या उपासाक आरंब जाता. माघांतली चवथ (विनायकी) म्हळ्यार तर गणेशजल्माच्या उत्सवाचो दीस. खऱ्या अर्थान गणपतीचो जल्म जालो तो ह्या दिसा. देखून ज्या ज्या सुवातींनी गणपतीचीं देवळां आसात थंय उत्सव जातात. विशेश म्हळ्यार माघांत कांय कडांनी भाद्रपदांतले चवथीप्रमाणूच दबाज्यान चवथ करतात. हालीं तर माघांतली चवथ बरीच गडगडान जावंक लागल्या. ह्या म्हयन्यांतले पंचमीक 'वसंत पंचमी' म्हणटात. ऋतूंचो राजा वसंताच्या येवकाराक ह्या दिसा आरंब जाता, अशें मानपाची चाल आसा. त्या दिसा गोंयांत कवळ्यां शांतादुर्गेची जात्रा जाता, जाल्यार सप्तमीक महालक्ष्मीची जात्रा जाता. देवस्थानांनी नमीचे रथ जातात, थंय सप्तमीसावनच रथाच्या उत्सवाच्या वेगळ्यावेगळ्या विधींक आरंब जाता. शुद्ध सप्तम हो सूर्यपुजेचो दीस. बंगालांत हाका भास्कर सप्तमी म्हणटात, उत्तरेकडेन अचला जाल्यार दक्षिणेकडेन रथसप्तमी म्हणटात. शुद्ध नम हो व्हडल्या रथाचो आनी जात्रेचो दीस. हेच पंद्रशींत शुद्ध चतुर्दशीक केरी पेडणें श्री देव आजोबा जात्रा जाता, जाल्यार पुनवेक मंगेशीं श्रीमंगेशाची जात्रा जाता. माघांतली पुनव ही माघ-न्हाणाचे नदरेन म्हत्वाची. पौष पुनवेक आरंब जाल्ल्या माघ-न्हाणाची माघांतले पुनवेक समाप्ती जाता. हे निमतान तीर्थक्षेत्रांनी

न्हाण जाता, देवस्थानांनी समरादना जातात.

माघ म्हयन्यांतले दुसरे पंद्रशीचो आरंब पाडव्या दिसाचे गाणगापूरचे जात्रेन जाता जाल्यार पंचमीक आमोणें महालक्ष्मीचो उत्सव जाता. माघांतले कृष्ण नमीक 'दासनवमी' म्हूण वळखतात. दासबोध आनी मनाचे श्लोक सारक्या ग्रंथांवरवीं लोकांक जिणेचो उपदेश करपी समर्थ रामदास स्वामींची ही पुण्यतीथ समर्थ रामदास मंडळां जळींमळीं विंगड विंगड कार्यावळींवरवीं मनयतात. शिवाजी म्हाराजांचो शूर सेनापती वीर तानाजीचीय पुण्यतीथ हेच नमीक पडटा, जाल्यार एकादशीदिसा शूरवीर राणा प्रतापाचो यादस्तीक दीस येता.

ह्या म्हयन्याची समाप्ती महाशिवरात्रेच्या धर्मीक आनी विज्ञानीक म्हत्वाच्या उत्सवान आनी समुद्रन्हाणान जाता. ताचे वेध तिरोदशेसावनच लागतात. शिवाचे (शंकराचे) उपासनेतीर उपास, अभिशेक, पवित्र तिर्थांचेर न्हाण बी कितलेशेच विधी हातूंत आस्पावतात. शिवरात्रेक 'देव' लेगीत समुद्र न्हाणाक वता, म्हणटकूच वांगडा गेल्ल्या सगल्यांक आपशींच समुद्र-न्हाण घडटा, ही जाण्टेल्यांची युक्त तोखणाय करीसारकी. वर्सांतल्यान एक फावट तरी समुद्र-न्हाण गरजेचें ही विज्ञानीक नदर तांणी सामान्यांच्या मनांत वेगळे रितीन रिगयली. देखून ही तोखणाय सार्थ. ह्या दिसा सगल्याच पवित्र थळांनी 'न्हाण' जाता. ते नदरेन कर्नाटकांतलें गोकर्ण क्षेत्र महाशिवरात्रेच्या उत्सवाक लागून प्रसिद्ध आसा, जाल्यार गोंयांत हरवळेचें रूद्रेश्वर संस्थान.

शिवरात्रेन माघ सोंपता आनी उमेदीचो, उल्हासाचो फाल्गुन म्हयनो सुरू जाता. फाल्गुन म्हळ्यार वसंत ऋतू येवपाची पूर्वतयारीच. सैम सवकसायेन हो बदल सुचोवंक लागता. झाडांझोंपांक नवी, पाचवी कोमरी येवंक लागता. ह्या म्हयन्यांत शिगमो, होळी-पुनवेवांगडाच कांय बरे दीस लेगीत येतात. फाल्गुन शुद्ध बियेदिसा रमजानाचो उपास सोंपता आनी मुसलमान भाव-भयणी इदाची परब दबाज्यान मनयतात. मशिदींनी नमाज (प्रार्थना सभा) जातात. मात अतिधर्मीकतायेचे वृत्तीक लागून एकामेकांच्या लागीं रावनूय थंय कितें चलता तें दुसऱ्याक कळना वा समजून घेवपाची उमळशीक लेगीत लागिल्ली दिसना. समाज-एकचाराचे वृत्तींचेंय उणेपण हांगा दिसता, ही खंतीची गजाल.

मात सगल्यो खंती आनी दुख्खां पयसावपाची तांक ह्या म्हयन्यांतल्या शिगम्यांत खात्रीन आसता. अर्थांत, शिगमो हो गोंयचो व्हडलो उत्सव वा परब जाली तरी ती फकत हिंदुंची हें मानचेंच पडटलें. ना म्हणपाक गोंयांत सरकारी पांवड्याचेर शिगमोत्सव मनोवपाक लागिल्ल्याक सगलेच जाण हातूंत रूच घेतात आसले तरी हिंदू सोडून हेरांचें प्रमाण तशें उणेंच.

फाल्गुन शुद्ध दसमीक गांवांगांवांनी मांडांचेर नमन घालून शिगम्याक आरंब जाता आनी होळी पुनवेन मांड मोडून हो शिगमो सोंपता. हेच पुनवेक मधुराभक्ती संप्रदायाचे

प्रवर्तक, बंगालचे नामनेचे संत चैतन्य प्रभूंची जयंती, जल्मदीस हो एक खेरीत विशेश.

फाल्गुन शुद्ध पुनवेक महाराष्ट्रांत होळी वा शिगमो म्हणटात, उत्तर भारतांत दोलायात्रा होरी म्हणटात, दक्षिण भारतांत कामदहनाची याद म्हूण कामण्णाचो पुतळो करून लासतात. अशें सांगतात की ह्या दिसा शंकरान तिसरो दोळो उकतो करून 'काम' जाळून उडयलो. देखून दक्षिणेंत 'कामण्णा'क जाळपाची चाल रूढ जाल्या. महाराष्ट्रांत आनी गोंयांतूय होळी नाचोवन लासतात. ती लाकडाची वा कांय कडांनी माडयेपोफळीची आसता. शबय घालून दसमीसावन पुनवेमेरेन घाल्लीं धुमशेणां पुनवेदिसा मांड मोडून सोंपतात. मात्त, पुनवेमेरेनचो शिगमो हो दक्षिण गोंयांत चलता आनी ताका 'धाकलो शिगमो' ह्या नांवान वळखतात. चार दीस भरपूर नाचपाचें-खेळपाचें आनी दुख्खाचे चार खीण विसरून सुखासमाधानाचे चार खीण सांगात्यांवांगडा सारपाचे ही शिगम्याफाटली भावना आनी वायट तें नश्ट करून उडोवप ही होळयेफाटली भावना. दुसऱ्या दिसाचें 'धुलीवंदन' म्हळ्यार जमनीचो मोग उक्तावपाची एक तरा. अशा ह्या शिगम्याफाटल्यान धर्मीक भावना आशिल्ल्यान धुमशेणांत लेगीत एक शिस्त आसता. मात्त, हालींसरा थोडींभोव मस्तेपणां हातूंत येवंक लागल्यांत. तसले प्रकार टाळपाची गरज आसा.

शिगम्याउपरांत फाल्गुनाचे दुसरे पंद्रशीक म्हळ्यार कृष्णपक्षाक म्हळ्यारूच दर म्हयन्यांतले प्रमाण काळखे पंद्रशीक आरंब जाता आनी पाडव्यान शिशिराक निरोप मेळपाक लागता. पाडव्याक कांय कडांनी शिगम्याच्यो (दिवजांच्यो, भोंवरीच्यो) जात्रा जातात. बियेदिसा तुकाराम बीज येता. तुकाराम हो फक्त कथा-किर्तनां, भजनां करपी संत न्हय, तर आपल्या अभंगांनी समाजाक जाग्रुत करपी व्हड समाजपुरीस. हे नदरेन तुकारामबीज मनोवपाची गरज आसा. हे उपरांत येता ती पंचम म्हळ्यार रंगपंचम. ह्या दिसा गोंयांत कितल्याशाच कडांनी गुलाल जाता. फातर्पेंचो गुलाल आनी प्रसिद्ध सत्र्यांचो उत्सव ह्या दिसा जाता. काणकोणच्या मल्लिकार्जुन देवस्थानांतलीं दिवजां-भोंवरेची आनी अवतारपुरसाच्या तरंगांची जात्रा हे पंचमीक आनी सश्टीक जाता. दर दोन वर्सांनी सश्टीदिसा नामनेच्यो 'शिशारान्नी' जातात. हे सश्टीक 'एकनाथ सश्ट' अशेंय म्हणटात. तीर्थक्षेत्र पैठणचे भागवत धर्माचे प्रचारक आनी म्हान समाजसुधारक संत कवी एकनाथ महाराजांच्या म्हानिर्वाणाची ही तीथ. मात्त, 'एका जनार्दनी' म्हूण संत एकनाथाचे अभंग आळोवपा घोळोवपाबगर बंडखोर आनी समाजसुदारक एकनाथाची देख घेवन ताचो वावर मुखार व्हरपाचें कार्य आमच्या हातांतल्यान व्हडलेंशें घडिल्लें दिसना.

पूण काळ कसोच रावना. फाल्गुन आतां सोंपपाक पाविल्लो आसता. मात्त, निमाणे दीस लेगीत तसो उमेदीनूच सोंपता. ह्याच दिसा (फाल्गुन उमाशेक) गोंयचो नामनेचो असो जांबावलेचो गुलाल जाता, जाल्यार सांग्यावयलो वीरभद्र लेगीत ह्याच दिसा थयथय घालून नाचता आनी घडये पोरण्या वर्साक तेच उमेदीन निरोप दिता.

# कालचक्रा भोंवतणें घुंवतना — जानेवारी... डिसेंबर

चैत्रसावन फाल्गुन मेरेन येवपी भारतीय म्हयन्यांतल्या दिसांचें मेजप चंद्राच्या कळांचेर आदारिल्लें आसता. देखुनूच, मळबांत पुराय चंद्राचें दर्शन घडटा ती पुनव आनी जे रातीं मळबांत अजिबात चंद्र दिसना आनी रातभर भिण्ण काळळोख आसता ती उमास, हें आमी सगले जाणात. अशें मेजप जाता तेन्ना ताका चांद्रमास वा चंद्रम्हयनो म्हणटात. हो म्हयनो सौरमासापरस (सुर्याचे उदेंतेप्रमाण आनी अस्तमतेप्रमाण मेजप) ल्हान आसता. ताका लागून एकाद्रया म्हयन्याक अदीक मास, अदीक म्हयनो वा चडीत म्हणटात. चैत्रसावन आश्विनमेरेन असो म्हयनो येता. चैत्र, ज्येष्ठ, श्रावण हे म्हयने बारा वर्सांनी एक फावट अदीक म्हयनो म्हूण येतात जाल्यार भाद्रपद चोवीस वर्सांनी एक फावट अदीक म्हयनो म्हूण येता. म्हयन्यांवरी दीस लेगीत केन्ना केन्ना 'अदीक' येतात. अशा दिसांक धोंडा वा धोंड दीस म्हणटात. अदीक मासाकूय 'धोंडा महिना' म्हणपाची चाल आसा.

आतां चैत्रासावन फाल्गुनमेरेनच्या म्हयन्यांतल्या दर दिसाचें जशें एक म्हत्व आसा, तशेंच जानेवारी सावन डिसेंबर मेरेन येवपी म्हयन्यांतल्या दिसांक तारखांचे नदरेन एक वेगळें म्हत्व आसा. जानेवारी हो वर्साचो पयलो म्हयनो म्हूण ताका खाशेलें म्हत्व आसा, तशेंच ख्रिसमसानिमतान शांततायेचो आनी मोगाचो संदेश पोरण्या, आदल्या वर्सांतल्यान नव्या वर्सांत पावोवपी म्हयनो म्हूण ताका विशेश म्हत्व आसा. आनी तशें पळोवंक गेल्यार स जानेवारीचें रायांचें परबेमेरेन ख्रिसमसाची परब चलता. ६ जानेवारीक कुवेली, चांदर आनी रेयजमाग ह्या तीन सुवातींनी 'रायांचें फेस्त' जाता. कासावलेचें तीन रायां फेस्त म्हूण तें फामाद आसा. शीख धर्मियांक 'ग्रंथसाहिब'ची देणगी भेटोवपी गुरू गोविंदसिंहाची जयंती (जल्मदीस) आठ जानेवारी दिसा येता. स्वताची कार्यावळ आंखतना देश विदेश भोंवपाची गरज जांकां दिसली, तशी येवजण करून जांणी ती प्रत्यक्षांत हाडली आनी तरणाट्यांमदीं अशी कांय जागृताय निर्माण केली की त्या तेजस्वी, कर्तुबी म्हापुरसाचो स्वामी विवेकानंदाचो जल्मदीस (१२ जानेवारी १८६३) युवा-दीस म्हूण देश मनयता. चौदा जानेवारी म्हळ्यार मकरसंक्रांत. मायेमोगाचें प्रतीक अशे तिळगूळ एकामेकांक वांटून आदली दुस्मानकाय विसरून सोयरगत सुरू

करपाचो आनी आशिल्ली इश्टागत घट करपाचो दीस. ह्या दिसाचो विशेश म्हळ्यार ह्या दिसासावन फुडले दीस व्हड जायत वतात, शीं उणें जायत वता. संक्रांत देवीन संकासुराक मारून उडयलो देखून ही संक्रांत मनयतात अशी काणी आसा. तिणेंच दुसऱ्या दिसा किंकर राकेसाचो नाश केलो, देखून संक्रांतीच्या दुसऱ्या दिसाक किंक्रांत वा कंक्रांत म्हणटात. १४ जानेवारी दिसा नामनेचे विचारवंत, न्यायमूर्ती महादेव गोविंद रानडे हांची पुण्यतीथ येता. १६ जानेवारी हो दीस गोंयकारांचे राजकी भवितव्याचे नदरेन म्हत्वाचो दीस. गोंय महाराष्ट्रांत विलीन करचें वा स्वतंत्र उरचें हाचो निर्णय मतदानावरवीं (ओपिनियन पोल) थारावपाचो फूल-पानाचो, जनमत कौलाचो हो दीस. स्वतंत्रतायेच्या झुजांतले तरणाटे बंडखोर फुडारी आनी आझाद हिंद सेनेचे संस्थापक, सरसेनापती म्हूण सिंगापुरांतल्यान 'चलो दिल्ली' आदेश सैन्याक दितनाच देशाक 'जयहिंद' चो मंत्र दिवपी नेताजी सुभाषचंद्र बोस हांची जयंती २३ जानेवारी दिसा येता. २५ जानेवारी हो नामनेचे कर्तुत्वी विचारवंत एम्.एन्. रॉय हांचो यादस्तीक दीस. २६ जानेवारीचें म्हत्व तर खाशेलें. ह्या दिसा भारतीय राज्यघटना लागू केल्ल्यान गणराज्य दीस वा प्रजासत्ताक दीस म्हूण तो मनयतात. भारतीय स्वतंत्रतायेचे चळवळींत गाजिल्ल्या लाल लजपतराय हांचो जल्मदीस २८ जानेवारीक येता, जाल्यार सत्याग्रहाचो आग्रो धरून अहिंसेच्या मार्गान संवसारांतली व्हडली स्वतंत्रतायेची चळवळ जैतवंत केल्ल्या महात्मा गांधींची पुण्यतीथ ३० जानेवारीक येता. प्रार्थनासभेंत वतना गुळी लागून महात्माजींक मरण आयलें आनी ते हुतात्मे जाले. देखून, ह्या दिसा महात्मा गांधींवांगडाच देशभरच्या हुतात्म्यांची याद करतात आनी सकाळीं ११ वरांचेर देशभर सगले वेव्हार थांबोवन दोन मिनटां तांकां आर्गां ओंपतात. आतां हालींसरा हातुंतली गंभीरताय उणी जायत चल्ल्या आनी दिसादिसा ती एक 'फॉर्मालदाद' जायत चल्ल्या ही गजाल वेगळी. स्वातंत्र्यवीर विनायक दामोदर सावरकरांक जल्मठेपेची ख्यास्त घडली तो दीस लेगीत ३० जानेवारीच.

फेब्रुवारी म्हयन्याचे दीस तशे सगल्यांत उणे म्हळ्यार २८ आनी लीप वर्स येत जाल्यार २९. मात, ह्या म्हयन्याक गोंयचे नदरेन खूब म्हत्व. कोंकणी प्रजेचो आवाज' संघटनेच्या बावट्यासकयल एकठांय जावन समस्त गोंयकारांनी जशें कितें सरकाराआड झूज मांडून गोंय राज्याचे विधानसभेंत कोंकणी गोंयची राजभास म्हूण जाहीर करपाचो कायदो पास केल्ल्याची खाशेली इतिहासीक गजाल आयकली, पळयली ती ४ फेब्रुवारी १९८७ दिसा. आतां तो दीस राजभास दीस म्हूण गोवा कोंकणी अकादेमी आनी हेर संस्था मनयतात. स्वतंत्रतायेच्या मोगान 'ने मजसी ने परत मातृभूमीला सागरा प्राण तळमळला' म्हणत प्रसंगार दर्यांत उडी मारपाचें धाडस दाखोवपी स्वातंत्र्यवीर सावरकरांचो जल्मदीस ६ फेब्रुवारीक येता. १० फेब्रुवारी हो फाकीवंत समाजवादी विचारवंत प्रा.

नरहर कुरुंदकरांचो यादस्तीक दीस. ह्याच म्हयन्याचे पंदरा तारखेक गुरू रविदास जयंती येता. देशांतले पयले नामनेचे स्वातंत्र्य झुजारी वासुदेव बळवंत फडके हांची पुण्यतीथ १७ फेब्रुवारीक येता खरी, पूण त्या मानान तांची, तांच्या वावराची वा ते निमतान देशांतल्या स्वातंत्र्यझुजाऱ्यांची याद करपासारक्यो आनी तांचेकडल्यान स्फूर्त घेवपासारक्यो कार्यावळी ह्या दिसा जायनात, ही मनाक लागपासारकी गजाल. ह्याच दिसा (१७.२.१९२९) येता ते रामकृष्ण परमहंस जयंतीचीय गजाल वेगळी न्हय. स्वताचो खरायेन अणभव घेतिल्लो आनी स्वामी विवेकानंदाचें गुरूपद प्राप्त जाल्लो हो म्हान पुरूश. पूण आमचे नदरेन मात फास्केंत घालून दवरपा सारको चारचौगांसारको एक संत! १९ फेब्रुवारी म्हळ्यार स्वतंत्रतायेच्या झुजांतले नामनेचे फुडारी गोपाळकृष्ण गोखले हांची पुण्यतीथ. ज्येष्ठ समाजवादी आचार्य नरेंद्र देवांचोय यादस्तीक दीस १९ फेब्रुवारीच. गांधी परिवाराकूच न्हय, तर संवसाराक लेगीत 'बा' म्हूण जांची वळख आसा, त्या कस्तुरबा गांधींची पुण्यतीथ २२ फेब्रुवारी दिसा येता, जाल्यार २६ फेब्रुवारी दिसा वीर सावरकर पुण्यतीथ येता.

गोंयकारांचें आनी विशेश करून कोंकणी समाजाचे नदरेन २६ फेब्रुवारी (१९७५) ह्या दिसाक खेरीत इतिहासीक म्हत्व आसा. ह्याच दिसा केंद्रीय साहित्य अकादेमीन कोंकणीक साहित्यीक भास म्हूण मान्यताय दिवपाचो थाराव मानून घेतलो आनी त्या दिसासावन कोंकणी देशांतले साहित्यीक भाशांचे पंगतीक बसली.

देशाचे पयले राष्ट्रपती डॉ. राजेंद्रप्रसाद यादस्तीक दीस ह्याच म्हयन्याचे २८ तारखेक (१९६३) येता, जाल्यार विज्ञानयुगाचे नदरेन ह्या दिसा एक वेगळें म्हत्व आसा. तें म्हळ्यार, हो दीस राष्ट्रीय विज्ञान दीस म्हूण मनयतात.

फेब्रुवारी म्हयनो कांय म्हत्वाच्या खिरस्ती परबांचो म्हयनो. ह्या म्हयन्यांतले निमाणे दोन आयतार कोरेज्माचे आयतार म्हूण येतात जाल्यार ताचेपयलींचो बुधवार गोबरा-बुधवार म्हूण येता.

८ मार्च हो संवसारीक बायलांचो दीस. संवसारांतली आपली हक्काची सुवात मेळोवन घेवपाखातीर विंगड विंगड कार्यावळींवरवीं बायलांमदीं जागृताय हाडपाचो हो दीस. मात अशा दिसांचें उत्सवी रूप जाता तितले बेगीन उणें जावन बायलांखातीर 'टायम-बाऊंड' कार्यावळी आंखून त्यो चालीक लावप चड गरजेचें.

१२ मार्च हो गोंयचे पयले मुख्यमंत्री भाऊसाहेब उर्फ दयानंद बांदोडकार हांचो जल्मदीस. 'विद्‌यार्थी दीस' म्हूण तो गोंयच्या शाळांनी मनयतात. भाऊंचे मिरामारच्या समाधीकडेन कांय कार्यावळी जातात. १५ मार्च हो वेव्हारीक नदरेन म्हत्वाचो दीस. संवसारीक गिरायक दीस म्हूण तो मनयतात, जाल्यार १६ मार्च हो मनीसपणाचे नदरेंतल्यान म्हत्वाचो दीस. संवसारीक अपंगुळांचो दीस हो! मात अपंगुळांचेर उपकार म्हूण तांकां

कोणाच्या उखलाप्या मायेमोगाची गरज नासता, तर तांकां स्वताच्या पांयांचेर उबें रावपाक खर आत्मविस्वास आनी बळगें दिवपाची गरज आसता, हाची सुद्द अशा दिसांनी आमी जागी करप गरजेचें. ह्याच म्हयन्याचे २१ तारखेक येवपी संवसारीक रान दीस लेगीत आमी फकत कार्यावळी वा उत्सव करून न्हय तर रानाचे आनी तातुंतल्या प्राण्यांचे जतनायेच्यो कार्यावळी आंखून, त्यो चालीक लावन मनोवप सामकें गरजेचें. कारण, पर्यावरणाच्या संदर्भांत रानांचें आनी तातुंतल्या प्राण्यांचें म्हत्व आज तरी कोणाक सांगपाची गरज नाच्च!

मार्च म्हयन्यांतले सगले आयतार हे कोरेज्माचे आयतार आनी ह्याच आयतारांउपरांत येवपी बिरेस्तार हो 'निमाणो बिरेस्तार'.

एप्रिलाची १ तारीख म्हळ्यार एप्रिल फूल! मुर्खांचो दीस. आमच्या देशांत मात ह्या दिसाक वेगळें म्हत्व आसा. ज्येष्ठ समाजवादी तपस्वी एस्.एम्. जोशी हांचो यादस्तीक दीस एक एप्रिलाक पडटा. सात एप्रील हो संवसारीक आरोग्य (भलायकी) दीस. जाल्यारूय आरोग्याचें तशें सगल्यांक पडून वचूंक ना! सरकारी पांवड्याचेर आनी रेडक्रॉस, लायन्स क्लबांसारक्या सेवाभावी संस्थांच्या पांवड्यार मात हो दीस चड प्रमाणांत मनोवप जाता. मात हेनिमतान 'आरोग्यं धनसंपदा' हो मंत्र आमी सदांखातीर आपणायल्यारूच अशा दिसांचें सार्थक जावं येता.

९ एप्रील (१९४६) दर एका स्वाभिमानी कोंकणी मनशान काळजांत कोरांतून दवरपासारको दीस. कोंकणी दीस. कोंकणीक पुनर्जल्म दिवन भोवमानाचो पाट फावो करून दिवपी म्हापुरसाची, शणै गोंयबाबाची ही पुण्यतीथ.

१४ एप्रील भारतीय राज्यघटनेचे शिल्पकार म्हूण जांकां वळखतात, त्या दलितांच्या म्हान फुडाऱ्याचो, भारतरत्न डॉ. बाबासाहेब आंबेडकरांचो हो जल्मदीस. ह्या दिसांनी येवपी 'गुड् फ्रायडे' हो एक असोच खिस्त धर्मियांचे नदरेन म्हत्वाचो धार्मिक विधींचो दीस. इस्टर संडेचें म्हत्व लेगीत अशेंच.

ह्या म्हयन्याची १३ एप्रील म्हळ्यार तर याद काडल्यारूच जिवाक अनंत यादींनी खंत भोगोवपी दीस. ह्याच दिसा १९१९ वर्सा पंजाबांतलें आकांताचें जालियनवाला बाग हत्याकांड घडलें! ब्रिगेडियर जनरल डायरच्या मुखेलपणाखाला सादारणपणान १२०० लोकांची त्या दिसा कत्तल जाली आनी सादरणपणान ताचे तिपेटीन लोक जखमी जाले. संवसारांतलें हें म्हान हत्याकांड!

१६ एप्रील ही तारीख भारतीय इतिहासांत एके तंत्रीक, विज्ञानीक क्रांतीखातीर प्रसिद्ध आसा. १६ एप्रील १८५३ दिसा सांजवेळा ५ वरांचेर बोरीबंदर ते ठाणे (मुंबय) अशी ४३ कि.मी. अंतराचेर ह्या देशांतली पयली रेलगाडी धांवली! ब्रिटिशांनी केल्ल्या बऱ्या गजालींतली ही एक बेस बरी गजाल. १७ एप्रिलादिसा गोंयच्या संदर्भांत म्हत्वाची

घटना म्हळ्यार रंगमाची दीस. ह्या म्हयन्याची १९ तारीख (१९-४-१८९२) भारतांतल्या बालशिक्षणाचे बुन्यादीच्या एका घटमूट खांब्याची, समर्पित जिणेची, पद्मभूषण ताराबाई मोडक हांची जयंती. आयच्या पाळणाघर, बालवाडी, आंगणवाडीची बुन्याद तांणीच घटमूट केली.

मे म्हयनो म्हळेबरोबर 'माय तापला!' वाक्प्रचाराची याद जालेबगर रावना. जाल्यारूय कामकश्टांक आनी घाम-हुमेक संवसारीक पांवड्याचें म्हत्व दियत मे म्हयनो उदेता. १ मे हो रातदीस काम करपी कामगारांचो दीस, 'जागतीक कामगार दीस'. महाराष्ट्र राज्य स्थापनेचो तो दीस जाल्ल्यान 'महाराष्ट्र दिन' म्हणूनय तो महाराष्ट्र राज्यांत मनयतात. ३ मे दिसा नामनेचे समाजवादी फुडारी हमीद दलवाई हांची पुण्यतीथ येता, जाल्यार भारत देशाक नोबेल पुरस्कारावरवीं संवसारीक साहित्याच्या पांवड्यार पावोवपी कवीश्रेष्ठ रवीन्द्रनाथ टागोरांची जयंती (जल्मदीस) ७ मे दिसा येता. तांच्या मूळ बंगालींतल्या इंग्लिशींतल्यान अणकार केल्ल्या 'गीतांजली' काव्यसंग्रहाक १९१२ वर्सा साहित्याचो नोबेल पुरस्कार मेळ्ळो आनी बंगाली साहित्यावांगडा भारतीय साहित्याकूय खेरीत आयाम लाबलो. मात्त, रवीन्द्रनाथ टागोर तांच्या मायदेशाच्या लक्षांत उरल्यात ते कलकत्त्यांतले आनी पर्यायान देशांतले 'शांतीनिकेतन' हे शिक्षणीक, संस्कृतीक शिक्षणसंस्थेचे स्थापनेक लागून. भुरग्यांचे सर्वंगी उदरगतीखातीर मुळावो वावर करपी संवसारांतली ही एक नामनेची मोटी संस्था.

८ मे हो संवसारीक रेड क्रॉस दीस. संवसारांतल्या सगल्या दुखेस्त मनशांक धीर आनी आदार दिवपी 'रेड क्रॉस' ही संस्था. 'शिपायांचें बंड' म्हूण जे १८५७चे क्रांतीक वळखतात, त्या झुजाचो आरंब १० मे (१८५७) दिसा मिरत हांगा शिपयांच्या बंडान जालो. १५ मे (१९४६) ही तारीख भारतीय स्वातंत्र्याच्या संदर्भांत एकदम म्हत्वाची. हिंदी राज्यघटनेचो प्रस्न सोडोवन राष्ट्रीय सरकाराची स्थापणूक करपाचे हेतून ब्रिटिश सरकारान नेमिल्ल्या शिष्टमंडळान (प्रधानमंडळांतले तीन मुखेल सभासद भारतमंत्री मि. पेथीक लॉरेन्स, सर स्टॅफर्ड क्रिप्स, मि. अलेक्झांडर) त्या दिसा एक येवजण जाहीर केली. ताका धरून पं. नेहरूच्या मुखेलपणाखाला सप्टेंबर १९४६त हंगामी सरकाराच्या पयल्या प्रधानमंडळाची स्थापणूक जाली.

देशांतल्या लोकांक व्हड मायामोग दिवपी एका म्हापुरसाची ह्या म्हयन्यांत (२७ मे) याद जाता, तो म्हापुरूश म्हळ्यार भारताचे आदले प्रधानमंत्री पंडित जवाहरलाल नेहरू. तांच्या परराष्ट्र धोरणासंबंदान आनी देशाचे उदरगतीच्या येवजणांसंबंदान कितलेय वाद आसूं, एक गजाल खरी की भारतीय भौस तांकां भौ मानतालो आनी तेवूय लोकांचेर उपाट मायामोग रकयताले! 'आधुनिक भारताचे शिल्पकार' ही लोकांनी तांकां दिल्ली उपाधी ही तांचे विज्ञानीक नदरेची साक्ष आनी संवसारीक पांवड्याचेर भारत

देशाची जाल्ली वळख हें तांच्या म्हानपणाचें फळ म्हळ्यार अतिताय जावची न्हय! मात्त, संवसारीक फुडारपणाइतलोच पंडित नेहरूमदलो 'मनीस' आनी 'कलाकार' व्हड आसलो, हे नदरेनूय तांचे यादीक विशेश म्हत्व फावता.

३० मे हो गोंयच्या राजकी आनी भूगोलीक मळांवेलो खेरीत म्हत्वाचो दीस. ह्याच दिसा १९८७ वर्सा गोंय देशांतलें पंचविसावें घटक राज्य म्हूण जाहीर जालें. हाका लागून ३० मे हो गोंय राज्याचो वाडदीस. दर वर्सा विंगड विंगड कार्यावळींनी मनोवप जाता. मात्त, फावो तें 'सिंहावलोकन' आमचेकडल्यान घडना. आनी देखुनूच गोंयचे उदरगतीचें अपेक्षीत फळ अजून आमच्या पदरांत पडना, ही खंतीची गजाल.

जून म्हापराक्रमी राणा प्रताप जयंतीन सुरू जाता. १ जून ही तांच्या जल्मदिसाची तारीख, जाल्यार २ जून हो गुरू अर्जुनदेव शहीद दीस. ३ जून (१९४७) हो दीस अखंड भारत देशाचे नदरेन दुर्दैवी दीस. कारण, ह्याच दिसा देशाची फाळणी करपाची लॉर्ड माऊंटबॅटन हांची येवजण फुडें आयली. ५ जून तर संवसाराचे नदरेन सामको म्हत्वाचो दीस. पृथ्वी (भूंय), आप (उदक), तेज (सूर्य), वायू (वारो), आकाश (मळब) ह्या सगल्यांकडेन संबंद पावपी संवसारीक पर्यावरण दीस ५ जुना दिसा येता. आतां पर्यावरण म्हळें की ताचो संबंद सजीव आनी निर्जीव ह्या दोगांयकडेन चड-उण्या प्रमाणांत येयत आसता. देखून, ह्या दिसानिमतान तरी मनीसप्राण्यान पर्यावरण सांबाळून दवरपाचो संकल्प करूंक जाय.

ह्या पर्यावरण दिसाप्रमाण कांय म्हान समाज फुडाऱ्यांचे आनी म्हान पुरूशांचे दीस ह्या म्हयन्यांत येतात. देखीक, महाराष्ट्राचे 'आई' अशा एका म्हान, आदर्श समाजशिक्षकाचो – पूज्य साने गुरुजींचो – यादस्तीक दीस ११ जुनाक येता, जाल्यार देशाचे स्वतंत्रतायेच्या काळांत गाजिल्ल्या टिळक-आगरकर वादांतल्या आगरकरांची म्हळ्यार गोपाळ गणेश आगरकर हांची पुण्यतीथ १७ जुनादिसा येता. आतां ह्या अशा फुडाऱ्यांचे तात्त्विक वाद हे राजकी नदरेंतल्यान समजून घेवप हें आयच्या राजकारण्यांचें, समाजकारण्यांचें आनी चड करून तरणाट्या कार्यकर्त्यांचें कर्तव्य अशें सांगलेबगर रावंक जायना! विचारवंत आगरकरांचे समाजसुदारणेचे विचार तर आयजूय उपकरा पडसारके आसात.

१८ जून (१८५८) ही स्वातंत्र्यझुजारी राणी लक्ष्मीबाईची पुण्यतीथ म्हूण देशाचे नदरेन जितली म्हत्वाची, तितलीच गोंयचे आनी देशाचे नदरेन १८ जून (१९४६) ही तारीख गोंयच्या मुक्ततायेझुजाच्या नव्या पर्वाक आरंब करपी तारीख म्हूण म्हत्वाची. ह्याच दिसा डॉ. राम मनोहर लोहियान पुर्तुगेज सरकाराचो सभाबंदीचो आनी भाशणबंदीचो हुकूम आनी कायदो मोडून मडगांवां जाहीर सभा घेतली आनी गोंयांत क्रांतीचें नवें शिंग फुकलें! २३ जून ही तारीख लेगीत स्वाभिमानी गोंयकारांचे नदरेन सामकी म्हत्वाची. कारण, गोंयकारांक – खरें म्हळ्यार समस्त कोंकणी समाजाक – आपले भाशेची

आनी संस्कृतायेचो दिश्टावो घडोवपी एक म्हापुरूश, शणै गोंयबाब, वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार, ह्या नांवान जल्माक आयलो, तो जून म्हयन्याचे २३ तारखेक. देशाचे 'पितामह' अशी भौमानाची आनी फावोशी पदवी जांकां लाबल्या, त्या स्वतंत्रतयेच्या झुजांतल्या ज्येष्ठ फुडाऱ्याची, दादाभाई नवरोजींची पुण्यतीथ ३० जुनादिसा येता. मात्त, अशा कांय म्हत्वाच्या नांवांचें लेगीत परिक्षेच्या प्रस्नांच्यो जापो बरोवपाइतलेंच म्हत्व उरलां, हाची खंत भोगलेबगर रावना!

५ जुलय (१९४३) हो दीस सुभाषबाबूंचे आझाद हिंद सेनेचे स्थापनेचो दीस म्हूण स्वतंत्रतायेच्या झुजांत सामको म्हत्वाचो दीस. मात, तरणाट्यांचे आवडीचे झुंजार फुडारी सुभाषचंद्र बोस हांची 'आझाद हिंद सेना' जैतवंत जावंक पावली ना आनी खुद्द सुभाषबाबू लेगीत निमाणेमेरेन (तशे आयजूय) वादाच्या भोंवऱ्यांत सांपडले ते तशेच उरले!

८ जुलय हो दीस कोंकणी समाजाच्या इतिहासांतलो काळजार कोरांतून दवरपाचो दीस. ह्याच दिसा १९३९ वर्सा कारवारांत भौ. माधव मंजुनाथ शणै शानभाग ह्या म्हापुरसान पयली कोंकणी परिशद घडोवन हाडली. जैतवंत रितीन हे परिशदेची परंपरा आयजूय आमचेमदीं चालू आसा. मात्त मुंबय ते कोचीमेरेन पातळिल्ल्या कोंकणी समाजाक एकठांय हाडपाची आनी कोंकणी भाशेची चळवळ ही कोंकणी समाजाचो उदरगतीखातीर म्हूण करपाचो परिशदेचो हेतू कितलोसो जैतवंत जावंक पावला, हाचो विचार केल्यार अपेस वांट्याक येवपाचीच चड शक्यताय आसा!

१८ जुलय दिसा लोकशाहीर अण्णाभाऊ साठे हांची पुण्यतीथ येता. लोकरंजनांतल्यान लोकशिक्षण दिवपाच्यो कार्यावळी हेनिमतान आंखून त्यो फळादीक करप चड गरजेचें.

१९ जुलय (१९४७) हो दीस अखंड भारताचे नदरेन 'काळो दीस' म्हणपाक जाय. कारण, त्या दिसा अखंड हिंदुस्थानचे दोन कुडके जावन भारत आनी पाकिस्तान अशे दोन देश जाले.

आगश्ट हो आमच्या देशाखातीर तरी क्रांतीचो म्हयनो म्हणपाक हरकत ना. ह्या म्हयन्याचो आरंबूच मुळांत लोकमान्य टिळक पुण्यतिथीन जाता. १ आगश्ट दिसा येवपी ही लो. टिळक पुण्यतीथ आमकां स्वतंत्रतायेवांगडाच मनशाच्या मुळाव्या हक्कांची जाणविकाय करून दिता. 'स्वातंत्र्य हा माझा जन्मसिद्ध हक्क आहे आणि तो मी मिळविणारच' – Freedom is my Birthright and I shall have it – अशी घोशणा करून ती खरी करपाखातीर जिणेचे निमणेमेरेन झुजपी लोकमान्य टिळक म्हळ्यार देशांतलो म्हान बुदवंत झुजारी फुडारी. स्वातंत्र्यझुजावांगडाच तांचे 'केसरी'न ब्रिटिशांक हालयलें आनी बंदखणींत पडलेउपरांतूय 'गीतारहस्य' ग्रंथाची निर्मणी करून तांणी आपली बुदवंतकाय सिद्ध केली. १ आगश्टाचो आनीक एक विशेश म्हळ्यार 'तेल्यांतांबोळ्यांचे

फुडारी' लोकमान्य टिळक पुण्यतिथी दिसाच लोकशाहीर अण्णाभाऊ साठे जल्मदीस येता.

ह्या म्हयन्याची ९ तारीख म्हळ्यार ९ आगश्ट हो भारतीय स्वातंत्र्याचो क्रांतीदीस. महात्मा गांधीजींनी ब्रिटीशांक 'छोडो भारत' – Quit India – असो आदेश दिलो, तो हो दीस. १९४२ वर्साची खबर ती. पुराय निर्धारान सुरू केल्ली ही 'भारत छोडो' चळवळ. हे चळवळीक जैत मागीर थोडें उसरां मेळ्ळें, पूण अहिंसक मार्गान सुरू केल्ली संवसारांतली ही एक म्हान जैतवंत चळवळ.

ह्याच म्हयन्याचे १२ तारखेक भाऊसाहेब बांदोडकारांचो यादस्तीक दीस येता. तांच्या जल्म-मर्णाच्या तारखांचो विशेश म्हळ्यार तांची जल्म तारीख १२ मार्च, जाल्यार मर्ण तारीख १२ आगश्ट.

१५ आगश्ट (१९४७) ही तारीख म्हळ्यार तर भारतीय स्वातंत्र्याच्या म्हान सपनांच्या फुलां-फळांच्या भाराची तारीख! शेंकड्यांनी न्हय, हजारांनी न्हय, लाखांनी स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांनी ह्या स्वतंत्रतायेच्या झुजांत वांटो घेतलो. कितल्याशाच जाणांक आपल्यो कुडी-आत्मे तातूंत व्हगडावचे पडले आनी भारतीय स्वतंत्रतायेच्या ह्या अहिंसक झुजाक नाय म्हळ्यार रगताचें 'काजळाचें बोट' लागलेंच! जाल्यारूय निमाणें कसलीच रगत-क्रांती जायनासतना महात्मा गांधी सारक्या म्हान फुडाऱ्याच्या फुडारपणाखाला १५ आगश्ट १९४७ दिसा भारताक स्वातंत्र्य मेळ्ळें, हें विशेश.

हालींच ह्या म्हयन्यांत घडिल्ली आनीक एक 'क्रांतीकारी' घटना म्हळ्यार २० आगश्ट १९९२ दिसा कोंकणी भाशेचो (वांगडाच नेपाळी आनी मणिपुरी) भारतीय घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत जाल्लो आस्पाव! हेखातीर कितल्याशाच वर्सांसावन नेटान चळवळ चालू आशिल्ली हें जितलें खरें, तितलेंच कोंकणी साहित्याच्या ल्हान काळाच्या इतिहासांत इतले बेगीन कोंकणीचो आस्पाव घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत जावप आनी ताचेकूय विशेश म्हळ्यार एकाच दिसा कांय वरांभितर संसदेच्या दोनूय सभाघरांनी हें विधेयक मानून घेवप ही घटना कोंकणी समाजाक आकांत उर्बा उमेद दिवपी आनी काळजांनी खोशयेचो दर्या उफेवपी! मात्त हे 'क्रांतिकारी' घटनेची फावो तितल्या वेगान दखल घेवन ताचें भांगर करपाचे नदरेन फावो तीं पावलां मारप आमकां अजून शक्य जाल्लें दिसना. घडये सुशेगादपणाचें भूत आमचे मानगुटेवयलें सुटलेंना जावंये वा भाशेच्या संस्कृतायेकडल्या संबंदाचें सुवेर-सुतक आमकां पडून गेल्लें नासुंये! अर्थात्, दर वर्सा ह्या दिसानिमतान सुवाळे मनोवप आमच्या उत्सवी सभावाक धरून चालू आसाच आनी तें तशें चालू उरतलेंय बी!

सप्टेंबराची ५ तारीख हो एक असोच देशभर 'शिक्षक दिन' म्हणून कितल्याशाच वर्सांसावन मनोवप चालू आशिल्लो दीस. भारताचे आदले राष्ट्रपती तत्त्वगिन्यानी सर्वपल्ली

राधाकृष्णन हांचो हो जल्मदीस. राष्ट्रपती जावचेआदीं कांय तेंप ते शिक्षक आशिल्ले. एक शिक्षक राष्ट्रपती जावप हो शिक्षक वर्गाचो भौमान हे नदरेंतल्यान तांचो जल्मदीस हो 'शिक्षक दीस' म्हूण मनोवपाची रीत आमच्या सरकारान चालू केली आनी आयजूय ती चालू आसा. अर्थात्, शिक्षकी पेशाचें अवमूल्यन जायत चलिल्ल्या आयच्या काळांत त्या दिसा 'गुरूर्ब्रम्हा, गुरूर्विष्णु, गुरूर्देवो महेश्वरः' बी उतरांनी शिक्षकाचो भोवमान जाता आनी दुसऱ्या दिसा तें सगलें थारावन विसरप जाता! खरें म्हळ्यार जेमेरेन आदल्या काळांतल्या राजदरबारांनी आचार्यांक आशिल्लो मान आयच्या शिक्षकांक फावो जायना, तेमेरेन ह्या एका दिसाच्या भोवमानाच्या नाटकांक कांय एक अर्थ ना!

८ सप्टेंबरा दिसाचो 'अंतरराष्ट्रीय साक्षरता दीस' होवूय असोच एक फॉर्मालदादीचो दीस जावन पडला! शिक्षण सगल्यांक जाय हें खरें. पूण जेमेरेन शिक्षणाबगर आमचें खंय तरी कितें तरी अडटा, हें निरक्षर जाणट्यांक होलमचें ना, तेमेरेन 'सप्टेंबर दिसा'च्या कार्यावळींक उत्सवाभायर व्हडलोसो अर्थ उरचोना. ना म्हणपाक असल्या उत्सवी कार्यावळींक लागून थोडीभौ जागृताय जाता; ना अशें न्हय. पूण लोकशायेंत शिकिल्ले आनी शिकनाशिल्ले हातूंत भेदभाव करप शक्य नाशिल्ल्यान सद्या तरी अंतरराष्ट्रीय साक्षरता दीस हो एक फार्स जाला. जाल्यारूय शिकप हें सगल्यांक गरजेचें हातूंत दुबाव नाच. ९ सप्टेंबराक येवपी शिरीषकुमार यादस्तीक दीस हो ते नदरेन स्फूर्त दिवपी दीस. त्या तेंपार जळींमळीं स्वतंत्रतायेच्यो ज्यो चळवळी जाल्यो, तातुंतल्या चळवळींचीं केणां महाराष्ट्रांतल्या खानदेशामेरेन पावलीं आनी विद्यार्थ्यांचे एके मिरवणुकीचें फुडारपण करतना शिरीषकुमार ब्रिटिशांच्या गुळयांचो बळी थारलो! तरणाट्या भुरग्यांनी आदर्श म्हूण देख घेवपासारको हो एक हुतात्मो.

११ सप्टेंबर ज्या कांय कारणांखातीर आनी घटनांखातीर प्रसिद्ध आसा, तातुंतल्यो दोन म्हत्वाच्यो घटना म्हळ्यार भूदान चळवळीचे फुडारी आनी ज्येष्ठ तत्त्वगिन्यानी, आधुनिक संत विनोबा भावे हांची ही पुण्यतीथ. पदयात्रा काडून जँमीनदारांकडल्यान जमनी मेळोवन त्यो जमनी नाशिल्ल्यांक दिवपाची तांची भूदान चळवळ म्हळ्यार ह्या देशांतली एक क्रांतीकारी चळवळ. कितल्याशाच म्हत्वाच्या ग्रंथांवांगडा तांणी रचिल्ली 'गीताई' ही समाजाक दिल्ली एक म्हान देणगी. मात १९७५तल्या आणीबाणीवेळार तांणी आपणायल्लें 'मौन' (मोनेळ) हें कोणाकूच सुटूंक नाशिल्लें एक कुवाडें! ह्याच दिसा संवसाराक खेरीत धक्को दिवनी एक घटना घडली. ११ सप्टेंबर १८९३ दिसा शिकागो (अमेरिका)तले सर्वधर्म परिशदेंत स्वामी विवेकानंदांनी पयलेच फावट हिंदू धर्माचें एक नितळ-निवळ आनी 'सत्यं-शिवं-सुंदरम्' अशें रूप संवसारामुखार उक्तायलें. 'अमेरिकन भयणींनो आनी भावांनो' ह्या उतरांनी तेजस्वी, बुदवंत विवेकानंदांनी अमेरिका जिखली!

अशेच रितीन एकामेकांचीं मनां जिखपासारकी एक भास आमचेकडेन आशिल्ली आनी आसा. ती म्हळ्यार हिंदी भास. पूण सध्याक तरी कांय थारावीक मळां सोडल्यार (हिंदी सिनेमांनी चड) आमचे भाशेच्या – हिंदीच्या – नशिबांत दर वर्साचो १४ सप्टेंबराचो 'हिंदी दिवस' आनी ते निमताच्यो कार्यावळी आयल्यात. आमी हिंदी राजभाशा म्हणटात थंय आसात आनी तेवटेन आमच्याच कांय भाव-भयणींकडल्यान इंग्लिशीचें संकश्ट विखारी सोरपावरी आमचेवटेन येत आसा! आमची भास कनिश्ठ आनी दुसऱ्यांची – चड करून भायल्यांची भास – श्रेश्ठ ही गुलामी वृत्ती ना जावंची ना तेमेरेन 'हिंदी दिवस' हो 'स्वाभिमान दिवस' म्हूण लेगीत मनोवपाक जाय अशें दिसता. हे निमतान जागृतायेच्यो विंगड विंगड कार्यावळी आंखूंक जाय आनी हिंदी राजभास म्हूण चडांत चड मळांनी कशी चालीक लावंक जातली हाची येवजण करूंक जाय, अशें दिसता.

सप्टेंबर म्हयन्यांत आनीक जे कांय म्हत्वाचे दीस येतात, ते अशे – २२ सप्टेंबर हो दीस म्हान समाज वावुरपी कर्मवीर भाऊराव पाटील हांचो जल्मदीस, जाल्यार २३ सप्टेंबर (१८७३) हो महात्मा फुलेंनी सत्यशोधक समाजाची स्थापना केल्लो दीस २५ सप्टेंबर हो नामनेचे समाजवादी फुडारी आनी फाकीवंत बुदवंत संसदपटू बॅ. नाथ पै हांचो जल्मदीस, जाल्यार ३० सप्टेंबर हो अंतरराष्ट्रीय संगीत दीस.

आक्टोबर म्हयन्यांत कितल्याशाच म्हान पुरुशांचे, फुडाऱ्यांचे दीस येतात. देखीक, २ आक्टोबराक महात्मा गांधी जयंती आनी आदले प्रधानमंत्री लालबहादूर शास्त्री जयंती. आतां कांय फावट म. गांधीजींमुखार लालबहादूर शास्त्रींची याद जायत्या जाणांक जायना, ही वेगळी गजाल! जायत्या कडांनी गांधी जयंतीची कार्यावळ सात दीसमेरेन दबाजीक रुपान चलता. चड करून सरकारी पांवड्याचेर ही कार्यावळ चलता आनी जायत्यो आपवावुरपी संस्था लेगीत तातूंत वांटो घेतात. अशें आसुनूय महात्मा गांधीजींची जीवनशिक्षण कार्यावळ मात फावो ते जैतवंत रितीन चालीक लागना! कारण व्यक्तीपरस ते व्यक्तीचें कार्य श्रेश्ठ ही जाणविकाय आमकां आजुनूय जायना आशिल्ल्यान आमी व्यक्तिपुजेंतूच घुस्पतात! म. गांधीजींच्या संदर्भांत आमचें हेंच जालां. आमी म. गांधीजीचें 'देवूळ' बांदून राम, कृष्णावरी तांकां देवळांत बंद करून दवरपाचें तितलें बाकी उरलां!

हें सप्तक आनीक एके नदरेन भोव म्हत्वाचें. 'वन्य प्राणी सप्ताह' म्हूण हें सप्तक देशभर मनयतात. रानांतल्या प्राण्यांची जतनाय करपाचें म्हत्व सगल्यांक पटोवन दिवपाचे नदरेन हें सप्तक म्हत्वाचें.

ह्याच म्हयन्याचे ११ तारखेक जांचो जल्मदीस पडटा, ह्या 'क्रांतिदूत' जयप्रकाश नारायण ह्या म्हान फुडाऱ्याच्या संदर्भांतूय आमचें अशेंच घडलां. ज्या जयप्रकाश नारायणांनी पूर्ण क्रांतीचें सपन पुराय करपाच्या हावेसान देशांतली कितल्याशाच वर्सांची काँग्रेसची

सत्ता १९७७ वर्सा आरत्याची परती केली आनी जनता सरकार सत्तेर हाडलें, ती सत्ता तिगोवन दवरून जनतेच्या हिताखातीर वावर करप फुडाऱ्यांक शक्य जालें ना. आनी आज तर 'क्रांती' उतराखातीरूच जयप्रकाशजींची याद आमी करतात. पूण ह्या अशा दिसांनिमतान तरी तांकां करपाची आशिल्ली क्रांती आमी समजून घेवप गरजेचें. 'क्रांती' उतराच्या संदर्भांत डॉ. राममनोहर लोहियांची याद जावप तर सामकें सभावीक. एक म्हान झुजारी आनी १९४२चे क्रांतीचे वीर म्हणून समस्त भारतीयांचे नदरेन ते म्हान झुजारी, क्रांतिकारक पुरूश. तांचो यादस्तीक दीस १२ आक्टोबराक येता. १५ आक्टोबर हो संवसारीक कुड्ड्यांचो दीस. सुंदर संवसार जेन्ना कुडीच्या भायल्या दोळ्यांनी नियाळप शक्य जायना, तेन्ना कुडीच्या भितरल्या दोळ्यांनी, कल्पनेच्या दोळ्यांनी संवसार नियाळप जाता, अशा लोकांक पोकळ आपलेंपण दाखोवपापरस तांचे दोळ्यांचे भलायकेखातीर वा वेगळे तरेचें शिक्षण तांकां दिवपाखातीर येवजण करप गरजेचें थारता. ते नदरेन ब्रेल लिपीचो सोद लावपी ब्रेलची तोखणाय करीत तितली थोडी! संत-महंतांचें तत्त्वगिन्यान आनी आर्विल्लें तंत्रगिन्यान, विज्ञान हांची बेस बरी सांगड घालून समाजाच्या आनी गांवांच्या नवनिर्माणाखातीर 'श्रीग्रामगीता' रचपी आनी प्रत्यक्ष आपले करणेन तशें सिद्ध करून दाखोवपी राष्ट्रसंत तुकडोजी महाराजांची पुण्यतीथ १७ आक्टोबरा दिसा येता. आयज ह्या अशा संतांची गरज समाजाक आसा आनी तांणी सांगिल्ल्या तत्त्वगिन्यानांतलें थोडें तरी आमी आपणावपाचो यत्न केलो जाल्यारूय पुराय क्रांतीचे नदरेन आमचें एक तरी पावल पडुंयेता. तेखातीर परकी संस्कृतायेचो म्हारू मात आमचे तकलेवयल्यान सकयल देंवपाची गरज आसा.

आक्टोबर उपरांतच्या नोवेंबर म्हयन्यांत लेगीत ५ नोवेंबरादिसा येवपी रंगभूमी दीस धरून जायत्या म्हापुरुशांचे दीस येतात. ७ नोवेंबराक गुरू नानक जयंती येता. हिंदू आनी मुसलमान हांणी एकामेकांकडेन झगडीं करिनासतना एकचारान रावचें अशें संत कबिरावरीच नानकाक लेगीत दिसतालें. ते नदरेन तांणी जायते यत्न केले आनी हिंदू तशेंच इस्लाम धर्मांतलीं कांय बरीं तत्त्वां घेवन 'शीख' पंथाची स्थापणूक केली. मात, तातूंत तांकां व्हडलेंशें जैत मेळ्ळेंना; उरफाटो शीख पंथाचोच फुडें शीख धर्म जालो. असोच एक म्हान समाजपुरूश महाराष्ट्रांत जावन गेलो – महर्षी धोंडो केशव कर्वे. ९ नोवेंबर (१९६२) हो तांचो यादस्तीक दीस. महाराष्ट्रांत बायलांच्या शिक्षणाखातीर तांणी केल्ल्या वावराची सर दुसऱ्या कोणाच्याच वावराकडेन करप समा जावचेंना. इतलो मोलादीक आनी बुन्यादीचो बावर तो!

ह्याच म्हयन्यांत आनीक ज्या कांय व्हड फुडाऱ्यांचे दीस येतात ते फुडारी म्हळ्यार सेनापती बापट, पं. मदनमोहन मालवीय. १२ नोवेंबर हो सेनापती बापटांचो जल्मदीस, जाल्यार पं. मदनमोहन मालवीयांचो यादस्तीक दीस १२-११-१९४५. देशांतल्या भुरग्यांचे

‘चाचा’ नेहरूचो जल्मदीस ह्याच म्हयन्याचे १४ तारखेक येता. नेहरूक भुरगीं आनी भुरग्यांक नेहरू इतले आवडटाले की तांचो जल्मदीस ‘बाल दिन’ (भुरग्यांचो दीस) म्हूण मनोवपाची चाल सरकारान रूढ केली आनी ती नेमान चालू आसा. भारतीय स्वातंत्र्याच्या झुजांत जी लाल-बाल-पाल ची त्रिमूर्त गाजली, तातूंतल्या पंजाबाच्या लाला लजपतरायांची पुण्यतीथ १७ नोवेंबरा दिसा येता, जाल्यार १८ नोवेंबर (१७७२) हो थोरले माधवराव पेशवेंचो यादस्तीक दीस. २६ नोवेंबर म्हळ्यार गुरू तेंजबहादूर शहीद दीस, जाल्यार २८ नोवेंबर (१८९०) ही म्हान समाजसुदारक महात्मा ज्योतिबा फुलेंची पुण्यतीथ. महाराष्ट्रांत अस्पृश्यताय ना करपाच्या वावराची बुन्याद घालपाचें श्रेय महात्मा फुलेंक वता. उदक लेगीत भीक कशी पाराथून मागून घेवपाच्या त्या तेंपार फुलेंची आपल्या वाड्यावेली उदकाची बांय त्या समाजाक मेकळी करून दिली.

डिसेंबर वर्साचो निमाणो म्हयनो. जाल्यारूय निरोप दितना शिटकावणी दिवन वता एका भयांकृत दुयेंसापसून सावध रावपाची! जें टाळूंक येता, पूण जालें जाल्यार मनीस बरो जावंक शकना अशा एड्सा (AIDS) पसून सावध रावपाक शिकपाचो दीस म्हळ्यार १ डिसेंबर – जागतीक एड्स विरोधी दीस.

ब्रिटिशांनी भारताचेर देडशें वर्सां राज्य करून गुलाम कशे हांगाच्या लोकांक वागयलें, सतायलें तरी ज्यो कांय बऱ्यो गजाली केल्यो तातुंतली एक गजाल म्हळ्यार सतीची चाल बंद करपाचो कायदो. ‘भारताचे नवनिर्माता’ अशी भौमानाची पदवी जांकां फावो जाता, त्या म्हान समाजसुदारक राजा राममोहन रॉयांच्या खर यत्नाउपरांत लॉर्ड बेंटिंगाक सतीची चाल बंद करपाचो कायचो करपाची गरज होलमली. ४ डिसेंबराक हो कायदो जालो देखून तो दीस ‘सती प्रथा बंदी दिन’ म्हूण मनोवपाची चाल रूढ जाली. ६ डिसेंबर हो दीस तर जायत्या गजालींखातीर म्हत्वाचो दीस थरला. हजरत अली जल्मदीस, अरविंदबाबू पुण्यतीथ (१९५०), भारतरत्न डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर यादस्तीक दीस (१९५६) म्हूण ६ डिसेंबराक विशेश म्हत्व आसा.

१० डिसेंबर हो ‘मनीस हक्क दीस’. आयजमेरेन संवसारांत स्वतंत्रततायेचीं म्हूण जीं जीं झुजां जालीं, तांच्या मुळांत, खरें म्हळ्यार, मनशाच्या मुळाव्या हक्कांचीच मागणी आशिल्ली आनी ती तशी आसूंक फावो. मात, स्वतंत्र देशांत लेगीत आजुनूय कितल्याशाच जाणांक आपल्या मताचें लेगीत म्हत्व समजना! गुलामाप्रमाण भुरग्यांक विकपाचोय प्रकार कांय कडांनी चालू आसात. सामंत, संस्थानीक आनी भाटकारांनी ‘सत्ताधिशां’चें आनी धनिकांचें रूप घेतिल्ल्यान पिळपाचे प्रकार वेगळ्यावेगळ्या तरांनी चालू आसात, अशा वेळार तर मनीस हक्कांसंबंदान जागृताय करप गरजेचें जालां. अर्थात, तेखातीर फुडारपण लेगीत तशेंच कणखर आसचें पडटलें.

अशेंच कणखर फुडारपण एका वेळार देशाक दिल्ल्या ‘पोलादी पुरूश’ अशी पदवी

फावो जाल्ल्या सरदार वल्लभभाई पटेलांचो यादस्तीक दीस १५ डिसेंबराक (१९५०) येता, जाल्यार १९ डिसेंबराक (१९६१) हो गोंयचो मुक्ती दीस म्हूण गोंयकारांचे नदरेन विशेश खोशेचो दीस. २४ डिसेंबर हो पूज्य साने गुरूजींचो जल्मदीस, जाल्यार २५ डिसेंबर हो प्रभूपूत, प्रेषित येशूचो जल्मदीस. खिसमसाची परब म्हूण कॅथोलीक समाजामदीं तो दीस संवसारभर व्हड प्रमाणांत मनयतात. मात येशूच्या तत्त्वगिन्यानाच्या प्रचार-प्रसारापरस आनी ते तरेन वागपापरस हे परबेक उत्सवी रूपच चड मेळत गेल्ल्यान सद्यातरी येशू हो समाजाच्या कल्याणकर्त्यापरस 'देव' चड जाला, ही खंतीची गजाल! ह्याच म्हयन्याचे २८ तारखेक गुरूगोविंदसिंह जयंती येता. जाल्यारूय गोंयांत तरी २५ डिसेंबर ते ६ जानेवारीमेरेन खिसमसाची परबच व्हड प्रमाणांत मनोवप जाल्ल्यान आनी विशेश करून २४ डिसेंबराचे मध्यानराती आनी ३१ डिसेंबराचे मध्यानराती विशेश मिसां जातात जाल्ल्यान ह्या काळांत हेर कसल्याच कार्यावळींक म्हत्व मेळना. ३१ डिसेंबराचे रातीच्यो पोरण्या वर्सा निरोप दिवप नव्या वर्साक येवकार दिवपाच्यो मिसांच्यो, तेचपरी डांसांच्यो आनी पार्ट्यांच्यो कार्यावळी म्हळ्यार भारतीय होळयेक मेळिल्लें आधुनीक रूप म्हणपाक हरकत ना! आतां तपशील वेगळे, पूण उर्बा-उमेद तशीच!

# ऋतुचक्राप्रमाण खाणजेवण

एप्रील म्हयनो लागलो रे लागलो, एके गजालीचे यादीन मनाच्या मळबांत कुपां दाटिल्लेवरी जाता! खरें तर ती गजालूय तशी आयज व्हडली दिसपासारकी न्हय; जाल्यारूय भुरगेपणांतल्या यादींतली एक याद ती. गांवासावन सादारणपणान तिनेक किलोमीटर अंतरावेल्या खालवडेच्या श्री काशीपुरूष विद्यालय शाळेंत आमी चौथेच्या परिक्षेखातीर म्हूण वताले. दनपरां खालवड्यां जेवण आनी सांजवेळा घरा येतना करंजां (काण्णां), चुन्नां काडून खावप हो आमचो नित्याचो कार्यक्रम. आयज काण्णांच्यो झिली आनी चुन्नांचीं झोपां (काटी) पळोवपाक मेळपाकूय कुस्तार! आनी जंय आसात थंयच्या बाजारांनीय काण्णां, चुन्नां विकतीं मेळटात! अशें जालें तरी झाडां-झोपां पिकिल्लीं वा हरवीं फळां काडून खावपाचो आनंद खेरीत. मागीर ती आमली जावं, आंब्याचें तोर जावं, चिंचेचें बोट जावं वा करमलां-बिमलां जावं.

आयज 'रसाहार करा निरोगी राहा' सारकीं डॉ. ध. रा. गाला, डॉ. धीरेन गाला, डॉ. संजय गाला (अणकार सौ. वासंती तोडकर) हांचीं पुस्तकां वाचतना असल्यो जायत्यो यादी उचांबळून येतात. पावसांत शेतकामावेळार खाल्ली गोंड्यांची (नाचण्याची) आंबील, पावसादिसांनीच खाल्लें तेऱ्याचें धबधबें आनी तायकिळ्याची भाजी, पणसाच्या बिकणांचो रोस, आशाढी एकादशीच्या उपासाचें मुगांचें कण्ण, पिठ्याच्यो गुळयो, उपरांत अश्टमी (गोकुळाश्टम) रातीचो फराळ म्हूण मुगांचें कण्ण, गंवांची सोजी, चवथी दिसांची देठ्याची भाजी, कार्तीक एकादशी दिसाच्या उपासाचीं मुगांच्या कण्णावांगडचीं कांटे-कणंगां, तुळशीचें लग्न जालेबराबर खाल्ल्यो चिंचो आनी आंवाळे, शिवरात्रेदिसा पालखेवांगडा दर्यावेळर वतना खाल्लें गोंड्यांचें (नाचण्यांचें) सत्व, गिमाळ्यादिसांनी आवयवांगडा सांवळीचीं शिरीं फाफुडपाक शेतांत वतना मोटे रुचीन खाल्लें काजुबियांचें चून्न, चिरून मीठ घालून खाल्लीं फोगां आनी मिठानूच रुचीक केल्लीं आंब्यातोरांची करम ह्यो जिणेंतल्यान वेगळावं नज अश्यो यादी.

'शरीरमाद्यं खलु धर्मसाधनम्' वा 'आरोग्यं धनसंपदा' वा Health is Wealth चें कसलेंच शास्त्र शिकनासतनाय खंयच्या ऋतूंत कसल्यो शाकभाजयो करून खावच्यो, खंयच्या ऋतूंत कसलीं फळां खावचीं हाचें शास्त्र आमच्या जाण्टेल्यांक बेस बरें खबर आशिल्लें. घडये तांकां व्हिटामीन्स, जीवनसत्त्वां खबर नासुंये. पूण भाजयांनी आनी फळांनी आरोग्याक गरजेचें अशें सत्त्व आसता हें तांकां खबर आशिल्लें. देखुनूच

म्हसकाची भाजी, कांद्या पातीची भाजी, देठ्याची भाजी, तांबडी भाजी, वाळयेची भाजी, सासयेची भाजी, शिरमुडलेची भाजी अशो भाजयो जाण्टेले लोक करताले वा हाडून खाताले. कितल्योश्योच भाजयो तांणी सोदून काडिल्ल्यो. कोबी, गड्डे, चिटमिटकी, वालपापडी अशा कितल्याशाच नव्यानव्या भाजयांपयलींच भेंडे, घोसाळीं, वांयगीं, दुदी, तेरो-तायखिळो, मसका भाजी, मसका सांगो, कांद्या पात अश्यो कितल्योशोच भाजयो आमी रुचीन खायत आयिल्ले.

शाळेंत शिकता आसतना मागीर अमक्या भाजयांनी आनी फळांनी अमके अन्नघटक आनी अमकीं जीवनसत्त्वां आसतात हें कळपाक लागलें. आतां तर ह्या सगल्यांचें एक शास्त्र जालां आनी नुस्तें, मांस चड प्रमाणांत खावपी लोकांकूय शाकाहार आनी रसाहाराचें म्हत्व होलमूंक लागलां. वैजकशास्त्राच्या आनी वखदां-शास्त्राच्या उपचार पद्धतींत लेगीत फावोशा जेवणाखाणावांगडाच शाकाहारी जेवणाखाणाक म्हत्व प्राप्त जालां. नामनेचे वैजकी चिकीत्सक रॉबर्ट मॅकरिसनच्या मतान धतरेचेर मेळपाच्या सगल्या वखदांत 'फावोशें खावप पिवप' हें सगल्यांत व्हडलें वखद; कारण, सारको आहार मेळ्ळो ना जाल्यारूच नवीं नवीं दुयेंसां जातात.

शिजयिल्ल्या, तळिल्ल्या वा दुसरे खंयचेय पद्धतीन तयार केल्ल्या आहारापरस शिजयनाशिल्लीं ताजीं खाणां, हरव्यो भाजयो, फळां, तांचो रोस आरोग्याचे नदरेन एकदम बरो आहार हें आतां सिद्ध जालां. दूदाक तर 'पुराय आहार' अशें मानतात. जाल्यारूय कुडीचे वाडीक आनी आरोग्याक दुदापरस द्राक्षां, गाजर, रासबेरीचो रोस चड पुश्टीक हेंवूय आतां सिद्ध जालां. डॉ. गाला हांच्या मतान सद्याक निसर्गोपचार पद्धत लोकप्रिय जाल्या. तातुंतूय 'रसचिकित्सा' चड म्हत्वाची. वखदांनी बऱ्या जायनाशिल्ल्या दुयेंसांचेर भाजीपालो आनी फळांचो रोस चड परिणामकारक थारता अशें दिशिल्ल्यान संवसारांतले वैजकी चिकीत्सक दुयेंत लोकांचेर उपचार करतना भाजीपाल्याचेर आनी फळांच्या रोसाचेर भर दिवपाक लागल्यात. ह्या डॉ. गालांच्या म्हणण्याचो अणभव आतां सगल्यांकूच येवपाक लागला.

वखदांच्या प्रयोगांखातीर आनी उपचारांखातीर भारतीय आयुर्वेदान म्होंवाक दिल्लें म्हत्व वेल्या पांवड्यावयलें आसा. तांच्या मतान म्होंवाउपरांत गोड आनी गोडाउपरांतूच साखरेचो नंबर लागता. साखर खावपाक गोड लागली तरी फाटल्या कितल्याशाच वर्सांच्या अणभवान 'साखर म्हळ्यार म्होंवाळ वीख' अशें थारायलां. ब्रिटनांतले एक प्रोफेसर जॉन युडकी हांच्या मतान मनशाचे कुडीक गरजेचे उष्णतेखातीर साखरेची गरज ना. निसर्गनिर्मित आहारांतल्यान ताका गरजेची साखर मेळटा. दातांचे विकार उपस्थित जावप, गोडें मूत जावप, अर्दशिसल, कातीचीं दुयेंसां, मुत्राशयाचें दुयेंस, रगतांतलें कॉलेस्टरॉल वाडून काळजाचें दुयेंस जावप अशीं कितलिंशींच दुयेंसां गरजेभायर साखर

खाल्ल्यानूच जातात, अशें दिसून आयलां.

आहाराची, जेवणाखाणाची रूच वाडोवपाखातीर म्हूण मिठाचो चड प्रमाणांत उपेग करप जाता. पूण आयचें आरोग्यशास्त्र मिठाक एक गरजेभायलो घटक मानता. तकली उसळप (फोडप), सारकी न्हीद पडप ना, अर्दशिसल (एकेच वाटेन तकली फोडप), काळजाचे विकार, संधीवात, मुत्राशयाचीं दुयेंसां, गरजेभायर चरबी वाडप बी कितलिंशींच दुयेंसां गरजेभायर चड मीठ खाल्ल्यान उप्रासतात अशें आतां सिद्ध जालां. डॉ. फेड्रीक मारवूड हांच्या म्हणण्याप्रमाण तर कॅन्सर जाल्ल्या १०० लोकांमदीं १९ जाणांक मीठ चड खाल्ल्यान कॅन्सर जाल्लो आसता! चड मीठ खावपाक विरोध करपी आरोग्यशास्त्राप्रमाण मनशाक फकत दोन ग्राम मिठाची गरज आसा. बाकीचें ५० ग्राम मीठ ताका भाजयांतल्यान मेळटा. कश्टांचीं कामां करतना वा वतांत घोळटना जांच्या आंगांतल्यान हूम वता तांकां मात मिठाची गरज आसता.

भारतीय आयुर्वेदान म्होंवाक दिल्लें म्हत्व आयज सगल्या उपचारपद्धतींनी मानून घेतलां. 'म्होंव हें एक अद्वितीय वखद' अशें आयुर्वेदाचार्य वाग्भट हांणी म्हळां. वेदांत लेगीत म्होंवाची तुस्त केल्ल्याचें सांगतात. 'सुरा' पिवपावांगडाच म्होंव खावपा-पिवपाचो उल्लेख थंय मेळटा अशें सांगतात. म्होंव म्हळ्यार फुलांचो घमघम वास आनी म्होवाळपण हांचें निर्दोश मीलन अशें म्होंवासंबंदान सांगतात तें वोगीच न्हय. जांणी म्होंव खालां तांकां तो अणभव आयला आसतलोच. वांगडाच वेदीक शास्त्रान वा धर्मशास्त्रान पूजाविधीवेळार वांटपाच्या तिर्थांत म्होंवाक दिल्ली सुवात आरोग्यशास्त्रीय नदरेन म्होंवांचें म्हत्व स्पश्ट करपी अशीच, देखुनूच तोखणायेची लेगीत. युरोपी वखदशास्त्राचे जनक हिप्पोक्रेटसच्या मतान म्होंव लांब काळाची जीण मेळोवन दिवपी. भारताप्रमाण युरोप, इजिप्त, ग्रीस बी देशांनी म्होंव लोकप्रिय आसा आनी वखदी म्हूण तें वापरतात. आयुर्वेद सांगता तेप्रमाण दोळ्यांच्या वखदांत जशें म्होंव वापरतात, तशेंच चरबी उणी करपाक म्होंवाचो उपेग जाता. म्होंव हें कफ ना करपी आनी वीर्य वाडोवपी. डॉ. जे.एच्. कॅलॉगच्या मतान काळजाच्या विकारांत म्होंव म्हळ्यार एक आदर्श आहार. काळीज अशक्त पडल्यार वा धुंवळ आयल्यार गरम उदकांत म्होंव घालून दिल्यार बरो परिणाम जाता. दुयेंसाचे जंतू ना करपाचो बेस बरो गूण म्होंवांत आशिल्ल्यान डिसेंट्री आनी टायफोयडाचेर म्होंव हें बरें वखद. थंडी, खोकली, गळो दुखप ह्या ल्हान दुयेंसांचेर आनी पडून फुटिल्लें आंग भरून येवपाकूय म्होंव एकदम गुणकारी वखद.

म्होंवाप्रमाण दुदाक लेगीत आयुर्वेदांत आनी धर्मशास्त्रांतूय व्हडलें म्हत्व दिलां. 'पुराय आहार' हें ताचें म्हत्व तर आरोग्यशास्त्रान मानून घेतलांच. दुदांत ए, बी, डी, इ जीवनसत्त्वां भरपूर प्रमाणांत आसतात आनी कुडीक गरजेचे अशे सगले घटक आसपावतात. देखून दूद म्हळ्यार धर्तरेवयलें अमृत अशेंय म्हणटात. गायेक बरें खाण दिलें जायत,

तिका कसलेंच दुयेंस नासत आनी भोंवतणचो वाठार निवळ आसत जाल्यार काडलेबराबर ताजें दूद पिवप आरोग्याक बरें अशें सगल्या आरोग्यतज्ञांचें मत आसा. अशें धारोष्ण (ताजें, गरम) दूद म्हळ्यार अमृत. हें दूद पचपाक बरें. कफ वात, पित्त हे दोश ना करपी, कुडीभितर थंडसाण दवरपी आनी शक्त वाडोवपी अशें. तज्ञांच्या मत्तान मनशाचे कुडीक गरजेचे अशे सगले घटक (उदक, चरबी, दुग्धशर्करा, प्रोटीन, क्षार) दुदांत आसतात. कॅल्शियम फॉस्फेट, पोटेशियम फॉस्फेट, सोडियम क्लोरायड, पोटॅशियम क्लोरायड, आयर्न फॉस्फेट, मॅगनीज फॉस्फेट अशे क्षार दुदांत आसतात. देखून, नेमान दुदाचो उपेग करप आरोग्याचे नदरेन एकदम बरें.

म्होंव आनी दुदावरीच नाल्लाक भारतीय संस्कृतायेंत मानाची सुवात फावो जाल्ली आसा. कोंकण आनी गोंय धरून दर्यादिगेवयल्या लोकांचें तर नाल्लाबगर कशेंच जायना. शितागोटो चलना म्हळ्यार अतिताय जावंची न्हय. आमच्या जाणट्यांनी माडाक 'कल्परूख' म्हळां. धर्मीक गजालींनी तर नाल्ल दवरलेबगर, नाल्लाची पूजा केलेबगर आनी नाल्ल फोडलेबगर खंयचोच विधी वा पूजा फुडें वचना. देखुनूच त्या संदर्भांत नाल्लाक नांव लेगीत 'श्रीफळ' अशें पडलां. दुयेंस जाल्ल्यांक शिंयाळ्याचें उदक फर्मावपाचो वैजकी सल्लो रूढ आसा. ट्रॉपिकल स्कूल ऑफ मेडिसिनाच्या म्हणण्याप्रमाण कॉलऱ्यांत शिंयाळ्याचें उदक एकदम गरजेचें. तातूंत क्षार आनी बी गटाचीं जीवनसत्त्वां आसतात. शिंयाळ्याचें उदक थंड, तान ना करपी, उमेद हाडपी, पोसवण करपी, सडसडीत मुतूंक जावपाक मदत करपी अशें आसता. वांगडाच हें उदक बंद उरिल्ल्यान तें एकदम सुरक्षित आसता. मुताच्या विकारांचेर आनी मुतखड्याचेर शिंयाळ्याचें उदक हें एक बरें वखद अशें आरोग्यतज्ञांचें मत आसा.

घटमूट भलायकेखातीर ल्हानपणासावनूच निवळ, ताजीं फळां खावपाक जाय अशें आरोग्याचे सगलेच जाणकार, दोतोर सांगतात. भुरग्यांक शिकयतनाय जायत्या फळांचीं नांवां सांगतात आनी अमके घटक अमक्या फळांनी आसतात हें भुरग्यांकडल्यान पाठ लेगीत करून घेवप जाता. मात आमच्या चडशा भुरग्यांच्या नशिबान तांकां हीं फळां एकतर पुस्तकांतल्या चित्रांनी, देवांच्या फोट्यांनी, देवामुखार वा स्वाम्यांच्या ताटांनी तितलीं पळोवपाक मेळटात! द्राक्ष सगल्या फळांत उत्तम फळ अशें महर्षी चरक म्हणटात. पूण कांय आडवाद सोडल्यार आमच्या भुरग्यांक 'कोल्याक द्राक्षां आंबट' तशीं! द्राक्षां म्होंवाळ, पथ्यकारी, पचपाक सोपीं, शक्त वाडोवपी, रगत शुद्ध करपी, ताळ्याक गुणकारी. तीं दोळ्यांच्या हिताचीं, सडसडीत मूत जावपाक बरीं, कश्ट उणें करपी, वीर्य वाडोवपी. तान, उश्णता, जोर, रगतपित्त, कॅन्सर, टीबी, आंतकड्यांचीं दुयेंसां, ओंकारी, कामीण बी दुयेंसांचेर द्राक्षां उपेगी पडटात. मुताचे विकार, मूतखड्याचें दुयेंस, संधीवात, कांय वेळार म्हयनाळ्या भश्टेपणावेळार बायलांक जातात ते त्रास हांचेर

द्राक्षां हें बरें वखद अशें तज्ज्ञांचें मत्त. द्राक्षांत साखरेचें प्रमाण हेर फळांपरस चड आसता (तुळेन ५०%). मात तीं सहजतायेन पचपासारकी आसतात.

सफरचंद वा आपोल हें अशेंच एक उत्तम फळ. 'दर दिसा एक सफरचंद खायात आनी दोतोराक पयस दवरात' अशें एक इंग्लीश वचन लेगीत आसा. आपोल आसताय तशें गुणेस्त. तातुंतलो 'पॅक्टिना' नांवाचो घटक कफ पातळ करता, पोटांतली आमसाण उणी करता. ताकालागून काळीज, मेंदू, आंतकड्यो घट जावपाक पावतात. सफरचंद पुश्टीक, तशेंच पित्त, वात ना करपी, दांत दुखप, सांधे दुखप, कामीण, मुत्रपिंडाचे विकार हांचेर सफरचंद उपकारा पडटा अशें आरोग्य तज्ज्ञ सांगतात.

संत्र हेंवूय पित्त, वात हे दोश पयस करपी, भूक वाडोवपी, थंड अशें फळ. दुयेंत आशिल्ल्यांक संत्रांचो रोस फर्मायतात. हो रोस कुडींतली प्रतिकारशक्त वाडयता. संत्रांचो रोस पिल्ल्यान पोटांतल्या रोगजंतूंचो नाश जाता. पोटखण्याचो विकार पयस जाता, हाडां घट जातात. १२५ ते १५० मिलिलीटर संत्रांचो रोस सी जीवनसत्त्वाची पुराय दिसाची गरज भागयता.

बऱ्या नाशिल्ल्या, दुयेंत मनशाक मोसंबी दिवपाचो सल्लो दोतोर दितात. 'मोसंबीचो रोस पिल्ल्यान जिणेशक्त आनी रोग प्रतिकारक शक्त वाडटा' अशें डॉ. कुलरंजन मुखर्जी हांणी म्हळां. मोसंबी शितळ, तान ना करपी, उमेद वाडोवपी, वीर्य वाडोवपी, पुश्टीक आनी वखदी फळ. वात, पित्त, कफ हे दोश, ओंकारी, ताळो सुकून येवप, रूच पेड्ड्यारं जावप आदी विकारांचेर मोसंबी खूब गुणकारी. मोसंबीचो रोस जीवनशक्त आनी रोगप्रतिकारशक्त तर वाडयताच, वांगडाच शक्त तिगोवन दवरपाक उपकारा पडटा. ताकालागून भूक बरी लागता आनी जेवणखाण पचपाच्यो तक्रारी पयस जातात.

आरोग्याचे नदरेन म्हत्वाचें अशें आनीक एक फळ म्हळ्यार अनस. अनस रुचीक तशेंच वखदी. अनसाच्या रोसांत आशिल्लें क्लोरीन मुत्रपिंडाक उत्तेजन दिता, तशेंच तें कुडींतलीं विखारी द्रव्यां भायर उडोवपाचें काम करता अशें सर जॉर्ज वॉट हांणी म्हळां. अनस खाल्यार सडसडीत बरें मुतपाक जाता. तें पोटाचे विकार पयस करता, कामीण आनी पांडुरोगाचेर अनस गुणाक पडटा, अशें तज्ज्ञांचें मत आसा.

काळींग हें एक अशेंच जायत्या लोकांची तान-भूक न्हिवोवपी फळ. दनपारा कडार वतांतल्यान आयिल्ल्याक काळंगाच्या रोसासारकें श्रेश्ठ दुसरें कांय नां अशें काळंगासंबंदान डॉ. जे. एच्. कॅलॉग हांणी सांगलां. काळींग हें म्होंवाळ, थंड, सडसडीत मुतूंक जावपाक उपेगी पडपी, पित्त ना करपी आनी पुश्टीक फळ.

म्होंवाळ, उश्ण, पित्त ना करपी आनी मूत, पोट साफ करपी अशें एक बरें वखदी फळ म्हळ्यार पोपाय. आंब्याफाटोफाट पोपायेंत 'अ' जीवनसत्त्वाचें प्रमाण भरपूर आसता. पिकिल्ले पोपायेंत 'क' जीवनसत्त्व आसता. आरोग्यशास्त्रज्ञांच्या म्हणण्याप्रमाण हरवे

पोपायेंतल्या धव्या रोसांत 'पेपन' हो पचनाक मदत करपी घटक आसता. पोटांतल्या पाचक रोसांत जें 'पेप्सीन' आसता, तितलेंच 'पेपन' गुणाक पडपासारकें आसता. हो घटक आहारांतलें प्रोटीन पचोवपाक मदत करता. तें पोटाच्या विकारांचेर बरें वखद. भूक लागप ना, अजीर्न जावप बी आरोग्याच्या तक्रारींचेर पोपाय हें बरें वखद. पांडुरोग, काळजाचे विकार, कॅन्सर बी दुयेंसांचेर लेगीत पोपाय वखदी म्हूण वापरतात. हरवे पोपायेचो रोस तोंडावयलीं मुमरां ना करपाखातीर तोंडाक लायतात. थोडेभितर हरवी पोपाय शाकभाजयेखातीर आनी पिकी पोपाय खावपाखातीर जशी उपकारा पडटा, तशीच वखदी म्हूण लेगीत ती उपकारा पडटा.

खावपाक रुचीक (थोडेंभोव तोरट, गोड) आनी पोपायेवरीच पित्त ना करपी, वीर्य वाडोवपी आनी वखदी अशें आनीक एक फळ म्हळ्यार पेर. तें खाल्ल्यान तान ना जाता, गरमी ना जाता, परसाकडेन बरें जाता. वांगडाच, रगताच्या दुयेंसांचेर आनी रगतपित्ताचेर पेर हें एक बरें वखद. भुरग्यांचे नदरेन तर दिसत थंयच्यान झाडाचेर चडून खावपांत मजा हाडपी आंब्यावरीच पेर हें फळ.

दाळींब हेंवूय सगल्यांक खबर आशिल्लें, पचपाक बरें आनी वखदी फळ. डॉ. विल्सन पोपनो, न्यूयॉर्क हांच्या मतान दाळंबाचो रोस पचपाक एकसम सोपो आनी ह्या रोसाक लागून काळजाचीं दुयेंसां पयस पळटात. कसलेय तरेच्या जोराचेर तर दाळंबाचो रोस हें एकदम गुणाक पडपी वखद! दाळींब खावपाक मातशें तोरट पूण मधुर. तें थंड, बुद्द वाडोवपी आनी शक्त वाडोवपी अशें फळ. ताळ्याच्या विकारांचेर आनी खोकलेचेर दाळींब हें बरें वखद.

आतां ह्या इतल्या फळांची आहारांतली गरज पळयले उपरांत उपासांत आनी देवाधर्माच्या कामांतूच न्हय तर सदांच खावपाक उपकारा पडपी केळ्याक विसरायेर घालून कशें जायत? कारण, देशभर पिकपी केळें अन्नाचो गरजेचो वांटो म्हूण जशें खावप जाता, तशेंच वखद म्हूणय तें वापरतात. वांगडाच, हेर फळांभितर सवाय आनी सोपेपणान सगलेकडेन मेळपी जाल्ल्यान केळें खावप सर्वसादारण सगल्यांक शक्य जाता. वैजकशास्त्र सांगता तेप्रमाण एका केळ्यांत शंबर 'कॅलरी' आयर्न, मॅग्नेशियम फॉस्फेट, सल्फर, कॉपर हे घटक मेळटात. केळ्यांतल्यान अ, ब, क, ड हीं जीवनसत्त्वां लेगीत मेळटात. दोतोर सांगतात तेपमाण दिसाक दोन पिकीं केळीं खालीं जाल्यार अशक्तताय ना जाता. तेचपरी, एक पिकें केळें दोन कुलेरां म्होंव घालून जेवणाउपरांत घेतलें जाल्यार मनशाच्या वीर्याची वाड जाता. केळें कफ ना करपी आनी शक्त वाडोवपी जाल्ल्यान टी.बी. चेर तें वखद कशें. नाकांतल्यान रगत येवप, परसाकडेन सारकें जावप ना, सुकी खोकली येवप, दमो आदी विकारांचेर लेगीत केळें हें एक बरें वखद.

आंबो तर फळांचो राजा. संस्कृत भाशेंत ताका आम्र, मकरंद, रसाल बी नांवांनी

वळखतात. ‘आंब्यांत आंबा हापूस, सावरीचा मऊ कापूस’ अशें एक गाणें भुरगेपणांत कानार पडिल्लें. उपरांत ‘पिकिल्लो हापूस हो सगले नदरेन बरो’ अशें आयकुपाक-वाचपाक मेळ्ळें. जाल्यारूय गांवगिऱ्या वाठारांनी भुरग्यांक खावपाक मेळपाचीं तीं घोटां चड प्रमाणांत ना तर कांय कडांनी बॉल, काळें इशाड वा मुसराद. एक मात खरें, आंब्याविशीं आयुर्वेदांत म्हायती मेळटा आनी आमच्या आंगाक जाय तसले सगले घटक आंब्यांत आसतात म्हणपाचें सिद्ध जालां. हरव्या आंब्यांत ९० टक्के उदक आसता. वांगडाच तातूंत प्रोटीन्स, फॅटस्, मिनरल ॲसिडस्, कार्बोहायड्रेटस्, कॅल्शीयम, फॉस्फेटस, आयर्न बी घटक आसतात. अमुरपिक्या आंब्यांत हें प्रमाण उणें जायत वता. देखीक, उदकाचें प्रमाण णव्वद टक्क्यांवयल्यान ८६.१ टक्क्यांमेरेन पावता. पिकिल्ल्या आंब्यांत उदकाचें प्रमाण तशेंच उरलें तरी प्रोटिनांचें प्रमाण वाडटा, म्हळ्यारूच तें स टक्के जाता. वखदाचे नदरेन आंब्यांकडेन पळयल्यार पिकिल्लो आंबो जितलो रुचीक, म्होंवाळ, मांसाळ तितलोच पुश्टीक. रगतपित्ताचेर, परसाकडेन जायना आसतना रावपाचेर तें एक बरें वखद. आंब्याचीं फुलां, साली, कोयो लेगीत वखदी. एकासारकें परसाकडेन जाता जाल्यार आंब्याची साल उदकांत घालून काडो करून तातूंत म्होंव घालून पिवप हें बरें वखद. आंब्याचे कोयेचें चूर्न दंत जावपाचे आडायतात. गर्भाशयाची सूज उणी जावपाक भाजिल्ली वा उकडिल्ली कोय खावप बरी. आवाज बसलो जाल्यार ताचेर आंब्याच्या पानांचो काडो हें बरें वखद. मात्त आंबे चड प्रमाणांत खाले जाल्यार कोंत्र पडुंयेता. तेखातीर वैजकशास्त्रान उपाय सुचयल्यात ते अशे: आंबे खावन जातकूच थोडें दूद पिवचें वा आल्याचें उदक पिवचें. आंबे खालेउपरांत जांबळां वा पणसाचीं भिकणां खालीं जाल्यार, तेचपरी लिंबाचो रोस घेतलो जाल्यार व्हडलेशे त्रास जावंक पावनात.

गिमा-दिसांनी जावपाच्या फळांत आंब्यावरी तोखेवपाचें दुसरें व्हडलें फळ म्हळ्यार पणस. तसो पणस गांवगिऱ्या वाठारांनी जाता आनी सगल्यांक खबर आसता. मात्त, हरवो आसतना ‘चाको’ करून खावपाचें तें एक फळ इतलेंच चडशा लोकांक खबर आसता. देखुनूच, आंबो जसो लोणचें करून उकडून, पिकोवन, सांसव करून खावप जाता, तसोच पणस उकडून, शिजोवन, पिकोवन, साठ, घरे करून सुकोवन वा तळून खावप जाता. मात्त, आंब्यावरीच पणस लेगीत पुश्टीक आनी वखदी हें साप्प थोड्या लोकांक खबर आसता. पणसा दिसांनी पिकिल्ल्या पणसाचे पांच घरे नेमान सकाळफुडें खावप बरें अशें आरोग्यतज्ज्ञांचें म्हणणें आसा. खावपाक वसवसो जाल्ल्याक तर पणसाचे घरे बरें वखद अशें सांगतात. तसो पणस पचपाक मात्सो कुस्तार. मात, जांकां वजन वाडोवपाक जाय तांणी पणसाचे घरे जरूर खावचे. पणसाचे घरे खाल्ल्यान वा साठ खाल्ल्यान मनशाच्या आंगांतली वाय कमी जावन शक्त वाडटा. वायेची सुकी खोकली

जावन रगत पडटल्यांक पणसाचे घरे वा साठ हें एकदम बरें वखद. मात घरे चड खाल्यार ते भलायकेक वायट. आतां ताचेरूय आरोग्यतज्ज्ञांनी उपाय सुचयल्यात. पणसाचीं पानां वा पणसाच्या मुळांचो काडो, हें चड परसाकडेन जावपाचेर बरें वखद. पणसाचीं पानां खरजेचेर लावपाची जाण्ट्यांची रीत सगल्यांक खबरूच आसा. पणसाचीं पानां वखदी; देखुनूच परबेदिसा पणसाच्या पानांचेर हीट वा सुयो करून खावपाची चाल पडली आसुंये. मनशाचे कुडींत गांठ जाल्यार पणसाचो रोस हें ताचेर बरें वखद. पणसाचीं भिकणां पुश्टीक. चड करून शुक्रधातू वाडोवपी. देखून भिकणां भाजून तांचो पिठो करून तीन ग्रामांक एक ग्राम अशा प्रमाणान नागकेशर घालून दूद साखरेवांगडा घेतल्यार थोड्याच दिसांभितर शक्त वाडपाक लागता. तोंडाक फोड येवन कांयच खावपाक जायनाशिल्लेखातीर पणसारुखाचेर वाडपी बेंदल हें व्हडलें वखद अशे रितीन पणस हो जितलो वखदी तितलोच 'घातक' लेगीत! पणसाचे घरे खावन पान खाल्यार तर पोट फुगून स्वास लागून नाका शेवट जावं येता आनी केन्ना केन्ना जिवाचेर संकश्ट येवपाची लेगीत भिरांत आसता. देखून, डॉक्टरांच्या म्हणण्याप्रमाण पणसाचे घरे खावन पान खावप सामकें घातमारें! वांगडाच, पणस पचपाक कुस्तार हेंवूय लक्षांत घेवपाक जाय आनी अजिन्न जाता अशें दिसलेबराबर कातली वा खोबरें खावपाक जाय. आदले लोक भरपूर घरे पेटोवन वयल्यान खोबरेल पिताले ते तेचखातीर जावंक जाय.

हेर पूण तितल्याच म्हत्वाच्या फळफळावळीमदीं वांयगें, भेंडो, घोसाळें, हळसोंदी, वीरवीर, वाल, तवशें, मोगें (चिबड) कुंवाळें, दुदी अशा कितल्याशाच फळांचो आस्पाव जाता. ही फळावळ शेतांत, पोरसांत, मळांनी जाता आनी जाण्ट्यांचे भाशेन सांगपाचें जाल्यार देवाधर्माचे नदरेन आनी आयचे भाशेन सांगपाचें जाल्यार आरोग्याचे नदरेन तांकां तितलेंच म्हत्व आसा. तातुंतभितर तवशाची निरी तर सगल्यांच्याच घोश्ताची. तवशें वा निरी प्रकृतीन थंड, पचपाक सोपी आनी पित्त ना करपी. पित्तावरीच मुताचे विकार ना करप, कुडीचो उजो उणो करप आनी संधीवाताचो विकार ना करप हे वखदी गूण तवशांत आसतात. आदले लोक तवसळी करून खाताले ते हेच खातीर अशें दिसता.

दुदी हें तशें तवशें, मोग्यावरी (चिबडावरी) हरवेंच वा पिकोवन खावपाचें फळ न्हय; तर शाकभाजी करून खावपाचें फळ. दुद्याच्या फुलांची भाजी लेगीत रुचीक जाता. तसो दुदी भाजयेखातीरूच म्हूण न्हय. तर वखदाखातीर आनी बऱ्या आरोग्याखातीर म्हूण लेगीत खावपाची गरज आसा. दुदी हो पुश्टीक, कुडींतली धात वाडोवपी, वीर्य वाडोवपी, नाका आशिल्ले जीवजंत ना करपी असो. दुदी खाल्यार मुतपाक आनी परसाकडेन बरें सडसडीत जाता. देखून मूत बंद जावप, मुताचो त्रास जावप, गोडें मूत, मुतखडो, पित्ताचे विकार बी दुयेंसाचेर दुदी हें बरें वखद. दुद्यामदीं घर-दुदी

आनी कोकणदुदी अशे दोन प्रकार आसात. कोकणदुदी हो लेगीत खावपाक रुचीक, कुडींतली धात वाडोवपी, पित्त, कफ ना करपी आनी काळजाचे घटसाणेक बरो. ह्या दुद्याच्या रोसान गुरवारींक शक्त मेळटा, रोसांत थोडें म्होंव घालून घेतल्यार कुडीची गरमी उणी जाता. रगताचे विकार, थंडी, नाकांतल्यान रगत पडप, मुताचे विकार बी दुयेंसां कोकणदुद्यान ना जातात.

कुंवाळें हें लेगीत पुश्टीक तशेंच वखदी. आंवाळ्यां-भोजनाप्रमाण कुंवाळ्या-भोजन (जेवण) करपाची चाल घडये जाणट्यांनी हेचखातीर चालू केली जावंये! शिवरात्रेदिसा भटा ब्राह्मणाक 'आमान्य' दितना कुंवाळें दिवपाची चाल आसा. कुंवाळ्याच्यो वडयो तर सगल्यांक खबर आसात. कुंवाळें धात वाडोवपी आनी काळीज घटमूट करपाक बरें. सारकें मुतपाक जावप ना, मूतखडो, वाय, पित्त, रगताचे विकार, दमो बी दुयेंसांचेर कुंवाळें हें बरें वखद अशें आरोग्यशास्त्रांतले जाणकार सांगतात. कामणीचेर कुंवाळ्याच्या ताज्या पाल्याचो रोस हें गुणकारी वखद. कुंवाळ्याच्या ताज्या पाल्याच्या पाव कप रोसांत चमचोभर ताजी हळदीची पूड आनी वाटयेभर धंय घालून बरें मिस्तुराद करून फांतोडेर तीन ते सात दीस घेवचें म्हणटकूच कामीण बरी जाता अशें जाणकारांचें म्हणणें आसा.

कार्तिक लागलो की हटकून आंवाळ्याची आनी चिंचेची याद जाताच. कारण संस्कार! तुळशीचें लग्न जावचेपयलीं आंवाळो आनी चींच खावची न्हय ह्या भुरगेपणासावन जाल्ल्या संस्कारांक लागून रूच आयल्यारूय आंवाळो, चिंच खावप जायनासलें. जाल्यारूय कितेंय तरी निमित्त धरून त्या त्या ऋतूंत सैमांतली ती ती फळफळावळ खावपाक लावपाची जाणट्यांची रीत तोखणाय करीसारकी! कारण, वैजकशास्त्राच्या नेमाप्रमाण दिसाक एक आंवाळो खावन निरोगी जावपाक येता. देखुनूच आदले लोक आंवाळे उकडून दोणांत घालून दवरताले वा लोणचें करून बुयांवांनी भरून दवरताले आनी पावस-गिमांत खावपाक वापरताले. आंवाळ्या-भोजनाची कल्पना लेगीत तांणी अशीच सोदून काडल्या जावंये! आंवाळ्यांत मनशाच्या आंगाची पोसवण करून भलायकी सांबाळपाची तांक आसता, देखून संस्कृतांत ताका 'धात्री' अशें नांव दिलां. डॉ. के. वी. गिरी हांच्या म्हणण्याप्रमाण आंवाळ्यांत भरपूर आशिल्लें जीवनसत्त्व 'सी' आपले कुडीची रोगप्रतिकारशक्त वाडयता. चड करून शरद ऋतूंत जावपी आंवाळो खंयचेय पिरायेंत, कसलेय शरीरप्रकृतीच्या मनशाक पथ्यकारक! गांवठी आनी रानवटी आंवाळो चड वखदी. मात, 'क' जीवनसत्त्वाचें प्रमाण गांवठी आंवाळ्यांत चड आसता. आंवाळो शक्त वाडोवपी, धात वाडोवपी, कफ वात पित्त हे त्रिदोश ना करपी आनी पचनाक मजत करपी अशें फळ. ताचे बियेचें चून्न लेगीत वखदी अशेंच. वैजकशास्त्राच्या सांगण्याप्रमाण तोंडाक रूच नासता तेन्ना सुको आंवाळो तोंडांत धरून चाखचो. पोटांत

बरें नासल्यार, ओंकारे येतात जाल्यार आंवाळ्याचो एक कुलेर रोस अर्द कुलेर म्होंवांत घालून दिसांतल्यान तीन चार वेळा घेवप बरो. स्मरणशक्त आनी बुद्द वाडोवपाक आंवाळो एकदम बरो अशें सांगतात.

चींच म्हळें की तर नेणट्यांप्रमाण जाणट्यांच्याय तोंडाक उदक सुट्टा. चिंचेची रूच आनी गुणधर्म लेगीत चिंचेप्रमाण (हरवी, अमुरपिकी, पुराय पिकी) बदलत वता. चिंचेची आमसाण तर हुमणांत वा कालवणांत सर्रास वापरप जाता. आयुर्वेदाचे नदरेन चींच तातुंतले तातूंत तांबडी पिकिल्ली चींच भलायकेक बरी. कारण तातूंत टार्टरीक ॲसीड, सायट्रीक ॲसीड, पोटॅशियम बायटार्टरेट आनी अ, ब, क हीं जीवनसत्त्वां आसतात. तान उणी करपाक, रूच हाडपाक, पचनाक मजत करपाक, रगतपित्त ना करपाक चींच उपकरा पडटा. भूक उणी लागप, जेवण नाका जावप, हाका चिंचेचो सार बरो. ओंकारे, चड सोरो पिल्यार जातात ते त्रास हांचेर चिंचेचें सरबत भोव गुणकारी. पातळ संडासाक जाता जाल्यार चिंचारे आनी गोड्यामुताचेर चिंचेच्यो बियो बऱ्यो. चिंचेच्या पाल्याच्या रोसान घोट घेतल्यार तोंडाच्या दुयेंसाचेर तें बरें वखद. चिंचेची साल लेगीत अशीच वखदी. थोडेभितर चींच ही फकत तुळशीलग्नाक न्हय तर जेवणाखाणावांगडाच वखदी म्हूण प्रचारांत आशिल्ली सगल्यांचीच एक गरज.

आतां कांय फळां सदांच्या जेवणाखाणांत वा खावपाक वापरापरस भलायकेचे नदरेन बरीं म्हूण वा वखदी म्हूण वापरप जातात, तातूंत लिंबू मुखेलपणान येता. एव्हरेस्ट शिखर चडून वचपांत जैतवंत जाल्ले सर एडमंड हिलरी लिंबासंबंदान कितें म्हणटात तें वाचपासारकें आसा. हिलरी म्हणटात, 'संवसारांतलें सगल्यांत उबारेवयलें एव्हरेस्ट शिखर जिखपाक म्हाका जें जैत मेळ्ळें, तातूंत लिंबाचो वांटो व्हड आसा.' तशी लिंबाची गरज आनी म्हत्व सगल्यांकूच खबर आसा. लिंबू हो पचनाक मदत करपी, भूक वाडोवपी, कफ-पित्त-वाय ना करपी, कॉलरा, टायफॉयड सारक्या दुयेंसाचे जंतू ना करपी, ओंकारे, गळ्याचीं दुयेंसां हांचेर गुणकारी, फ्ल्यू आनी न्युमोनियाचेर लिंबू जसो गुणकारी तशेंच गोड्या मुताचें आशिल्ल्या वायटकारांक लिंबू पाणी हें बरें वखद. लिंबांतलें पोटॅशियम हें काळजाक बरें, तशेंच लिंबाचो रोस खर जंतूनाशक जाल्ल्यान आनी तो रगतवाहिन्यो घट करता जाल्ल्यान केन्ना केन्ना लिंबाचो रोस घेवप वा लिंबू चोखून रोस पिवप बरो. पोटांत बिगडल्यार तर लिंबाचो रोस घेवप जाताच.

खावपाक सपसप वापरप जायना, पूण वखदी अशें फळ म्हूण बेलफळ ह्या फळाचो उल्लेख करपाक जाय. डॉ. देवप्रसाद सान्याल, कलकत्ता, हांच्या म्हणण्याप्रमाण पचनाची तक्रार, जुलाब, अजीर्न, मुड्डो, हांचेर बेलफळाच्या रोसासारको दुसरो खर उपाय ना. बेलफळ हें मधूर, पचपाक सोपें, उश्ण, पचनाक मदत करपी, जुलाबाचेर गुणकारी, ओंकारे, पोटखणें, मुतपाक उणें जावप ह्या व्याधींचेर गुणकारी, वात-कफ-पित्त हे

दोश ना करपी अशें वखदी फळ. भितर आशिल्ल्या टेनिनाक लागून बेलफळांत हे वखदी गूण आस्पावतात.

खावपाक एकदम रुचीक, तितलेंच वखदी अशें आनीक एक फळ म्हळ्यार खाजूर आनी खाजूर सुकोवन तयार केल्ली खारीक. खाजूर हो तसो म्हारग. सोंपेपणान विकतो घेवन खावपाक जावपासारको न्हय. देखून भुरगेपणांत देवळाच्या पुजेच्या प्रसादावांगडा एखादें खाजराचें बोटें हातार पडटालें तेन्ना आमकां मोट्टें अप्रूप दिसतालें. शिंयांच्या दिसांनी तर खाजूर खावपाक मज्जा येताली. गोड आनी म्हौंवाळ लागता देखून आनीक खायन दिसतालो. मात्त, खाजूर हो पचनाक मजत करपी आनी पुश्टीक तेचवरी खाजूर सुकोवन केल्ली खारीक सगल्या दुयेंसांचेर वखद म्हूण आतां कळ्ळें. नाका-तोंडांतल्यान रगत पडपाच्या दुयेंसाचेर (रगत पित्त) खारीक हें व्हडलें वखद. कडयिल्ल्या बऱ्या तुपावांगडा खारको खाल्यार रगत पित्त उणें जाता आनी शक्त लेगीत वाडटा. आंगाच्या वाताक खाजूर बरो. तेचपरी आंगाक उजो पेटिल्लेवरी जाल्यारूय खाजूर बरो. दर रातीं न्हिदतना दोन खारको घेवन ताचेर लोणी घालून खाल्यार शक्त वाडटा, उर्बा-उमेद वाडटा आनी आंगांतली धात लेगीत वाडटा. ल्हान भुरग्यांक शक्तीखातीर आनी व्यायाम करतल्या भुरग्यांक झीज भरून येवपाक म्हूण खारको घालून खावपाक करून दिवप बरें. खारकेवांगडा खडीसाखर, खोबऱ्याचे कुडके जाल्यार एकदम बरें. पोट दुखून मासीक पाळी सारकी जांयनाशिल्ल्या चलयांक आनी बायलांक खारकांचो बरो उपेग जाता. गळ्यावेल्या गाठीचेर (गॉयटर) खारकेच्यो बियो हें बरें वखद अशें वैजकी मळावेल्या जाणकारांचें आनी दोतोरांचें म्हणणें आसा.

खाजूर आनी खारकेसारकींच आनीक जायती फळफळावळ आनी वनस्पत भलायकेखातीर आनी वखदाखातीर म्हूण आमचे जाणटेले कदीमकाळासावन वापरीत आयल्यात. तातुंभितर सदांचो आनी सगल्यांचे संवकळीचो म्हणटात तो कांदो. घरांत कोणाक धुंवळ आयली वा कितेंय जालें जाल्यार रोखडोच कांदो हाडपाचो, कांदो धोडावपाचो आनी कांदो घेवन नाकांत फूक मारपाचो बोवाळ सुरू जाता. चटणी-भाकरेवांगडा कांदो खावपाची वा हालींसरा सालादांत कांदो वापरपाची रीत तर सर्रास चलत आसा. सकाळफुडें नेमान तुपावांगडा कांदो खाल्यार कूड घटमूट जावपाक मदत जाता आनी नेमान सात दीसमेरेन असो उपचार केल्यार मनीस दुयेंसांतल्यान मेकळो जावन घटमूट जावपाक पावता अशें कांद्याचें म्हत्व आर्यभिषक हांणी सांगलां. कांदो हो शक्त वाडोवपी, भूक वाडोवपी, कफ ना करपी, धात वाडोवपी, आवाज गोड करपी आनी न्हीद वाडोवपी असो. रगतपित्त, रगतदोश, मूळव्याध, टी.बी., काळजाचें दुयेंस आदी दुयेंसाचेर कांदो हें बरें वखद.

लसूण तर गांवगिऱ्या वाठारांतलें एक 'रसायण' आनी गरिबांची कस्तुरी म्हण फामाद

आसा. वायेच्या सगल्या विकारांचेर लसूण एक बरें वखद. लसूण तिखट, उश्ण, सुवादीक तशीच वीर्य वाडोवपी, गळ्याक बरी, दोळ्यांचें तेज वाडोवपी आनी केसांच्या आरोग्याकूय बरी. कफ, वाय, काळजाचे विकार, कुडीवेली सूज, दमो, मुळव्याध, पोटखणें, खोकली, कॉलरा, न्युमोनिया, टी.बी. हांचेर लसूण बेस बरें वखद. दुयेंसाचे जीवजंतू ना करपाची आनी रगताचो दाब उणो करपाची शक्त लसणेंत आशिल्ल्यान लसूण मनशाचे भलायकेखातीर एक बेस बरें वखद जावपाक पावल्या.

हळद लेगीत भलायकेक बरी आनी वखदी. गांवगिऱ्या वाठारांत तर हळदीची पयली वळख जाता ती हळदीच्या पानांक लागून. सणापरबेक चड करून चवथीक ज्यो पातोळ्यो करतात, त्यो हळदीच्या पानांचेर. पानांच्या सुवादीक वासान पातोळ्यो खायन खायन दिसतात. हळदीची पूड गरम दुदांत घालून पिवपाची चाल तर रूढ आसाच. ताका लागून थंडी खोकली ना जाता. ताचे हळदीचो रोस कफ ना करता, रगत-दोश पयस करता. रगत केणेल्यार हळदीची पूड आनी मीठ हांचो गरम लेप लायल्यार बरो अशें वैजकशास्त्र सांगता. हळद उष्ण, भूक वाडोवपी, दुयेंसाचें जंतू ना करपी, गरजेभायलो वायू ना करपी, कांत वाडोवपी, वर्ण सुदारपी, कातीचे रोग ना करपी अशी. कामणीच्या दुयेंसाचेर हळदीचो रोस गुणकारी अशें सांगतात. ह्या सगल्या गजालींचो विचार करुनूच हुमणाच्या वा कालवणाच्या मसाल्यांत हळद वा हळदीची पूड वापरपाची युक्त सोदून काडल्या जावंक जाय.

आलें हेंवूय एक अशेंच गांवगिऱ्या आनी शारी वाठारांतलें वखद. देखुनूच, संस्कृतांत ताका 'विश्वौषध' म्हळां जावंक जाय. आलें वात (वाय) ना करपी, भूक वाडोवपी, पचनाक मदत करपी, नदर तेजिश्ट करपी, ताळो शुद्ध करपी, पुश्टीक, दुयेंसाचे जंतू ना करपी, आंतकड्यांखातीर टॉनीक अशें. आल्याच्या वखदी गुणासंबंदान राजवेध रसिकलाल परीख हांणी म्हळां तें लक्षांत घेवपासारकें. तांच्या म्हणण्याप्रमाण बाराय म्हयने जेवणापयलीं आल्याचो रोस घेतल्यार जिबेचो तेचपरी ताळ्याचो कॅन्सर जायना.

मिरयांचो जेवणाखाणांतलो वापर आनी तांचो वखदी गूण लेगीत सगल्यांचे वळखीचो. दमो, खोकली आनी वात ह्या दुयेंसांचेर मिरीं वखद म्हूण उपकरा पडटात. गांवगिऱ्या वाठारांनी खावपाच्या पानांप्रमाण मिरवेली लेगीत लायतात, ताचें कारण हेंच. मिरीं दोन तरांचीं आसतात – धवीं आनी काळीं. मिरयां तिखट, उश्ण आनी रूच निर्माण करपी आसतात हें सगल्यांक खबर आसाच. दमो, खोकली, काळजाचें दुयेंस, पोटखणें हांचेर मिरयां हें बरें वखद. चड करून धवीं मिरयां कफ, वात, पित्त ना करतात आनी दोळ्यांचे विकार, विखाचो बादिकार बी पयस करतात. हातापांयांक मुयो येवप, आंग धरिल्लेवरी जावप, बोटांक वात येवप आदी दुयेंसांचेर मिरयांची पूड हें बरें वखद. मिरयां नाशिल्ल्या मसाल्याक तर कांयच अर्थ नासता! मिरयां रूच निर्माण

करतात, तशींच भूक वाडयतात. जांकां भूक लागना तांणी वीस मिरयांचे कण घेवन तांचो बारीक पिठो करून तो म्होंवावांगडा खावप बरो.

जेवले उपरांत कडी पिवपाची पद्धत रूढ आसा. अर्थांत, कांय फावट नाल्लाचे सोयीची कडी पिळून ती जेवणावेळार वापरतात वा पितात, तेचपरी भिंडांच्या सोलाची कडी करून जेवणांत वापरतात वा पितात. आरोग्याचे नदरेन आनी जेवण पचपाक तें एक बरें पेय, बरें वखद. भिंडांचें 'कोकम' हें तर गोंय आनी कोंकण वाठारांत गिमांदिसांनी सर्रास करतात. पिवपाकूय तें रुचीक लागता. भिंडाचीं सोलां तर अठांबाच्या सोलांवरी वा चिंचेचे आमसाणेवरी हुमणाखातीर, कालवणाखातीर वापरतात. पित्त ना करपी, गरमी ना करपी, मुतपाक सडसडीत करपी जांबळां लेगीत गिमा दिसांनी खावप बरें.

संवसार पाडव्या दिसा कडूलिंबाच्या पाल्याचो रोस पिवपाची चाल आनी दिवाळेदिसा कारीट फोडून ताचो रोस जिबेक लावपाची चाल ही धर्मीक दिसली तरी विज्ञानीक नदरेन तिका म्हत्व आसा.

आमच्या भुरगेपणांत भुरग्यांक कडू वखद पाजपाची पद्धत आशिल्ली. कांय कांय कडू फळांची वा वनस्पतींची भाजी करून त्या त्या वेळार खावपाचीय रीत आशिल्ली. काराथें हें एक अशेंच फळ. ताची भाजी करतात वा रोस काडून पितात. रिकाम्या पोटाचेर एक ग्लास कारात्याचो रोस पिल्यार कामणीचेर खात्रीन गुणाक पडटा अशें आयुर्वेदशास्त्र सांगता. कारातें कडू आसता, तें भूक वाडयता, गरमी निर्माण करता, कफ, पित्त, वायू, रगताचे दोश पयस करता. दुयेंसाचे जीवजंतू मारपाची तांक कारात्यांत आसता. कारातें कोडाचें दुयेंस ना करता, अशेंय सांगतात.

तुळस ही तशी खावपाची वा भाजयेक बी वापरपाची अशी वनस्पत न्हय जाली तरी ती रोगनिवारक, दुयेंस पयस करपी वखदी वनस्पत जाल्ल्यान भारतीय संस्कृतायेंत तिका मानाची सुवात फावो जाल्या. हिंदू मनशाच्या आंगणांत तर तुळशीचें एक झाड तुळशीचे पेडेसयत आसताच आसता. आनी विशेश म्हळ्यार तुळस फक्त भारतांतच मेळटा. तुळशींत कृष्ण-तुळस (काळी तुळस) आनी राम-तुळस (धवी तुळस) अशे दोन प्रकार आसतात. तातुंभितर कृष्ण-तुळस ही भोवगुणी आसता. तुळस वायू, कफ, पित्ताचेर बरें वखद. तुळशीच्या पानांचो रोस आंगार चोळ्ळ्यार पित्त उणें जाता. मनीस धर्मीक आसूं वा नासूं, देव मानूं वा ना मानूं, जणएकल्यान घराभोंवतणें तुळशीचीं झाडां लावप एकदम गरजेचें, कारण तुळशीच्या झाडांतल्यान उत्पन्न जावपी वायू अशुद्ध हवेचो नाश करून हवा शुद्ध करपाचें काम करता. तेच परी, तुळशीच्या वासान जळारांसारके जीवजंतू घरालागीं, घरांत येवपाक पावनात. तुळशीपानांचो रोस पिल्यार भूक लेगीत बरी लागता. तुळशीचे वखदी गूण म्हळ्यार ती मुताचे विकार, काळजाचे

विकार, दोळ्यांचे विकार हांचेर एकदम बरी. थंडी, तकली फोडप, मलेरियाचो जोर हांचेर तुळशी पानांचो रोस बरो. हो रोस रगतांतले कॉलेस्टरोलाचें प्रमाण उणें करता. रोसाचे थेंबे दोळ्यांत घाल्यार दोळ्यांक गूण येता, जाल्यार कानांत घाल्यार कानांक गूण पडटा. तुळशीचीं पानां, आलें आनी गंजनासारक्या तणाचो शिजोवन तयार केल्लो काडो एकदम सुवादीक तेचपरी गुणकारी.

फळभाजयांमदीं वा वनस्पतीच्या भाजयांमदीं टॉमेटो सालाद वा रोसाखातीरूच न्हय तर हरशीं लेगीत खावपाक वापरप जाता. गोडेंमुताच्या वायटकारांक आनी वजन उणें करूंक सोदतल्यांक टॉमेटोचो आहार हो बरो आहार. टॉमेटोचो रोस आंतकड्यो निवळ दवरता. टॉमेटो उश्ण, भूक वाडोवपी, पचनाक मजत करपी, कफ-वायू ना करपी आनी मुत्राशयाच्या विकाराचेर गुणकारी असो.

बीट हें अशेंच एक वखदी फळ. बीट ह्या फळाच्या रोसांत कॅन्सर ना करपाचे घटक आसात अशें डॉ. फायरेन्सुझी (हंगेरी) हांचें म्हणणें आसा. बीट हें शीतल, पित्त ना करपी, रगत वाडोवपी, कूड तांबडी गूंज करपी आनी शक्त वाडोवपी अशें. तातुंतल्या 'वेटीन' ह्या घटकाक लागून आंतकड्यो निवळ उरतात. गाजर, कोबी, आंबो वा पोपायेच्या रोसावांगडा बिटाचो रोस मिस्तुराद करून दिल्यार तें एक बरें पेय अशें आरोग्यशास्त्र सांगता. कॅन्सर जाल्ल्यांक बिटाचो रोस बरो अशें फ्रान्स देशांत मानतात, जाल्यार बरो नाशिल्ल्याची अशक्तताय ना करपाक बिटाचो रोस बरो अशें जर्मनींत मानतात.

भाजीपाल्यांतलो क्लोरोफील घटक दुयेंसाचे जंतू प्रभावीपणान ना करता. तेचपरी दातांनी कीड निर्माण करपी जंतू आनी कुडींतल्या आंतकड्यांनी जावपी दुयेंसांच्या जंतुंचो नाश करपाचे वखदी गूण भाजयांमदीं आसतात. भाजयेंतले क्षार पोटांतली आम्लता (आमसाण) उणी करतात, जाल्यार भाजयो प्रोटिनाची गरज भागयतात. अर्थांत, प्रमाण वाडलें वा चुकीचे पद्धतीन भाजी खाली जाल्यार त्रास लेगीत जावं येतात. कारण भाजयेंत गुणांप्रमाण दोशूय आसतात.

आतां भाजयो वखदी जाल्यो तरी खावपाखातीर म्हूण त्यो फावो ते पद्धतीन शिजोवन रुचीक लेगीत करपाची गरज आसताच. ह्या कामांत कोथंबिरेच्या पाल्याक पर्याय नासुंये! कोथंबीर ही वासाळ, रुचीक, पचपाक मजत करपी, शीतळ, पित्त ना करपी अशी. ताजे कोथंबिरेचो पालो भाजयेंत, रोसांत शिनून घाल्यार भाजी बरी वासाळ, सुवादीक लागता. कोथंबिरेची चटणी गुणकारी. मात ताचेपरस कोथंबिरेचो रोस चड गुणांक पडपी असो.

भाजयांभितर चवथीच्या दिसांनी खावपाचो देठो जितलो आमकां संवकळीचो, तितलोच मुळो सगल्यांक खबर आशिल्लो असो. जपान देशाचें तर तें राष्ट्रीय अन्न. मुळो धवो

आनी तांबडो आसता. तरणो मुळो थोडोभोव खारट, कडू आसलो तरी उश्ण, पचनाक मजत करपी, मधूर, काळजाक बरो, पुश्टीक, दमो, खोकली, मूळव्याधी तेचपरी बायलांच्या दुयेंसांचेर उपेगी अशें वखद. मुळ्याचीं पानां चाबून खाल्यार दातांचे विकार पयसावतात.

म्हशिंगा-पाल्याची भाजी गांवगिऱ्या वाठारांनी तर मुळ्याइतलीच वळखीची. चड करून पावसादिसांनी शेतां रोवपाच्या वेळार म्हशिंगा-पाल्याची भाजी खावपाक मजा येता. म्हशिंगा पाल्याची भाजी उश्ण, पचनाक मजत करपी, संडासाक साफ करपी अशी. दोळ्यांच्या विकारांचेरूय म्हशिंगा-पानां गुणकारी. म्हशिंगा-पाल्याच्या रोसांत म्होंव घालून तो रोस दोळ्यांत घाल्यार दोळ्यांचे विकार बरे जातात. रोसांत थोडीशी साखर घालून तो पिवपाक दिल्यार तें वायगुळ्याचेर बरें वखद. तकली फोडटा जाल्यार वा जोर आयलो जाल्यार म्हशिंगा पाल्याचो रोस काडून तकलेर घालपाचो वा पालो काडून तकलेर थापपाची उपचार पद्दत गांवगिऱ्या वाठारांनी आयजूय दिश्टी पडटा.

मेथयेची भाजी हिवूय सगल्यांक खबर आशिल्ली भाजी. ही भाजी तिखट, कडू लागली तरी ती उश्ण, पित्त वाडोवपी, भूक वाडोवपी, काळजाक बरी, वाय ना करपी, ओंकारी, खोकली, कफ, मूळव्याध बी दुयेंसांचेर वखदी. हरवे भाजयेचो रोस असोच गुणकारी. बाळंत बायलांक तेचपरी जोर आयिल्ल्या आनी भूक लागनाशिल्ल्या वायटकारांक मेथयेची भाजी एकदम बरी. मेथयेचे भाजयेच्या रोसांत लोह घटक भरपूर आशिल्ल्यान ती वखदी अशी भाजी.

शेपूची भाजी ही अशीच वखदी. भुरग्यांक हे भाजयेचो रोस दितात. 'डिलवॉटर' वखद म्हळ्यार शेपूचें उदक. ही भाजी तिखट आनी कडू आसली तरी ती उश्ण, दूद वाडोवपी, आरोग्याक हितकारी अशी. ती पोटखणें, पोटांतलो गुळो बी विकार ना करता. वात, कफ, जोर पयस दवरता. हेर भाजयांच्या रोसावांगडा शेपूचे भाजयेचो रोस मिस्तुराद केल्यार चड गुणाक पडटा. परसाकडेन सारकें जायना जाल्यार वखदां घेवपापरस दोनूय वेळा जेवणांत शेपूची भाजी खावप फायद्याचें अशें सांगतात.

हालींसरा कोबी वा कॅबेजीचें प्रमाण आमच्या आहारामदीं वाडत चल्लां. भुरगेपणांत गड्डे, फुलावर बी भाजयांचीं नांवां चड आयकूंक मेळटालीं. मात कोबी सद्याक शाकाहारी आनी मांसाहारी दोनूय प्रकारच्या आहारांमदीं चलता. शिवराकांत भाजयेखातीर जाल्यार मांसाहारांत सालादाखातीर कोबी वापरतात. कोबयेंत आशिल्लें जीवनसत्त्व यू म्हळ्यार पोटांत तेचपरी आंतकड्यांनी जाल्ल्या जखमांचेर रामबाण वखद अशें डॉ. गार्नेथ केनी, कॅलिफॉर्निया, हांचें मत आसा. कोबींत 'सी' जीवनसत्त्व आनी भाजयेच्या पानांनी 'ए' जीवनसत्त्व आशिल्ल्यान कोबी ही पचनाक मजत करपी, भूक वाडोवपी, कफ, पित्त ना करपी आनी खोकली, रगतांतले दोश ना करपी भाजी.

गाजर मधूर, उश्ण, भूक वाडोवपी, दोळ्यांक बरें, मूत सडसडीत जावपाक बरें

अशें. तें वात, कफ ना करता; मात्त थोडेंशें पित्तकारक जाल्यारूय गाजर खाल्यार कुडीक गरजेचें कॅल्शियम मेळटा. प्रमाणांतूच सांगपाचें जाल्यार गाजर खाल्ल्यान बटाट्यापरस स पट चड कॅल्शियम मेळटा. ताका लागून दांत घट जातात. गाजराचो कीस हें खरजेचेर बरें वखद.

बटाट सगल्यांचेच संवकळीचो. बटाटाच्या सोदाची काणीय मजेशीर. १७७१तल्या दुकळांत गंवाक पर्याय खाद्यपदार्थ सोदपाचें बक्षीस जाहीर जालें आनी तातुंतल्यान बटाट उजवाडा आयलो. बटाटासंबंदान डॉ. जे. एच. क्रॅलॉग म्हणटात, ''बटाट्यांत भरपूर प्रमाणांत क्षार आशिल्ल्यान कुडीची आम्लता (ॲसिडिटी) उणी जाता आनी तो कुडीक क्षाराची पुरवण उणी जावपाक दिना. बटाट हो थंड, शक्त दिवपी, वीर्य वाडोवपी, रगत-पित्ताचेर गुणकारी (मात कफ आनी वाय निर्माण करपी) असो. बटाट हें संधी विकाराचेर तेचपरी मूळव्याधीचेर वखद. तो खावपाक रुचीक हें तर सांगपाक नाकाच.

ह्या अशा गांवठी शाकभाजयांभायर, फळभाजयांभायर निसर्गीक रितीन जावपी कितल्याशाच भाजयांचो आमी खाणां-जेवणांत वापर करतात. जाल्यारूय नांव घेतलेबराबर तोंडाक उदक सुटूंकच जाय अशीं अळमीं ह्या भाजयांमदीं मुखेल सुवात घेतात, हें मानुंकूच जाय. अळम्यांक भूछत्र, मशरूम अशींय नांवां आसात. हीं पावसादिसांनी, चड करून श्रावणांत जातात. आतां हेर वनस्पतींत जशें हरितद्रव्य आसता, तशें अळम्यांत नासता. अळम्यामदीं कितल्योशोच तरा आसतात. मात सगलींच अळमीं खावपासारकीं नासतात. जाका 'अळमीं' म्हणटात तींच खावपाक वापरतात आनी चड करून रोयणीचेर फुलतात. अळमें हें पुश्टीक शाकाहारी खाण. खूब सुवादीक. तातूंत अ, ब, क, ड हीं जीवनसत्त्वां आसतात. हातूंत पिश्टमय पदार्थ उण्या प्रमाणांत आनी प्रोटीन्स, जीवनसत्त्वाचें प्रमाण चड आशिल्ल्यान गोड्या मुताचे वायटकार वा वजन उणें करपाक सोदपी लोकांखातीर अळमीं हें बरें वखदी, पुश्टीक खाण आनी ताकाच लागून अळम्यांक 'देवांचें खाण' अशें म्हणटात. हालीं कृत्रीम रितीन अळमीं तयार करपाची पद्धत सगलेकडेन रूढ जाल्या. अर्थांत, पंचतारांकीत हॉटेलांनी अळम्यांक बेस बरी दर आयिल्ल्यान गांवगिऱ्या वाठारांनी निसर्गीक अळमीं बरे तरेन खावपाचेर संक्रांत आयल्या अशेंच म्हणचें पडटलें.

अशे रितीन भाजीपाल्याचो आनी फळफळावळीचो जेवणांत आनी जेवणाउपरांत आहार म्हूण जितलो उपेग जाता तितलोच वखद म्हूण लेगीत उपेग जाता. हालीं तर दुयेंसांचेर ज्यो कितल्योशोच उपचारपद्धती सोदून काडल्यात, तातूंत शाकाहारी उपचार पद्धतींचो आस्पाव व्हड प्रमाणांत केल्लो दिश्टी पडटा. देखीक, गंवांच्या आंकुरांचो रोस कॅन्सराचें दुयेंस लेगीत बरें करूंक शकता अशें खात्रीन सांगपी हे उपचार पद्धतीच्यो

आद्यप्रणेत्यो अमेरिकेच्यो डॉ. एन्. विग्मोर हांच्या म्हणण्याप्रमाण गंवांच्या आंकुरांच्या रोसान कॅन्सर ना करपांत सुमाराभायर जैत मेळ्ळां. वायटकाराक बरें करपाचो तो एक निरुपद्रवी उपाय. Old Testament तलो एक उल्लेख ह्या संदर्भांत लक्षांत घेवपासारको. जेन्ना राजा स्वताचे कुडीची आनी मनाची भलायकी वगडावन बसलो तेन्ना अशी आकाशवाणी जाली की 'जेप्रमाण बैल तण खाता, तेप्रमाण तूं लेगीत तण खा.' तेन्ना राजान सुचोवणेप्रमाण केलें आनी ताचें आरोग्य सुदारलें. अमेरिकेचे तण-निश्णात डॉ. अर्प थॉमस हांच्या मतान गंवाचें तण सगल्यांत उत्तम तण आनी गंवाच्या आंकुरांचो रोस हो पुराय आहार. कारण, मनशाच्या रगतांत जे जे घटक आसतात, ते ते सगले ह्या रोसांत आसतात.

# मिर्गाचो पावस

नेमान शाळेंत वचपी भुरग्याप्रमाण पावसान नेमार आरंब केलो खरो, पूण 'फाल्यां पळोवचें तें!' म्हणपी आळशाप्रमाण नेम अचकित मोडलोय बी! तसो मिर्गाचो पावस बरो पडटलो, अशें ताच्या उक्तावणाच्या दबाज्यावेल्यान दिसतालें – आनी तशें ताका वातावरणूय अनुकूल आसलें. गरमेचें प्रमाण दर वर्सा वाडटा ताचेपरस अंदू तें चड वाडिल्लें. इतलेंच न्हय तर हवामानखात्याच्या अदमासाप्रमाण १९३५ आनी १९५५प्रमाण ह्या वर्सा – १९८८ वर्सा– तापमान वाडिल्लें आनी तापमान जितलें चड तितलो पावस चड हें गणित त्या वर्सा खरें जाल्लें. अंदूय तें जावंये!

कशेंय जायना, जुनाचे स तारकेन भुरग्यांक शाळेंत वचपाक जशें जागयलें तेचवरी ते समनान शेतकामत्यांक कांबळी खरेदी करपाक, जाल्यार जाणट्या-नेणट्यांक सत्र्यो-कापोती मोलावपाक बाजाराची वाट दाखयली. मागीर भुरग्यांचे गणवेश, पुस्तकां, चोपड्यांचीं ओजीं आनी जाणट्यांचीं 'आमच्या वेळार हें असलें नासलें बाबा!' हो वर्सासनाचो शिळोक!

एका अर्थान खरेंय बी तें. पावस पडपाची शक्यताय आयज वेधशाळेच्या आदारान रेडिओ उकतायता आनी इनसॅट-बीच्या आदारान टीवी दुकुमेंत कसो तुमचेमुखार दवरता. पूण पयलीं झाडांच्यो कोमऱ्यो पावसाची सुलूस घेवन येताल्यो. दर्याचो गाज वाजयत गाजयत पावसराजाक न्हवऱ्याभाशेन मळबाच्या माटवांत हाडटालो. काजुल्यांची सोबीत रोशणाय प्रकाश येवजण करताली. केदे व्हडले तयारेन सैम पावसाक येवकार दिवंक सिद्ध जातालें! आनी हो न्हवरो माटवांत पावलो रे पावलो, बेब्यांचें वाजंतर सुरा-तालार वाजतालेंच. 'ते पदेर गेले आनी ते उंडे गेले' अशें आमी म्हणटात. खरें म्हळयार 'तें सैम गेलें आनी तो पावस गेलो' अशें म्हळ्यार कशें? पूण हाका तुमची हरकत आसतली आनी दर वर्साच्या वनमहोत्सवाची याद तुमी करून दितले. तेभायर पांच जून हो 'संवसारीक पर्यावरण दीस' म्हूण झाडांझोपां लावन आमी मनयला. तसो फाटींय तो मनयला, फुडेंय मनयतलेच. म्हणटकूच ह्या सैमाची वाट पळोवंक आनीक कांय वर्सां रावप बरें!

सद्या सुर्यान मृगशीर्ष नक्षत्रांत प्रवेश तर केलाच आनी तोवूय बेब्याचेर बसून. तेखातीरच अरंधारी पावसाची वाट तरी पळोवंक हरकत ना. आतां मृग वा मीर्ग म्हणटात तें पावसाचेंच नखेत्र. तशीं मृग, आर्द्रा, पुनर्वसू, पुष्य, आश्लेषा, मघा, पूर्वा,

उत्तरा आनी हस्त हीं सगलीं पावसाचींच नखेत्रां. तातुंतलें मीर्ग हें मृदू नखेत्र. इश्टागत करपाक आनी शुभकार्याखातीर तें एकदम बरें म्हणटात. नव्यानूच शाळांनी वचपी नव्या भुरग्यांक बरी इश्टागत मेळप हाचेसारकें शुभ म्हाका दिसता दुसरें कांय नासुये! शिकपाचो श्रीगणेशा शुभ आसताच. मिर्गांत ताचो आरंब जावप हें तर मिर्गापरस शुभ! कित्याक, तर नक्षत्राप्रमाण बरें फळ मेळटा अशें पंचांगकर्त्यांनी सांगलां आनी जाचो स्वामी चंद्र आसा अशा मीर्ग नखेत्राचो आसपाव 'देवनखेत्री' म्हूण वळखुपी १४ नखेत्रांत केला. हें नखेत्र शिव आसा आनी ताचें अंतराळांत स्थान (सुवात) बेस्स बरें आसा अशें तैत्तिरीय ब्राह्मणांत सांगलां खंय! तेभायर 'मीर्ग नक्षत्राचेर जल्माक आयिल्लो मनीस गुणेस्त, मोगाळ आनी सज्जन जाता' अशें कोष्ठीप्रदीप-नक्षत्रालोक हातूंत सांगलां खंय!

तेन्ना पावसावेल्यान आमी मिर्गाकडेन पावल्यातच म्हूण ह्या वर्साच्या विभवनाम संवत्सराचें फळ पळयतां पळयतां मिर्गाकडल्यान मातशे परते पावसाकडेन वचुंया. ह्या वर्साक सगले खुशालभरीत जातले अशें संवसार पाडव्यादिसा सांगिल्लें आमी आयकलां. आनी हाचें कारणूय स्पश्ट आसा की ह्या वर्सा पावस बरो पडटलो, जमनीचो कस बरो वाडटलो. म्हणटकूच पिकांय बरीं येतलीं. (सद्याचो पावस तरी मिरसांगेचें एक पीक बरें येवपाक बरो आसा, म्हळ्यार मळे तरी लागून आयल्यात). अंदू खंय गायो पुश्ट जावन खूब दूद दितल्यो, म्हणटकूच पालो वाडोवपाखातीर तरी पावसाक पडचेंच पडलें! तो पडटलोच हाची खात्री 'राजा शुक्ल' दिता. ताका लागून उदकाचे सांठे (बांयो, तळयो, तळीं, न्हंयो) उफाट भरून वतले आनी पिकावळ बरी जाल्ल्यान लोक सुखी जातले).

अंदूचो मंत्री बुध (हांव संवत्सराच्या मंत्र्या संबंदान म्हणटां). देखून राष्ट्राचो खजिनो वाडटलो, पिकावळ बरी जातली, दुयेंसां जावचीं नात, कुपांचो अधिपती मंगळ. देखून वारें नेटान व्हांवतलें. पिकावळीचो स्वामी शुक्र, म्हणून पावस बरो पडटलो, पिकावळ बरी येतली, अशें सांगलां. तेभायर रोहिणी नखेत्र दर्यार आशिल्ल्यान पावस भरपूर पडटलो. भरपूर म्हळ्यार वीस वांट्यांतलो धा वांटे दर्यार! तुमी म्हणटले, इतलो पावस दर्यार पडून गेल्यार आमकां ताचो कितें फायदो? फायदो मुखार दिसतलो! पावस पडटलो जाल्यार दर्याचीच (दर्याच्या उदकाची) वाफ जावन वयर वचपाक न्हय गा! तसो ह्याच वर्साक जाय जाल्यार स भाग न्हंयो आनी दोंगरांचेर पडटलो खंय. तशें पळोवंक गेल्यार चार भाग भुंयेचेर पडटलो, त्या पावसांतूय जाल्यार चारूय दिको भरून पिकावळ काडूंक जायना?

जाता! पूण ही जाली फाल्यांची गजाल. आतां सद्याक पावस जाय तसो पडना ताचें कितें? ताचीय जाप संवत्सर फळच दिता. पृथुश्रवस नांवाचो नाग ह्या वर्सा आसा, देखून पावस थोडो पडून पिकांची नाशाडी जातली. पशु-पाळक यम आसा.

देखून, पावस थोडो पडटलो आनी म्हारगाय जातली! बाकी म्हारगाय जातली म्हूण सांगपाक ज्योतिशाची गरज नाच्च! आनी तिची पावसाकडेन कितें सोयरगत? ती जाल्याच. आतां फकत दिशींमाशीं वाडत पुश्ट जावपाची! जनावरांक दुयेंसां जातलीं खंय. (मनशाचें सांगूंक ना, कारण घडये मनशांक आनीक दुयेंसां जावपाचीं बाकी उरलीं नासुंये!)

पूण मनीसप्राणी मात बाकी इप्रीतच. तो पावसाची वाट उमळशिकेन पळयता. आनी पावस पडलो तो चड पडलो जाल्यार 'पावसान विटयलें' म्हणपाक फाटीं रावना. तसोच पावस पडलोच ना जाल्यार 'पावसान फटयलें' म्हणपाक बारीकसाण करना. तसो पावस म्हळ्यार जीण. देखून तो सगल्यांकूच जाय. पूण कवीचें पावसासंबंदाचें अप्रूप तोखणाय करीसारकें. टिटाबायसारके ते थेंब्याक आंवडेतले, पूण पावसाचें कवीत रचपाचे रावचे नात, पावसाचें गीत गावपाचें विसरचे नात!

आमच्या भुरगेपणांत 'येरे येरे पावसा, तुला देतो पैसा' म्हूण आमी पावसाक फटयताले. 'पावसाच्या धारा, येती झरझरा, झाकळले नभ सोसाट्याचा वारा' म्हणत पावसांत भिजत खारजांत होडयो सोडटाले. 'डरांव डरांव का हो ओरडता उगाच राव' म्हणत बेब्याक फातरायताले. घडये तेन्नाच मनोहरबाब सरदेसाय 'हरवो ताल्ल बेबो, शेतामेरेर उबो' पळयत 'पावस पडल्यार म्हणटात विटयलें; पावस उडल्यार म्हणटात फटयलें' अशीं पिसोळीं धरपाक लागिल्ले! र. वि. पंडित तर 'पावसा पावसा यो रे यो.. शेतांत म्हज्या खेळूंक यो' म्हूण पावसाक आपालिपा खेळपाक आफयताले! मनोहरबाबांचेच उमेदीन! शंकरबाबांचो पावस मात 'शिडी शिडी शिडी शेतां भिजैत, कुपांर कुपां वाजैत गाजैत, सैमाचें गायत जैत' आयलो आनी शंकरबाबांउपरांतूय पोफळांच्या अक्षदांनी कुळागरां भरून उरलो! बाकीबाबांची तराच खेरीत. तांकां तालासूराबगर दुसरें कांयच येवजलें ना. देखूनच तांचो पावस नाचतो मोर. 'नाचता मोर आलतडी, पावस पडटा पलतडी, डरांव डरांव गायति बेबे, तळयेर खेळटी तालगडी.' उदयबाब भेंब्रो 'केन्ना पावस, केन्ना पावस' विचारून बेजार जातात. तांच्या मनाची 'टिटाबाय थेंब्याक आंवडेता' आनी 'येतलो पावस येतलो पावस, पडला खंय तरी' म्हणत 'मनांत हुंवार आनी उगडासांच्यो झरी' घेवन ते हावेसार जगतात, हेरांकय जगयतात. शंकर रामाणी उटंगाराच्या पावसांत भिजतात. 'उटंगाराच्या पावसांत हांव चिप्प भिजलां' म्हणत 'दोंगराकडेची चिकणमाती घेवन' नवी बावली घडयत आसतात. चा.फ्रा. डिकॉश्ता 'रडूं नाका फायच्या झाडा' म्हूण झाडाचें सांत्वन करतात आनी धीराचीं उतरां सांगतना म्हणटात 'बीरी-बीरी पावस, सुटका तुका दितलो.' नागेशबाबांक पावसाच्या तरेकतरांच्या रुपांचो साक्षात्कार जाता. 'एक पावस मिर्गाचो, एक पावस उटंगाराचो'. पांडुरंग भांगींची तटस्थताय आनी रसिकताय मन-भुलोवणी. 'पावस आयलो शिंवारा भायर सल्लो भोंवारा, अप्रूपांचें सवणें

एक आयलें म्हज्या घोंटेरा.'

नवे पिळगेच्या कवींक पावस कसो भावला, हेंवूय पळोवपासारकेंच. पुंडलीक नायकांच्या नदरेन 'पावस... एक लयबद्द, बंदिशी, पावस... शिरीशिरी रुजोवन बीज, पावस... शिरंतरां पेटोवपी चूड!' तर प्रकाश पाडगांवकारांक मिर्गाचो पावस म्हळ्यार 'मेकळ्या हातान सुर्या शिंपता मोतयांची रास' असो मोतयांवरी दिसता. ते म्हणटात, 'मातयेची मुरगट्टली सपनां पिसोळीं'. माधव बोरकारांच्या 'प्राणांत पावस रूजली जीण, अमृत आंकरेचें रूजवण, सुकृताच्या रुखाक पुण्यायेचें मुळावण.' रमेश वेळुस्कारांक मात श्रावणांतलो पावस चड भावता आनी खोशयेन दंग जावन मागीर ते नाचतात, गायतात... 'श्रावणांतलें हांसलें वोत, वारयत पाचवो रंग, पावसाचें नाचप उडप वतांत जालें दंग?'

सद्याचे तरणे पिळगेचो पावस मस्त विष्णू सुर्या वाघाच्या रुपान 'प्रतिनिधीक' जावन येता. ताचो 'पावस पांच खिणांतलो... पावस पयल्या खिणांतलो, धतरेच्या रिणांतलो.. दुसऱ्या खिणाक रूप अशें, मळबा पोल्यार कुपां लाशें... पावस चडटेचो, गर्भार चडटेचो; चवथ्या खिणाक पावस असो, साबुदीविण बेब्दो कसो... पावस पांचव्या खिणांतलो... झेमत्या मळबाशिणांतलो.'

असो हो पावस. मिर्गांतलो पावस. पयलोवयलो अपुरबायेचो पावस. जातना जाला तर माणकुलोच! पळोवया तरणेपणांत ताका कसलें वारें लागता तें! सद्याक खोशयेन नाचपी त्या पावसाच्या मोराकडेन इतलेंच मागुंया. 'नाच रे मोरा शेतोडे, आमच्या घरच्या भितोडे, घाल्लो रोव येवंदि वयर, पावंदि रोखडो पिकोडे.'

# क्रांतीचें बीं रुजोवन गेल्लो जून

मीर्ग आयलो आनी जसो पिकावळीचें बीं रुजोवन गेलो तसो जूनय क्रांतीचें बीं रुजोवन गेलो म्हळ्यार अतिताय जावची न्हय! विधान सिद्ध करपाचेंच जाल्यार जुनांतलो खंयचोय म्हत्वाचो दीस काडून पळयात. एक तर तो क्रांतीचो दीस आसतलो वा क्रांतीकारकांचो दीस आसतलो. देखीक, ५ जून हो पुरायेन क्रांतीचो दीस जाल्यार २५ जून हो भारतीय स्वातंत्र्याखातीर प्राण ओंपिल्ले हुतात्मे दामोदर हरीपंत चाफेकर हांचो जल्मदीस.

राजकी क्रांतीचोच विचार सुर्वेक करपाचें थारायल्यार आमकां भारतीय स्वतंत्रतायेखातीरच्या उकत्या बंडाच्यो एक सेनानी झांशीची राणी वीर लक्ष्मीबाई हांचे १८ जुनाचे पुण्यतिथीची याद अग्रक्रमान काडची पडटली. १८५७चें तें शिपायांचें बंड! बराकपूर छावणींतलो मंगल पांडे नांवाचो एक सादो शिपाय. काडतुसांक दुकराची आनी गायची चरबी लायतात म्हूण तिडक तर सगल्यांकूच मारिल्ली. पूण आपली तिडक देशाभिमानाच्या बळिश्ट गुणांत रुपकारीत करपाखातीर वरिश्ठ अधिकाऱ्यांचेर गुळी घालपी पयलो शिपाय मंगल पांडे! बंडाक लागून फांसार वचपी पयलो शिपाय मंगल पांडे!! मागीर हो उठाव मिरत, दिल्ली, बरेली (उ.प्रदेश), बिहार, जमशेदपूर, बनारस, ग्वाल्हेर, झांशी ह्या वाठारांनी पातळ्ळो. त्या १८५७च्या बंडाच्यो एक झुजारी मुखेली बुंदेलखंडच्यो झाशीच्यो राणी लक्ष्मीबाई. वीस वर्सांचे तरणे पिरायेर ब्रिटीशांआड झुजपी, झांशीचें स्वातंत्र्य घोशीत करपी आनी तेंवूय जिवाची पर्वा करिनासतना. देशाखातीर बलीदान करपी झुजारी!

२३ जून हो असोच बंडवाल्यांनी इंग्लेजांआड केल्ले लडायेचो क्रांतीदीस. इंग्लेजांच्या शेकातळांतल्यान भारताक मेकळें करपाखातीर बंडवाल्यांनी इंग्लेजांआड केल्ली ही लडाय म्हळ्यार प्रसिद्ध अशी प्लासीची लडाय. जिवाची पर्वा करीनासतना झुजुनूय बंडवाल्यांक जैत मात्त मेळ्ळें ना, ही शोकांतिका!

घडये १८५७च्या बंडाचो परिणाम फावो तसो जालोना जावंये, तें बंड जैतीवंतूय जालेंना जावंये! पूण फुडल्या झुजाची ही नांदी आशिल्ली हें विसरून कशें चलत? हिंदू-मुसलमानांचो एकचार घडोवन हाडपाच्या वावरांत ह्या बंडान फाटभूंय तयार केली हें कशें न्हयकारूक येत? मिरतच्या हिंदी शिपायांनी दुसऱ्या बहादूरशाहाक व्हड उमेदीन गादयेर बसयलो हो इतिहास कसो नश्ट करूं येत?

मात १८५७च्या बंडापयलींच गोंयांतूय पुर्तुगेजांआड, तांच्या अत्याचारांआड बंडां जातालीं (उपरांतूय तीं जालीं, निमाणेंमेरेन जालीं), मागीर तीं १८५७ सारकींच पुरायेन जैतीवंत जालीं ना जावंये, घडये! १७८५तलें 'पिंटोचें बंड' (कायतानु फ्रांसिस्कु कौतु, जुझे आंतोनियो रोद्रीगीश आनी पिंटो हांचें बंड) हें फामाद बंड आसलें तरी ताचेयलीं १७५५त सत्तरींत भौसाचें बंड जाल्लें. इतलेंच न्हय तर १५८३त कुंकळ्ळींत जाल्लें बंड हें गोंयचें आनी देशांतलें पयलें बंड म्हूण इतिहास सांगता. ते उपरांत १८५२त सत्तरी वाठारांत दीपाजी राणे सरदेसायांचें बंड जालें आनी सामकें गाजलें. पूण हीं सगलीं बंडां त्या त्या वाठारांत पेटलीं आनी कांय काळान पालवलीं लेगीत!

ह्या बंडांभायर स्वातंत्र्यझुजारी देशाच्या हेर भागांत भाशणांनी, पत्रां-पेपरांनी वातावरण तापयताले. गोंयच्या सुटके झुजाच्या निमण्या पर्वाआदल्या पर्वाची पयली नांदी म्हळी ती १९४२च्या 'छोडो भारत' चळवळीच्या एका म्हान झुजारी वीरान – डॉ. राममनोहर लोहिया हांणी. असोळणेच्या इश्टागेर – डॉ. जुलियांव मिनेझीसागेर विसव घेवंक आयिल्ल्या डॉ. राममनोहर लोहियाकडेन पुर्तुगेजांआड कागाळ्यो वचपाक लागतकूच तो वीर थंड कसो बसत? बसको जाल्यो, विचार थरलो आनी भाषणबंदी, सभाबंदीचो हुकूम मोडून मडगांवां चौकांत भौसाची सभा घेवपाचें थरलें आनी फकत थरलें ना, तशें घडलें. डॉ. लोहियांनी गोंयकार झुजाऱ्यांच्या आदारान आनी हजारांनी स्वातंत्र्यप्रेमी गोंयकारांच्या आशीर्वादान तें खरें करून दाखयलें! कॅप्टन मिरांडाच्या गुळयांची पर्वा केली ना, इतलेंच न्हय, ताचो हात पिस्तोलासयत कुशीक घुंवडायलो! केदी धिटाय! होच तो दीस, १८ जून – गोंयचो क्रांती दीस. 'पवित्र हो मंगळार! आयचो पवित्र हो मंगळार! आज गाजतलो धेंक शिंवाचो हांगाच ह्या म्हुर्तार!' म्हणत बाकीबाबान ह्या दिसाचें बेसबरें वर्णन केलां.

गोंयांत हो दीस आतां १९८०सावन सरकारी पांवड्याचेर 'क्रांतीदीस' म्हूण व्हड दबाज्यान मनयतात. त्या दिसा हुतात्म्यांची याद काडटात, भाशणां जातात, विंगड विंगड कार्यावळी जातात. तेखातीर झेंडावंदनूय जाता. पूण कितले जाण गंभिरतायेन इतिहासाची याद करतात? इतिहास वाचतात तरी? वागप शक्य नाच! १५ आगश्ट, १९ डिसेंबर, २६ जानेवारीसारको होवूय एक झेंडावंदनाचो दीस. घडये फुडेंफुडें सुटयेचो दीस! क्रांती दीस आमी मनयतात!! 'दीस' दिसता, 'क्रांती' मात खंयच दिसना! जयप्रकाश नारायणांची पुरायेन क्रांती मागीर कुशीनच उरली.

राजकीय क्रांतीचो विशय आयला म्हूण न्हय, पूण हें सांगपाकूच जाय की २७ जून हो शिवराज्याभिषेक दीस. दोंगरदेगणांतल्या मावळ्यांक मर्दुमकी शिकोवन भौसाच्या आदारान भौसाखातीर हिंदवी स्वराज्याची थापणूक करपी हो शिवछत्रपती शिवाजी राजा म्हळ्यार राजकारण्यांचो क्रांतीकारी आदर्शच! ताचे गनिमी कावे, गड जिकपाचो हावेस,

ते तिगोवपाची तजवीज, गुणांचें चीज करपी नदर, दुश्टांक ख्यास्त करपाची तरा आनी राज्यशासन चलोवपाक नेमिल्लें अष्टप्रधान मंडळ म्हळ्यार आयच्या राजकर्त्यांनी देख घेवपासारकी राजकारणी देख!

पूण हे देखीनच जून म्हयन्याचो क्रांतीचो म्हयमो सोंपना. समाजीक, शिक्षणीक, संस्कृतीक आनी साहित्यीक मळारूय ह्या म्हयन्यान क्रांती घडोवन हाडल्या. देखीक, 'ऐसी थोर दृष्टी करा, ताटी उघडा ज्ञानेश्वरा' म्हूण संतश्रेष्ठ ज्ञानेश्वरांचे नदरेंत अंजन घालपी आनी 'गंगाजळ हृदय करा, ताटी उघडा ज्ञानेश्वरा' म्हूण ज्ञानेश्वराच्या काळजाक हात घालपी मुक्ताबायची पुण्यतीथ ४ जुनाची.

'श्यामची आई' आनी 'भारतीय संस्कृती' हीं दोनच पुस्तकां बरयल्यार लेगीत ज्येष्ठ भावप्रधान साहित्यीक आनी जीवनमूल्यां जगपी आधुनिक संत म्हूण जांची नामना जातली आसली त्या पू. सानेगुरूजींची म्हळ्यारच पू. पांडुरंग सदाशिव साने हांची पुण्यतीथ ११ जुनाची. जांकां समाजकारणाखातीर आत्महत्त्या करची पडली अशे हे साने गुरूजी म्हळ्यार भुरग्यांबाळांचे आवडीचे कथाकार. काणयांतल्यान भारतीय संस्कृताय समजावन दिवपी काणयेकार, कथाकार. 'लेखणीच्या सौंदर्यापेक्षा मला झाडूचे सौंदर्य अधिक आवडते' म्हणपी आनी तशे वागपाखातीर जिणेंत मुखेल सुवात दिवपी समाजसुधारक. हरीजनांक पंढरपूरचें देवूळ उकतें जायना म्हूण २१ दीस उपास करपी आनी देशाच्या स्वतंत्रतायेखातीर कसलोय त्याग करपाक तयार आशिल्ले म. गांधीजींच्या प्रभावळींतले सत्पुरूष! महाराष्ट्रांत, गोंयांत आनी देशाच्या हेर वाठारांनी 'पू. साने गुरुजी कथामाला' म्हूण चलता ती तांच्याच नांवाचेर.

आचार्य अत्रे हे तर खांपे साहित्यीक. कवितेंत 'केशवकुमार'! विडंबनांत पयलो नंबर! प्रल्हाद केशव अत्रे जशे बरोवपी तशेच 'वक्ता दशसहस्त्रेषु' अशे उलोवपीय. नाटककार, पत्रकार, टीकाकार, कोण न्हय ते? राजकारणी लेगीत! मात्त त्या काळांत (१९३३च्या अदमासाक) बोलपटाकडेन वळिल्ल्या आनी बोलपटांचेयच पिशें लागिल्ल्या प्रेक्षकांक रंगभूमीकडेन – नाटकाकडेन – हाडपाचें चडशें स्रय आचार्य अत्र्यांकूच! इतलेंच न्हय तर इब्सेनाचें आधुनिक तंत्र मराठी रंगभूमीचेर आपणावन जैतिवंत करपाचेंय स्रय नाटककार अत्र्यांकूच! तेचखातीर चुकून जायना कित्याक, १३ जुनाक नाट्यकलाकारांनी आनी नाटककारांनी तरी तांची याद काडुंकूच जाय.

अशीच गरजेन १७ जुनादिसा याद काडूंक जाय आनी सुदारणेचें एक पावल तरी मुखार घालपाचें व्रत घेवपाक जाय तें नामनेचे समाजसुदारक गोपाळ गणेश आगरकर (१८५६-१८९५) हांच्या नांवान. पोरण्या पुरातन, पिशेपणाच्या धर्मसमजण्यांचेर खरायेन घुरी घालपाचो तांचेइतलो म्हान वावर त्या काळांत दुसऱ्या कोणेंच केलो ना जातलो. सोळाव्या शेंकड्यांत युरोपांत मार्टीन ल्यूथरान जसो वावर केलो, तसो आनी तेदो वावर

महाराष्ट्रांत आगरकरांनी केलो म्हळ्यार अतिताय जावंची न्हय! आपलीं तत्त्वां लोकांमेरेन पावोवपाखातीर तांणी 'सुधारक' नांवाचो पेपर काडलो.

२४ जून हो अशाच एका कलाकार, समाज क्रांतीकारक व्यक्तिमत्वाचो – श्रीमती आवाबेन देशपांडे हांचो – यादस्तीक दीस. पारशी कुटुंबांत जल्माक आयिल्ल्या आवाबेन देशपांडेनी भुरगेपणांत सेवादलाकडल्यान स्फूर्त घेवन मुंबय आनी पुणें हांगा कलापथकां उबारपाचो आनी कितल्याश्याच चल्या-चलयांतल्यान कलाकार घडोवाचो म्हान वावर केलो. तेचपरी, सगल्या जाती-धर्मांच्या कश्टी बायलांमदीं वचून कुटुंब-नियोजनाचो मोलादीक वावर तांणी केलो. कितली व्हडली सुखदिणी आनी समाधानाची घटना ही! गोंयकारांचे नदरेन मात २४ जुनाक वेगळेंच म्हत्व आसा. सेंट जॉन बाप्तीस्ट वा सां जुआंवाचें फेस्त गोंयभर 'संजांवां-फेस्त' म्हूण मनयतात. सां जुआंव हो येशूचो मावसभाव. तो येशूक ताच्या वावरांत मजत करता. देखून, ताचो दीस व्हडा उमेदीन 'संजांवा-फेस्त' म्हूण मनयतात.

आत्म्याचें समाधान हें भारतीय संस्कृतायेचें एक विशेश दायज आशिल्ल्यान अंदू १९८८ वर्सा २९ जुनाक आयिल्ल्या वडा पुनवेचो विचार करप गैर न्हय. ते भायर कबीर जयंतीन हो दीस एक भाग्याचो, पुण्यायेचो आनी राष्ट्रीक एकचाराचो दीस अशें सिद्ध केलां. कारण, संत कबीर म्हळ्यार हिंदू-मुसलमानांच्या संस्कृतीक एकचाराचें सगल्यांत बरें प्रतीक! दोनूय धर्मांतले अनुयायी लाबिल्ल्या ह्या संतान भौसामदीं भोवन, रावन राम आनी रहीम हे दोगूय एकूच ही शिकवण तांकां दिली. दोगांयच्या आचार-विचारांतलो फरक ही दुहीची बुन्याद हें तो संत बरेभशेन वळखलो! देखुनूच सोप्या गितांतल्यान, भजनांतल्यान ताणें एकचाराची देख दिली. केदें व्हडलें राष्ट्रीय कार्य हें! आमी मात संत कबीरावेली मालिका टीवीचेर दाखयली जाल्यार रोखडेच दुभाव काडटात, पळोवपाक कांय जाण वाजेतात!

असो हो जून हरितक्रांतीचोय! ५ जुनाचो 'संवसारीक पर्यावरण दीस' आमी (सरकारानूय) झाडां, झोपां लावन मनयलो. पोस्टखात्यान खेजरी झाडाचो स्टँप उक्तावन ह्या दिसाचें म्हत्व स्पश्ट केलें. खरें म्हळ्यार झाडांपेडांचें म्हत्व मनशाक सांगप म्हळ्यार पिशेपणाचें. 'वृक्षवल्ली आम्हां सोयरे वनचरें' अशें संत तुकारामानूच म्हळां अशें न्हय, तर वेदकाळांतूय ऋषीमुनींनी झाडांचें म्हत्व वळखून भौसाखातीर तांकां देवत्वाचें रूप दिलां. वड, पिंपळाची पूजा कित्याक तर ना जाल्यार? भोंवताडे घालून पुण्य जोडपाखातीर? तशी सती सावित्रीची आनी सत्यवानाची कथा ही आयजूय देखदिणीच. तातुंतलें वडाचें झाड हें विज्ञानीक नदरेनूय म्हत्वाचें. वातावरणाच्या संतुळेंतल्या वावरांत मोलादीक हातभार लावपी हें झाड.

पूण वडापुनवेन मात हो जून म्हयनो सोंपना. ३० जुनाच्या गुरू हरगोविंदाच्या जयंतीनूय

तो सोंपना. खरें तर तो केन्नाच सोंपना! कारण ह्याच म्हयन्यांत वडाझाडांचे हे गर्देतल्यान आपली सुवात सोदीत मळबाक माथें तेंकोवपी आनीक एक वडारूख जल्माक आयला, फुल्ला, फळांभारान बागवला, म्होंवाळ गितां गावपी सवण्या सुकण्यांनी भरला! ताणें हे भुंयेचेर, हे भुंयेवेल्या मनशांचेर आनी ताचेपरसूय तांचे भाशेचेर मनापसून मोग केला! कोंकणीचो पुरुशार्थ जागयला! कोणी ताका सत्पुरूश म्हळां, जाल्यार कोणी म्हापुरीस. कोंकणी चळवळीचे भीष्माचार्य म्हूण कोण तांकां वळखतात, जाल्यार कोंकणी समाजांत प्राण फुंकपी धन्वंतरी म्हूण तांचो भोवमान करतात. 'कोंकणी साहित्याचो कुळपुरीस' म्हूणय तांकां कोण कोण उपाधी दितात. पूण खरो हो कोण? इतिहास संशोधक, भाषापंडित, खांपो साहित्यीक काय तत्त्वगिन्यानी? खरें म्हळ्यार हो सगलोच. तळामेरेन सोदता तितलो न कळपीय! देखुनूच सामान्यांखातीर ताचें नांव शणै गोंयबाब उर्फ वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकार. जल्म २३ जुनाचो. मूळ नामो दिवचलचो. म्हजे मत्तान मात कोंकणीचो हो कुळपुरीस म्हळ्यार कोंकणी अस्मितायेच्या सत्यवानाक प्राण दिवपी आनी वरयगोट्यांतल्यान वड निर्मुपाची तांक आशिल्लो क्रांतीकारी स्वयंभू!

तेन्ना, भाशेवरवीं समाजाच्या सगल्या पांवड्याची उदरगत जावची हो हेत मनांत बाळगून जीण सारतल्या ह्या म्हापुरसाचो एकच विचार मात्सो नदरेसकयल्यान घालुंया. 'कोंकणी भास आमी अशेतरेन फुलोवंया कि सकैल्या पांवड्यासाकून वैल्या पांवड्यामेरेन अुलोवपांत तशी बरोवपांत ती सगळ्यांक सारकी समजूंक जाय. वैली भास आनी सकैली भास, पंडिती भास आनी गावडी भास अशे तिचे वांटे जावंक जायनात. आमी गावड्यांक पंडित करूंया आनी सगळेच पंडित जावंया. आनी सगळे जाण कोंकणी भाशेचें पूर्ण स्वराज्य भोगूंया!'

पुरायेन क्रांतीचें सपन म्हणटात तें हाचेपरस आनीक वेगळें कितें आसूंक शकता?

# सं ऽ जांव घुं ऽ वता...

पावसपाणयाक, वादळवाऱ्याक, धर्तीक, सुर्याक, मळबाक थोडेभितर सैमाक जात-धर्म, पंथ-भेद, पक्ष-भेद कांय एक लागना, हो मूळ सिद्धांत. पावस-पाणी म्हळ्यार जिवांचें जीवन. पूण ताणें हुंवाराचें रूप घेतल्यार तेंच 'जीवन' खंयच्याय खिणाक 'मर्ण' जावं येता! वादळवारें तर मूळ रुपांत आसता, तेन्ना 'प्राणवायू' जिणेंत उदकापरसूय चड आनी चड गरजेचो. पूण त्याच वायून वाऱ्यावादळाचें रूप घेतलें जाल्यार खंयच्याय खिणांत प्राण वचपाचीच खात्री चड! धर्तरी, सूर्य, मळब लेगीत आपलेकडलें 'सत्त्व' मनीसप्राण्याक आनी जीवजिवाणूंक भरभरून दिवपाक कसलीच बारीकसाण करिना. पूण आयच्या काळांतले ज्येश्ठ कर्तुबी संत बाबा आमटेंच्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार

*मंदिर, मसजीद, गिरिजाघरने*
*बाँट लिया भगवान को*
*धरती बाँटी, सागर बाँटा,*
*मत बाँटो इन्सान को!*

पूण ह्या अशा काळजाच्या उल्यांक आयजूय जाय तसो प्रतिसाद मेळना, ही खंतीची गजाल. ही इतली प्रस्तावना करपाचो हेतू हो की दर वर्सा 'माय' सोंपलो आनी जून लागलो म्हणटकूच मिर्गाची खबर येता. आतां उदकाक आशेल्ल्या, तानेल्ल्या सैमाक मिर्गाच्या पावसाची गरज केदी हें सांगपाक कोणा भविश्यवाल्याची गरज ना. पावसपाणी म्हणटात तें तर दर एका मनीसप्राण्याचें, सैमांतल्या दर एका जिवाचें 'जीवन'. जाल्यारूय आयज हिंदुचें मीर्ग, आयज किरिस्तांवांचें मीर्ग अशा उतरांनी आमी 'मीर्ग वांट्टात' तेन्ना मन भौ खंती जाता. आनी जेन्ना एकादऱ्या मिर्गाक पावस पडना आनी एकादऱ्या मिर्गाक पावस पडटा तेन्ना मागीर कोणाचें पुण्य चड आनी कोणाचें पातक चड हाचो हिशेब सुरू जाता. पुण्यासंबंदान उलोवपाचेंच जाल्यार ह्या देशांतल्या 'पुण्यधर्मान' हांगा बेकारी म्हणटात ती वा दुकळ म्हणटात तो वखदाक लेगीत मेळपाचो न्हय आनी मागीर 'गरिबी हटाव' म्हणपाक तर कोणाक संदूच मेळपाची न्हय! पूण आमचो 'पुण्यधर्म' तसो वेव्हारीक नदरेन केन्ना फळादीक जाल्ल्याच्यो देखी नात म्हळ्यार अतिताय जावची न्हय!

तेन्ना, मिर्गाचो पावस म्हळो की ताची गरज जशी सगल्यांक. तशें ताचें म्हत्व लेगीत सगल्यांक, म्हजेसारक्याचें भुरगेपण तर गांवगिऱ्या वाठारांत गेल्ल्यान ह्या अशा गजालींचें म्हत्व विशेश. कारण, मीर्ग म्हळो की पावसपाणयांत थंडी जातासर नाचपाची जशी संद तशी शेतांत चिखलांत बुडबुडीत जावन घोळिल्ल्यासारकें करपाची मजेची संद. ह्याच दिसांनी 'संजाव घुंवता' उतरां आयकुपाक तर कान सामके आशेल्ले आसताले. हालींसरा 'संजावां' मेरेन तो तसो पावसूय पडना, आंगणांनी रेबो-चिखोलूय जायना आनी माडाच्या पिराड्यांचो 'ढब ढब' आवाजूय कानार सादना. संजावांचीय आतां 'फॉर्मालदाद' जाल्या. हरशींय जाल्यार तांबशा रुमालाची ती काश्टी आनी माथ्याक, कमराक, संजावांची कांट्यांची वाल घुसपावन हातांत पिराडो घेवन लज-भीड सोडून 'संऽऽजांव घुंऽऽवता' म्हूण कोण आड्डतलो?... पूण मजा येताली खरी.

आतां कितल्याशाच वर्सांमेरेन 'संजांव घुंवता' इतलेंच संजावासंबंदान खबर आशिल्लें. पूण जेन्ना कळपाक लागलें, तेन्ना 'कितें बाबा संजाव म्हणटात तें, पळोवया तरी' अशी उमळशीक जेन्ना लागली तेन्ना इश्ट मार्टीनबाब, जेसबाब आनी तांच्या घरच्यांकडल्यान तशेंच अशेंच कोणाकोणाकडल्यान थोडेंभोव समजून घेतलें. तेप्रमाण

*नमन मोरये कुरपेन भल्लले*

*सर्वेस्पर तुजेठांय आसा*

अस्तुऱ्यांभितर तूं सधय, सधय तुजो पुत हें गुरूवाचार प्राप्त जाल्ले मारीक लेखून केल्लें 'नमन' म्हाका भोव भावलें! ताचें कारण म्हळ्यार कुंवारपणान गुरवाचार प्राप्त जाल्ले मारीचो स्विकार करून त्या समाजान तिच्या गुरूवाचाराक दिल्ली मान्यताय – मागीर सर्वेस्पर येशू तिच्या कुसव्यांत वाडटा म्हूण जायना कित्याक – आनी अस्तुऱ्यांभितर सधय म्हळ्यारूच दयेस्त, पवित्र म्हूण मारीची केल्ली तुस्त तोखणाय.

ही मारी म्हळ्यारूच 'सायबीण मांय' गांवांनी भोंवता, ताची फाटलीं कल्पना लेगीत सोबीत, बुद्धीक पटपासारकी. सायबीणमांय गांवांनी भोंवता, ती आयज एक पवित्र याद कशी, देवी आपल्यागेर येता म्हूण उमेदीचो एक भागूय तो. पूण मुळांत ही सायबीणमांय आपले भयणीक आदार दिवपाक म्हूण तिगेर वता.

*कशें म्हाका हें भाग्य फावो जालें*

*म्हजे धनयाची आवय म्हजे भेटेक येवूंक*

*तुजो उलो आयकून*

*म्हज्या कुसव्यांतल्या भुरग्यान*

*खुशालकायेन वळून हुडकी मारली.*

हीं मारीचे भयणीचीं उतरां आमच्याय काळजांत खुशालकायेन हुडकी मारतात आनी नकळटां तोंडांतल्यान उतरां भायर सरतात.

आतांमेरेन खबर आशिल्लें तें थोडेंभोव गैरसमजाचेर आदारिल्लें. 'संजांव' सोरो पिवन घुंवता आनी चिखल-रेब्यांत पिराडो धाडयतना जायते फावट निसरून पडटा! पूण मारीचे भयणीच्या कुसव्यांत वाडपी आनी उपरांत जेजुखातीर ताच्या धर्मीक उपदेशाची फाटभूंय तयार करपी 'सेंट जॉन' तोच 'संजांव' हें जेन्ना कळ्ळें तेन्ना 'संजांव घुंवता' कसो आनी कित्याक तें कळ्ळें. आपल्या धनयाची आवय (मारी) आपले आवयक आदार करपाक येता, आपल्याक भेटपाक येता म्हळ्यार जसो कितें सर्वेस्पर जेजूच आपले भेटेक येता म्हूण खुशालकायेन सेंट जॉनान आपले आवयच्या कुसव्यांत मारिल्ली हुडकी म्हळ्यारूच 'संजांव घुंवता' ही कितली सोबीत संकल्पना.

मुळांतलो सेंट जॉन बाप्तीस्ट पुर्तुगेजींत 'सां जुआंव' जालो, सां जुआंवाचो सुजांव जालो आनी उपरांत कोंकणीन ताका 'संजांव' केलो. पुर्तुगाज आनी भारतीय मेळून सेंट जॉनाक भारतांत आनी चड करून गोंयांत मेळिल्लें 'संजांव'चें रूप आतां आमचेंच जावन गेलां. २४ जुनादिसा दर वर्सा येवपी ही सेंट जॉन बाप्तिस्टाची परब म्हळ्यार तर आमचो संजांव, संजांव आनी संजांव! हो संजांव जेजूचो मावशेभाव, सेंट इजाबेलाचो पूत आनी जल्मान येशूपरस व्हड. तांकीन लोकांक उपदेश करपाची पात्रताय आशिल्लो आनी येशूखातीर प्रचाराची फाटभूंय तयार करपाइतली तांक आशिल्लो, येशूक फुडें वचपाक रस्तो करून दिवपाइतलो द्रश्टो आनी म्हान संत.

सेंट जॉन स्वताक 'अरण्यांतलो उलो' कसो लेखतालो. आपल्या जोत्याच्या सोलाक (तळाक) हात लावपाची लेगीत कोणाची पात्रताय ना, इतलो सार्थ अभिमान तो स्वतासंबंदान बाळगितालो. तो चडसो रानांत रावतालो, जनावरांचीं चामडीं वापरतालो. रानवटी फळां खावन, म्होंव खावन जीण जियेतालो. सां जुवांव (सेंट जॉन) जॉर्डन रिव्हरांत पवित्र-स्नान दितालो. जेन्ना जेजू थंय पावलो, तेन्नाचीं सां जुआंवाचीं उतरां आयजूय ताच्या तेजिश्ट कर्तुबाचो आनी अस्मितायेचो अभिमान बाळगुपासारकींच अशीं दिसतात. सां जुआंवान त्यावेळार जेजूक सांगिल्लें – 'तूं उदकाचो बाप्तिज्म दी, हांव तुका उज्याचो बाप्तिज्म दितलों.'

सां जुंआंव प्रामाणीक तितलोच स्पश्ट आनी सत उलोवपी संत. देखुनूच तो राजाक सांगता, 'ही तुजी हक्काची बायल न्हय', आनी राजाचे तिडकीक लागून राजाकडल्यान मेळिल्ली 'गोमटी कातरपाची' ख्यास्त लेगीत तितलेच सहजतायेन आपणायता. हांगा येशूक खुरसाचेर चडोवपाचे ख्यास्तेची याद जालेबगर रावना!

आयज २४ जुनाच्या संजावांच्या फेस्तादिसा पातोळ्यो खातना आनी जागेखातीर पिराडे धाडावन उपरांत तळ्यांबांयांनी बुडक्यो मारतना आमी सां जुआंवाच्या प्रायश्चित्ताची, ताचे 'कांट्याचे वालीची' याद विसरूंक फावना. ना तर मागीर फुडले चाळीस उपास – कॉरेज्म – करपाचो आसा म्हूण तीन दीस भरपूर मांस मटण खावपाचो कार्निवाल

– CARNE-VALIS – आमी जिणभर मनयत रावतले आनी जागराच्या रुपान, इंत्रुजाच्या रुपान आमच्या किरिस्तांव भावाभयणांनी तिगोवन दवरिल्लें गिरेस्त दायज आमी एक दीस व्हगडावन बसतले आनी मागीर जावं ख्रिस्त जयंती – नातलां – वा जावं संजावांचें फेस्त, फक्त एक फॉर्मालदाद, उपचार जावन उरतलो.

आमकां फक्त फेस्तां मनोवपाचीं आसात काय गिरेस्त दायज चड घटमूट करपाचें आसा? विचार वेळार जावप भोव गरजेचें.

# झाडांपेडांबगर बंगलो
# तो मनीस सामको भंगलो!

राजस्थानांतली – जोधपूरच्या महाराजांच्या संस्थानांतली – अमृतादेवी नांवाची एक चली. विष्णोईंतल्या २९ तत्त्वांमदलें एक तत्त्व म्हळ्यार झाडांपेडांची आनी मोनजातीची राखण करप. ती हें भुरगेपणांतूच शिकली. तिचे नदरेन झाडांझोपां हीं भावभयणीभाशेन. देखून, तांकां उदक घालप, सारेंसोप करप इतलेंच न्हय तर भजप पूजप हें सदचेंच.

अमृतादेवीक नशिबानच घोव लेगीत झाडांचेर प्रेम करपीच मेळ्ळो. पूण आदीशक्तीच्या मनांत घडये दुसरेंच कितें आशिल्लें जावंये! जोधपूरच्या महाराजांच्या मनांत वाडो बांदून घेवपाचो विचार आयलो. ताणें दिवाणाक मदेरासंबंदान फर्मान सोडलें. राजाचो दिवाण आपल्या लोकांक घेवन रानांत गेलो. पूण झाडाचेर घाय घाल्लो मात, अमृतादेवी किंवाट्यान धांवन आयली आनी झाडाक वेंग मारून म्हणपाक लागली, 'पयलो घाय म्हजेर घालात, म्हजेर घालात!' झाडां मारप्यांनी-चिरप्यांनी तिका कुशीक काडपाचो यत्न केलो. पूण तिणें रुखाक वेंग मारून सांगलें, 'हीं झाडां म्हळ्यार आमचे भाव, आमच्यो भयणी, हीं झाडां म्हळ्यार आमचो स्वास, आमचो घास, आमचो प्राण!'

पूण तांणी तिचें म्हणणें कानांमनार घेतलें ना. निमाणें, रुखावांगडाच अमृताच्या हातापांयाचेर कुराडीचे घाय पडले. तिच्या तीन भुरग्यांनीय झाडांक वेंगायलें आनी आवयची परंपरा फुडें चलयली. तेवेळ मेरेन कितलेशेच लोक थंय पाविल्ले. तांणी दर एका झाडाक वेंग मारिल्ली, झाडांचें घाय ते आपल्या आंगार घेवंक लागिल्ले. त्या रणखेवांत वट्ट ३६३ लोक जिवेंनशीं मेले. झाडांझोपांच्या मोगाक लागून जशे कितें हुतात्मे जाले!!

राजाचे लोक वाड्यार परतले. राजाक जेन्ना ही खबर कळ्ळी, तेन्ना ताका खूब वायट दिसलें. राजान दुसऱ्या दिसा त्या वाठाराक भेट दिली. लोकांच्या त्यागाचो ताचेर परिणाम जालो. ताणें जाहीर केलें, 'हाचेफुडें कोणेंच झाडां कापप ना, मोनजातीक मारप ना!'

राजान वाड्याचें काम थांबयलें. आपल्या उतराक पाळो दिलो आनी तो वाठार 'आरक्षीत' म्हूण घोशीत केलो. फुडें ते सुवातेर एक 'अभयारण्य' जालें. आयजूय आमकां तें पळोवपाक मेळटा.

तेन्ना झाडांची कत्तल जावंची न्हय म्हूण झाडांक वेंग मारून रावन प्रसंगार जीव वगडावपी अमृतादेवी ही 'चिपको' चळवळीची पयली फुडारी. ते उपरांत २४३ वर्सांनी म्हळ्यार १९७३त हिमाचल प्रदेशांत अशीच एक चळवळ आनीक कांय बायलांनी सुरू केली. मात झाडां-झोपांचे राखणेखातीर 'मरतांसर उपास' करपी आनी हिमाचल प्रदेशांत 'सायलंट व्हॅली' चळवळ उबी करून ताका सुमाराभायलें येस जोडून दिवपी राष्ट्रीय पांवड्यावयलो पयलोच फुडारी म्हळ्यार भौ. सुंदरलाल बहुगुणा. १९७७ वर्साची गजाल ही. ते नदरेन चिपको चळवळ ही बुन्याद जाल्यार 'सायलंट व्हॅली' चळवळ हो कळस!

कित्याक तर सुंदरलाल बहुगुणा हो फकत एक मनीस न्हय, फुडारी न्हय! तें एक वादळ! देखुनूच, दर वर्सा वनमहोत्सवाच्या सप्तकांत अमृतादेवीच्या त्यागामुखार नमळायेन आमच्यो तकल्यो बागवूंक जाय. बहुगुणांची स्फूर्त घेवन झाडांझोपांच्या रुपान संवसाराक नवी शक्त दिवपाचीं सपनां आमी पळोवंक जाय.

रिकार्ड सेंट, बार्ब बेकर आनी हायलँडर हांचेवांगडा रानांत भोंवन भौ. बहुगुणांनी झाडांझोपांचे राखणेसंबंदान आनी पर्यावरणाचेर जावपी परिणामांसंबंदान अहवाल तयार करून प्रधानमंत्र्यांक धाडलो. पूण ताचो परिणाम, धा वर्सां लाकूड मारपाचेर बंदी हाडपाचो कायदो करपापरस चड जालोना. देखुनूच मागीर ते उपासाक बसले. सरकारान अपेक्षेप्रमाण तांकां धरले आनी तेहरी डेहराडूनाक बंदखणींत दवरले. ९ जानेवारी १९७९क उपास सुरू जाल्लो. २४व्या दिसा निमाणें सरकारान 'स्टे ऑर्डर' काडली. रानां मारपाचें तितलें तरी बंद जालें.

पूण कांय तेंपान परती कापाकापी चालू जाली. बहुगुणांनी खूब कश्ट सोंसून नेटान ही चळवळ फुडें व्हेली. ते म्हणपाक लागले, 'म्हजी जीण, म्हजीं झाडां!'

अर्थात्, ताचे बरे परिणाम आमकां आयज दिसतातच. नोव्हेंबर १९८०त पर्यावरण खात्याची जाल्ली थापणूक ही पयली शुभ गजाल! उपरांत १९८३त हिमालयीन प्रदेशांखातीर एक कमिटी नेमपाचो पर्यावरण खात्याक प्रधानमंत्र्यांनी दिल्लो आदेश हें सरकारान मारिल्लें एक बरें पावल. कित्याक तर १९८०च्या हुंवार कमिशनाच्या अहवालाप्रमाण हुंवाराचें प्रमाण इतलें वाडिल्लें की तें ४० दशलक्ष हेक्टरांमेरेन पाविल्लें. आनी हें सगलें झाडां कापपाचे दुश्ट करणेकूच लागून घडिल्लें.

पूण आयज वनमहोत्सव मनयतना हे गजालीचें आनी फुडें येवपाच्या अरिश्टांचें भान आमी दवरतात अशें दिसना. झाडां मारचीं न्हय हो कायदो हालीं खर केल्ल्यान कापाकापीचें प्रमाण दिसापुरतें उणें जालां हें खरें. पूण रातच्या सावांचें कितें?

सद्या तरी समाजशिक्षणाबगर हाका दुसरो बरो पर्याय दिसना. भुरगेपणासावन झाडांपोंदाक भजपी-पुजपी अमृतादेवी आनी झाडांची राखण करपाखातीर उपास करपी सुंदरलाल

बहुगुणा निर्माण जालेबगर 'सैमाची जतनाय' हें फकत एक सपनच उरूं येता ! मुंबयसारक्या शारांच्या वाठारांनी होळयेखातीर लाकडां पुंजावपाचें निमित्त करून आमचे तरणाटे बरे बरे रूख कातरून उडयतात, हाचें दुख्ख जावन ताचेआड चळवळ करपाक सैमीक पक्षीशास्त्रज्ञ डॉ. सलीम अली मुखार सरले. अशे अली आयज खंय दिसतात ? आनंदवनांत वनमहोत्सव मनयतना भौ. बाबा आमटे रोपांची पालखेंतल्यान मिरवणूक काडटात, तांची पूजा करतात, सगल्यांसयत गितां गायतात आनी रोपांची जतनाय भुरग्यांवरी घेयात, तेन्नाच आनंदवन हें नांवूय सार्थ जाता. अशे बाबा आमटे समाजांत कितले दिसतात ?

मात्त हो सूर निर्शेणेचो न्हय, शीण काडपाचो. खरें म्हळ्यार सैमाचें म्हत्व सांगपी शिक्षण आमकां कोणेंच दिवपाची गरज ना. वेदपुराणांनी, धर्मपंथांनी आनी ऋषीमुनींनी हें शिक्षण आमकां पयलींच दिवन दवरलां. सैमाचें, वनस्पतीचें विज्ञानीक म्हत्व तांणी देवाधर्माच्या माध्यमांतल्यान सांगलां, इतलेंच. दारामुखावयले तुळशीचें उदाहरण घेयात. पोरसांतल्या आबोलें-शेंवत्याचें उदाहरण घेयात वा घराकुशीच्या मळावयल्या वडाचें उदाहरण घेयात. हांची पूजा कित्याखातीर ? फकत उदक घालून भोंवताडे काडून शिवराक भूस मारपाखातीरूच ?

वेदपूर्वकालांतूय जाणट्यांनी अन्न वस्त्र, आसरो ह्या मुळाव्या गरजांखातीर सैमाचें म्हत्व पारखिल्लें. पंचमहाभुतांची पूजा हेंच सुचयता. मोहेंजोदारो संस्कृतायेचे जे अवशेश मेळ्ळ्यात, तांचेवेल्यान ते लोक लिंग, सोरपाप्रमाण रुखांचीय पूजा करताले हें सिद्ध जालां. ऋग्वेदांत पृथ्वी, आप, तेज, वायू आनी आकाश ह्या पांच म्हाशक्तींचें वर्णन करतना तांच्या प्रचंड स्वरुपाचो आविश्कार घडयला. तेन्नाची आश्रमपद्धत आनी तातुंतलो वानप्रस्थाश्रम हेंच सुचयता की जिणेंतलीं पंचवीस वर्सां सैमाचे संगतींत रावन लोकसेवा करपाखातीर सारपाक जाय. गुरुंचे आश्रम रानांत आसताले ते फकत शांत वातावरणाखातीरूच न्हय, तर वातावरण शांत दवरपी सैमाचो बरो परिणाम भुरगेपणांत शिश्यांचेर जावंचो म्हूण. शिकतनाच झाडांझोपांची जतनाय घेवपाचें आनी त्या वाठारांत शेतांत पिकावळ काडपाचें शिकप तांकां मेळचें म्हूण.

झाडांपेडांचें मनशाच्या जिवितांतलें म्हत्व सांगपाचो यत्न केल्यार कोणूय ताका पिशांत काडलेबगर रावचोना. पूण आयचेपरस पयलीं ह्या विशयाचेर कितलो गंभीर विचार जाल्लो, हें सांगपाखातीर संवसारांतलो फाकिवंत, सात्विक, लोककल्याणकारी राजा सम्राट अशोक हाचें उदाहरण दिवप समा जातलें. ताच्या तेंपार आनी उपरांतूय राजा लोकांच्या सुदारणेच्या वावरांत रस्त्याकुशीक झाडां लावपाचें काम अग्रक्रमान आसतालें. सम्राट अशोकान रस्त्याकुशीक आंब्याचीं झाडां लावन मनशांक आनी मोनजातीक सावळी दिवपाचो आनी सुवादीक फळां दिवपाचो वावर केलोच, पूण ते भायर

मनशांखातीरूच न्हय जाल्यार मोनजातीखातीरूय दवाखाने उगडले. तातूंत सगल्या तरांच्या वखदांची वेवस्था केली आनी तोंडांत बोटां घालपासारकी गजाल म्हळ्यार वखदां उणीं पडचीं न्हय म्हूण वनस्पतीच्यो बागो तयार केल्यो. केदी व्हडली नदर ही! गोंयच्यान मुंबय वचून फाकिवंत दोतोर जाल्ल्या समाजसुदारक डॉ. भाऊ दाजी लाड हांच्या आयुर्वेदीक शास्त्रांतल्या संशोधनाची अशावेळार याद जाता. मुंबय शाराचे पयले भारतीय शरीफ म्हूण मानाचो पटो जोडिल्ल्या ह्या म्हामनशान आयुर्वेदाचो खोलायेन अभ्यास करून गोंय, कोंकण, कारवार बी वाठारांतल्यान झाडापाल्याचीं रोपां वा मुळां, ताळयो व्हरून घरच्या पोरसांत वखदी वनस्पती फुलयल्यो. मुंबयची राणयेची बाग हे गजालीक आज साक्ष आसा.

वखदांचेच नदरेन न्हय तर मनशाक जगपाखातीर सगले तरेचीं अन्नां (पिकावळ, भाजयो, फळां बी) दिवपाचे नदरेनूय झाडांचें म्हत्व अतूळ आसा. रामान बारा वर्सांचो जो खर वनवास भोगला तो कंदमुळां आनी तरेकतरांची फळफळावळ खावनच न्हय? 'देवा'चे जिणेंत वनस्पतीचें इतलें म्हत्व जाल्यार मागीर मनशाचें कितें? मांसाहारी लोकांनी 'आमकां ना गरज भाजीपाल्याची, फळफळावळीची' अशें म्हळ्यारूय ज्या प्राण्याचें मांस ते खातले तांकां तरी गरज आसा मूं वनस्पतीची? अशें विचारचेंच पडटलें. तेन्ना, हाका पर्याय ना.

घरांखातीर आनी जळवाखातीर जें लाकूड इबाडटा, ताका कोंत ना हिशेब. रानांतलें चाळीस टक्के लाकूड आयजूय जळपाक वापरप जाता. गॅस खंय? चडशे शारांत. खेडेगांवांचें कितें? तेभायर कांयकडेन कुमेरी पद्दत. म्हळ्यार रानांचो इबाड! झाडांचो मोग करपाचें शिकप जाय तें हे खातीरूच. जळव जाय, घाल झाडां आड, कर जळव! घरां बांदूंक जाय, घाल रूख आड, कर मदेर! मात्त हें खंय तरी थांबूंक जाय. तेखातीर सैमाचे रचनेचो, ताच्या म्हत्वाचो, ताच्या परिणामाचो थोडोभोव अभ्यास जायच.

उत्पादनाचे आनी अर्थीक उत्पन्नाचे नदरेन झाडांपेडांचें म्हत्व आमी समजून घेतलें जाल्यार झाडांचो इबाड उणो जावं येता तो तसो समजून घेवपाची सामकी गरज आसा. कारण, जिणेंतलो एकूय खीण सैमाक वा तातुंतल्या वनस्पतींक वेगळावन आमी मुखार सरूंक शकनात. देखीक, खावपाखातीर अन्न, आंगार घालपाखातीर कपडे, रावपाखातीर घर, वाचपाखातीर-बरोवपाखातीर पेपर, रबर-गमाखातीर चीक, तेलां काडपाखातीर, साबांव करपाखातीर, वेगवेगळीं फळां, रेल्वेखातीर रूळ, खेळाच्या साहित्याखातीर देवदार – ही जंत्री एक पुस्तक छापपाक पुरो जावन उरपाइतली लांब जावं येता!

पर्यावरणाचें संतुलन राखपाचें काम झाडांपेडांबगर दुसरो कोणूच करूंक शकना. 'देव' लेगीत! सूर्यकिर्णांचो ताप सोंसून जमनीर सांवट करपाचें आनी तिका थंडाय

दिवपाचें मोलादीक काम झाडांच करूंक शकतात. हे तरेन तीं वातावरण थंड दवरतात. तेभायर स्वासांतल्यान हवेंत ओलसाण पातळायतात. आमी म्हणटात रानांत पावस बरो पडटा. पूण जांकां कितलेंय सांगून 'रानांत पावस' तांकां वत-पावस सारकेंच!!

झाडां हवा शुद्ध दवरपाचोय वावर करतात. तेभायर मुळां उदक सांठोवन दवरपाचो, उदक समा वापरपाचो वावर करतात. माती व्हांवन वचपाची बंद करपाचें काम झाडाचीं मुळांच बांदापरस चड बरें करतात. देखुनूच देंवतेर लायिल्ल्या झाडांनी दोंगराची राखण जाता. न्हंयेकुशीक लायिल्ल्या झाडांक लागून थंयची साऱ्याची माती व्हांवन वचपाचें बंद जाता. नासत जाल्यार, अमेरिकेक मिसिसिप्पी न्हंयच्या पात्रांतल्यान माती व्हांवन ती मेक्झिकोच्या आखातांत जशी पावल्या आनी झाडां कापिल्ल्यान हुंवार येवन माती व्हांवन वचून कलकत्त्याचे हुगळी न्हंयेवेलें बंदर जशें निरुपेगी जालां तीच गत हेर वाठारांचीय जावं येता.

भारतांतलें 'मॉन्सून फॉरेस्ट' दिसादिसाक इबाडत चलिल्ल्यान म्हळ्यारूच आयजूय रानांची नासाडी करप चलिल्ल्यान पावस उणो जायत चल्ला, ही गजाल आमी बळयां नदरेआड केली जाल्यार कितलेय फावट 'अस्तंत घाट बचाओ मोहीम' काडली जाल्यारूय आमी हिमालयाची सोडाच, सह्याद्रिची राखण करपाकूय उणे पडटले आनी मागीर आमचीं अभयारण्यां पर्यटकांखातीरूय शोकेसींतल्यो बावल्यो जातलीं आनी वनमहोत्सवाचे सुवाळे म्हळ्यार मेल्ल्या कुडींचे शिरंगार जातले!

देखुनूच, 'एक मनीस एक कणीस' अशी पोटापाण्याची वेवस्था पळयतनाच आमी 'एक खोंप एक झोंप' अशें तत्त्व आपणावया आनी 'झाडापेडांबगर बंगलो – तो मनीस सामको भंगलो' ही वनमहोत्सवा निमतान मेळिल्ली जतनायेची शिटकावणी देख म्हूण घेवंया. जय सैम!!

# आशाढ आयलो!
# पांवळेपांवळेन भिजोवन गेलो !!

आशाढ. चैत्र, वैशाख, ज्येश्ठ, आशाढ ह्या क्रमान चौथो म्हयनो. जाल्यार बडवन म्हणटात तसो पावस झडोवपांत पयलो म्हयनो! बिरीबिरी पावस, उटंगाराचो पावस, झोडमोडांचो पावस, वादळी वाऱ्याकूय फाटीं घालपी आकांताचो पावस! 'पावसान विटयलें!' इतले खर टिकेक पात्र जावपी पावस!!

ह्या वर्सा तर ताणें अच्छेव मांडलो. आरंबाक बरो नेमान पडलो. फावोसारको जाय तितलो पडलो. पिकावळीक बरो भरवंसो दाखयलो. शेतकारांक ताणें उमेद दिली. झाडपाल्यांचे सांवळेचें सारेंसोप करपाक मजत केली. सैमाक हरवेंताल्ल करून तनांमनां पाचवींचार करून सोडलीं. पूण मागीर मागीर मात बरो बरो म्हणटां म्हणटां ताका इतली मस्ती मारली की ताणें स्वत्त्व व्हगडायलें. वर्षाऋतुचेर मात करतना ताणें वरूणराजाकूय दुकां गळोवपाक लायलें!

वेदीक देवतांमदली वरूण ही सगल्यांत शक्तीमान देवता. ताच्या सामर्थ्यासंबंदान सगल्यांकूच खूब आदर, आपलेंपण. कारण, तो जलांचें म्हळ्यार उदकाचें, द्रवाचें नियंत्रण करता. तो जलाचें वस्त्र आंगार घेता. तो दर्यांतल्या जलांतल्यान मार्गक्रमण करता अशी कल्पना आसा. संवसारांतल्यो सगल्यो न्हंयो दर्याक मेळटात, पूण दर्यो पुराय भरनात, हें वरुणाच्या गूढ शक्तीचें सामर्थ्य अशें मानतात.

ऋग्वेदांत वरूणराजाक मित्राचे जोडयेन मान दिला. मित्र म्हळ्यार आदित्यदेवता. वरूण ही आकाशाची देवता आनी सूर्यापरस आकाश व्हड. हाचेवयल्यान वरूण केदो व्हडलो हें दिसून येता. यज्ञसंस्थेच्या काळांत जरी प्रजापतीक सगल्यांत श्रेष्ठ मानताले, तरी वेदोत्तर काळांत दर्यावेली सत्ता वरुणाच्याच वांट्याक आयिल्ली. 'सात न्हंयो जे परी व्हड तळ्यांत कोसळटात, ते परी वरुणाच्या तोंडांत पडटात' हें ऋग्वेदांतलें वर्णन ताची दर्यावेली सत्ता दाखयता!

अंदूंच्या आशाढांतल्या पावसान हो ऋग्वेदांतलो वरुणराज गोंयकारांक व्हड उमेदीन भेटयलो आनी 'नाका पुरो' म्हणसर गडगड मारीत ताणें कुपांचो ताल धरलो. वर्षा ऋतुंतलो मेघमल्हार गायलो. ह्या रागाची प्रकृती गंभीर हें आमकांय खबर आसा. ताचो वर्ग औडव-औडव (पांच सूर) हें शास्त्र आमी वाचून तरी जाणां! गंधार, धैवत

वर्ज्य आनी वादी षडज् जाल्यार संवादी पंचम हेंवूय नेमाप्रमाण आयलेंच. पूण गायनाची 'मध्यरात' ही वेळ मात ह्या पापिश्टान कशीच पाळ्ळी ना! दनपार म्हूण ना, रात म्हूण ना, दीस म्हूण ना! पड पर पड! रड पर रड! कित्याक म्हूण कांय ना. इतलो तो गायलो की खऱ्यांनीच कांय कडांनी कितल्याशाच जाणांक ताणें सामकें खालें! घडीं उरता घडीं मरता म्हणटां म्हणटां कांय न्हय करून शंबरी हुपली!

खरें म्हळ्यार गडगड मारता तो केन्नाच पडना म्हणपाची चाल आसा. आनी जाका पडपाचें आसता तो केन्नाच गडगड मारीना अशेंय म्हणटात. घडये असल्याच लोकचालींचो बरो अभ्यास आदल्या तेंपार ऋषीमुनींनी करून अदमास बांदले आसुंये. 'कृषिपराशर' ह्या ग्रंथांत ते नदरेन पावसाच्या कुपांचे (मेघांचे) चार प्रकार सांगल्यात. आवर्त, संवर्त, पुष्कर आनी द्रोण हे ते चार प्रकार. आवर्त म्हळ्यार थरिल्ल्या जाग्यार पावस पडप. संवर्त म्हळ्यार सगल्याक पावस पडप. पुष्कर म्हळ्यार थोडो पावस पडप आनी द्रोण म्हळ्यार खूब पावस पडप. अशे तरेन पावस घालपी हो कुपांचो मुखेल 'मेघ' ब्रह्मांडाच्या कवचापसून (कट्ट्यापसून) तयार जालो अशें मत्स्यपुराणांत सांगलां. अर्थांत, ही एक कल्पना. आयचीं भुरगीं म्हणटलीं की दरयाचें, न्हंया-बायांचें उदक सूर्याचे उष्णतेन तापता, ताची वाफ जावन वयर वता, थंय ताका कुपां जातात आनी मागीर ताका थंडसाण मेळटकूच पावस पडटा. ही विज्ञानीक नदर. आदली नदर श्रद्धेची, कल्पनेची. ते काळार ती गरजेची!

ते नदरेन कांय लौकीक समजुती अशोय आसल्यो की पुष्कर, आवर्तक बी बारा मेघ इंद्राच्या ताब्यांत आसले. इंद्र तांकां आपल्या मनांत येता तेन्ना पावस घालपाची आज्ञा करतालो. इंद्र खोशी जावन आड्डतालो तो मोठ्ठ्यान आड्डुपाचो आवाज म्हळ्यार मेघगर्जना, ही एक लौकीक समजूत! तेभायर इंद्राच्या धणसाचो टणत्कार, म्हातारी चणे भड्डिता, पार्वती कडदण दळटा, भगवंताचो रथ वेगान धांवता, ऐरावत तुतारी वाजयता, इंद्र मळब हालयता, देव नगारे वाजयतात अशो कितल्योश्योच लौकीक समजुती मेघगर्जनेफाटल्यान आसात. कुपाक कूप आपटता आनी गडगड जाता हे सादे गजालीच्या कुपांतल्यानूय आदल्या तेंपार लोक केदो व्हडलो आकांत कल्पनांचो पावस झडयताले ताचें हें एक उदाहरण.

दरेक गजालीफाटल्यान शुभाशुभ म्हूण कितें तरी आसताच हाचेर आदल्यांचो जबर विश्वास! कुपांचो गडगड तो कितें! पूण तो तांच्या हिशबान अरिश्ट सुचयता. बादीकार जर जावपाचो आसत जाल्यार जातलोच! पूण तो आवाज आयकल्यार न्हावंक जाय अशें जाण्टेल्यांचें म्हणणें (निमित्त्यां काडून शुद्धताय राखपांत बाकी जाणटेले कल्पकता दाखयताले, ताका जाप नाच्च!) कुपांचे गर्जनेचें भयांकृत रूप इतलें स्पश्ट केलां की रोहिणी नखेत्रांत कुपांचो गडगड जाल्यार फुडें खंय ७२ दीस पावस ना! म्हणटकूच

दुकळ! हस्त नखेत्रांत मेघगर्जना जाल्यार सोरोप आनी दुश्ट प्राण्यांचें तोंड बंद (घडये ह्या तेंपार हस्त नक्षत्रांत मेघगर्जना जावपाची सामकीच थांबल्या आसुंये). आर्द्रा नक्षत्रांत मेघगर्जना जाल्यार म्हयनोभर पावस पडना, अशें म्हणटात. पूर्व (उदेंत) दिकेक मेघगर्जना जाल्यार बेगोबेग पावस, जाल्यार मेळत तेन्ना गडगड जाल्यार देशाचेर संकश्ट येता अशें जाणटेले सांगतात.

अर्थात्, हें सगलें चडशें घडटा तें आशाढांतूच. ह्या म्हयन्यांत सुर्याचें कर्कसंक्रमण जाता आनी थंयच्यान दक्षिणायनाक आरंब जाता. ह्या म्हयन्यांत आळशीपणां करिनासतना भक्ती करीत रावल्यार धनधान्य, पुत्र हांचो लाव जाता म्हणपाचो श्लोक आसा. अर्थ असो की पावसपाण्याक लागून पिकावळ बरी जाता. ती पळोवन मनीस धादोशी जाता, कामाक उमेद येता.

ह्या म्हयन्याचे पुनवेक वा फाटींफुडें पूर्वाषाढा, उत्तराषाढा हीं नखेत्रां येतात म्हूण ह्या म्हयन्याचें नांव आषाढ (आशाढ). ह्या म्हयन्यांतली शुक्ल पक्षांतली एकादस शयनी एकादस म्हूण प्रसिद्ध. आशाढी एकादस अशेंय तिका म्हणटात. त्यादिसा लाखांनी विठ्ठल-भक्त वारकरी पंढरपुरांत वचून पांडुरंगाचें दर्शन घेतात, जीण धन्य करून सोडटात! त्याच दिसा चातुर्मासाक आरंब जाता.

आशाढी पुनव 'गुरूपौर्णिमा' म्हूण मनयतात. आमी तिका 'आसडी परब' म्हणटात. गांवगिऱ्या वाठारांत त्या दिसा पोळी, गोडशें करतात आनी करमलाच्या पानार जेवतात.

उमास म्हळ्यार खरें पळोवपाक गेल्यार काळोख. पूण त्या काळखांतूय उजवाड घालपाची इत्सा आशाढ बाळगिता! आशाढी उमाशेक घडये तेच खातीर 'दिव्यांची अवस' म्हणटात जावंये आनी ते उमाशेक 'दीपपूजा' करतात आसुंये!

लोकसमजुती खऱ्यो आसूं वा फट आसूं, पूण उमाशेक दीपपूजा करपाचे कल्पनेंतल्यान 'तमसोऽ मा ज्योतिर्गमय'ची नदर दिवपाचे जाणटेल्यांचे कल्पकतेची तोखणाय करचीच पडटली! आशाढांतल्या मेघांत तांकां सांपडिल्ल्या नादशास्त्राची आनी संगीतशास्त्राची अपुर्बाय करचीच पडटली! ताचेपरस चड म्हळ्यार 'म्हज्या कुळाराची वाट तिचो कितें सांगूं थाट!' अशे अभिमानाचे बोल गायत नव्या व्हंकलांक कुळाराक पावोवपी आनी तेखातीर 'आषाढ पावळी'ची माण्णी काडपी आमच्या कल्पक जाण्टेल्यांचेर आशाढघनांची श्रावणशिंपणी मारचीच पडटली!

# पांडुरंग विठ्ठल भेटेक
# 'राम-रहीम' ज्ञानबा-तुकाराम!

केन्ना केन्ना चुकून ज्यूस्त अशें घडटा. घडये नियतीच्या मनांत तशेंच आसता! ह्याच नेमाक धरून जावंये, ह्या वर्सा (१९८८) आशाढी एकादस आनी बकरीइद (इद-उल-झुआ) सांगून घेतिल्लेवरी एकाच दिसा पावलीं आनी तींवूय सोमाराच्या पवित्र म्हूर्तार!

तसो सोमार हो शिवाचो दीस. आनी आशाढी एकादशीक जाच्या नांवान भजनपूजन करतात तो पंढरपूरचो विठ्ठल तर कांय जाणांच्या हिशेबान वैष्णवांचो देव. पूण प्रकांडपंडित संशोधक डॉ. भांडारकरांच्या मतान 'पंडरंगपूर' उतरावेल्यान सद्याचें पंढरपूर हें उतर आयलां आनी पंडरंग म्हळ्यार शिव वा रूद्र. खरें म्हळ्यार पंढरपूर हें पयलीं शैव क्षेत्र. थंयचीं चडशीं देवळांय शिवाचीं. थंयचें मल्लिकार्जुनाचें देवूळ, अमृतेश्वराचें, त्र्यंबकेश्वराचीं देवळां शंकराचींच. तेभायर पुंडलिकाच्या समाधीचेर शिवलींग आसा. आनी मजा म्हळ्यार भीमा न्हंयचो आरंबूच भीमाशंकर ज्योतिर्लिंगाकडल्यान जाता.

इतलेंय आसुनूय लाखांनी विठ्ठलभक्त वारकरी पंढरपुराक वतात ते पांडुरंग विठ्ठलाचे भेटेक. पुंडलिकान विष्णूसयत शिव पंढरपुराक व्हेलो आनी भीमा न्हंयचे देगेर ताची स्थापणूक केली. तो विठ्ठल, विष्णू आनी शीव हांच्या एकचाराचें प्रतीक. हरिहर हे कल्पनेच्या समजिकायेचें प्रतीक. संत निवृत्तीनाथांसावन संत रामदासामेरेन सगल्याच संतांनी विठ्ठलाच्या मस्तकाचेर शिवलींग आसा अशें म्हळां. 'विठोने शिरी वाहिली देवराणा। तया अंतरी ध्यास दे त्यासि नेणा' – संत रामदास. तेचपरी 'भजन करा रे हरिहरा। नारायण शिवशंकरा। माझे बोलणे अवधारा। भेद ना करा दोघांचा ॥' – संत नामदेव. अशे रितीन सगल्याच संतांनी हिंदू धर्मांतल्या शैव आनी वैष्णव ह्या दोन मुखेल पंथांमदल्या एकचाराचें म्हत्व वर्णिलां.

देवांच्या उदाहरणांतल्यान 'एकं सत्' ही देवाची मूळ कल्पना संतांनी मान्य केल्या. संत निळोबांच्या उतरांनी तर 'ऐक्यरुपे हरिहर। उभा कटी कर विटेवरी॥'

आनी हो विठ्ठल तरी कितलो अपुर्बायेचो! महाराष्ट्रीय लोकांखातीरूच न्हय, गोंयकार भक्तांखातीरय तो 'विठू माझा लेकुरवाळा'. संत ज्ञानेश्वरांच्या उतरांनी तर कर्नाटक, आंध्र प्रदेश बी दक्षिणेकडल्या वाठारांखातीर तो 'कानडा विठ्ठलु कर्नाटकु।' जाल्यार

संत एकनाथाचे नदरेन 'तीर्थ कांनडे, देव कानडे। क्षेत्र कानडे पंढरिये।' संत नामदेव म्हणटात, 'कानडा विठ्ठल वो। उभा भिवरेतिरी।'

डॉ. भांडारकरांच्या मतान विट्ट म्हळ्यार विष्णू आनी ल हें अपुर्बायेचें कूस कशें! इतलो हो अपुर्बायेचो देव. एकचाराचो देव. ज्ञानेशांचो तसोच तुकारामाचो देव. सावंता माळ्याचो तेचपरी दळपी-कांडपी जनाबाईचोय देव. नरहरी सोनाराप्रमाण गोरा कुंभाराचोय देव. सेना न्हाव्याप्रमाण चोखा म्हाराचोय देव. रोहिदास चामाराचोय देव. थोडेभितर, भौसाचो देव. तेचपरी विठोबा हो गरिबांचो देव, तसोच पयशेकारांचो देव. गोंयच्या एकाद्या 'बाबा'चो तो देव तेच परी महाराष्ट्रांतल्या 'रावा'चो देव. कर्नाटक-आंध्रांतल्या अण्णा, अप्पाचोय देव. सीमावादाक लागून ताचे भक्तीचो अभिशेक खळना आनी कोंकणी-मराठी वादाक लागून ताच्या भजनाक आडखळ येना!

पूण हाका लागून आमचेमदीं एकचार वाडला वा 'एकं सत्'चो साक्षात्कार आमकां जाला म्हणप धाडसाचें जातलें! तशें जाल्लें जाल्यार पंढरपुरचें देवूळ सगल्यांक उकतें करपाखातीर गुरुजींक उपोषण कित्याक करचें पडटलें आसलें? आयजूय जातीवार समाजरचना कित्याक उरतली आसली? इतलेंच न्हय तर दिसानदीस नव्या नव्या समाजांची स्थापणूक कित्याक जातली आसली?

घडये हें आळाबंदा हाडपाखातीरूच आनी मनशाक एकचाराची जाणविकाय करून दिवपाखातीरूच आशाढी एकादशी दिसाकूच बकरीइद आयला आसुंये! आतां हो दीस म्हळ्यार दानधर्माचो, त्यागाचो पवित्र दीस. मनीसप्राणी म्हणटात तो एकूच आनी सगल्या मनशांक सारकीच सुवात (पांवडो) मेळपाक जाय हें तत्त्व सांगपी इस्लाम धर्म मनशाच्याच न्हय तर समाजाच्या आचारविचारांचें निर्धारण करता. कुराण हो धर्मग्रंथ तर संवसारांतल्या जिणेचो पुरायेन विचार करता. देखीक, पयशांचें व्याज घेवप हें पातक, सोरो पियेवप, द्यूत खेळप हें म्हापाप, दुसऱ्याचेर अन्याय करप हो खर ख्यास्त करपासारको गुन्यांव.

इस्लाम हें अरबी उतर आनी ताचो अर्थ शांततायेंत प्रवेश करप, परमेश्वराक शरण वचप, मनीस प्राण्याचेर प्रेम करप आनी अहिंसा धर्मान वागप. ह्यो गजाली मनीसप्राण्यांक शिकोवपी धर्म तो इस्लाम अशें सांगलां. मुहंमदाच्या रुपान देवान आपलो संदेश धतरेचेर धाडलो म्हूण तो पैगंबर (पैगाम म्हळ्यार संदेश). 'ला इलाह इतिल्लाह मुहम्मदुर्रसूलिल्लाह' हो इस्लामाचो मूलमंत्र, म्हळ्यारूच अल्लाबगर पूजनीय कोण ना, मुहंमद ताचो दूत, देखून अल्लावांगडा मुहंमदाक जो मानता तो मुसलमान. ह्या इस्लाम धर्माचे दोन विभाग. पयलो श्रद्धांचो (इमान) – अल्लाह, देवदूत, देवांचे ग्रंथ, देवाचे प्रेषित, निमणो निवाड्याचो दीस आनी ईश्वराचे आदेश ह्यो स श्रद्धा. जाल्यार कलमा (ला इलाह मंत्राचें पठण), नमाज (दिसांतल्यान पांच वेळा प्रार्थना), रोजा (रमजानाच्या म्हयन्यांत सूर्यास्ताउपरांत

एक जेवण), जकात (उत्पन्नाचो चाळिसावो वांटो दानधर्माखातीर), हाज (मक्केची यात्रा) हीं पांच आचरणां (अमल), आपलेपरस व्हड मनशाक भेटवस्तू दिवपाची प्रथा (नजर वा नजराणा) ह्या बेस बऱ्या चालींचो दुसरो विभाग.

देव एक मनीस एक हें तर मुळावें तत्त्व. शुद्ध आचरण, उपास, दानधर्म, त्याग, भावभावकी ह्यो इस्लामाच्यो श्रेष्ठ कल्पना. अशें आसुनूय ह्या धर्माकडेन पळोवपाची नदर शुद्ध कित्याक उरली ना? हाची जाप इस्लामी तत्त्वज्ञान कितल्या जाणांनी आपणायलें, ह्या प्रस्नांत सांपडटा. मनशाचे जिणेचो धर्म सांगपी इस्लाम 'राज्य' आनी 'सैन्य' हांचीं सपनां पळोवपाक लागलो, थंयच तो सुवार्थाच्या भकीक पडलो आनी धर्म राजकारणांत तोंड घालपाक लागलो, थंयच धर्मांत राजकारण येवपाक आरंब जालो. धर्म आनी राजा ह्यो दोन संघटना एकठांय जाल्ल्यान धर्माक लागून तलवारीची धार तिखी जाली, जाल्यार तलवारीक लागून धर्माचें वजन वाडलें. पूण ताजो गैरफायदो मात्त कांय मुस्लीम राजांनी राज्य वाडोवपाखातीर आनी धर्मप्रसाराखातीरूच न्हय तर अत्याचार करपाखातीर करून घेतलो. देखीक, सतरा फावट भारताचेर आक्रमण करपी गझनीचो सुलतान महंमूद, चक्रमपणान वागपी महंमद तुघलक, धर्मांध औरंगजेब!

इस्लामी आक्रमणाचे कांय बरे फायदे मात ह्या देशाक लाबले हेंवूय आमकां मान्य करचेंच पडटलें. भाषा, साहित्य, कला, तत्त्वगिन्यान बी बऱ्याच मळांनी हो लाव आमकां मेळ्ळो. आठव्या शतकाच्या आरंबासावनच मुसलमानांचीं आक्रमणां जावंक लागिल्लीं आनी इ.स. १५२६ सावन १५५६ मेरेनच्या मोगलांचे राजवटींत सुधारणांचे नदरेन, राज्यकारभार चलोवपाचे नदरेन बरी सुदारणा जाल्ली अशें म्हणूंक जाय. 'धर्मनिरपेक्ष नवभारताची निर्मणी' करपाचें मोगल सम्राट अकबराचें उदाहरण म्हळ्यार ह्या काळांत मुदयेर थीक कशें! तेचखातीर तेपयलींच्या गुलाम, खिलजी, तुघलक ह्या राज्यकर्त्यांपरस मोगलांचो शेक हो चड सुखदिणो आनी फळादीक मानूंक जाय. तेभायर, तेवेळावयलो दिल्लीचो कुतुब मिनार, जोनपुरांतली अतालदेवी मशीद, बंगालांतली आदीना मशीद, अहमदाबादची जामी मशीद, दिल्लीचो लाल किल्लो, जुम्मा मशीद आनी शाहजहानान ताजमहालाच्या रुपान भारताक भेटयल्लें सपनांतलें अप्रूप हे कांय शिल्पकलांचे, स्थापत्यकलांचे नमुने म्हळ्यार इस्लामी शिल्पकला आनी भारतीय शिल्पकला हांचें सासणाचें मिलन! दिल्लीभायर जोधपूर, काश्मीर, गुजरात, बंगाल, गुलबर्गा ह्या सुवातींनी असली शिल्पकला, स्थापत्यशास्त्र पळोवंक मेळटा.

इ.स. ७११ सावन इ.स. १८०३ मेरेनचो इस्लामी शेकातळाचो काळ विचारांत घेतल्यार हिंदू मुसलमानांचे नदरेन राज्यविस्ताराखातीर आक्रमणां, लडायो जातनाच संस्कृतायेचो संकर कसो जायत रावलो आनी हिंदुंच्या चालीरितींचेर भेस-भासांचेर, कलांचेर मुसलमानी प्रभाव कसो आनी कितल्या प्रमाणांत पडलो हेंवूय पळोवपासारकें

आसा! हुमायून इराणांत रावन भारतांत आयलेउपरांत इराणी संस्कृतायेची छाप मोगलांचेर पडली आनी ताचें अनुकरण मुसलमान सरदारांप्रमाण हिंदू सरदारांनी केलें. आरंबाच्या काळांत तर दोन वेगळ्यावेगळ्या संस्कृतायांक लागून वेगळ्यावेगळ्या भेस-भासांक लागून ना म्हळ्यारूय गोंदळ, दुभाव उप्रासलेच! पूण भुरग्यांचे नदरेन ह्या समाजांकडेन पळोवपी कांय तिरायतांनी हाचेर उपाय सोदून काडले. काश्मिरी पंडितांनी आनी कायस्थ लोकांनी पर्शियन भाशेचो अभ्यास केलो, ती आपणायली. सामान्य लोकांमदीं हिंदी चलतालीच. सवकसायेन पर्शियन आनी हिंदी मिस्तुराद जावंक लागल्यो आनी अजाप म्हळ्यार एके नवे भाशेचो जल्म जालो, तीच आयची उर्दू भास!

संतसाहित्याचेरूय ह्या काळांत बरो परिणाम जालो. मुसलमानांच्या एकेश्वरी पंथाक लागून संत-साहित्यांत राम-रहीम, काबा-कैलास, कुराण-पुराण अशो अभिन्नत्वाच्यो कल्पना रुजूंक लागल्यो, मूळ धरूंक लागल्यो. हे नदरेन मुसलमानी फकिरांचे दोहे आनी रामदासांचे मनाचे श्लोक हातूंत सारकेंपण दिसूंक लागलें.

नूरजहानान सोदून काडिल्लें गुलाबी अत्तर भारतांत परमळ पातळावंक लागलें आनी हिंदू बायलो काजळावांगडा दोळ्यांत सुरमा घालपाक लागल्यो. इतलेंच न्हय, तर साडयेपोंदा विजार घालपाची फॅशन बायलांमदीं रूढ जाली!

फारसी, हिंदी आनी संस्कृत साहित्याच्या पोसवणेक फावसारको हो काळ. हिंदू-मुसलमानांच्या एकचाराचो काळ.

मरात्यांच्या राजांनी मुसलमानांक त्रास दिल्ल्याचीं उदाहरणां नात. उरफाटें, प्रत्येकान आपापल्या धर्मान चलचें, दुसऱ्याच्या धर्मांत आडखळी हाडच्यो न्हय, अशेंच खड्याच्या तहांतूय सांगलां. पूण आमी धर्म समजूनच घेतलो ना! एकमेकांक समाजावन दिवपाचें कुशीकच उरलें! देखुनूच आमी धर्माच्या नांवान अधर्म केलो (हांगा काळे-गोरे कोण नात!) आनी देवाच्या नांवान रणखेव मांडलो. हातूंत बरो बदल जावचो देखून आशाढी एकादशीदिसा बकरी इद, इज-उल-झुआ! 'एकं-सत्'चें एकूच तत्त्व जरी हेनिमतान आमी सत म्हूण मानून घेतलें तरी खूब जालें. राम-रहीम काळजासावन परगटपाक मागीर कळाव लागचो ना आनी पंढरपूर-मक्का तर तुमच्या घरा-दारांतच!

# वर्सयभर मास्तर!
# एक दीस गुरू !!

५ सप्टेंबर. भारताचे आदले राष्ट्रपती आनी आमच्या देशांतलेच न्हय तर अख्ख्या संवसारांतले नामनेचे तत्त्वगिन्यानी डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन हांची जयंती, जल्मदीस. तांचे कर्तुत्वी आनी भौशीक जिणेचो आरंब एक बुदवंत शिक्षक म्हूण जालो आनी राष्ट्रपती जावन तांणी आपल्या ह्या कर्तुत्वाचेर आनी बुदवंतकायेचेर जसो किते कळस चडयलो! देखून, तांची जयंती 'शिक्षक दिवस' म्हूण मनोवपाची चाल आमच्या देशांत सुरू जाली. नाय जाल्यार एक शिक्षक 'राष्ट्रपती' जाल्लो, हें शिक्षकजातीक वण्रूच! (हालींच्या तेंपार वा हाचेफुडें मात शिक्षक – तांतुतले तातूंत सरकारी शिक्षक – राष्ट्रपती जावपाची शक्यताय खुबूच उणी!!)

अर्थात्, आदलो गुरू हो खऱ्या अर्थान 'राष्ट्रपती'च आसतालो! धर्माचो आनी राजकारणाचो संबंद ह्या देशांत आर्विल्ल्या तेंपासावन 'आंकडेक कोयती' कसो चलत आयिल्ल्यान गुरूचो संबंद राजकारणाकडेनूय येतालो. राजाक तर धर्मगुरू म्हळ्यार मार्गदर्शक! गुरू हो धर्माचो शास्त्री!

आवय बापायपरस गुरूचें म्हत्व व्हड. वेद, उपनिशदांच्या काळांत तर चड. कारण, भुरगो जिणेच्या सगल्याच आंगांचें शिक्षण घेतालो तो गुरू घरा. आज आमी खंयच्याय संस्कृतीक वा शिक्षणीक संस्थेचे वास्तूक 'संकुल' म्हणटात. पूण 'गुरूकुल' ही कल्पना आचार्य रवीन्द्रनाथ टागोरांच्याकूय आदली!

देखूनच, रामायणाच्या काळार राम-लक्ष्मण देवाचे अवतार आसुनूय तांकां विद्या शिकोवपाची जापसालदारकी ऋषी विश्वामित्राचेर येताली! महर्षि वसिष्ठांक दशरथराजाचो आनी तांच्या कुळाचो गुरू जावपाचो मान मेळटालो! महाभारत काळांत कौरव पांडवांक धनुर्विद्या शिकोवपाचें भाग्य गुरू द्रोणाचार्याक मेळटालें! दादोजी कोंडदेव शिवाजी घडयतालो! जाल्यार टिळक, आगरकरां सारके शिक्षक नवे पिळगेंत विचारांचें वादळ रुजयताले!!

आज परिस्थितीप्रमाण आनी कालमानाप्रमाण गुरूय बदल्ला! तो 'गुरूजी'चो मास्तर जाला आनी मास्तराचो 'सर'! नांवासकट गुरू बदल्ला!! खरें म्हळ्यार उद्योगीक क्रांती

सुरू जाली आनी 'गुरूजी'चो 'मास्तर' जालो जावंये असो म्हजो अदमास. कारण, गांवगिऱ्या वाठारांनी तरी मास्तर एकच – 'गुरूजी'. पूण जंय मिनाची खण आयली थंयचो सुपरवायझर मास्तर. कामाखातीर मानाय, कामेली हाडपाची दलाली करपीय मास्तर. संगीत वाठारांत संगीताची साधना करपीय मास्तर आनी बँड शिकोवपीय मास्तर. मास्तर हें उतर इतलें सवाय आनी सामान्य जाल्ल्यान घडये समाजान आनी भुरग्यांनीय 'सर' हें उतर सोदून काडलें जावंये. तसो त्या उतराचो संबंद 'मास्टर' ह्या उतराकडेन आसूं वा म्हाराजाखातीरच्या 'सर' उतरालागीं आसूं, पूण 'सर' हें उतर मातशें वेल्या पांवड्यावेलें कशें दिसता. चट्टोपाध्याय समितीन नवी 'स्केल' दितना शिक्षकांचो पांवडो जितलो वयर काडलो ना घडये, तेपरस 'सर' ह्या उतरान मास्तराक वयर काडलो आनी मॅडम परस 'मीस' ह्या उतरान बाईक! नाजाल्यार सिवील ड्रेसांत आसतना तरी स्टेशनमास्तर खंयचो, तिकेटमास्तर खंयचो, कामाचेर नदर दवरपी मास्तर खंयचो आनी शाळामास्तर खंयचो हें कळपाक कुस्तार जावपाचें.

घडये, ताकाच लागून जसो क्रांतीवीरांखातीर क्रांतीदीस, हुतात्म्यांच्या यादीखातीर हुतात्मा दीस, विद्यार्थ्यांखातीर बालदीस, कामगारांखातीर कामगार दीस, निरक्षरांखातीर साक्षरता दीस, इतलेंच न्हय तर सैमाखातीरूय जसो पर्यावरण दीस तसो शिक्षकांखातीर शिक्षक दीस! हेत एकदम बरो. शिक्षकांचो भोवमान समाजान करचो हो उद्देश. ते निमतान आपल्या गुरूच्या रिणांतल्यान थोड्या प्रमाणांत तरी मेकळीक घेवपाची संद मेळची हो उद्देश बरोच. ज्या शिक्षकांक निवृत्ती वेतन मेळना तांकां वा ज्या शिक्षकांचीं कुटुंबां निराधार जाल्यांत तांकां पोटापाण्याचे वेवस्थेखातीर चार दोन पयशे मेळप हें तर सामकें गरजेचें. तेखातीर शिक्षक निधीची थापणूक, डब्यांतल्यान पयशे जमोवपाची कल्पना, वेगळ्यो वेगळ्यो कार्यावळी आंखून पयशे एकठांय करपाची येवजण.

पूण ही येवजण राबोवपाची जापसालदारकी शिक्षकांची अशेंच सगल्यांक दिसता. जशें कितें शिक्षक सोडून हेर लोक अभिमन्यूसारके आवयच्या पोटांतूच विद्या शिकल्यात! तांकां गुरू नाच्च! गुरू नाशिल्लो एकलव्य लेगीत द्रोणाचार्याक आपलो गुरू मानता. पूण कांय आडवाद कुशीक दवरल्यार दारांत आयिल्ल्या भिकाड्ड्याक भीक घाल्लेवरी बेजारुनूच डब्यांत मोडचे चार-आठ आणे घालपी आनी जायते फावट एक्कूय पयसो घालिनासतना 'मास्तरांक कितें पगार उणो जाला, म्हूण भीक मागपाक आयल्यात!' अशा कुचित्री उतरांनी हिणसावपी लोक शिक्षकांक मेळटात. शिकिल्ल्या समाजांतूय हाचेपरस वेगळें चित्र ना! उरफाटी उदासीनता चड आसा. आपल्या घराकडेन डबो पावलो ना जाल्यार शीण काडपी वा घराकडेन नासत जाल्यार दुसऱ्या दिसा यादीन धा पयशे जायनात डब्यांत हाडून घालपी गांवगिरो वाठारूय आतां शाराचें सवंग घेवंक लागला. ना म्हळ्यार मास्तराची व्हडविकाय खेडेगांवांक अजून आसा आनी शारांनी

जेसी, लायन्स सारक्यो अंतरराष्ट्रीक संस्था, तेचपरी थळाव्यो शिक्षणीक, संस्कृतीक संस्था कांय शिक्षकांचो 'भोवमान' करतात. थोड्या थोड्या शाळांनी ह्या दिसा शिक्षकांक 'सुशेग' दिवन वेल्या वर्गांतले भुरगे 'पाठ' घेतात, जाल्यार कांय शाळांनी भुरगे शिक्षकांक फुलां वा भेटवस्तू भेटयतात. सरकारी पातळेचेर शिक्षकांक राज्य पुरस्कार वा राष्ट्रीय पुरस्कार दिवन शिक्षक दिसानिमतान तांचो भोवमान करतात. पूण ही संख्या सामकी उणी. पयशांचें प्रमाण तर सामकें उणें. कार्यावळीय फावो तितल्यो वेल्या पांवड्यावयल्यो जायनात आनी मागीर उतरां आयकूंक येतात 'वर्सांतल्यान एक फावट गोरवां-पाडवो, तसो हो शिक्षकदीस!' (अर्थांत, कांय शिक्षक 'ट्यूशन' दिवन वा हेर जोडधंदे करून आलायती 'जोड' कमायतात, तांचे संबंदान म्हाका कांय म्हणपाचें ना! ती जापसालदारकी शासनाची आनी समाजाचीय!!) तेन्ना समाजान आनी शासनानूय खरें म्हळ्यार व्हड प्रमाणांत शिक्षक-समाजाचो भोवमान करपाक जाय आनी तोवूय शिक्षक दिसाकूच न्हय तर वेगळ्यो-वेगळ्यो संदी घेवन. शिक्षकांचे कितलेशेच प्रस्न सोडोवन तर शासनाच्यान सदांखातीर शिक्षकांचो भोवमान करपाची संद घेवं येता. थोडेभितर शिक्षकाची 'गुरूदक्षिणा' शिक्षकाक मेळपाकूच जाय!

कारण, आमच्या देशांत, आमचे संस्कृतायेंत गुरूदक्षिणा ही आपूण जावन दिवपाची मोलादीक भेट – जी गुरूशिष्य परंपरा गिरेस्त करता. शिष्य आपूण जावन गुरूघरा वचून सगलीं कामां करता, गुरूक संतुश्ट करून विद्या मेळयता आनी आपूण जावन गुरूक दक्षिणा दिता वा 'जाय तें माग' म्हूण सांगता. गुरू कांय फावट सादेपणान दक्षिणा घेता. पूण वेदधर्मासारको गुरू संदीपक सारक्या शिष्याक विद्या दितनाय एकवीस वर्सां मेरेन कोड जाल्ले आपले कुडीची सेवा करपाक लायता, धौम्य ऋषी उपमन्युक धड खावपाक-पिवपाक दिना, पूण निमाणें ताची गुरूभक्ती पळोवन गेल्ली नदर परती दिता, वरतंतू ऋषी तर कौत्स नांवांच्या शिष्याच्या आगऱ्याखातीर ताचेलागीं चौदा कोटी सुवर्णनाणीं मागता आनी तोवूय मोठ्ठे जिद्दीन तीं गुरूक दिता! द्रोणाचार्यासारको गुरू एकलव्याचो आंगठो मागता आनी एकलव्य गुरूक आंगठो दिता इतली व्हड ही गुरूशिष्य परंपरा. श्रीकृष्णासारको 'देव'य शिष्य म्हूण सांदीपनीच्या गुरूरिणांतल्यान मेकळो जावंक शकना इतली व्हडली!

देखुनूच, आशाढी पुनवेक येवपी 'गुरूपौर्णिमा' वा 'गुरूपुनव' हो खरो शिक्षकदीस अशें म्हणटात. व्यास महर्षी शंकराचार्यांच्या रुपान परतो अवतार घेवन धर्तरेर आयलो, अशी एक 'श्रद्धा' आशिल्ल्यान संन्यासी त्या दिसा व्यासपूजा म्हूण शंकराचार्यांची पूजा करतात. शिष्यूय त्या दिसा गुरूची पूजा करतात. न्हावन धुवन वस्त्रांचेर आडव्यो उब्यो काडिल्ल्यो गंदाच्यो रेगट्यो म्हळ्यार व्यासपीठ अशें मानून मागीर ब्रह्मा, परात्परशक्ती व्यास, शुकदेव, गौडपाद, गोविंद स्वामी आनी शंकराचार्य ह्या गुरूंक आवाहन करतात

आनी मागीर तांची पूजा करतात. ह्या वेळार गुरूची आनी आवय-बापायचीय पूजा करपाची चाल आसा. कुंभकोणम. आनी श्रृंगेरींत तर ह्या दिसा व्हड उत्सव जाता. आमचेकडेन कला अकादमी, विवेकानंद सोसायटी सारक्यो सांस्कृतिक वाठारांतल्यो कांय संस्था सोडल्यार हे परंपरेचें कोणाकूच कितें खबर आसा अशें दिसना! तेन्ना बरें दायज म्हूण हाचेर आमी कितेंय विचार करतले काय 'गुरू बीन कौन बतावे बाट?' म्हूण फकत भजनांनीच गुरूक आळयत रावतले?

# श्रावणा, तूं खंय पावला ?
# भेटेक जीव आशेला !!

श्रावणा, आतां तुजें चड जालें! आशाढाउपरांत तुवें पावपाचें. पूण भाद्रपद चवथ घेवन आयलो, अनंतचतुर्दशीनूय तळशिल्ली पंचखाद्य वांटली, पूण तूं मात बेपत्ता! श्रवण नक्षत्र वाट चलत मुखार गेलें, मात्त ताच्या पावलाचेर पावल दवरून फुडें सरपाचें भान तुका उरलें ना! बिरीबिरी पावस पडलो, उटंगाराचो पावस झडलो, अरंदारी पावस बडवलो, पूण श्रावणा, तुजो 'आपा-लिपा' केन्ना दिसलोच ना! श्रावणा, तूं खंय पावला ? तुजे भेटेक जीव आशेला! तुवें न येवपाचो, न दिसपाचो निर्धारच केला जाल्यार मागीर ...

मागीर 'श्रावणमासी हर्ष मानसी हिरवळ दाटे चोहिकडे! क्षणात येते सरसर शिरवे, क्षणात फिरूनी उन पडे!' ह्यो भुरगेपणांत तालासुरांत गायिल्ल्यो कवितेच्यो ओळी आमी याद करपाच्यो तरी कश्यो ? खिणांत वत, वतांत पावस हो आपा-लिपाचो खेळ पळोवन 'वतांत पावस येता, माकड माकडिणी लग्न जाता' हें मंगळाष्टक भुरग्या बाळांनी गावपाचें केन्ना ? पावसांतल्या हुंवारासारकी आमची उमेद उपाट भरून काळजाच्या न्हंयीव्हाळांतल्यान व्हांवपाची केन्ना ? शिरंत्रांनी भरिल्ल्या उमेदीच्या साजान दरयाच्या गाजाक आव्हान दिवपाचें केन्ना ?... पूण तुवें ह्या वर्सा आमकां फटयलें, पावसान विटयलें तेपरस चड!

तशी तुजी सुलूस लागली ना, अशें न्हय. नव्यान लग्न जाल्ल्या सुवासिनींची मंगळागौर तुवें फुलयली, जाणट्या बायलांचेंय तरणेपण जागोवपी आयतारांखातीर तुवें पत्री फुलयली, हळदेन हळद रुजयली, सृष्टदेवतेक भुलयली! पूण श्रावणा, ती पांचवीचार रजय तुजीशी दिसलीना!

श्रावणी सोमार आयले, शिवाक अभिशेक जाले. पूण थंय तुज्या पवित्र तिर्थाचो थेंबोय दिसलो ना. मंगळागौरी प्रमाणच शुक्राराक लक्ष्मीची पूजा जाली. पुरणपोळ्यांचें रुचीक जेवण सवायशिणी जेवल्यो, पूण त्या जेवणाक तुजो वास लेगीत नासलो! हळदीकुंकमाकूय तुजे पिंजरेचो रंग दिसलोच ना! शेनवाराक शनीक, मारूतीक, उदक तेल जालें. आयताराक आदित्याची पूजा जाली. पूण ती खीर, तीं गोडशीं नैवेद्याक

उपकरलींच नात! कारण, तूं नासत जाल्यार खंयचे देव, खंयच्यो परबो, आनी कसले नैवेद्य?

तशी नागरपंचम (नागपंचम) जालीना तर? जाली. शुद्ध पंचमीक बायलांनी नागाची पूजा केली. नागाक दूद, ल्हायो ओंपल्यो, फुगड्यो घाल्यो. कांयकडेन हे निमतान समरादनीय वाडल्यो. त्या दिसा जमनीक दुखोवप ना, हो नेम पाळपाखातीर जमनींत खणप जालें ना. पूण केन्नाय तरी रांदिल्ल्या जेवणाचें आयदन नागरपंचमीदिसा सोरपाच्या वेटोळ्याचेर चुंबळ समजून दवरपाची चूक घडली, त्या घरांनी नागरपंचम न मनोवपाची परंपरा पाळ्ळी, तशी ही अंदूंची नागरपंचम दिसली. ताका कारण तूं श्रावणा!

नागरपंचमे उपरांत आयली नारळी पौर्णिमा; सुतां-पुनव. रक्षाबंधन. दर्यादेगेवेल्या लोकांनी वरूणदेवतेचे पूजेनिमतान दर्याची पूजा केली. दर्यांत 'भांगराचे' नाल्ल सोडले. पागप्यांनी जाळीं पयसमेरेन पातळ्ळीं. रांपणकारांनी रापणी घाल्यो, लाँचींनी स्टार्ट घेवन नुस्त्याचो अदमास घेवपाचो यत्न केलो. पूण श्रावणा, तुवें तांकां चांटच मारपाक दिली ना! 'चूक म्हजी न्हय!' म्हणटलो तूं. पूण हुंवाराक आडावपाचें कोणें श्रावणा?

भयणींनी भावांक रंगयाळ्यो, तरांतरांच्यो राखयो बांदल्यो. राजस्थानी पराक्रमाच्यो, त्यागाच्यो काणयो जागयल्यो. हिंदू-मुसलमान एकवटाच्यो भारतभुंयेच्यो परंपरा पाळ्ळ्यो. भावा-भयणींच्या नात्याच्यो व्हडविकायो तिगयल्यो. पूण, श्रावणा, सैमाची राखी तुजी वाट राखतली म्हणपाचें तूं मात्त विसरलो.

रक्षाबंधन 'पोवती पुनव', सुतां-पुनव म्हूण आमी मनयली. जानवीं भटांच्याच गळ्यांत कित्याक, म्हूण शीण काडीत न्हावन धुवन गळ्यांत जानवीं घालीं. हातांक सुतांच्यो पोवती बांदल्यो. पूण ती 'श्रावणी' अशी दिसलीच ना!

वद्य अशटमीक गोकुळाष्टम आयली. श्रीकृष्णाच्या जल्माचो सुवाळो मनोवपाचे निमतान आमी ताका 'अर्ध्यप्रदान' केलें. घरांघरांनी आनी थळां-देवळांनी कृष्णजल्माचे सुवाळे मनोवन, तुळशी-बेल ओंपून आमी फोव-कालो केलो. तरांतरांचे फोव, मुगांचें कण्ण, गंवांची सोजी केली, खाली! पूण कृष्णजल्माचीं लोकगायनां यमुनेंत बुडलीं हाची खंत करता आसतनाच तुवेंय दडी मारली आनी उगडासाच्या हुंवारांत आमकां बुडयलें! लोकगितांक लोककाणयांक पल्लेवांगडा जळयलें!

श्रावणा, तूं म्हणटलो, 'हांवच बुडलां! थंय तुमचें पडलां गा कोणाक?' खरें तुजें. आशाढांत चड करून हुंवार येतात आनी तेवूय सकयल्या वाठारांतल्या उत्तर भारतांत, हें आमी शिकिल्ले, आयकल्लें. पूण अंदू ह्या हुंवारान खंयच्या वाठाराक सोडलां? गोंय सोडून भारतभर हुंवार, बुडट्यो. फकत आशाढांतच न्हय, श्रावणांतूय! आनी पावसाचें प्रमाण उणें जावपाच्या भाद्रपदांतूय!! तेन्ना दोश दिवपाचो तरी कोणाक? ताणें रुजयलें, ताणें पिकयलें आनी ताणेंच कुसयलें म्हणपाचें. पूण ना. श्रावणा, तूं

जर मदीं पडटालो जाल्यार घडये, हुंवाराक आडावप शक्य जावपाचें!

बाकी सैमान तशें फटयलें ना हें आमचें नशीब! कवी बयाभावांच्या (काशीनाथ श्रीधर नायक) उतरांनी सांगपाचें जाल्यार 'हेवटेन दोंगर, तेवटेन दोंगर पाचवे पाचवेचार, पाचवीं रानां, पाचवीं पानां, पाचव्याचार बसकारार.' तेभायर वर्षा ऋतूक लागून हरवीसाण आयिल्लीच आसता, ती जायाजुयांनी, पारिजातकान, सोनचाफ्यान परमळीत जाता. वाली-झोपांनी फुलां-फळांचो भार येता. पिकावळ पोटऱ्याक येता, कणसांरुपान दाणो-गोटो घर भरून दार ओतपाची खात्री दाखयता. 'बाराय म्हयने रात दीस हांगा फळां फुलांचो भार. जायो-जुयो, शेंवतीं, मोगरीं, आबोलीं गोणार.' – बयाभाव.

'शेतादेगेर रावन हांगा घेवंचीं पांयार पाचवीं ल्हारां' अशें मागीर कवी शंकर रामाणींकूच दिसना. आमचींय 'कुळागरां सावळेंत हांगा खिणांत जातात पाचवीं मनां' (गांवांत म्हज्या – शंकर रामाणी). कवीवर्य मनोहरराय सरदेसायांचे भाशेंत तर 'म्हजें गोंय पाचव्याचार चरवांचें' हो जणेक गोंयकारांच्या काळजाचो ठेको! हें अंदूय घडलें.

तेन्ना, श्रावणा, आमचीं मनां सैमावरीच पाचवींचार पयलींसावनच आसलीं. आयजूय 'वर्षा'क साद घालपी हरवेताल्ल बेब्यावरी तीं हरवींताल्ल आसातच. पूण, केन्ना 'आपा-लिपा' खेळपी खेळगड्यांच्या रुपान येवपी, केन्ना पावसाच्या पाऱ्याचेर भांगराच्या किरणांचो वर्ख चडयत चकचयाळ माणकुल्या कुंवराच्या रुपान येवपी, तर केन्ना केन्ना धुंद करून सोडपी 'सावनी सांज'च्या रुपान येवपी तूं ह्यावर्सा सामकोच गुडूप जालो आनी आमच्या नितळ मनांचेर निर्शेणेचो शेळो धरलो! ताका कारण तूं!

श्रावणा, कवी पुरुषोत्तम सिंगबाळान तुका कितलो धुंद जावन आळयला तूं जाणा? जसो कितें ताच्यांतलो रसिक कलाकार तुज्यांत विलीन जाला!! पावसाळे सांजेचो रुपकार उकतो करतना ताणें संगितांतल्या मुडांचो उपेग कसो केला, तुवें केन्ना आयकला? 'मारव्याचे सूर वेंचीत घोंसाळ्यो हांसल्यो खुद करून. पांवळ्यांची लय सारीत शब्दुल्यो फुलल्यो गुलाल शिंवरीत.' श्रावणा, तुका दिश्ट जाल्ली आसत जाल्यार 'मिठाचे कडकट्ट रांदचे कुडींत करूंया' पूण 'काळ्या काळ्या कुपांनी मळब कूंद' अशी निर्शेणी पयस कर आनी पर्थून 'श्रावणा, तूं खंय पावला?' हें विचारचे आदीं 'सांज धूंद, जीण धूंद' अशें कितें तरी कर! श्रावणा, तुजे भेटेक जीव आशेला!!

# उत्सवांचो देश जावचो एकचाराचो श्रीगणेश!

काणी आयकुपाक आनी काणी सांगपाक नेणट्या जाणट्यांक सगल्यांकूच आवडटा. तातुंतले तातूंत दुसऱ्यांक सांगत रावप हें तर भारतीयांचें खाशेलें लक्षण. तेखातीरूय जायत घडये, भारतांतल्या दर एक सण-परबेफाटल्यान, उत्सव-समारंभा फाटल्यान कसली ना कसली तरी आख्यायिका आसताच.

देखीक, अनंतव्रताची कथा. कौरव-पांडवांची भावभावकी तशी फामाद. 'घरचो भेदी' तशी गत. कौरव पांडवांचें झूज म्हळ्यार भावभावांचें झूज न्हय, सुश्ट-दुश्टांचें सासणाचें झूज! तर, द्युतांत युधिष्ठिर हरलो आनी अटीप्रमाण पांडवांक बारा वर्सांचो वनवास आनी एक वर्साचो अज्ञातवास अशी ख्यास्त भोगची पडली. तेप्रमाण ते गेलेय. श्रीकृष्ण देव. पांडवांचें बरें मागपी. संकश्टांवेळार पावपी. तो वनवासाच्या जाग्यार वचून पांडवांक मेळ्ळो. 'संकश्टांतल्यान मेकळे जावन बऱ्याक पावतले जाल्यार अनंतचतुर्दशीचें व्रत करपाक जाय, अशें श्रीकृष्णान तांकां सांगलें. पूण हेंच व्रत कित्याक? ताचो फायदो कितें? बी प्रश्न युधिष्ठिरान विचारतकूच श्रीकृष्णाक काणी सांगची पडली. (कथेंत आडकथा ती ही अशी).

कृतयुगांत सुमंतू नांवाचो एक ब्राह्मण आशिल्लो. आचारविचारांनी शुद्ध. सभावान, कृतीन धर्मीक. ताका शीला नांवाचें एक चली आशिल्लें. चली जल्माक आयलें, तेन्नाच आवय (सुमंतूची बायल) पिड्ड्यार जाल्ल्यान सुमंतून दुसरें लग्न केलें. पूण बायल सापडली सामकी कर्कशा. ताका लागून बायले धडीं ताचें कांयच चलनासलें! शीलाचें लग्न कौडिण्य नांवाच्या व्हडल्या ऋषीकडेन लावन दिलें, जाल्यार जांवयाक आंदण (वरदक्षणा) दिवपाचें नांव लेगीत ही बायल काडपाक दिना, इतली कर्कशा! निमाणें जांवय अपमान गिळून घेवन आनी चली शीला दुखेस्त जावन घोवाघरा गेलें. वाटेर एके न्हंयचे देगेर कांय बायलो अनंतव्रत करता तें पळोवन शीलाकूय तें व्रत करपाची इत्सा जाली. तिणें व्रत करून हाताक दोर बांदून घेतलो. संसारांत तांकां आतां दुख्ख पीडा कांय एक नासलें. उरफाटें घर भरून दार ओतता इतलें वैभव. मात्त कांय तेंपान कौंडिण्याक ताची मस्ती मारली. इतली की एके रातीं ताणें शीलाच्या हातांतलो दोर लेगीत तोडून उडयलो आनी उज्यांत घालो. अशें केल्ल्यान अनंताचो

कोप जालो आनी समृद्धी (लक्ष्मी) आयिल्ली तशी परती गेली! कांय दिसांनी ताका आपली चूक कळून आयली. पूण आतां इलाज नासलो. कौंडिण्य रानांत गेलो आनी मेळत त्या प्राण्याक 'अनंत खंय मेळटलो? अनंत खंय मेळटलो?' अशें विचारूंक लागलो. पूण अनंत तसो कसो मेळटलो? तो बेजारलो, जिवाक विटलो आनी जीव दिवपाचे थारावणेचेर पावलो. इतल्यान ब्राह्मणाच्या रुपान अनंतान ताका दर्शन दिलें! मागीर घरा वचून ताणें अनंतव्रत केलें आनी ताका ताचें गेल्लें वैभव परत मेळ्ळें.

'गेल्लें वैभव परत मेळचें' म्हूण १४ वर्सांमेरेन करपाचें हें 'काम्य' व्रत आसलें तरी देड दिसाच्या गणपतीवरी तें जणेक घरांत वा वाड्यार केल्लें दिश्टी पडटा. परंपरेन चलत आयिल्ल्या कांय कुळांत वा घराण्यांत हें व्रत यथासांग पूजाविधी जावन अन्नदानूय जाता. अर्थांत, कितल्या जाणांचें वैभव परतें आयलां वा आशिल्लें तें तिगून उरलां हो प्रस्न कुशीक दवरल्यारूय जिणेक एक शिस्त लागपाखातीर मनशान कसलें तरी व्रत करपाकूच जाय. हांगा व्रत म्हळ्यार नेम. ताका लागून कसलेंय काम नियमांनी करपाची संवय जाता. नेमान काम केल्ल्यान तें बरें जाता, मनीस जैतवंत जाता, हातूंत दुभाव ना. तेखातीर, परिस्थितीप्रमाण, गरजेप्रमाण व्रत करूंकूच जाय.

तेखातीर काणयांचो तपशील विसरल्यार उपकरता, पूण तातुंतलें मुळावें तत्व मात देखीखातीर तरी याद धरपाकूच जाय. देखीक, अनंत चतुर्दशीच्या व्रतांत 'विष्णू' वांगडा शेष आनी यमुना हांची पूजा करतात. 'यमुना' म्हळ्यार कुंभांतलें उदक. (तें खरें म्हळ्यार जीवन) आनी 'शेष' म्हळ्यार दर्भापासून केल्लो सात फोडांचो नाग! हो नागाचो अवशेष दाखोवन दिता की नागपुजेक लोक वैष्णवधर्मांत आयले तेन्ना नागपुजाय व्रतरुपान वैष्णवधर्मांत आयली. हांगा परिस्थितीप्रमाण, गरजेप्रमाण वर्णांचो, पंथांचो संकर जालो. जावपाचोच. बरें जालें. पूण दुर्दैवान हें आयजूय आमी समजून घेनात.

आमी राष्ट्रीय एकचाराच्यो गजाली करतात. पूण राष्ट्रीय एकचाराची मोख मुखार दवरून गणपतीचे पुजेक भौशीक रूप दिल्ल्या लोकमान्य टिळकांक मात पुरायेन विसरतात! मागीर थंय बाकी उरता ती सजावट (आतां तर सजावट-सर्त!), दोळे दिपकावपी लायटींचो झगझग आनी मुखार 'डिस्को', 'ब्रेक'. हेच पद्धतीन 'व्हिडियो'य आयलाच. आतां 'कॅबरे' येवपाक वेळ नाका!! अर्थांत, कांय वाठारांनी कथाकिर्तनां, गायनां बी जातात त्यो बऱ्यो गजाली. पूण चर्चासत्रां (सरकारी पांवड्यावेलीं न्हय!), व्याख्यानांय जावंक जाय. लोकजाग्रुताय करपाक ह्या देशांत इतली बरी संद आनी सुवात दुसरी ना. कारणां कितेंय आसूं, पूण हालीं सार्वजनिक गणपतीपुजनाच्यो सुवाती वाडल्यात. आनी गणपती फक्त हिंदुंचोच उरलो ना. सगले धर्मीक तातूंत उमेदीन वांटो घेतात.

तशीं गणपतीक विनायक, मयुरेश, गणेश, गुणेश, एकदंत, वक्रतुंड, गजानन, धूम्रवर्ण, बल्लाळेश्वर, धुम्रकेतू, सिद्धीविनायक बी कितलिंशींच नांवां आसलीं, तरी तो मांगल्याचें

प्रतीक. बऱ्या कामाक आरंब करून दिवपी देव. विघ्नां पयसावन सुख दिवपी देव. इतलेंच न्हय तर ब्रह्मा, विष्णू, महेशाचें एकठावल्लें अजोड रूप. ॐकार प्रधान. अकार ब्रह्मा, उकार विष्णू, मकार महेश. सृश्ट जल्माक घालपी, वाडोवपी आनी नवें जल्माक येवपाखातीर पोरणें नश्ट करपी. त्रिमुर्तीचें मूर्त रूप. अनादिकाळासावन रूढ आशिल्लें सगल्यांक एकठांय हाडपी, एकठांय दवरपी अशें राष्ट्रीय एकचार सादपी हें दैवत.

गणपती महाराष्ट्र आनी गोंयचोच न्हय. कन्नडिगांची चवथ 'बेनकन हब्ब', तेलगुवाल्यांची 'पिल्लेभर चवती', तामिळनाडूंत तो तुंबाकाई असावर. उत्तर प्रदेशांत तर वर्सभर चवथ. नेपाळाक तो लौंडी गणेश. रामेश्वराकूय ताचें व्हडपण. भारतीय मनशाच्या घराच्या दरवट्यारूच न्हय, तर काळजा-कुडीच्या दरवट्यार आनी काळजा कुडींतूय गणपती. देखुनूच वालीक आयिल्लें नवें फळ गणपतीचे माटोळेक. शेतांत पोसवल्लें पयलें कणस पंचमीनिमतान नव्यांखातीर.

आनी भारतांतूच न्हय तर भारता भायरूय जावा, बोर्निओ, जपान, इटली, रोम, चीन, सयाम, ब्रह्मदेश, मलाया, इंडोचायना, कॅलिफॉर्निया बी देशांनीय गणपतीक पूजतात, इतलो तो व्हड.

खरें म्हळ्यार गणपती हो ईसाच्याकूय पयलींचो, अशें 'नारायणोपनिषद' सांगता. इतिहासीक नदरेन तो वेदकाळाच्या पयलींच्या देव-राकेसांचे लडायेचो देवांचो मुखेली. तो महाभारतकार व्यासांचो लेखक. गणपती एक वक्तो, गायक, वैज, गणितशास्त्रज्ञ. उंदीररुपी काळाक ताब्यांत दवरपी गणपती काळाचेर मात करपाची स्फूर्त आमकां दिता.

पूण, आमी मात फकत उत्सव मनयतात! उर्बा उमेद नाशिल्लो उत्सव. खरें म्हळ्यार ताणें नरांतक-देवांतक दैत्यांचो नाश केलो, म्हूण भाद्रपद शुक्ल चतुर्थीसावन अनंतचतुर्दशीमेरेन धा दीस ही उमेद मनोवपी गणपतीचो भोवमान करपाची ही चाल. पूण कांयकडेन 'धर्मीक कृत्य' म्हूण जीवार येवन ही परब मनोवप जाता. तर कांय जाणांक इतली उमेद की आपलेवांगडा दुसरोय जसो कितें त्रासांत पडचो म्हूण हे लोक नाशिल्ल्यागेर नवी चवथ घडोवन हाडटात. कांय जाण मुद्दम आपूण जावन गणपती हाडून दवरपाक सांगतात ती गजाल वेगळी. मात, आरंबाक हें बरें दिसता. पूण कांय फावट गरिबकायेक लागून जमना, तेन्ना भारतीय चालीरितींक धरून 'रीण काडून सण साजरो' करचो पडटा! भावना मातश्यो कुशीक सारून हाचेर आमी गंभीर विचार कित्याक करिनात? तेपरस एका कुटुंबाक एक गणपती ही मुळावी कल्पना कितें वायट आसली? 'रूढ' वा 'चाल' म्हूण उत्सव मनोवचेपरस 'उत्साहा'खातीर उत्सव मनयले जाल्यार, एकचाराखातीर उत्सव मनयले जाल्यार तें चड बरें जावचें ना? मागीर करूंया न्हय श्रीगणेशा?

# दसऱ्याच्या म्हुर्तार दिवाळेच्यो ज्योती! आमी मात व्हांवयत रावल्यात पोरण्योच फोंती!!

दसरो दिवाळी म्हळ्यार साधुसंतांचे पांय दाराक लागपाच्यो पवित्र परबो. दसरो तर ताडेतीन म्हुर्तांतलो एक शुभम्हूर्त! शिमो हुपून वचून पराक्रम गाजोवपाची परंपरा दिवपी म्हूण सिमोल्लंघनाचो सण. जाल्यार राजे लोकांक मनासारको विजय मेळोवन दिवपी म्हूण 'विजयादशमी'. थोडेभितर इतिहासाच्यो यादी जागोवपी आनी नवो इतिहास घडोवपाची स्फूर्त दिवपी हो भारत देशाचो भौशीक सण!

आमी मात 'इतिहासाच्यो यादी' जागोवपी हो पयलोच भाग जतनायेन सांबाळ्ळा आनी सगल्या पोरण्या परंपरांसयत दसरो मनोवपाचें सत्र सोंपपाक आयिल्ल्या विसाव्या शेंकड्यामेरेन चालू दवरलां. दसरो मागीर तो खंयचोय आसूं; इतिहासकाळासावन थात्यामात्यांत चलत आयिल्लो म्हैसूरचो दसरो जावं, रवळनाथ भूतनाथाच्या तरंगांचो 'पुनवेची परब' असो फामाद पेडणेचो दसरो जावं, काणकोणांतल्या पैंगीण-लोलयेंचो दसरो जावं, प्रथा-परंपरेंत भाता आसोभर लेगीत फरक ना! काणकोणच्या श्री मल्लिकार्जुन देवस्थानांतय सोनें लुटून तें एकामेकांक वांट्टना कितलें उमेदीन, आपुलकेन राम-राम म्हणप जाता आनी चड करून दुसऱ्याच दिसा आपुलकेकूच राम-राम मेळटा! थोडेभितर प्रथा परंपरांचीं नाटकां आमी बरेतरेन मिरयतां!!

नासत जाल्यार हाचेफुडें जातपात, धर्मभेद मानचे नात, असो सोपूत आमी खंयच्याय एका दसऱ्याक घेतला? हेफुडें पोरण्यो, वायट रुढी आमी सोडून दितले, असो निग्रह आमी केन्ना केला? आमी विज्ञानीक नदरेन पळयतले, विज्ञानीक रितीन विचार करतले अशें व्रत केन्ना केलां? कोणेंय केदोय आग्रो केलो तरी हुंडो घेवचो ना, असो सोपूत केन्ना घेतला? आमी भारतीय म्हूण जल्माक आयल्यात जाल्यार भारतीय म्हूणच आमी जगतले असो स्वाभिमानी हावेस आमी केन्ना बाळगिला? बाकी तश्यो आमी प्रतिज्ञा घेतात त्यो तरी उण्यो? पूण शाळांतलीं भुरगीं दिसपट्ट्यो 'प्रतिज्ञा' घेनात? तितलीच याद आनी किंमत आमच्याय प्रतिज्ञांची!

खरें म्हळ्यार विजयादशमीचो उत्सव हो अशा बऱ्या वावराखातीरचो म्हूर्त! हो

दीस कसलो इतिहास जागयता? फकत परंपरांचो? पोरण्या नश्ट्या चालीरितींचो? ना! तो इतिहास जागयता तेजिश्ट आनी बळिश्ट चामुंडादेवीन महिषासुराकडेन खेळिल्ल्या झुजाचो आनी ताका जिवेंनशीं मारिल्ल्याचो! तो इतिहास जागयता विराटाच्यो गायी चोरून व्हरपी कौरवांचेर धनुर्धारी अर्जुनान मेळयल्ल्या जैताचो! तो इतिहास जागयता एकवचनी, एकपत्नी आदर्श रामचंद्रान रावणाक जिवेंनशीं मारून जोडिल्ल्या जैताचो! तेन्ना, ही स्फूर्त आमकां आयजूय जाय, नव्यो नव्यो लडायो जिखपाखातीर! भारत-पाक वा भारत-चीन सारक्या लडायांखातीरची ही तयारी न्हय, तर देशांत दिसपट्ट्या उपरासपी 'लडायांक' तोंड दिवपाखातीर स्फूर्त घेवपाची तयारी ही!

तेचखातीर इतिहास जाणा जावन घेवप गरजेचें. मागीर नाका तें आमच्यांनी सोडून दिवं येता. गरज पडली जाल्यार नवी भर घालपाक जाता, न्हय घालपाकूच जाय.

अशें सांगतात (आनी तें तर्काक पट्टा) की हो उत्सव आरंबाक शेतकामत्यांचो लोकोत्सव आसलो. पयलें पीक घरांत आयलें म्हूण तांकां जी खोस जाताली ती उक्तावपाखातीर हो उत्सव ते मनयताले. आयजूय नवरात्रांच्या पयल्या दिसाक घटस्थापना करतना घटासकयल धान्यांची जी रोयणी करतात आनी धाव्या दिसाक त्यो आंकऱ्यो ज्यो देवाक ओंपतात, तातुंतल्यान हो शेतकामत्यांचो उत्सव म्हूण सिद्ध जाता. हिमालयाचे कुलू घाटयेंत दसऱ्याच्या रथयात्रेच्या उत्सवावेळार जो भार येता, ताका लोक पीकपाणयांचे प्रस्न विचारतात, ताचेवयल्यान हो उत्सव शेतकामत्यांचो अशें दिसता. कांय कडांनी भाताचीं कणसां 'नवीं' म्हूण दरवट्यार लायतात, ही प्रथाय हाचेर शिक्कामोर्तब करता.

इतिहासकाळांत म्हळ्यार मराठेशाहींत आनी पेशव्यांच्या काळार मात दसऱ्याक राजकी स्वरूप आयलें. कारण, पावसाक लागून चार-पांच म्हयने सैन्य एकेच सुवातीर उरतालें आनी फुडली स्वारी करपाची संद घेवपाक राजे दसऱ्याचो म्हूर्त काडटाले, देखून तें सीमोल्लंघन! शीम हुंपप!!

आतां शीम हुपतना शस्त्रास्त्रां जायूच. शस्त्रास्त्रां म्हळ्यार वीराची शक्त. मागीर तिची पूजा करप हें ओघान आयलेंच. पूण शमीची पूजा कित्याक? आपट्याची पूजा कित्याक? आपट्याचीं पानां 'सोनें' (भांगर) कशें?

अर्जुन आनी ताच्या भावांनीं म्हळ्यारूच पांडवांनी अज्ञातवासांत आसतना आपलीं शस्त्रां शमीचे घोलींत घालून दवरिल्लीं. तांणी मागीर, थंयच तीं पुजेक लायलीं. म्हणून शस्त्रांवांगडा शमीची पूजा. आनी आमच्या देशाची परंपरा इतली उंचेल्या पांवड्याची की शेतकामती, कारागीर हे तर शस्त्रास्त्रांची पूजा करतातच. वांगडाच बुदवंत, गिन्यानी लोक पुस्तकांची पूजा करतात. सरस्वतीपुजनाच्या वेळार पाटयेची पूजा करपाची चाल ही अशीच पडल्या.

दसऱ्याच्या दिसाक आपट्याचीं पानां भांगर म्हूण लुटपाची चालूय अशीच इतिहासीक.

मराठे राजे, सरदार घुरयो घालताले, तेन्ना भांगराची लयलूट करताले आनी तें घरांत हाडटना दारांत तांच्यो बायलो तांकां उंवाळटाल्यो. कांय नाणीं ते ताटांत उंवाळणी म्हूण घालताले, जाल्यार बाकीचीं नाणीं (भांगर) देवाम्हऱ्यांत दवरून जाणट्यांलो आशीर्वाद घेताले. हीच परंपरा बारीकसारीक तपशिलासयत आमकां आपट्याचीं पानां भांगर म्हूण लुटपाचे परंपरेंत दिश्टी पडटा. म्हैसूरच्या दसऱ्यांत हत्तीचेर बसून थातामात्यान, मिरवणुकेन सिमोल्लंघनाक वचपी राजा गांवाभायल्या मळार शमीची पूजा करता, जाल्यार राजस्थानांतले शूरवीर रजपूत राजे अशेच रितीन शमीचे पूजेच्या विधीसयत भाटांचीं गायनां आनी ठाकूर बायलांचें 'दसरा-नृत्य' घडोवन हाडून दसरो मनयताले हाची गवाय दिता.

पूण, 'दर एका पराक्रमी पुरुशाफाटल्यान एक बायल आसता' हें वचन सत करपाखातीरूच काय कितें नकळ, विजयादशमीच्या पराक्रमाफाटल्यान महिषासूरमर्दिनी दुर्गा आसता! तिचें रूप मागीर खंयचेंय आसूं. उमा, गौरी, पार्वती, चंडी, चामुंडा, काली, कृपालिनी, भवानी, विजया. खरें म्हळ्यार ह्या सगल्या देवींचें एक रूप म्हळ्यार 'दुर्गा'! 'द'कार दैत्यनाश सुचयता, जाल्यार 'उ'कार विघ्ननाशक. 'रेफ' रोगहरण करता, जाल्यार 'ग' पापनाशन आनी 'आ' भिरांत, दुस्मानकाय हांचो नाश करता. अशी ही दुर्गा.

दसऱ्याचो आरंबच मुळांत नवरात्रान जाता. आश्विन शुद्ध पाडव्याक स्थापन केल्ल्या घटामुखार दीप पेटोवन दवरून सप्तशतीचो पाठ चलता आनी दर दिसाक घटाक एकेक माळ घालतात. म्हणून, कांय कडांनी नवरात्रांक 'माळ' म्हणपाचीय चाल आसा.

हे दुर्गापुजेच्यो जायत्यो काणयो सांगतात. रावणान सितेक बळयां उबारून व्हेलें, तेन्ना नारदान रामाक नवरात्र-व्रत करपाक सांगलें आनी मागीर ताका लागून राम-रावणामदल्या झुजांत राम जैतवंत जालो ही एक आख्यायिका. ते भायर, महिषासूरमर्दिनी दुर्गेचे कुडीची रचणूक संवसारांतल्या सगल्या देवांच्या तेजान केल्या म्हणून ती सर्वशक्तीमान अशेंय सांगतात.

तें कितेंय आसूं, पूण दुर्गा देवीचो इतिहास आनी रचना पळयल्यार सिद्ध जाता की ती 'भौशीक' देवता. शबर, पुलिंद, बर्बर ह्या वन्य समाजाची ती जशी देवी तशीच शैव, शाक्त पंथांचीय ती देवी. वैदिक विधींप्रमाणूच अवैदिक विधींकडेन (म्हळ्यारूच बलीदान, नरबळी) तिचो संबंद पावता म्हूण ती जशी मागास समाजाची उपास्यदेवता, तशीच योगनिद्रा, योगमाया (राणी यशोदेची चली कंसाल्या हातांतल्यान सुटून वचप) ह्या गजालींचो संबंद दुर्गादेवीकडेन पावता म्हूण तिचें नातें कृष्ण, विष्णूकडेन जोडचें पडटा. ते नदरेन ती वैष्णवपंथियांची देवता.

थोडेभितर दुर्गापूजेचो अधिकार सगल्या समाजाक सारको. बंगाल, बिहार, ओरिसा, आसाम, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश हांगासर तर दुर्गापूजा म्हळ्यार म्हान उत्सव. बंगालांत तर दुर्गापुजेक हजार वर्सांची परंपरा आसा आनी आयजूय तीच उमेद बंगालच्या शिरंत्रांनी

व्हांवता! कारण, दुर्गेचें रूप रूद्र आसूं, सौम्य भौसाक ती दुर्गामाताच! तमोगुणी म्हूण ती महाकाली आसूं वा रजोगुणी म्हूण महासरस्वती आसूं, तीनय मुखेल रुपांत तिचेमदीं लिपिल्लें आसता तें एकूच तत्त्व, तें म्हळ्यार दुर्गातत्त्व. भारतीय संस्कृताय तें रुजयता, पोसवणेक हाडटा आनी फुडले पिळगेक दिता. शरीर-मनोबल, समृद्धी आनी अध्यात्मसंपदा ह्या तिगांयच्या संयोगान राष्ट्र शक्तीमान करपी दुर्गा म्हळ्यार राष्ट्रशक्तीचें प्रतीक!

म्हणूनच, दुर्गेची पूजा करपाक जाय. पूण फकत पुजेखातीर पूजा न्हय! नवरात्रां आयलीं आनी घटस्थापना केली म्हूण महिषासूरमर्दिनीची पूजा न्हय वा महालक्ष्मी पुजली जाल्यार कळशी-फुगडी घालपाक मेळटली म्हूण पूजा न्हय. तेचपरी शारदोत्सव घडोवन हाडटकूच कार्यावळींनी मिरोवपाक मेळटलें म्हूण पूजा न्हय, जाल्यार भारतांत तरी 'दुर्गापूजा' वेगळे तरेन जावंक जाय. इतिहासान आमचें काम खूबच हबूर केलां! ज्या देशांत बायलांची पूजा (बऱ्या अर्थान) जायना, त्या देशाक फुडार नाच, ही जतनाय आमी घेतली आनी बायलांमदीं 'दुर्गा' पारखून तिका तिची मानाची (आनी कामाचीय) सुवात मेळोवन दिवपाच्या वावरांत मेकळेपणान वांटो घेतलो, जाल्यारूच दुर्गापूजेक कितें तरी अर्थ आसा हें संवसाराक पटोवन दिवप आमकां शक्य जातलें. नासत जाल्यार राष्ट्रशक्तीच्या त्या प्रतिकाक साहित्यांतल्या प्रतिकाइतलोय अर्थ आसचोना आनी 'स्त्रियाश्चरित्रं' होच शिळोक नवी पिळगीय गावपाक फाटीं सरची ना!

तेन्ना मैत्री, गार्गेयी बी विदुषींचीं नांवां आमकां घेवपाक जाय आसत, अहिल्या, द्रौपदी, सीता, तारा, मंदोदरी ह्या पंचपतिव्रतांचो नामोद्धार आमकां करपाक जाय आसत, कित्तूरची चेन्नम्मा आनी झांशीची राणी लक्ष्मीबाई हांचो इतिहास आमकां जागोवपाचो आसत आनी इतिहास काळांतल्या सरोजनीदेवी नायडू सावन विसाव्या शेंकड्यांतल्या शक्तीमान पंतप्रधान इंदिरा गांधीमेरेन विंगड विंगड मळांचेर पराक्रम गाजोवपी बायलांची देख फुडले पिळगेक दिवपाक जाय आसत जाल्यार दर एकल्याची कांता 'शांता' न्हय तर 'शांतादुर्गा' जावपाक जाय. हे नदरेन आमचो वावर जावंक जाय. तेन्नाच विजयादशमीच्या विजयाक अर्थ दिवपाक दरवट्यार दिवाळेची ज्योत पेट्टली! प्रस्न इतलोच की आमी रूढी-परंपरांच्यो पोरण्योच फोंती व्हांवयत रावतले काय दसऱ्याच्या म्हूर्तार आचार-विचारांच्यो नव्यो ज्योती पेटयतले?

# नरकासुराक नश्ट करपाक
# गरज एका कृष्णाची ?
# ना ! ना ! गरज एका नरकासुराचीच !!

दिवाळी म्हळ्यार दिव्यांचो उत्सव. सुख-समृद्धीची परब. नवी पिकावळ घरांत आयली म्हूण खोशी मनोवपाचो सण. जैताचीं परबीं एकमेकांक भेटोवपाची परब ! शरद ऋतुच्या मध्यार आनी आश्विन-कार्तिकाच्या संदेर शिंयाळो घेवन येवपाची परब. आनी विशेश म्हळ्यार आश्विनांतल्या उमाशेच्या गुप्प काळखांत नखेत्रां, आकाशदिवे, दीपरादना हांच्या रुपान धन, गिन्यान आनी विज्ञान घेवन अवतरपी ही लक्ष्मी !

आमच्या हिशबान मात दिवाळी म्हळ्यार फोवां परब. तशे फोवांचे प्रकार आतां बदलल्यात. रोसांतल्या आनी सुक्या फोवांच्या जाग्यार आतां आंबट-तिखट तरा आयल्यात. ना म्हळ्यार केळीच्या शिरवतींनी फोव वाडून ते शेजाऱ्यागेर धाडपाची बरी चाल खेडेगांवांनी आजुनूय दिश्टी पडटा. एकमेकांगेर वचपाचें प्रमाणूय सामकें उणें जावंक दिवंक ना. दिवाळेच्या पंदरा दीस आदीं रातभर फोवांच्या लाटींचो जो गडगड पडटालो, तो सद्या बंद पडला. तरीकूय फोव गिरणीवेल्यान कांडून हाडपाचें वा पसऱ्यावेल्यान विकते हाडपाचें थांबूंक ना, हाचेवेल्यान फोवांक दिवाळेक कितलें म्हत्व आसता हें दिसून येता.

हालींसरा मात दिवाळी दिव्यांचीय परब जावंक लागल्या, ही गजाल तातुंतले तातूंत समादानाची. पणट्यांची सुवात आतां चडशा वाठारांनी लायटीच्या बल्बांनी घेतल्या, ताका लागून आदल्या लोकांच्या मतान पवित्रताय उणी जावंक लागल्या. हो वादाक कारण जावपी मुद्दो कुशीक दवरल्यारूय गांवगिऱ्या वाठारांनी लेगीत शारांतले प्रमाण दिव्यांची आरास करपाचे यत्न जातात, घरांघरांनी आकाशदिवे, नखेत्रां परजळपाक लागल्यात ही गजाल बऱ्याची. चवथीप्रमाण आतां दिवाळेकूय फोगोट्योच न्हय तर सुरसुरीं, पावस, गर्नाल, बाण बी तरांतरांचो फोग पेटपाक, फुटपाक लागला हीय गजाल उमेद हाडपाचीच !

पूण गोंयांत दिवाळेच्या निमतान दर वर्सा 'नरकासूर' वाडटात ही गजाल मात कितली 'सुखदिणी' हाचेर गंभीर विचार जावचो पडटलो. दिवाळेच्या आदले राती मध्यात रात मेरेन वा दीस जातासर (कांय आडवाद सोडून) जे नरकासूर नाचतात, ते कितले नवे नवे नरकासूर दरवर्सा जल्माक घालतात जावंये, हो संशोधनाचो विशय जावं येता ! हालींसरा तर नरकासूर प्रतिमांच्यो सर्तीय जातात. कलात्मक नदरेन पळयल्यार सर्तीच्या जगांत कलाकारांचे कलेचीय सर्त आसप वेव्हारीक ! पूण नरकासुराक मारप म्हळ्यार घाणीक

नश्ट करप, वायट प्रवृत्तींचो नाश करप, पोरण्या रुढींची, विचारांची होळी करप हो अर्थ समजून घेवन दिवाळे निमतान नितळसाणेच्यो, निवळसाणेच्यो सर्ती घेतल्यो जाल्यार? पंचायत वा पालिका वाठारांतलीं कांय 'आदर्श गांवां बक्षीसपात्र थारायलीं जाल्यार? वायट व्यसनां सोडून बऱ्याक पाविल्ल्या मनशांचो भोवमान केलो जाल्यार? एकादऱ्या बुद्धीवंताक, विचारवंताक येवकार दिलो जाल्यार?

कारण, देशांत नरकासूर आसातूच! प्रतिमांच्या रुपान जायना कित्याक नव्यांची भर घालपाची गरज नाच! जाता जाल्यार जातीयवादाचो, धर्मभेदाचो नरकासूर ना करपाक आमकां गरज आसा, शेंकड्यांनी रुपां घेवपाची तांक आशिल्ल्या एका कृष्णाची! प्रांतवादाचो, भाशावादाचो बळी ना करपाक आमकां गरज आसा वामनरूप घेवपी एका विष्णूची आनी न्याय-नीत संस्कृताय विसरून सुवार्थाचो मद मारिल्ल्या ह्या देशांतल्या रावणांक ना करपाक आमकां गरज आसा मनीसरुपांतल्या एका रामाची!

कित्याक, तर दिवाळेसारक्या खोशयेच्या पवित्र सणाचें पुराणकालीन, इतिहासीक, धर्मीक आनी सामाजीक म्हत्व ना जावन, कांय तेंपान ती एक फॅशन जावं येता. चार पयशे आसात म्हूण करड करपाची 'नवी संस्कृताय' जावं येता.

खरें म्हळ्यार अशा उत्सवांफाटल्यान सण-समारंभां फाटल्यान कांय मोलादीक श्रद्धा आसतात! दिवाळेच्या जल्मासंबंदान अशें सांगतात की आर्य ध्रुव प्रदेशांत रावताले तेन्ना स म्हयन्यांच्या काळखाउपरांत तांणी उमेद उक्तावपाखातीर म्हूण दिवाळी सुरू केली. कांय जाण अशेंय सांगतात की चवदा वर्सांचो वनवास सोंपोवन आनी रावणाचेर जैत मेळोवन राम सीतेसयत अयोध्येक परतलो, तो ह्याच दिसाक. देखून, थंयच्या लोकांनी दिव्यांची आरास करून ताका जो येवकार दिलो, ती 'दिवाळी'.

पुराणांतल्या कथांतली एक कथा अशी की बळी राजा आपल्या कर्तुत्वान इतलो व्हड जालो की ताणें अखखी पृथ्वी तर जिखलीच, तेभायर सगल्या देवांकूय बंदखणींत उडयलें. तेन्ना देवांचेर आकांत आयलो आनी बळीक ना करपाखातीर म्हूण देवांनी विष्णूची नेमणूक केली. विष्णू बुदवंत, शिटूक! ताणें बळी राजाचें दानशूरपणूच ताका भरून दिवपाचें थारायलें आनी बटू वामनाचें रूप घेवन तीन पावलां जमनीची 'भीक' मागली. बळीक बरेभशेन हयकार दितकूच पयलें पावल घालें. पृथ्वी सोंपली! दुसऱ्या पावलान सर्ग व्यापलो! आनी 'तिसरें पावल खंय दवरूं?' म्हूण विचारतकूच बळीन वामनामुखार तकली बागयली. हीच संद घेवन विष्णून बळीक पाताळांत धाडलो. तेन्ना बळीन एक वर मागून घेतलो म्हणटात. तो असो की जो कोण 'दीपदान' करता ताका यमयातना भोगच्यो पडच्यो न्हय आनी ताका सदांच लक्ष्मी प्राप्त जावची.

तेन्नासावन दिव्यांचो उत्सव म्हळ्यार दिवाळी सुरू जाली, अशें म्हणटात.

नरकचतुर्दशीची म्हूण सांगतात ती काणी पुराणांतलीच आसली तरी मातशी चड

लागींची दिसता. नांवांकडेनूय बरी जुळटा. प्रागज्योतिषपुरांतलो राजा नरकासूर भूदेवीकडल्यान वैष्णवास्त्र मेळिल्ल्यान इतलो शक्तीमान जालो की तो सगल्या देवांक पिडपाक लागलो. इंद्राचो ऐरावत आनी घोडोय ताणें फारायलो. फुडें फुडें तर ताचे अत्याचार इतले वाडले की वेगळ्या वेगळ्या राजांच्यो वट्ट सोळा हजार बायलो ताणें ताचे बंदखणींत गुलाम करून दवरल्यो. कांय राजांकूय ख्यास्त केली. राजेच न्हय, देवय गडबडले. तांणी इंद्राकडेन कागाळ केली. तेन्ना इंद्रान कृष्णाक पाराथून सांगलें की कशेंय करून नरकासुराक ना कर. मागीर कृष्णान नरकासुराचेर घुरी घालून ताका जिवेंनशीं मारलें आनी सगल्यांक बंधनमुक्त केलें. नरकासुराक मारिल्ल्याची खोशी म्हूण दिवाळी! तेभायर, ताणें कृष्णाकडसून मागून घेतिल्ल्या वराखातीर नरकचतुर्दस! फांतोडेर सुवासिक तेलां माखून न्हावप-धुवप, मागीर गोड-गोडशें खावप. आतां हातूंतय विज्ञान आसाच!

दिवाळेच्या रुपान येवपी सगल्या परबांची विशेशताय, खाशेलेंपण मात्त एकूच. मागीर तें लक्ष्मीपूजन आसूं, गोरवांचो पाडवो आसूं, तेचपरी भाऊबीज आसूं. सगलेकडेन उमेद तीच. सुख-समृद्धतायेचीं लक्षणां तींच. उजवाडाचें म्हत्व तितलेंच, तशेंच! लक्ष्मीपूजनानिमतान लक्ष्मीभायर विष्णू, कुबेर हांचीय पूजा जाता. बळीच्या बंदखणींतल्यान विष्णून लक्ष्मीक सोडोवन हाडलो म्हूण ही खोशयेची पूजा. ते भायर सुखसमृद्धीच्या प्रतिकांचीय ही पूजा. ते नदरेन लक्ष्मी, सरस्वती आनी शक्तीचें प्रतीक म्हूण बंगालांत कालीची जी पूजा करतात ती तांची व्हडली दिवाळी. गोंयांत हालींसरा लक्ष्मीपूजनां खूब वाडल्यांत. पयलीं फकत व्यापारीवर्गच लक्ष्मीपूजन करताले. आतां गांवांगांवांनी, घरांघरांनी 'लक्ष्मी' मेळोवन दिवपी साधनांचीय पूजा जावपाक लागल्या, ही बरी गजाल. कांय कडांनी तर भौशीक लक्ष्मीपुजनांय जावपाक लागल्यांत. हेंवूय 'एकचार' सादपाचे नदरेन बरें. पूण तातूंत फालतू कार्यावळींचो मातय आसपाव जावंक फावना. कित्याक तर, अशें सांगतात की आश्विनांतल्या उमाशेच्या रातीं लक्ष्मी सगल्याक भोंवंक येता आनी ज्या जाग्यार नितळसाण, सुंदरकाय आनी कलाप्रियता दिसता थंय ती रावता. दादल्यांच्या संदर्भांत चारित्र्य, नीत आसा थंय, जाल्यार बायलांचे बाबतींत पातिव्रत्य आसा थंय ती रावता, अशेंय सांगतात.

कार्तिक शुद्ध प्रतिपदा म्हळ्यार विक्रम संवत्सराचो आरंबाचो दीस. दिवाळेचो हो मुखेल दीस. पार्वतीन शंकराक ह्याच दिसा द्युतांत हारयिल्लें म्हूण हो दीस. 'द्युतप्रतिपदा' म्हूणय ताका वळखतात. तशें पळोवंक गेल्यार ही बळीप्रतिपदा. ह्या दिसाक गोवर्धनपूजा करपाची चाल आसा. तेखातीर शेणाचो पर्वत करून ताची पूजा करतात. ते भायर कृष्ण, गवळी, इंद्र, गायो पाडकां हांचीं चित्रां करून तांचीय पूजा करतात. ताचेपयलीं गोठ्यांतल्या गोरवांची पूजा करतात. तांचे पांय धुवप (कांय कडांनी न्हाणोवप), गंध-फुलां घालप, शिंगां रंगोवप, फाटीर गोल (वाटकुळे) शिक्के मारप, गळ्यांत फुलांच्यो माळो

घालप, वांगडाच भाकरी, नाल्लाचीं वळीं गळ्यांत बांदप अशे तरेन गोरवांचो भोवमान ह्या दिसाक करतात. मागीर गोरवांक खुबळायतात आनी तांकां मेकळेपणाचें सूख भोगपाक दितात. उपरांत गोरवांच्या गळ्यांतल्यो भाकऱ्यो आनी नाल्लाचीं वळीं काडून घेवपाची राखण्यांमदली सर्त! मज्जा!!

यम आनी यमीच्या मायेमोगाच्या संदर्भांत भाऊबिजेच्या दिसाक 'यमद्वितिया' अशेंय म्हणटात. भयणीन भावाचो मोग उक्तावपाचो हो दीस. भाव ह्या दिसाक भयणीगेर वता आनी भयण व्हड उमेदीन भावाक उंवाळटा. गोडगोडशें करून वाडटा. भाव मोगाची याद म्हूण भयणीक भेटवस्त दिता. अशी ही भाऊबीज.

गोंयांत हालीं गांवगिऱ्या वाठारांनी लेगीत भाऊबीज मनोवपाक लागल्यात. गजाल तशी वायट न्हय. पूण असल्या सणसमारंभाची एक 'फॅशन' आमचेमदीं येवंक लागल्या. बडवाचारूय गरजेभायर वाडूंक लागल्यात. ताका लागून मागीर तांक नासतना मळबाक हात लावपाचो प्रकार घडटा. हे खातीर हांतरूण पळोवन हातपांय सोडप बरें न्हय?

तर अशी ही दिवाळी. दिव्यांच्याच उजवाडाचीच न्हय तर गिन्यानाच्या उजवाडाचीय! मागीर, गुजरातेंत तिचो आरंब आश्विन वद्य दुवादशे सावन ('वाघवारान') जावं राजस्थानांत तिका 'रूपचौदस' म्हूण वखळूं, राजस्थानी वीरकृत्याची याद म्हूण चलयो 'घुडल्या' घेवन गांवभर फिरूं वा पंजाबांत रामराज्यभिषेकाची याद म्हूण 'दीपोत्सव' करूं वा सुवर्णमंदिराच्या थापणुकेची याद म्हूण 'दिवायी' मनोवं, उत्तर प्रदेशांत गोरवांची तेचपरी कुबेराची पूजा करूं, वा सिंधी लोक गांवाभायर वचून मातयेचो चौथरो करून ताची पूजा करून नाचगायनां करूं, बंगालांत लक्ष्मीपुजनापरस कालीपुजेक चड म्हत्व दिवं वा नेपाळांत द्युतक्रिडेक चंवर येवं, केरळांत दिवाळेक 'ओणम'चें रूप मेळूं वा महाराष्ट्रांत, गोंयांत नरकासुराची प्रतिमा लासून, 'अभ्यंगस्नान' करून कारीट माडोवन गोड गोड फोवांचो सुवाद चाखूं, दक्षिण भारतांत सूर्य उदेवचे पयलीं केल्लें न्हाण गंगेच्या न्हाणाइतलेंच पवित्र मानूं, 'दिवाळी हो दिव्यांचो उत्सव' हातूंत मतभेदाक सुवात नाच्च! 'दिवाळी' हो नितळसाणेचो सण हातूंतय दुभाव ना. तेचखातीर तो प्रांतीक न्हय तर राष्ट्रीय सण जावपाक जाय. गिन्यानाच्या आनी बुद्धीच्या उजवाडान एकचार सादपाचें साधन जावपाक जाय. पूण तेखातीर चलत आयिल्ले 'नरकासूर' मात नश्ट करपाक जाय.

मात्त त्या तेंपाच्या राम, कृष्ण, विष्णून त्या तेंपावयले नरकासूर ना केले म्हूण आयच्या कलीयुगांतले नरकासूर ना करप तांकां शक्य जायतशें दिसना! देखून, मारिचाच्या मायावी रुपान तांकांय आदीं 'नरकासूर' जावचें पडटलें. कारण 'नंगेको खुदा भी डरता है।' म्हणूनच नरकासुराक नश्ट करपाक गरज आसा, एका कृष्णाची? म्हूण कोणें विचारलें जाल्यार ताका जाप आसतली – न्हय! एका नरकासुराची! नरकासुरांक नश्ट करपाक गरज आसा एका नरकासुराचीच!

# ‘काले’ गेले, ‘वाले’ गेले नटराज नदरेआड जाले!!

कार्तिक पुनव आयली की याद जाता ती फाटल्या तेंपावयल्या रातकाल्यांची. दोळ्यांमुखार दिश्टी पडटात त्यो दीपरादनी आनी कानांमनांत आवाज घुमतात ते हरदासाच्या होंवयांचे! सरपट्यांचे!! संकासुराच्या धेंकांचे!!!

मागीर पुनवेचे ते प्रसन्न रातीं हात भावार्तान फुडें वतात, ते म्हयनोभरयांतल्या निमणे पुजेचे प्रसादा-फोव हातासपाक. हे पुनवेन म्हयनोभरयांतलीं हरजागरांय सोंपिल्लीं आसतात! दीस-काल्याउपरांत कोंजोळ्यांनी वांटिल्ले फोव दुसऱ्या दिसा लेसांनी गुठलावपाचे आसतात, धोलाऱ्यावेल्या पूजेचे फोवूय जिडयेदारांतल्यान (देवळाच्या मागीलदारांतल्यान) भितर सरून येदू-पानांचेर घेवपाचे आसतात. देवाची पालखी आंवाळेर वचचे पयलीं आंवाळ्यां-चिंचां भोजन साकसून घेवपाचें आसता, धंयकाल्यादिसा बल्कांवां पाजेवेल्यान शिंपडिल्ल्या धंयांच्या फोवांचेर झपय मारपाची आसता, त्रिशूळाच्या भाल्यान बुराक केल्ल्या धंयांचे मडकेंतलें धंय सभ्यतायेची पर्वा करिनासतना आंगाखांदांर खेळयत नाकातोंडान चाखपाचें आसता आनी मागीर ते मडकेचो कपचो हातासपाखातीर आकांताळे गर्देंत धोंपरां-कोपरां जमनीक मारून घेवपाचीं आसतात! पूण अशें म्हूण पुनवेचें म्हत्व इल्लेंय उणें जायना.

खरें म्हळ्यार पुनवेरातीं चंद्रासारको येद्दो व्हडलो ‘दीप’ आसतना हेर दिपांची गरज पडुं नये! पूण ‘त्रिपुर’ राकेसाक श्रीशिवान मारिल्ल्याचे रातीं खोशी मनोवपाखातीर पुनवेरातीं ही दीपरादना सुरू जाली. तेभायर मनीस हो मुळांतच उत्सवी, उमेदी. प्रसन्नताय दाखोवपाची जाल्यार ती दिवे पेटोवनूच. पिकावळींक लागून घरभर उमेदूय भरिल्लीच आसता. तिवूय उक्तावपाची जाल्यारूय दिवे पेटोवनूच. ही ताची श्रद्धा! देखून, कार्तिक पुनव.

आतां लायट जाल्ल्याक कांय कडांनी बल्बांच्या माळांच्योच दीपरादनी करतात हें खरें. मात्त कांय देवळांनी देवाची (चड करून श्रीशंकर, मल्लिकार्जुन, मंगेश) पालखी येवपाचे वाटेर दोनूय बाजूंनी तेलाच्यो दीपरादनी लायतात. सैमांतल्या सोबीत झाडाझोंपांनी, ‘तोन्नांनी’ वाठार सजयतात! तेभायर देवळामुखावेलो मुखेल घूड दीपरापदींनी परजळीत करतातूच. कार्तिक पुनवेक ‘कृत्तिका’ (कातयो) नक्षत्र आसता. देखून हे रातीं गोंयांतूय दक्षिणेप्रमाणच ‘कृत्तिकामहोत्सव’ – कातयांचो उत्सव – मनयतात आनी देवळालागींचे ‘कातयां खांब जळयतात!’ ते नदरेन कार्तिक पुनवेकूच गोंयची दिवाळी म्हळ्यार अतिताय

जावंची न्हय!

गांवगिऱ्या वाठारांनी कार्तिक शुद्ध दुवादस जाता त्या तुळशी लग्नाच्या उत्सवाकूय 'दिवाळी'च म्हणटात. विष्णूचें तुळशीकडलें हें लग्न दर वर्सा जाता, विधीय तेच ते आसतात. मंत्रांतूय व्हडलेशे बदल नासतात (कांय म्हळे ना वा सोडले ना जाल्यार) आनी मंत्र तंत्र नाशिल्ल्या जाग्यार तुळशीच्या पेडयेभोंवतणी पांच प्रदक्षिणा घालीत आड्डून किळांचून म्हणपाचो 'गोंयदा! गोंयदा!'य तोच आसता. पूण लग्न मंडपाची सुवात तीच आसुनूय न्हवरो-व्हंकल तींच आसुनूय, व्हंकल-न्हवऱ्याकडली मंडळीय (रेशनावेलें नांव उणें करचें पडलें ना जाल्यार) तीच आसुनूय उमेद मात दरवर्सा नवी नवी. पटीपटीन वाडत रावपी! मागीर फोवांच्योय नाना तरा. रुचींच्योय कृष्णावरीच कळा! आनी ते उपरांत हातांत माळो घेवन उबीं राविल्लीं सगलीं जोडपींय हुस्क्या विरयत!!

तुळशीचें लग्न ज्या विष्णूकडेन लावपाचें आसता, तो विष्णू मात शिटूक आसुनूय आशाढ शुद्ध एकादशीक जो न्हिदता तो कार्तिक शुद्ध एकादशीक उठ्ठा. इतलो कुंभकर्णावरी न्हिदता की ताका सगल्या विधींसयत प्रार्थना करून उठोवचें पडटा! तुळशीकडेन शेण शितोडो, पेडयेंत कोबू (उसकांडो), गोंड, रोजां, चिंचो, आंवाळे दवरप, दोगांकूय तेल-हळद लावन न्हाणोवप, नवें लुगट न्हेसोवप, जानवें घालप, तुळशीक हळद-कुकूम करप, मंगळसूत्र बांदप आनी आरती दाखयत, घांट वाजयत पूजा करप हे सगले विधी हातूंत आयलेच. खरें म्हळ्यार लग्नसंबंद जुळपाकडेन आनी ते मरसर तिगोवपाकडेन ह्या विधींचो कसो कितें संबंद पावता हें पुरयत धरून कोणाकूच सारकें खबर नासता. आयच्या काळांत तो एक वादाचो, टिकेचोय विशय जावं येता. पूण घरालागीं, घराभोंवतणी, घराघरांत तुळस आसप हें आरोग्याचे नदरेन बरें म्हूण तुळस लावपाक, वाडोवपाक आनी तिची पूजा करपाक विज्ञानाचोय विरोध जावं नये. तेभायर श्रीविष्णूक उठोवपाच्या वेळावेल्या मंत्रांतलो म्हजे नदरेन म्हत्वाचो भाग असो की 'गता मेघा वियच्चैव निर्मलं निर्मला दिशः। शारदानि च पुष्पाणि गृहाण मम केशव।' (मळबांतलीं कुपां ना जाल्यांत. मळब निवळ जालां. दिकोय नितळ जाल्यात. केशवा (विष्णू), हांवें अर्पण केल्लीं शरद ऋतुंतलीं फुलां तूं पवित्र मानून घे.)

म्हणटकूच हे पुजेचो, लग्नाचो संबंद खंय तरी ऋतुंकडेन लागता. म्हळ्यारूच मनीसजातीच्या कल्याणाखातीर आशिल्ल्या ऋतूंकडेन – पर्यायान मनीसजातीकडेन – लागता. बायलांनी तुळशीक लक्षप्रदक्षिणा घालपाक जाय, अशें व्रत सांगतल्यांचो हेतू तरी भलायकेबगर दुसरो कितें आसूं येता?

पूण आयज मात्त आमी कांय गजाली फकत उत्सव मनोवपाखातीर वा उमेद काडपाखातीरूच करतात अशें दिसता. देखीक, कार्तिक पुनवेचीं नाटकां. गोंयांत चडशा देवळांनी पयलीं पुनवेक रातकालो, संकासूरकालो जातालो. उपरांत दुसऱ्या दिसा मळणे

संकासूर (प्रलंभासूर), गौळणकालो जातालो. हरदासाच्या होंवयांच्या सूरार म्हागणपतीसयत देवदेवतांक नमन घालून शेनाय-सुर्तीच्या म्होंवाळ वाजपांत मृदंगी मुखडे वाजयत, मोडणां मारीत जेन्ना राजांगणांत भितर सरताले आनी वरांचीं वरां धुमाळेची जी जुगलबंदी जाताली, ताणें राजांगणांतले माटव लेगीत घडये हालताले जावंये, धोलताले जावंये! पूण आज गोंयचें हें धुमाळेचें खाशेलें वाजप खंय गेलें? वाजप्यांचें कितें जालें? काल्याचो हेतूच आमी समजून घेतलो ना आनी हें सगळें सुशेगादेन नश्ट जावपाक दिलें! आमी! आमीच!!

ना म्हळ्यार कांय कडांनी काल्याची 'भोगावळ' जाता. हरदासाच्या नांवान कोण तरी उबो रावता, धुमाळेच्या नांवान मृदंगार वा पखवाजार छाप मारप जाता. कुड्डे (राकेसांचीं रुपडीं) चार पावल्यो मारून वतात, गणपती नाचता, भट-ब्राह्मण हाजेरी लायतात, रातचो संकासूर येता, लोकांक छळपाचो 'वर' मागून घेवन चार लोकांक सतायता, वेद चोरून व्हेले, अमृतपान केलें म्हूण काळ्या विष्णूक चार गाळयो शेंवटिता, चार लोकांची मनरिझवण करता, पुतना मस्तेपणां करून दादल्यांवांगडा किटकिट्टा, पालखेवेळार एकदोन 'कलवतां' वांगडा वतात, कांय गितांय गायतात, पूण आदली 'कार्तिक पुनव' मात्त खंयच दिश्टी पडना! ते पदेर गेले आनी ते उंडे गेले हे धरतेर अशेंच म्हणचें पडटलें की ते काले गेले, ते मृदंगवाले गेले! ते काले गेले, ते दशावतारी आनी विशेश करून गौळणकाल्यांतलीं गितां, गायनां रंगोवपी पेटीवाले गेले! ते काले गेले, ते हरदासाक आनी मृदंगांकूय न बदपी ताळवाले गेले! फाटोफाट वरांचीं वरां शास्त्रशुद्ध शेनाय वाजोवपी शेनायवाले गेले! शेनायवादनाच्या धुंद सुरार आनी मृदंगाच्या पकडदस्त तालार तंत्रशुद्ध पेणीं करपी कलवंतांय मागीर काळाच्या पड्ड्यांभितर लिपून गेल्यार नवल न्हय!!

वरांचीं वरां रात जागोवन भलायकी इबाडपाचीं पिशेपणां आयजूय आमी करचीं अशें हांव निखालूस म्हणचोंना. अशें सांगतल्यांक वा करतल्यांक हांवूच पयलीं पिसो म्हणटलों! पूण एक दुख्ख मात तितलेंच खर की गोंयकारांनी ह्या मळार सगल्या तरांचीं सोंपेपणां आसुनूय कमायलें ताचेपरस गमायलें चड! तें परतें मेळोवप खूब्ब कठीण. कारण, गेल्लें तें कितेंय पयशे मोडून परतें मेळोवं येत. पूण दायज मात्त न्हयच न्हय!!

त्रिपुर दैत्यान एक लाख वर्सां तपश्चर्या केली म्हूण प्रसन्न जावन ब्रह्मदेवान 'अभयदाना'चो वर ताका दिलो खरो, पूण तो माततकूच ताका मारपाक मागीर ब्रह्मदेवाक शिवाक मुखार काडचें पडलें आनी शिवान तीनय पुरां (राज्यां) लासून गोबोर करून त्रिपुराक मारिल्ल्यानूच सगलें शांत जालें! ह्या आनंदाचो उत्सव म्हूण कार्तिक पुनव मनयतनाच शेणिल्ल्या दायजाची मागणी करपाखातीर आमकां आज ब्रह्मांडांतल्या नृत्यशाळेंतल्या आद्य नटाक – नटराजाकूच – गाराणें घालचें पडटलें, '... सर्वत्रांचें कल्याण कर!'. मागीरूच 'हय म्हाज्या सायबा!'

# हिंदूंनी येशू आनी खिस्त्यांनी ॐ काळजार कोरांतून घेवप गरजेचें

शाळेंत मुळावें शिकप चालू आसतना ‘क्रिस्तांवांची परब’ इतलेंच कळपापुरतो नातलांकडेन संबंद आयिल्लो. ना म्हणपाक गांवांत वखदाक म्हणटात तशें एकूच क्रिस्तांवांचें घर आनी त्या घराचें गांवांतल्या चडशा घरांकडेन इतलें घरावें आपलेपण की आमच्या सणा-परबांनी तांची हाजेरी घरच्यांवरीच. घराचो बुदवंत कायतान डिसिल्वा. पूण आमकां सगल्यांक तो कायतूमाम आनी ताची घरकान्न फुलोरीनमांय वा फुलूमावशी. ताचो पूत फ्रांसीस्क हो आमचो आमीग फ्रांशीक (आतां फ्रांशीकबाब), आनी ताची भयण नातालीन हें आमचे वांगडा शिकपी जाल्ल्यान गांवभयणीवांगडाच आमची ती शाळा-भयण. देखून, ताचें चलंत नांव लेगीत नातालीनचे बदला नाताल वा नातल. घडये तेचखातीर जावंये, आयजूय नातल-नातलांचो नकळटां जुळिल्लो संबंद तकलेंत खुरीस करून आसा.

मुळावें शिकप सोपून माध्यमीक पांवड्यावयलें शिकप चालू जालें, तेन्ना नातलांचो संबंद संवसारांतल्या म्हान शांतीदूत येशू खिस्ताकडेन पावता, इतलेंच न्हय तर खिस्ताचो जल्म-सुवाळो म्हळ्यारूच नातलां म्हणपाचें बेस बरे भाशेन कळपाक लागलें. पाठ्यपुस्तकांनी ताचेवयले कांय पाठ लेगीत शिकप जाले. आतां तातुंतलें सगलें जरी याद जायना जालें, तरी येशू खिस्ताक ताच्या दुस्मानांनी खुरसार चडयलें, तेन्ना ताणें म्हणिल्लें ‘देवा, तांकां माफ कर. कारण ते कितें करतात तें तांकां कळना’ तकलेंतल्यान कशेंच गेलेंना आनी येशू खबर आशिल्ल्या कोणाचेय तकलेंतल्यान तें कशें वचत?

येशू खिस्ता संबंदान आनीक याद जाता ती, ताणें आपल्या बारा शिश्यांक दोंगरार केल्ल्या उपदेशाची. जिणेचो मूळ सिद्धांत तांकां शिकोवपाखातीर म्हूण जरी ताणें हो उपदेश केल्लो आसलो तरी दोंगरावयल्या ह्या उपदेशाक ‘येशूच्या राज्याचे नेम’ म्हूण नामना मेळिल्ली आसा. ते नेम अशे–

१. जे कोण आत्म्यांत नम्र जातात, ते धन्य! कारण, सर्गांतलें राज्य तांचेंच.

२. जे कोण दुखेस्त जातात, ते धन्य! कारण, देव तांकां शांती, सवस्तकाय दितलो.

३. जे कोण देवाची इत्सा मानून घेतात, ते धन्य! कारण, देव तांकां पुरायेन संतुश्ट करतलो.

४. जे कोण दुसऱ्यांक दयामाया दाखयतात, ते धन्य! कारण, देव लेगीत आपली दयेस्त नदर तांचेर दवरतलो.

५. ज्या कोणाचीं मनां शुद्ध आसात, ते धन्य! कारण, तांकांच देव पळोवपाक मेळटलो.

६. जे कोण सुमेळ सादपाचो यत्न करतात, ते धन्य! कारण, तांकां देवाचे पूत म्हूण संवसार वळखतलो.

७. जे कोण धर्म आनी खरेपणाक लागून हालउपाद्रे भोगतात, ते धन्य! कारण, सर्गाचें राज्य ह्याच लोकांचें.

८. म्हाका लागून लोक तुमकां हिणसायतात, सतायतात आनी फटींगपणान तुमचेआड सगल्या तरांच्यो वायट गजाली उलयतात, देखून तुमी धन्य! आनंदी आनी गुल्ल जायात. कारण, तुमकां सर्गांत बरें फळ मेळटलें. ह्याच कारणांक लागून तुमचे पयलीं जाल्ल्या ह्या भविश्यकारांक तांणी हेच रितीन सतायिल्लें.

आतां हे पुराय नेम जांणी कोणी अणभवंक नात, तांकां ते पाठ केलेबगर याद उरप कुस्तार. जाल्यारूय अनितीकडल्यान नीतीकडेन वचपाखातीर मनशान आत्म्याचेर विश्वास दवरपाची गरज आसा, हेंच ह्या नेमांचें सार आसूंक फावो.

आतां, अशा नेमांचो आनी उपदेशांचो प्रचार करचेपरस म्हापुरसांच्या संबंदांतल्या चमत्कारांच्या काणयांनी रूच घेवपी लोक संवसारांत चड आसतात. येशू भोंवतणीय अशे लोक आशिल्ले जावंक जाय. कारण, येशूय चमत्कारांच्या भोंवऱ्यांतल्यान सुटूंक पावलो ना. ताच्या 'त्या' चमत्काराच्या काणयांतली एक काणी याद जाता ती अशी – येशू एका काजाराक गेल्लो. काजाराचे रितीप्रमाण जेवणावेळार सोरो वांटप जालें. पूण यजमान्यांचो अदमास चुकलो. लोक चड जालो आनी सोरो उणो पडलो. तेन्ना यजमान्यांचेर आकांत आयलो. इतल्यान कोणेंतरी येशुची खबर ताच्या कानार घाली. ते बराबर यजमान्यान येशुच्या पांयार घालून घेतलें आनी संकश्टांतल्यान वांटावपाची मागणी केली. येशून ताका सोरो वांटपाच्या मापांत उदक भरून हाडपाक सांगलें. यजमान्यान तशें केलें. येशून तें माप हातांत घेतलें आनी तातूंत पळयलें. उपरांत तें 'उदक' उदकाच्या हांड्यांनी ओतपाक सांगलें. यजमान्यान तशें केलें आनी कितें अजाप! उदकाचो सोरो जालो!

ही काणी खबर आशिल्ल्यान लॉर्ड बायरनची Water saw its Lord and blushed ही कविता म्हाका काळजाक भावपाक आनी तकलेक कळपाक सोपी जाली. आतां काणी कितेंय आसूं, लोकांचो येशुवेलो भावार्त हांगा चड म्हत्वाचो, जसो कितें लोकांखातीर जल्मल्लो, लोकांमदीं वचपी, लोकांमदीं रावपी येशू लोकांचोच कसो जाल्लो हाची देख म्हळ्यार ही काणी.

आतां येशू लोकांचोच जाल्लो, ताचें कारण म्हळ्यार येशूक लोकभास कळटाली, लोकभाशेंतल्यान वेव्हार करपाक कळटालो आनी लोकांची गरज ताका बेस बरी कळिल्ली. भ्रश्टाचारी, अत्याचारी रोमन सत्तेआड आनी लोकांमदीं पातळिल्ल्या सुवार्थ पापांआड झुजून तीं नश्ट करपाक राजनीतीक स्वतंत्रताय उपकारपाची ना जाल्यार लोकांक पातकांचे गुलामगिरींतल्यान पयलीं मेकळें करचें पडटलें, हें ताका कळिल्लें. देखुनूच, बारा शिश्यांक वेंचून काडून तांच्या सांगातान जनजागरणाचो, भौसाक जागें करून बुद्द दिवपाचो म्हान वावर ताणें हातांत घेतलो आनी तातूंत तो इतलो जैतवंत जालो की राजसत्तेआड आनी विशेश करून धर्मसत्तेआड ताच्या रुपान एक खडेगांठ आव्हान उबें जालें!

अर्थात्, परिणाम जावपाचो तोच जालो. 'देवदूत' येशूचेर 'बंडखोरी'चो आरोप जालो! ताका धरपाचे आदेश सुटले, इतलेंच न्हय तर जिवें मारपाचेंय फर्मान सुटलें!! एक न्हय, दोन न्हय, स फावट येशूआड खटले चल्ले आनी निमाणच्या खटल्यान ताका खुरसार जिवें मारपाची ख्यास्त फर्मायली. पूण येशूक ताचें कांय एक दिसलें ना. ज्या येशून भ्रश्टाचारी आनी पातकी राजसत्तेचे आनी धर्मसत्तेचे आपलेवयले फटींगपणाचे आरोप आयकून घेतले, तांची फर्मायिल्ली ख्यास्त व्हड मनान घेतली, शिपायकांचो मार आनी थुकी आंगार खेळयतना आपलो खुरीस आपल्याच खांदार मारून व्हेलो, इतलेंच न्हय तर डाकूवांगडा चलपाचें उणाकपण मर्णापयलीं भोगलें, त्या येशूक ह्या सगल्या हालउपाद्र्यांउपरांतचें खुरसावयलें मरण कांयच न्हय दिसलें जाल्यार अजाप न्हय!

म्हजेसारकिल्ल्यांचे नदरेन येशूचें व्हडपण तें हेंच. येशून कितले चमत्कार केले, मेले उपरांत तो पर्थून जिवो कसो जालो आनी जिवो जावन सर्गांत कसो गेलो ह्या गजालींनी आनी वादांनी म्हाका बिलकूल रस दिसना. 'धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे।' म्हणटात तसो येशू नांवाचो एक म्हापुरीस हे धतरेर जल्मलो आनी ताणें एका नव्या युगाक जल्म दिलो हें म्हजे नदरेन म्हत्वाचें. पूण संवसाराक शांतीचो, सवस्तकायेचो, मोगाचो, दयेचो, बक्षणेचो संदेश दिवपी शांतीदूत येशूक आमी कितलें समजून घेतलां? ज्या खुरसार येशूक चडयलें तो खुरीस आमी गळ्यांत मिरयतात, आंगार कोंरातून घेतात, त्या येशूचे मुर्तेकूय त्याच 'भोवमानान' वागयतात, पूण येशूच्या तत्त्वगिन्यानाचें कितें?

नातलां म्हळेबराबर म्हाका हो प्रस्न अस्वस्थ करता. जायतीं वर्सां शिक्षकी पेशांत वावुरिल्ल्यान तर ख्रिस्ती समाजाच्या कितल्याशाच भुरग्यांकडेन आनी तांच्या मांय-पायकडेन, मम्मी-डॅडीकडेन आमिगदाद जाल्ल्यान आनी कांय जाणांकडेन ती वाडिल्ल्यान नातलांवेळावयली तांची उर्बा उमेद हांवें लागींच्यान पळयल्या. कांय कांय घरांनी नातलांनिमतान वचप जालां. हालींसरा निर्माण जाल्ल्या नातलांच्या भौशीक कार्यावळींनी वांटो घेवपूय जालां. जाल्यारूय चवथ दिवाळेचे उमेदीवरी उमेद आनी खर्चीक सुवाळे कुशीक काडल्यार त्या म्हान पुरसाचें तत्त्वगिन्यान लोकांमेरेन पावोवपासारक्यो लोक

शिक्षणाच्यो कितल्यो कार्यावळी जातात?

आतां एक मात खरें की २५ डिसेंबरादिसा येवपी येशू ख्रिस्तजयंती आनी गोकुळाष्टमी दिसा येवपी कृष्णजयंती वा रामनमी दिसा येवपी रामजयंती हातूंत कार्यकारणाचे नदरेन जसो वेचळोचार करूंक जायना, तेचपरी नातलां आनी दिवाळेच्या परबांमदीं उमेद, सुवाळ्यांचे नदरेन वेगळोचार करूंक जावचोना. हांव तरी ह्या परबांची तुळा करतना एकचारांचे नदरेनूच तांचेकडेन पळयतां. देखीक, कृष्णजल्म जसो रातचो जाता, तेचपरी २४ डिसेंबराचे मध्यानरातीं बाळक जेजू जल्मता. तेनिमतान इगर्जींत 'मीस' जाता. नातलांचीं पवित्र गायनां जातात. हें हांव आयकतां तेन्ना भुरगेपणांत गोकुळाष्टमीचे राती आमचेकडेन लोककाणयांचीं लोकगायनां जातालीं, ताची याद येता. येशूच्या जल्मावेळार फोगेट्यो, खोदने जातात, तेन्ना म्हाका जाल्यार चवथीवेळावयल्या फोगेट्यांचें आनी रथावेळावयल्या खोदन्यांचेच हे आवाज कशे दिसतात. आनी येशुच्या जल्माची खोशी उक्तावपाक एकामेकांक हात दिवन भेटयिल्ले सुखेस्त आंवडे आनी दसऱ्यादिसा एकामेकांक आपट्याचें 'सोनें' भेटोवन 'राम राम' उतरांनी नमस्कारून उक्तायिल्ली उमेद हातुंतले खोशयेक कशें कितें वेगळावं येता?

आतां एक तेंप असो आशिल्लो की समाजांतल्या कितल्याशाच घटकांक एकामेकांच्या उत्सव परबांसंबंदान व्हडलेंशें कांयच खबर नासतालें. इतलेंच न्हय तर आपलीच परब निश्चीतपणान खबर नासताली. देखीक, येशुचो जल्म ज्यूस्त केन्ना जालो हें खबर नाशिल्ल्यान वेगळ्या वेगळ्या देशांनी वेगळ्या वेगळ्या म्हयन्यांनी हो जल्म-सुवाळो मनयताले. डिसेंबर, जानेवारी, मार्च, एप्रील, मे अशा म्हयन्यांनी तो मनोवप जातालें. इतिहासीक दाखले मेळटात तेप्रमाण इसवी सनाच्या चवथ्या शतकाच्या मध्यामेरेन ६ जानेवारी हो ख्रिस्ताचो जल्मदीस म्हूण मनयताले. मात्त रोमन धर्मसभेन २५ डिसेंबर हो येशुचो जल्मदीस थारायत सावन आतां सगलेकडेन २५ डिसेंबर होच येशू ख्रिस्ताचो जल्मदीस म्हूण मनयतात. आतां, २५ डिसेंबर ते ६ जानेवारीमेरेन (रायांची परब) हो जल्मोत्सव चलता आनी विशेश म्हळ्यार भौशीक रितीन, भौशीक सुवातींनीय विंगड विंगड कार्यावळी जातात. येशुच्या जल्मोत्सवाचो मतींत घेवपासारको एक विशेश म्हळ्यार २५ डिसेंबर हो आदल्या काळांत रोमन लोकांचो दबाजीक उत्सव. कारण कितें काय म्हळ्यार भुगोलीक नदरेन ह्या दिसा सावन उत्तरायण सुरू जाता आनी देखून सूर्याचो पुनर्जल्म ह्या दिसा जाता अशें लेखून रोमन लोक आनंदाची परब कसो, अजित, जैतवंत सूर्याची परब कसो हो दीस मनयतालो.

आयज नातलांचे हे परबेची उमेद मनोवपाखातीर नखेत्रां, लापयांव, विमानां बी करून घराघरांनीं लावन रातच्या वेळार तीं दिव्यांनी पेटयतात, तें पळयल्यार दिवाळेची याद जालेबगर रावना. नातलांच्या झाडांनी, घरादारांनी आनी इगर्जींनी केल्ली वातींची

आनी लायटींची आरास पळयल्यार दिवाळेच्यो आनी कार्तीक पुनवेच्यो दिपरादनी दोळ्यांमुखार आयलेबगर रावनात. घराघरांनी आनी कपेलां, इगर्जींनी केल्ले सोबीत गोठे गोरवां-पाडव्यादिसाच्या धेंडल्यांची याद 'दिलेबगर रावनात. गोठो, तातूंत गवण, तणाचेर सुस्त न्हिदिल्लो बाबुलो जेजू, एके कुशीक मांय मेरी (मारी वा मोरी), दुसरे कुशीक पाय योसेफ (जोजेफ), जेजुचे भेटेक आयिल्ले राखणे, गवळी, गोरवां, बोकडां, मेंढरां आनी कांय कडांनी घोलींत जेजूचें पाळणें. कितलो सोबीत देखाव हो गोठ्याचो! आनीक कित्याक इतलें व्हडपण त्या गोठ्याक? देवाचो पूत येशू त्या तसल्या गोठ्यांत जल्मलो देखून! आनी मागीर म्हाका कादयेंत जल्मल्लो वासुदेव-देवकीचो माणकुलो कृष्ण, गोकुळांत नंद-यशोदेकडेन वाडपी बाळकृष्ण आनी गोरवां, राखण्यांमदीं खेळपी राखणो कृष्ण अष्टमीच्या भयांकृत काळखे रातींय बेस्स बरो दिसूंक लागता.

नातलां आनी चवथ-दिवाळेची तुळा करपाखातीर वा तांची सर करपाखातीर म्हूण न्हय, पूण त्या दोन परबांवेळावयली उमेद जशी वेगळावं नज, तशीच परबांची पूर्वतयारी लेगीत वेगळावं नज. मागीर ती नवे नवे आनी फॅशनेबल भेस शिंवपाची आसूं वा नवीं नवीं रुचीक खाणां करपाची आसूं. चवथ, दिवाळेचो 'फराळ' जाल्यार नातलांचो 'कुंस्वार' इतलोच नांवांचो मात्सो फरक! ना तर वडे वा पुरयो, नेवऱ्यो, करोंज्यो सगल्याक सारक्यो. पोळयोय जाल्यार आसतातूच. मांडारे, दोदोल, बेबींक, लांबो हीं नांवां एकदम वेगळीं दिसलीं तरी नातलांचीं हीं खाणां तशीं देशीच. चवथीचे मोदक आनी दिवाळेचे फोव करपाच्यो तरा वेगळ्योवेगळ्यो न्हय? तशेंच हें. ना म्हणपाक नातलांक वेगळें खाण म्हणटात तें केक. पूण आतां 'बर्थ डे'चे फॅशनीक लागून केकाचेंय अप्रूप पयलींसारकें उरूंक ना. भेटकार्डांचें पिशें तर नातलां, नव्या वर्सासावन सटी, बारशामेरेन पावलां! डांस आनी सोरो रोटांच्या पार्ट्यांसंबंदान तर उलयनाशिल्लें (बरयनाशिल्लें) बरें!! जाल्यारूय भुरग्यांक नातलां निमतान खेळणीं आनी खावपाक दिवपी 'सांताक्लॉज' आजूनमेरेन आपलें खाशेलेंपण राखून रावला. खेळण्या-चॉकलेटींनी आनी पताको लायटींनी फुलून भुरग्यांक फुलोवपी नाताळ रूख लेगीत आपलें तरणेंपण तिगोवन दवरूंक सोदता. अशा वेळार म्हजे सारकिल्ल्याचें काळजासावनचें म्हणणें इतलेंच की खुरसाक गळ्यांत मिरोवपी आनी आंगार कोरांतून घेवपी म्हज्या ख्रिस्ती भाव-भयण्यांनी येशूक काळजारूय कोरांतून घेवंक जाय. तशे आमचे किरिस्तांव भाव भयणी खूब मायेस्त हें हांव जाणां. 'पेल्याचो मोग करात, पेल्याचो आदार करात' हो येशुचो उपदेश लेगीत तांणी आपले जिणेंत आपणायला हेंवूय हांव जाणां. पूण ह्या समाजाचो एक व्हडलो घटक आजुनूय फेस्तां, काजरां, डांस, बर्थडे पार्ट्यो असल्याच सुवाळ्यांनी चड घुस्पून राविल्लो दिश्टी पडटा. गरजेभायल्यो रुढी, परंपरा तोडपूय तांकां शक्य जाल्लें दिसना. आनी गोंयच्या संदर्भांत समाजीक एकचाराची भास आमी कितलीय उलयली आनी बरयली तरी गोंयच्या समाजीक संस्थांच्या

वावरांत आमचे क्रिस्तांव तरणाटे-तरणाट्यो भाव-भयणी व्हड संख्येन दिसनात. घडये आमच्या धर्मसंस्थांचो प्रभाव इतलो जबरदस्त आसुंये की तांची अतिधर्मिकताय आमच्या समाजघटकांक चड आनी चड वेगळायता जावंये!

देखुनूच, ख्रिस्ती भाव-भयणींनी येशू काळजारूय कोंरातून घेवंक जाय म्हणटना हिंदू भाव-भयणींनी ॐ काळजार कोरांतून घेवप चड गरजेचें अशें म्हाका दिसता. (हांगा 'ख्रिस्ती' आनी 'हिंदू' हीं उतरां त्या त्या धर्माचें तत्त्वगिन्यान मानपी लोक ह्या अर्थान वापरल्यांत. वांगडाच म्हजो येशू हो संवसाराचो मोग करपाक शिकोवपी शांतीदूत येशू जाल्यार ॐ हो संवसाराची वळख करून दिवपी मूळ सूर.) आनी अशा एकचाराच्या गजालींक उत्सव, सण, परबांइतलें बरें माध्यम दुसरें खंयचेंय आसत, अशें दिसना. नातलां ही सवस्तकायेची, मोगाची आनी एकवटाची परब ह्या म्हणण्यांतलें सत जर आमकां राखून दवरपाचें आसत तर नातलांनिमतान येशू ख्रिस्ताचें तत्त्वगिन्यान चडांत चड लोकांमेरेन पावोवपाच्यो कार्यावळी आंखून त्यो वर्सभर नेमान राबोवपाचो संकल्प आमकां नातलांच्या उजवाडाक साक्ष दवरून करचोच पडटलो.

गोंयची समाज-बांदावळ – क्रिस्तांव उपसमाज – समाजीक जीण' ह्या आपल्या लेखांत डॉ. ओलिवीञ्यु गोमिश हांणी आयज क्रिस्तांव म्हूण वळखुपी गोंयच्या एका समाज घटकाक एक विंगड 'समाज' मानिनासतना 'उपसमाज' म्हळां, हाचेवेल्यान गोंयचो हिंदू आनी क्रिस्तांव कसो वेगळो नाशिल्लो, उरफाटो एकजीव आशिल्लो आनी खरें म्हळ्यार मुळांत एकूच आशिल्लो हाची एक सुलूस मेळटा. गांवगिऱ्या वाठारांनी तर आपूण मुळचे गांवकार आनी 'अमके अमके' म्हूण सांगपी कितलेशेच क्रिस्तांव भाव मेळटात. क्रिस्तांव वा गावडा समाजांतल्या कितल्याशाच जाणांचो हिंदू देवस्थानांतलो 'वांगड' आयजूय चलता. इतलेंच न्हय तर तांचेबगर जात्रा वा उत्सव जायनात. गांवगिऱ्या वाठारांनी तर हालीं हालींमेरेन कितल्याशाच जाणांच्या घरांनी 'पुरीस' आसले!

हांगा म्हाका 'हिंदू-क्रिस्तांव हो मुळांत वेगळो न्हयच; तर तो एकूच समाज' अशेंच सांगपाचें आसा. आतां ही गजाल तशी नवी न्हय वा अजाप करपासारकीय न्हय! गोंयच्या क्रिस्तांव समाजांत आशिल्ल्यो 'जाती' हो गोंयांत जाल्ल्या धर्मांतराचो एक जिवो पुरावो म्हणपाक कसलीच हरकत ना! पुर्तुगेज गोंयांत आयले उपरांत १५४१ सावन जें धर्मांतर (हिंदूंचे क्रिस्तांव जावप) जावपाक लागलें, ताचो परिणाम म्हूणच आयज हिंदू आनी क्रिस्तांव हे एकेच आवयचे दोन पूत दोन आवयांचे दोन पूत म्हणपाइतले 'वेगळे' जाले. मात गोंयकारांच्या आनी गोंयच्या बऱ्या नशिबान देशाच्या स्वातंत्र्यापयलीं आनी उपरांत आतांय कांय वाठारांनी हिंदू आनी मुसलमान जितले एकामेकांचे 'दुस्मान' जाल्लेवरी झगडले-झुजले, तितलो तेम गोंयच्या वा हेरकडल्याय हिंदू-क्रिस्तांवांनी केन्ना

केलो ना. भाव-भाव म्हूण वा भयणी-भयणी म्हूण गोंयकार एकमेकांलागीं इश्टागतीन वागत आयल्यात. हाचो अर्थ दोगूय एकमेकांक सारके कळ्ळ्यात अशें मात बिलकूल न्हय!

आमचेमदले जायते जाण उलयतना क्रिस्तांव समाजाचे इगर्जेंतले शिस्तीची तुस्त तोखणाय करतात. गजाल खरी आनी बरीय. मात्त, हिंदू देवस्थानांवरींच इगर्जींनी लेगीत परब वा धर्मीक विंधींचेर जातींचो सुमाराभायर प्रभाव आसा हें आमचेमदल्या कितल्या जाणांक खबर आसा? खरें तर हें हिंदू-वेवस्थेक मेळिल्लें क्रिस्तांव रूप! दुसरें कांय न्हय. पुर्वजांचे मिरासदारेचेर आपणें मिरोवप वा तांचे गांवकारकेचेर आपली गांवकारकी सिद्ध करप हें आयच्या आधुनीक काळांत समा न्हयच. पूण 'धर्मीक स्वातंत्र्य' वा 'अल्पसंख्यांकांचे हक' अशा नांवासकयल ह्यो अशो कितल्योशोच नश्ट्यो परंपरा अजून चालू आसात ही वस्तुस्थिती. दोनूय समाजांनी गंभिरतायेन विचार करून जात्रा वा फेस्तांवेळावयली ही मालकी भौशीक करपाची सामकी गरज आसा.

हरशीं परबांनिमतान वा उत्सवांनिमतान कांय बऱ्यो चालीय पळोवपाक मेळटात, ना अशें न्हय. हिंदू मकरसंक्रांतेक तिळगूळ वांटून गोड गोड उलोवपाची सुचोवणी दितात वा सोपूत घेतात. दसऱ्याक आपट्याचीं पानां सोनें (भांगर) म्हूण एकामेकाक दिवन 'राम राम' म्हणत एकामेकांक नमस्कार करतात. तेचपरी क्रिस्तांव भाव भयणी येशू खिस्ताच्या जल्मदिसा २४ डिसेंबराचे मध्यानरातीं इगर्जींतलें मीस सोंपले उपरांत एकामेकांक हात दिवन वा पोल्याचो उमो घेवन परबीं दितात. मात हें हिंदू-हिंदू आनी क्रिस्तांव-क्रिस्तांव अशें जायनासतना हिंदू-क्रिस्तांव आनी क्रिस्तांव-हिंदू अशें जालें जाल्यारूच आमच्यांनी गोंयांत ह्या दोन समाजांमदीं भावभावकी आसा अशें म्हणपाक जातलें. ना तर शाळेंतलीं भुरगीं तोंडपाठ म्हणटात ती प्रतिज्ञा/सोपूत आनी आमची भावभावकी हातूंत कसलोच फरक उरचो ना!

परबो, जात्रो, फेस्तां कोणाचींय जावं तीं आमी समजून घेवंकूच जाय आनी जर तातुंतल्यान समाजीक एकचार वाडपाची शक्यताय दिसली जाल्यार तांची जतनाय, वाड करपाक जाय आनी जर तातुंतल्यान कांय जाणांचें फालतू प्रस्थच वाडपाचें आसत वा आपल्या घराण्याचे तितले 'देवादीक' आनी बाकीचे 'फालतू', 'गावडे' ही भावना ह्या जात्रा-फेस्तांतल्यान वाडीक लागपाची आसत जाल्यार अशे उत्सव बंद पडल्यार कोणाक वायट दिसपाचें ना! जाल्यारूय पयलीं कितें म्हणटात तें समजून मात घेवपाक जाय. देखीक, नातलां उपरांत येवपी पास्कांची परब. खिस्ती धर्माचे समजणेप्रमाण येशू खिस्त खुर्सार दिले उपरांत पर्थून जिवो जालो. पास्कां म्हणटात तीं येशूच्या पुनर्जिवंतपणाची परब. आतां हिंदूंमदींय पुनर्जिवनाचेर गाड विश्वास आसा. जाल्यार येशू जिवीत जालो म्हूण अजाप करपांत अर्थ ना! विज्ञानाच्या कसाचेर एकादरी घटना तिगना जाल्यार

ती फट म्हणपाक कसलीच हरकत ना हें आयचें सादें तर्कशास्त्र! पूण हें तर्कशास्त्र वा विज्ञानीक नदर 'धर्मीक विश्वास' वा 'अंधश्रद्धा' मानून घेवपाकूच तयार ना जाल्यार ती चूक पुरायेन लोकांची न्हय, तर ती चूक परंपरेची, चुकीच्यो परंपरा सांबाळून दवरून वाडयतल्यांची, आपलें प्रस्थ तिगोवन दवरपाखातीर लोकांक गोरवां वा बोकडांवरी वागयतल्यांची आनी खरें म्हळयार क्रांती करून दुशीत वातावरण शुद्ध करूंक शकनाशिल्ल्या शिक्षणाचीय!

आतां क्रिस्तांवांच्या पास्कांपयलींचो चाळीस दिसांचो प्रायश्चित्ताचो काळ (कोरेज्म) म्हळ्यार एके तरेचो उपासूच! हिंदू वा मुस्लीम थरावीक काळांत करतात तसलो उपासूच तो. मागीर हिंदूंचे श्रावणांतले आनी कांय परबां दिसांचे उपास, मुसलमानांचो रमजान म्हयन्यांतलो रोजा (उपास) आनी क्रिस्तांवांचो हो कोरेज्म हातूंत मागीर फरक तो खंय पडटा? नांवांतूच मू? कृती तर तीच, तशीच. विश्वासूय तोच, तसोच. तेन्ना अशे रितीन आमी एकामेकांक कित्याक समजून घेवचें न्हय?

जो कोरेज्म गोबरा बुधवारा सुरू जाता आनी पवित्र सातोळ्यांत सोंपता, त्याच सातोळ्याच्या बिरेस्ताराच येशू ख्रिस्ताचे जिणेंतली दगदग सुरू जाता अशी समजणी आसा. 'देवाक' लेगीत हालउपाद्रे चुकनात अशे तरेची ही समजणी! जुदेवांनी तर त्या दिसा येशुचेर बगलांट घालून ताका धरिल्लो आनी ख्यास्त दिवपाक म्हूण धर्मगुरू आनी अधिकाऱ्यांमुखार व्हेल्लो.

'रामाचो आयतार' मदल्या रामाचो तसो श्रीरामाकडेन कांय एक संबंद ना. कांय जाण वोगीच हांगाय रामाक वेठीक धरतात म्हूण मुद्दम हें सांगपाक जाय. येशू ख्रिस्त जैतवंत जालो म्हूण ताका मानपी लोकांनी ताचो जयजयकार करून ताका जो येवकार दिलो, ताची याद म्हळ्यार रामाचो आयतार. 'पवित्र' केल्ल्यो पाचव्यो चुट्ट्यो त्या दिसा लोकांक वांट्टात.

क्रिस्तांव धर्माचो 'गुड फ्रायडे' म्हणटात, तो पास्कां-परबेपयलीं येता. निमाणो सुक्रार अशेंय ताका म्हणटात. खुर्सार खिळायल्ल्या येशूक मेकळें करून ताच्या जिवितांतल्या दुखेस्त घटनांचो नियाळ करपाचो आनी येशूचो उमो घेवपाचो हो एक धर्मीक विधी.

एक मात खरें की आमचे लोक अशा विधीवेळार, परबांवेळार इतले भावार्ती जातात आनी कांय कांय फावटी पिसावतात की विधी, परब, उत्सव, जात्रा, फेस्तांफाटलो विश्वास कुशीक पडटा आनी ताची सुवात कुड्डो विश्वास घेता. विधी ह्यो यादीखातीर करपाच्यो आसतात, संस्काराखातीर करपाच्यो आसतात हें आमी जेन्ना विसरतात तेन्ना आपसूक अंधश्रद्धेक सुवात मेळटा. जायते फावट मागीर ह्या विधींतल्यो चुको दाखयल्यो, ताची पोकळसाण सिद्ध केली की तें आमच्या काळजाक लागता आनी धर्मीक तेढ निर्माण जावपाक वेळ लागना. तेन्ना जाणा जावन घेवपाक जाय तें हें की एकादरे

व्यक्तीमदीं गुणासयत दोश लेगीत आसतात, कारण ताचीं मुळां हीं चडशीं जल्मजात आसतात. तेचपरी ह्या संवसारांतल्या दर एका धर्मामदीं बरें-वायट दोनूय आसतातूच. राम-रावण ह्यो तर ह्या संवसाराच्योच जल्मजात प्रवृत्ती. तातूंत पर्थून ब्रह्मगिन्यानी रावण गर्वान दुश्ट जावपाक पावलो. तेन्ना वायट प्रवृत्तींक आळाबंदा हाडपाक आनी गरज पडल्यार नश्ट करपाक म्हूणच तर धर्म! धर्म म्हणटात तो संस्कारांखातीर, इश्टागतीखातीर, झुजा खातीर न्हय! धर्मयुद्ध जालेंच जाल्यार तें धर्म-युद्धाखातीरूच जावपाक जाय.

एकामेकांक समजून घेतलें ना जाल्यार कशे आनी कितले गैरसमज जावं येतात, हाच्यो कांय देखी म्हाका खबर आसात; तातुंतली एक देख अशी – १५ आगश्ट हो आमच्या देशाचो स्वतंत्रतायेचो दीस, म्हणटकूच विंगड विंगड कार्यावळीवरवीं खोशी मनोवपाचो आनी इतिहासाची परवड करून स्फूर्त घेवपाचो दीस. पूण ह्या दिसा खुबशा क्रिस्तांव भुरग्यांनी शाळेंत येवपाक ओडी काडप आनी त्या भुरग्यांची हाजेरी सामकी उणी दिसप अशें चित्र दर वर्सा दिसतालें. कारण, विचारल्यार ते 'मिसाक वचपाक जाय' म्हणटाले. उपरांत मीस कसलें हाची चौकशी केली तेन्ना कळ्ळें सायबीण मांयचो कुडीरुपान सर्गार वचपाचो हो दीस एक व्हड परब कशी मनयतात आनी ते निमतान इगर्जींत मीस जाता. आतां प्रस्न पडटा की पंदरा आगश्टाची राष्ट्रीय परब आनी पंदरा आगश्टा दिसाच येवपी सायबीण मांयची परब ह्या दोनूय परबांभितर खंयचे परबेक प्राधान्य दिवप? जावं क्रिस्तांव, जावं हिंदू, जावं मुसलमान, जावं देशांतल्या आनीक खंयच्याच धर्माचो मनीस, राष्ट्रीय परबांक पर्याय आसुंकूच शकना, आसचो न्हय. पुराय समाजाच्या धर्मीक भावनांसंबंदान आनी संस्कारांसंबंदान पुराय आपलेंपण बाळगुनूय हें सांगचेंच पडटा की राष्ट्रीयतेक धर्मीकपणाचो पर्याय हें बुद्धीक कशेंच पटना. आतां धर्म म्हळो की संस्काराचो भाग आयलोच. हिंदूंमदीं भुरग्याक मूज करून त्या धर्माचो घटक करून घेवप आनी क्रिस्तांवांमदीं बाप्तीज्म करून ताका त्या धर्माचो घटक करून घेवप, हातूंत तसो विशेश फरक ना. जाल्यारूय हिंदूंमदले थारावीक घटकूच मूज-विधी करतात वा तांकां त्या धर्मान तशी 'संद' आनी 'सवलत' दिल्या. मात, हांगा एके गजालीचो विचार जावंकूच जाय की मूज केल्लो 'हिंदू' जाता आनी मूज करूंक नाशिल्लोय 'हिंदू' जाता वा 'हिंदू' उरता, जाल्यार मुजीच्या संस्काराचें म्हत्व वा विशेश तो कितें? जालेंच जाल्यार मुजीक आनी जानव्याक लागून आपली एक विशिश्ट जात दाखोवपाक हे संस्कार उपकरतात. आतां हिंदूंमदले बंडखोर तरणाटे हाचेर गंभिरतायेन विचार करूंक लागल्यात आनी सगलो समाज एक दिसपासारकी कृतीय करपाक लागल्यात, ही बऱ्याची सुलूस. क्रिस्तांव धर्मांतल्या तरणाट्यांक पयलीं तरी ही संद नाच्च! कारण, 'बाप्तीज्म' करून भुरग्याक क्रिस्तांव करपाची पिराय चड करून म्हयन्याभराची आसता. ताका

लागून आपलो निर्णय आपणें घेवप ताका शक्यूच नासता. हिंदूंच्या मुजीसंबंदान आनी क्रिस्तांवांच्या बाप्तीज्मासंबंदान एक गजाल मात मतींत घेवपाक जाय, ती म्हळ्यार, बाप्तीज्म चल्यांचो-चलयांचो, दोगांयचोय जाता, मूज मात चल्यांचीच जाता. चलयांक वा बालयांक हिंदू धर्मांत धर्मीक अधिकार साप्प उणो. मागीर, बायलमनशेक ते 'देवी' म्हूण लेखूं वा चलयो लेगीत आदल्या तेंपार धर्मीक शिक्षण घेताल्यो हें सिद्ध करपाखातीर गार्गी, मैत्रेयी सारक्या विदुषींचीं उदाहरणां दिवं! आतां क्रिस्तांव धर्मांत बाप्तिज्मावेळार पूत जाल्यार तीन फोगोट्यांचे मारांद आनी धूव जाल्यार दोन फोगोट्यांचे मारांद मारपाची जी पद्धत आसा तातूंतय चलो चलयेमदीं वेगळोचार केला, ही गजाल सारकी न्हय. बदलत्या काळाक धरून गरजेचे बदल केले नात, जाल्यार मागीर धर्म म्हणटात तो आनीक कितें? मनशाचेर बरे संस्कार करून बरो मनीस घडोवप हो जर धर्माचो मुखेल हेतू जाल्यार तातुंतल्यो काळाभायर्‍यो गजाली काडून उडोवन गरजेच्या नव्या गजालींचो आसपाव करचोच पडटलो.

भुरगेपणासावन गांवगिऱ्या वाठारांतल्या हिंदू समाजाकडेन म्हजो संबंद आयला आनी जो क्रिस्तांव समाज हांवें पळयला, ताचेवेल्यान दोगांयच्याय चालीरितींनी, संस्कारांनी आनी उत्सव-परबां-फेस्तांनी व्हडलेंशें वेगळेंपण दिसनासलें. देखीक, भुरगें जल्माक आयले उपरांत सव्या दिसाक घराकडेन व्हड दबाज्यान 'सटी' मनोवपाची रीत दोनूय धर्मिकांमदीं आसली आनी आतां काळाच्या ओघांत दोनूय धर्मिकांमदलें सटी मनोवपाचें हें प्रमाण उणें जायत चल्लां. भुरगें जाल्ल्याची खोशी मनोवपा निमतान चार लोकांक जेवणखाण घालपाची ही रीत बऱ्याक पडटाली हें खरें, मात्त ते रातीकडेन 'सटी' येता आनी भुरग्याच्या कपलार ताची 'भाग्यरेख' काडटा ही कुड्डी श्रद्धा तेनिमतान पसवताली, बळटाली ही गजाल मात समा न्हय. वांगडाच, सटये दिसा कांय जाण बेठेंच कितें ना कितें तरी निमित्त्य काडून केस्तांवां बी करताले ते नदरेन सटयेची रीत उणी जायत चल्ल्या ही बरी गजाल.

क्रिस्तांव धर्माचें भुरगें सादारणपणान आठ वर्सांचें जाले उपरांत इगर्जेंत व्हरून ताका 'कुमसार' करप, उपरांत भुरग्याक 'कोमुन्यांव' दिवप अशे जे जायते संस्कार क्रिस्तांव धर्मामदीं आसात तांचो संबंद चड करून पुण्य आनी पातकाकडेन आशिल्ल्यान आयच्या काळांत ताचो कितलोसो उपेग जाता तें 'देव' आनी 'धर्म' जाणा. कारण, निमाणें मनशाची चालचलणूक ही प्रत्यक्षांत आसप आनी ताणें अमक्यो पुण्याच्यो गजाली आपणें केल्यात म्हूण सांगप, अमक्यो पातकाच्यो गजाली आपणें केल्यात म्हूण सांगप हें पुरायेन खरें सांगलें जाल्यारूय तांणी जीं पातकां केल्यांत तीं ना जायनात! थापट फुलोवन 'सॉरी' म्हणपाचोच हो प्रकार. आतां नाल्लाचेर हात दवरून सोपूत घेतना वा देवळांतल्या घांटीपोंदा उबें रावन 'सत' उलयतना कितल्याशाच जाणांमदीं जीं फटींगपणां

लिपिल्लीं आसतात तीं कोण कशीं ना करतलो? म्हणटकूच दाखोवपाचे दांत वेगळे आनी खावपाचे वेगळे हाची मक्तेदारी खंयच्या एका धर्मान घेतिल्ली ना, तर सगल्या धर्मिकांमदीं चड उण्या प्रमाणांत हें आसाच!

धर्मामदीं संस्कार तशे खूब तरांचे आसतात, मात्त क्रिस्तांवांमदीं काजराचो वा साक्रामेंताचो संस्कार आनी हिंदूंमदीं गोड कातली/साखरपुडो आनी लग्नाचो संस्कार, हो जिणेंतलो एक म्हत्वाचो संस्कार. मात आयज त्या संस्कारांक लेगीत एके फॅशनीचें रूप मेळत चल्लां. तथाकथीत वयल्या समाजाचे दोश दाखयत तांचेआड उलयतना बरयतना तथाकथीत भौस लेगीत तांच्यो झेपना जाल्ल्यो चालीरिती लग्नापयलीं, लग्नावेळार आनी लग्नाउपरांत आपणावंक लागला.

आदींचे 'गोड कातलेक' मेळिल्लें साखरपुड्याचें रूप, लग्नाच्यो व्हों‌वळीक पत्रिका चडांत चड इंग्लिशींतल्यान काडपाची फॅशन, लग्नावेळार उंची अहेर भेटोवपाक चलिल्ली सर्त आनी उपरांत कितलींशींच आपोवणीं, सणां-परबांवेळावयलीं वजीं हें सगलें कित्याचें लक्षण? फोटोवांगडा व्हिडियोन लेगीत हालींचीं लग्नां रेवाडून उडयल्यांत म्हळ्यार अतिताय जावंची न्हय! ना म्हळ्यार कांय तरणाटे आपलीं लग्नां वा काजरां सुटसुटीत पद्धतीन करपाक लागल्यात, अहेराची रीत तांणी सोंपयल्या आनी सोयऱ्यां इश्टांखातीर बुफे-पार्टीचें आयोजन ते करपाक लागल्यात, ही फुडाराची बऱ्याची सुलूस म्हणपाक जाय. कारण, लग्न-काजरांखातीर नाय म्हळ्यार लाखांनी खर्च कित्याक करपाक जाय? निमणें तो दोगांयच्या जिवितांचो प्रस्न. आतां समाजाचो धीर आदार आशिर्वादाच्या रुपान तांकां जाय, ना अशें न्हय. जाल्यार तेखातीर पयशांच्या खेळाचें प्रदर्शन करपाची कितें गरज?

वेदीक पद्धतीन केल्लें दर एक लग्न वा काजार जैतवंत जालांच अशीं उदाहरणां नात वा मोग करून केल्लेंय लग्न वा काजार तिगून उरलांच हाचींय उदाहरणां आमचेकडेन नात! निमणें लग्न हो दोन कुडी आनी दोन मनां जुळोवपी संस्कार. 'लग्न' ह्या उतरांतच हो अर्थ आस्पावता. आनी उपरांतचो 'संभोग' लेगीत 'सम-भोग' उतरांतल्यान आयला, हें मतींत धरूंक जाय.

लग्न मागीर कोणाचेंय जावं, गोंयांत चालू आशिल्ल्या सिव्हील रजिस्ट्रेशन कायद्याप्रमाण त्या लग्नाची नोंद 'सिव्हील रजिस्ट्रेशन ऑफिसां'त जावचीच पडटा. आतां दर एकल्याक आपली धर्मसंस्थाय तितलीच म्हत्वाची दिसता जायत जाल्यार कायदो ताका आडायना. ह्याच अलिखित नेमाक धरून हिंदू वेदीक पद्धतीन घराकडेन वा देवळाकडेन आनी क्रिस्तांव इगर्जेच्या धर्माप्रमाण घराकडेन वा इगर्जेकडेन वचून लग्न जाता. एखाद्रया मनशाचें जल्म धरून मर्णामेरेनचें भविश्यच जशें कितें भट आनी पाद्रीच्या हातांत सुगूर उरता! अशे रितीन मागीर ताचें सगलें जिवीत भट पाद्रीबगर कशेंच मुखार वचना!

आतां लग्नाचो थातोमातो, अर्थ अपुर्बाय हिंदूंमदीं वेगळी आनी क्रिस्तांवांमदीं वेगळी असो प्रकार नाच्च! उरफाटें तर हिंदूंमदल्या सादे पद्धतीन जावपी लग्नांक चडांत चड खर्चीक दबाजीकपण कशें हाडूं येत हाची सर्त आयज वचत थंय पळोवपाक मेळटली म्हळ्यार अतिताय जावंची न्हय! कारण, आयचीं चडशीं लग्नां देवळांच्या सभाघरांनी वा शारांतल्या व्हडल्या व्हडल्या सभाघरांनी जातात, ही गजाल समजूं येता. कारण आयजकाल दर एकल्याची सोयरगत आनी इश्टागत वाडत चल्ल्या. तांकां लग्नाक आफोवंकच जाय. पूण हाचेपयलींच हांवें सांगलां तेप्रमाण खर्चाचेर बंधन घालप शक्य आसा. मात, जायत्या जाणांक दिसता की हॉलांत लग्न केले उपरांत 'हॉलाक फावो सारको' खर्च करूंक जाय!... आनीक एक फॅशन हालीं आयल्या. माळ गळ्यांत पडून व्हंकल-न्हवऱ्याचेर अक्षता पडल्यो रे पडल्यो की व्हंकलेक घोवा घरच्यान हाडिल्लें म्हूण न्हेसोवपाक भितर व्हरपाची चाल आशिल्ली, आजून आसा. बायलांचो मोदी सभाव लक्षांत घेवन हें एकवेळ समजून घेवंया (न्हय, लोक ते समजून घेयत आयल्यातूय!) पूण आतां न्हवरेय माळ पडलेउपरांत व्हंकलेकडल्यान हाडिल्लें न्हेसपाक भितर वचपाक लागल्यात हें पळोवन कितें म्हणचें तेंच कळना! नशीब नव्या न्हवऱ्यांचें! आंग हुमेच्या धारांनी भिजयत बुडबुडीत करून घेवपी तांच्या सुट-बूटांक तर टायसाश्टांग नमस्कार!

खरें म्हळ्यार लग्न हो चडसो बायलांचो दबाजो, तांचोच विशय तो! कारण, आयजमेरेन समज असोच रूढ आसा की लग्न करून 'दिवपाची' ती चली आनी लग्न करून 'हाडपाची' ती चल्यान. हाका लागून अठरा-वीस वर्सांमेरेन एके सुवातीर वाडिल्ली चली दुसऱ्यागेर 'दितना' वा 'वतना' तिचेसयत सगल्यांकूच दुख्ख जावप हें सभावीकच आसलें. शकुंतला घोवागेर वतना कण्वमुनी लेगीत कांय खीण सतर-विथर जालो तो ह्याच नेमाक धरून! सभाविकपणानूच ह्या संदर्भांत व्हंकलेचो थातोमातो करप, अर्थ-अपुर्बाय करप हें आदीकालासावन चलतूच आयलां. व्हंकल म्हूण मेथयेन तिचे हात रंगोवप (मेंदी घालप), चुडो भरप, हळदीन, तेलान तिका रंगोवप, न्हाणोवप, नवें नवें न्हेसोवप, केसांच्यो मोदी करप, हूट भरप, नमस्कार करून तिका आशीर्वाद दिवप हें सगलें व्हंकलेखातीर करप बायलांक खूब खूब आवडटा, व्हंकलेकूय तें मनापसून मानवता. हांगा कोणाकूच धर्माचीं बंधनां हरकत घेनात वा अमूक धर्मांत उणी उमेद दुसऱ्या धर्मांत चड उमेद अशेंय दिसना.

एके गजालीच्या संदर्भांत मात हो हिंदू आनी हो क्रिस्तांव इतलें वेगळेपणान सांगप शक्य आसा. ती गजाल म्हळ्यार मनीस मेले उपरांत ताचेर करपाच्या निमण्या संस्काराची तरा. ताका मागीर मोन्नविधी म्हणुंया वा अंत्यसंस्कार म्हणुंया. हिंदू मेले उपरांत ताका लासपाची आनी क्रिस्तांव मेले उपरांत ताका पुरपाची चाल ही हजारांनी वर्सांसावन चलत आयल्या. दोनूय वाटांनी आपले आपले चालीचें फावोशें समर्थन लेगीत जायत

आयलां. आतां आपलें मूळ 'हिंदुत्व' म्हूण मानपी कांय समतावादी, राष्ट्रवादी विचारांच्या फुडाऱ्यांनी आपल्या मर्णपत्रांत बरोवन दवरिल्लेप्रमाण आपणाचेर दहनविधीचे संस्कार (लासपाचे संस्कार) करून घेतल्यात, .ना अशें न्हय. पूण असलीं उदाहरणां हाताच्या बोटांचेर मेजपाइतलीं उणीं!

ना म्हणपाक मनीस मेलेउपरांत लासपाची पद्धत बरी म्हणपाकडेन आतां संवसाराचें दालें बागवूंक लागलां अशें दिसता. हाचोच परिणाम म्हूण घडये संवसारांतल्या इगर्जींसारक्या संस्थांच्या फुडाऱ्यांमदीं ह्या विधीसंबंदान पर्थून एक फावट विचार जावंक लागला. भारतांत हो विचार सगल्या इगर्जींनी 'विचाराखातीर' पावला. आजून ताचेर निमणो निर्णय जावपाचो आसा, हें खरें आसलें तरी एक क्रांतीकारी विचार मानून घेवप काय तो भायर मारप हें आतां आमच्या क्रिस्तांव भाव भयणींचेर आदारून आसा.

हो विचार मांडटनाच आनीक एक अस्वस्थ करपी विचार मांडलेबगर रावंक जायना.

जांकां 'धर्माचें पिशें' लागिल्लें आसा वा कितल्याशाच वर्सांच्या संस्कारांनी तें 'पिशें' लागिल्लें आसा, तांणी आपल्या भुरग्यांक धर्मीक शिक्षण दिल्यार तांकां कोण आडायतलो? पूण सरकारी अनुदानाचेर चलिल्ल्या शाळांनी क्रिस्तांव धर्माचें शिक्षण दिवप समा न्हय. तातुंतल्यान भुरगेमनाचेर जे वेगळेचाराचे संस्कार हे धर्मपिशे घडयतात, ताका जापसालदार कोण? एकेवटेन शाळांतल्या पाठ्यपुस्तकांनी समतेचे धडे शिकोवप आनी दुसरेवटेन त्याच शिक्षकांनी धर्मीक पाठ दिवप हें खंयच्या न्यायांत बसता? 'गर्व से कहो हम हिंदू हैं!' म्हणप्यांची धर्मीक पिशेपणाची अतिताय आनी कांय हिंदू शिक्षकांची शाळेंत भुरग्यांक 'समते'चे पाठ दितनाच भायर जातीसंस्थांच्या व्यासपिठांचेर वचून जातीचीं गायनां करपाची अती उमेद लेर्गीत अशीच आयच्या काळाच्या न्यायांत बसपासारकी न्हयच! समान नागरी कायदो ह्या देशांत जाता तितले बेगीन चालीक लावपाची गरज आसा ती हे खातीरूच.

# राष्ट्रीय एकचाराचें कीर्ण उदेवपाक मकरसंक्रांत जाय खेरीत रुपान मनोवपाक

पौष म्हयनो लागता, शिंयाचो नेट दुपेट जाता आनी आमचें संस्कृतीक दायज सणासमारंभा वांगडाच भुगोलीक गिन्यान घेवन येता, विज्ञानीक नदर दिवन वता, राष्ट्रीय एकचाराचो संदेश रुजवणाक घालता, ताका मोगाचीं फळां लागपाची आस्त बाळगिता. हो म्हयनो जिवितांत एक खेरीत गोडसाण खिरोवन वता, जाय जायशें दिसपी गरमेन तनांमनां उबोवन वता.

मकरसंक्रांतीचेंच उदाहरण घेवंया. वचत थंय तिळगूळ वांटपाचे दबाजीक सुवाळे. बायलांच्यो हळदीकुंकवाच्यो कार्यावळी. घराघरांनी हीट-रोस, गोडशें, शेवयो.

खरें म्हळ्यार मकरसंक्रांतीक हेर सणसमारंभांपरस, उत्सवांपरस म्हान इतिहासीक परंपरा आसा, भुगोलीक बुन्याद आसा आनी विज्ञानीक कार्यकारणभाव आसा. इतिहासीक परंपरा तर इतली व्हड की हो दीस म्हळ्यारूच वर्साचो पयलो दीस अशें कितल्याशाच विद्वानांचें मत आसा आनी तें पटपासारकेंय आसा.

आर्य लोक ध्रुवप्रदेशांत वसत्यो करून रावताले तेन्नासावन ह्या सणाक आरंब जालो अशें जाणकार सांगतात. ध्रुवप्रदेशांत स म्हयने रात आनी स म्हयने दीस! अर्थांत, स म्हयन्यांची भयांकृत रात सोंपून पयलेंच उजवाडाचें कीर्ण धतरिचेर पडटा, तेन्नाचे खोशयेचें वर्णन करप कवी कुलगुरू कालिदासाक तरी शक्य जायत व्हय?... जायतूय घडये! पूण मुक्ततायेचो हो ब्रह्मानंद आर्यांनी तिळगुळाचो समारंभ करून मनोवपांत देखदिणें शाणेपण दाखयलें, हातूंत इल्लोय दुभाव ना. सूर्य मकर राशींत प्रवेश करता तो उत्तरायणाचो पयलो दीस. १४ जानेवारी मकरसंक्रांत म्हूण उत्सव-सणांचे वळेरींत विराजमान जालो तो असो. (महाभारतांत शिशीर ऋतूंत नव्या वर्साचो आरंभ जाता. 'ऋतवः शिशिरोदयः' अशें सांगलां.)

सामान्य मनशाक ही उत्तरायणाची, मकर राशीची भानगड कळपासारकी नासली. कळ्ळ्यारूय ती मानून घेवप तांचे बुद्धीभायलें, तकलेपेलें! देखून, तांचे खातीर 'संक्रांत' ही देवी! पंचांगांतलें तिचें वर्णनूय सुरबूस. 'साठ योजनां पातळिल्ली, लांब, रूंद ओंठ, लांबोडयें नाक, तोंड एकूच पूण णव हात अशी दादल्याचे आकृतायेसारकी ही देवी

म्हळ्यार 'संक्रांत देवी'. ही देवीय तशी 'परिवर्तनशील'. दर वर्सा ती बदलता. तिची अवस्था नवें नवें रूप घेता. तिचें वाहन बदलता. तिचीं आयुधां (शस्त्रास्त्रां) बदलतात. ती खंयच्यान तरी येता, खंय तरी वता, तिचें पळोवपूय खंयतरीच! अशें सांगतात की ती जे दिकेन येता, तो प्रदेश समृद्ध जाता; जे दिकेन वता तो प्रदेश उद्ध्वस्त जाता, थंय उजो पडटा. ती ज्यो ज्यो वस्तू घेता त्यो एक तर नश्ट जावन वतात वा म्हारग तरी जातात.

पंचांगांत सांगिल्ल्या संक्रांती-देवीच्या ह्या तपशिलासंबंदान आनी केल्ल्या वर्णनासंबंदान 'संशोधन' करपाक खूब वाव आसा. निकतो तर्क लडयल्यारूय संक्रांतीच्या व्युत्पत्तीफाटली परिवर्तनशीलता आनी क्रांतीक लागून जावपाच्या नाशांतल्यान नवनिर्माणाच्या वावराक जावपी स्फूर्तदिणो आरंब अशीं कितलिंशींच सूत्रां आमकां हातूंत मेळटात.

ज्या ज्या देवाक भजप-पूजप जाता, ताणें कोणा तरी राकेसाक मारिल्ल्याची काणी आसता. देखीक, कृष्णान नरकासुराक मारलें, जाल्यार विष्णून बळीचो बळी घेतलो. संक्रांतदेवीनूय संकरासुराक जिवेंनशीं मारलें आनी सगल्यांक सुखी केलें अशी काणी चलत आयल्या. संक्रांतेचो दुसरो दीस जो कंक्रांत म्हूण येता, तो दीस किंकरासुराक मारिल्ल्याचो दीस.

संक्रांत देवी मागता ताका इच्छित फलप्राप्ती करून दिवपी देवी अशें सांगतात आनी तेसंबंदान एक आख्यायिका आसा ती अशी की दुर्वास ऋषीन द्रोणाचार्याची घरकान्न कृपी हांकां संक्रांतीक पुजपाचें व्रत सांगलें आनी ताका लागून तांकां चलो जालो, सुखसमृद्धीय प्राप्त जाली.

संक्रांतीच्या पुजेउपरांत बायलेक चलो जावं येता, पूण संक्रांतीचे पुजेक लागुनूच तो जालो हे गजालीचेर आयच्या विज्ञानयुगांत तरी कोण विश्वास दवरीतशें दिसना. अशें आसुनूय अख्ख्या भारतभर ही संक्रांत मनोवप जाता, ही गजालूय तितलीच खरी! प्रयागांत तर गंगास्नानाखातीर म्हान यात्रा भरता. अलाहाबादेक कुंभ मेळ जातात. दक्षिणेकडेन तिन्नेवली जिल्ह्यांत ताम्रपर्णी न्हंयंत जाल्यार वेदारण्यम् हांगा समुद्रांत लोक हजारांचे-लाखांचे संख्येन पवित्र न्हाण-धूण करतात. समुद्रस्नान, गंगास्नान आनी दान हें 'पुण्यकर्म' अशें मानतात. ह्या दिसांनी काळे तीळ भक्षण करचे, गोड खावचें अशें तर धर्मग्रंथियांनीय सांगलां. हेमाद्री, शिवरहस्य हातूंत काळ्या तिळाचें म्हत्व सांगून विधीय सांगला. भौसाचे नदरेंतलें पुण्य गांठीक बांदून कुशीक काडून दवरलें तरी आरोग्याचे जतनायेखातीर दर्यास्नान, गंगास्नान कित्याक करपाक जाय .वा शिंयाच्या दिसांनी तिळगूळ कित्याक खावपाक जाय हें शास्त्र (विज्ञान) बारीकसाणेन अभ्यासून आमी आपणायल्यार वायटशें न्हय.

आतां भारतभर मकरसंक्रांत मनयतात हें जरी खरें आसलें तरी चालीरिती मात प्रदेशाकणकणीं बदलतना दिश्टी पडटात. अर्थांत, बायलांचें (सवायशिणी) नटपथटप,

तिळगूळ वांटून हळदीकुकमाचो सुवाळो मनोवप, घरांत गोडगोडशें रांदप हें सगलेकडेन सारकेंच आसलें तरी खाणाजेवणाच्यो, गोडशांच्यो पद्धती वेगळ्यो. देखीक, महाराष्ट्रांतच देशाचेर गोडाच्यो पोळयो करतात, जाल्यार कोंकणांत, गोंयांतूय इडलेसारकी पोळी करून नाल्लाचो रोस करून शेवयो पिळटात. उत्तरेंत खिचडी पकयतात, जाल्यार दक्षिणेंत खीर भुरकायतात. बंगालांत काकवेंत तीळ घालून 'तिळुवा' करतात, तांदळांच्या पिठांत तूपसाखर घालून 'पिश्टक' नांवाची खावड करतात. हिमालयाच्या सकयल्ल्या प्रदेशांनी पिठाचीं सवर्णीसुकणीं करून तुपांत तळटात आनी भुरग्यांच्या गळ्यांत बांदतात. दुसऱ्या दिसा हें कावळ्यांक खावपाक घालतात. महाराष्ट्रांत कांय कडांनी हालव्याच्यो वस्ती तयार करून नवे व्हंकलेच्या आंगार घालतात आनी जांवयाक तिळगूळ अहेर भेटयतात.

हें सगलें सुशेगादेन आनी गडबडगोंदळाविरयत चल्लां आसतनाय मकरसंक्रांत मनोवप सारकें काय चूक हेसंबंदानूय कांय वाद चलतात. वाद तोंडा-तोंडांतल्यान चलतात तेमेरेन बरें आसा. पूण जाहीर रितीन तांकां झगड्याचें स्वरूप येता, पेपरांनी भासाभास जावन कांय फावट विकृतीवटेन चर्चा वता, तेन्ना मकरसंक्रांतेफाटलो हेत सुवाळ्याच्या बडवचाराक लागून गुप्त जायना मूं, इतलेंच न्हय तर 'सौभाग्यलेणें' म्हूण दिवपाच्या वायणांमजगतींची सर्त सुवाळ्याची पवित्रताय इबाडना मूं, मकरसंक्रातेच्या हेतूंचे हातपांय मोडनात मूं अशे विचित्र दुभाव मनांत येवन वतात.

आतां आमचे चडशे सणसमारंभ, उत्सव हे परंपरेन चलत आयिल्ल्या धर्मामदल्या जातीशास्त्राकूंच पोसवण दिवपी आशिल्ल्यान उमेदीचेर विरजण घालपी हो मुखेल दोश हातूंत आसपावताच. देखीक, हळदीकुकूम हो सवायशिणींनी करप, परत हिंदू बायलांनीच करप, विधवा बायलांक थंय सुवात नाच्च! परती एकाद्री विधवा बायल दुसरें लग्न जाल्यारूय तिचेकडेन वेगळे नदरेन पळोवप. दुसरें म्हळ्यार उत्सवांत, सणांत अमके जातीच्या लोकांनी अमकीं कामां करप! अर्थांत, हातुंतल्यान कामाचें वांटप केलां, कांय बरे नेम घालून दिल्यात, हें खरें आसलें तरी संवसारांतल्या एकचाराचीं सपनां सोडाच, भारतीयांच्या एकचाराची कल्पनाय सपनांच थरपाक कांय नेम-नियम कारण जातात, हें आमकां मान्य करचेंच पडटलें.

तेन्ना, हो सुवाळो मनयतना कोंकणांतल्यो कांय प्रथा-परंपरा आमी नदरेसकयल घाल्यो जाल्यारूय संक्रांतेफाटलो मुळावो हेत सट्कन लक्षांत येवंये! मकरसंक्रांतेदिसा आपल्या घरांतले तांदूळ शेजान्नील्या आयदनांत घालून आनी शेजान्नीच्या घराच्या हुंबऱ्याभितर आपल्या घरांतलो नाल्ल सोडून कोंकणांतल्यो सवायशिणी शेजारधर्माबगर दुसरें आनीक कितें सुचयतात ? 'तिळगूळ घ्या, गोड गोड बोला' म्हूण तोंडान म्हणचे परसूय शेजारधर्माच्या तिळगुळाचें अशेतरेचें म्होंवाळ, पांकट, मोगाळ आनी तितलेंच पवित्र मिलन शुद्ध, मोगाळ, घटमूट राष्ट्रीय एकचार सादपाक चड उपकरा पडचें ना ?

# संहारांतल्यान सृजन, शिवाचें हेंच जीवन

तशी दर वद्य चतुर्दशीक शिवरात्र येता. आनी येतना उपास, जागरण, शिवपूजा ह्या तीन म्हत्वाच्या आंगांनी ती येता. मात माघांतली शिवरात्र 'महाशिवरात्र' म्हूणच येता. आनी मागीर देशभरांतल्या शिवालयांनी पुण्यस्नानान शिवरात्र मनयतनाच अलाहाबादेंत गंगा, यमुना आनी पुराणांतले सरस्वती न्हंयच्या संगमाचेर कुंभमेळ्याची सांगता जाता.

पूण आमच्यासारक्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या लोकांक मात शिवरात्र म्हळी की याद येता ती वर्सांतल्यान एक फावट दर्यावेळेर वचपी शिवमूर्तीच्या दबाजीक मिरवणुकेची! ताचेपयलीं फांतोडेच्या गरम न्हाणान आंगापांगाक उब रिगयल्लीच आसता. शिवरात्रेचो उपास थंडायेर घालपाची मांडणीय थंड शितळ गोंड्यांच्या (नाचण्यांच्या) उदकान केल्ली आसता. मागीर श्रीस्थळच्या श्रीमल्लिकार्जुन देवालयासावन लागीं लागीं धा किलोमीटर पयस आशिल्ल्या तळपण न्हंयच्या संगमालागी देवावेळेर शिवमूर्तीचें वाजत-गाजत इलामतीसयत पालखेंतल्यान वचप जाता. उपरांत पुण्यस्नान. देवाचें आनी शेंकड्यांनी भाविकांचेंय. वर्सांतल्यान एक फावट दर्यावेळेर 'पवित्र जात्रा!' (आतां वेळांनी सदांच जात्रा भरतात. देखून 'पवित्र जात्रा' हीं उतरां मुद्दम घाल्यांत.) थंय रातचें विठोबा-रखुमायच्या देवळाकडेन नाटक.

श्रीस्थळ-काणकोणच्या ह्या शिवरात्रेचे जात्रेप्रमाण आनी अभिशेकांप्रमाण गोंयांत ज्या ज्या सुवातींनी शिवाचीं आनी श्रीमल्लिकार्जुनाचीं देवळां आसात, थंय थंय अशेच तरेचे उत्सव व्हड प्रमाणांत मनयतात. देखीक, तांबडी सूर्ल हांगा महादेवाचें देवूळ, नार्वे-दिवचले सप्तकोटेश्वराचें देवालय, पोरण्या गोंयांत ब्रह्मस्थळ, सावयवेऱ्यां अनंताचें देवूळ, मंगेशीं मंगेश, नागेशीं नागेश, रामनाथीं रामनाथ देवालय आनी अशींच शेंकड्यांनी शिवालयां आसात थंय शिवरात्र जाता. ते नदरेन हरवळेंचें रुद्रेश्वर संस्थान म्हळ्यार तर गोंयचें श्रीक्षेत्र गोकर्ण म्हळ्यार अतिताय जावंची न्हय! कारण, शिवरात्रेदिसा गर्देचे नदरेन तर तें गोकर्ण थरता. वांगडाच षोडषोपचारें शिवपूजा आनी अभिशेक म्हळ्यार कितें ताचीय बरी प्रचिती हरवळ्याक येता.

जातीकातीचो भेदभाव नासतना अभिशेक करपाक मेळप हें तर शिवाचे जिणेचें चिंतन करतल्यांचे जिणेचें म्हान येस. कारण मुळांत शिवशंकर सगल्यांचो. व्रताचो विधी कसोय

आसलो तरी ताची आवडूय सामान्यांक परवडपासारकी. १०८ कमळां वा १०८ बेलाचीं पानां. 'पत्रं, पुष्पं, फलं, तोयम्' पद्धतीन देव पावता हें शिवाचे पूजेच्या संदर्भांत एकदम खरें थारता. पुष्पांजली हांगा मंत्रपुष्पांजली येदी जाता! पूजासमर्पणांत तुंब्यांचीं, धोत्र्याचीं, आंब्याचीं फुलां वा कवाशाच्यो पात्योय चलतात. मूलमंत्राचो जप केलो नासत जाल्यारूय बिगाड येना. दान दिवपाची आनी जेवणावळ घालून आशिर्वाद घेवपाची परंपरा मात जाता तितल्या यत्नान पाळप फुडाराचे नदरेनूय बरें. दानत राखपाचें, वाडोवपाचें पुण्य विज्ञानाकूय मान्य जावपाक हरकत नासची! हेखातीर हें मुद्‌दम सांगप.

आतां शिवरात्रेदिसा दर्यांत वा संगमांत न्हाल्ल्यान पुण्य मेळटा काय ना हो वादाचो विशय जावं येता. पूण वर्सांतल्यान एक फावट तरी 'समुद्रस्नान' घेवपाची जाणट्यांची कंल्पना आरोग्यशास्त्राक धरून आसली हें आमच्यांनी न्हयकारूंक नज. तेचपरी 'शिव' हो नांवाप्रमाणच 'शिव' म्हळ्यार मंगलमय, सदाशिव तत्त्व ही कल्पनाय आमच्यांनी फासूं नज. शिवरात्रेचे काणयेंतलो व्याध म्हळ्यार पारधी आनी हरणांच्या हिंडांतलीं हरणां स्वामी मीर्गासयत शिवपूजेचे पुण्यायेन सर्गांत गेलीं हीं पिशेपणाची कल्पना भुरग्यांकय मान्य जावची ना हें खरें आसलें तरीय हरणांची आपल्या पाडकावेली जिवाभावाची माया आमच्यानी फट म्हणूं नज! शिकारी आमकां मारतलोच, पूण ताचेपयलीं आमच्या उपाशीं पाडकांक पाजपाचें कर्तव्य आमकां करपाक जाय, ही हरणांची (आवयची) कर्तव्यभावना, शिकाऱ्यांचोच तांच्या उतरावेलो विश्वास, दिल्लें उतर पाळपाची हरणांची वृत्ती, आपलें आवय-बापूय शिकाऱ्याक बळी पडटात जाल्यार आमी तरी कित्याक जगपाक जाय ही पाडकांच्या भुरगेपणांतलीच त्यागाची वृत्ती आनी 'म्हाका पयलीं मार! म्हाका पयलीं मार!' म्हूण एकामेकांखातीर आत्महत्या करपाक तयार जाल्ली हरणांची धाडसी त्यागी मनोवृत्ती पळोवन शिकाऱ्याच्या काळजाक फुटिल्लो झरांव! केदें व्हडलें हें संवसारांतलें उदात्त उदाहरण!! शिकाऱ्यांक रातभर जागरण जालें, भुकेन उपास घडलो आनी बेलारुखावेलीं तांणी तोडून उडयिल्लीं पानां सकयल शिवलिंगाचेर पडलीं, देखून शिवपूजा आपसूक घडली. म्हूण शिकारी अहिंसक जालो काय हरणांचे वृत्तीचो परिणाम ताचेर जावन ताणें त्या दिसासावन शिकार सोडली हो भाग चर्चेउपरांत स्पश्ट जावं येता. पूण हे घटनेन जीव-शिवाची पवित्र भेट घडली आनी शस्त्राचेर सदाशिव-तत्त्वाच्या शास्त्रान जैत मेळयलें हें वादातीत!

असो हो शिव विविधरंगी, विविधढंगी हिमालय पर्वतार ध्यानस्थ बसून तपश्चर्या करपी, जटा-दाढी वाडोवन आंगाक बिबूत फांसपी महायोगी तपस्वी. समुद्रमंथनाच्या वेळार भायर सरिल्लें वीख पिवन संवसाराक वांचोवपी निळकंठ. विचारपाचार करिनासतना आपले परमभक्त म्हूण मोगांत पडून रावण, बाणासूर अशा दैत्यराजांकूय वर दिवपी पिसो सांबसदाशिव. पार्वतीचेर रागार-फुगार जावपी तितलोच मोग रकोवपी मोगाळ घरकार.

कपलार अर्धचंद्र आनी माथ्यार गंगा मिरोवपी विश्वाचो कल्याणकर्तो. 'नंदी वाहन' असो पशुपती. ब्रह्मा, विष्णू, महेशांतलो त्रिमुर्तीतलो तमोगुणी, प्रलयकारी, सृजनाखातीर जाल्लो संहारक. केन्ना 'शिव' तर केन्ना 'रुद्र'. द्रविडांखातीर शिव, तोच वैदिकांखातीर रुद्र. तोच वीणाधर-दक्षिणामूर्ती आनी तोच नटराज-नर्तक. देखुनूच एका हातांत संहारक त्रिशूळ, जाल्यार दुसऱ्या हातांत डमरू.

'शिव' उतराची उत्पत्तीच मुळांत 'वश' धातूपसून. 'वश' म्हळ्यार प्रकाशप, उजवाडप. देखून, शिव स्वयंप्रकाशी. ताका ना जल्म, ना मर्ण! तो देवांचो देव महादेव. म्हूण विश्वाक वंद्य!

शिवाची 'व्यापकता' तर येदी विशाळ की ताका 'ब्रह्मात्मलिंग' म्हूण वळखतात. जशें कितें सृश्ट निर्माण करपी ब्रह्मदेवाच्या आत्म्याचें लिंग! सृश्ट व्यापून राविल्ल्याचें हें लक्षण! अशा शिवाचीं बारा मुखेल शिवस्थानां आमच्या देशांत आसात आनी तांकां ज्योतिर्लिंगां ह्या नांवान वळखतात अशें शिवपुराणांतल्या शिळोकावेल्यान कळून येता. त्यो बारा सुवाती अशो – सौराष्ट्रांत (वेरावळ) सोमनाथ, श्रीशैलाचेर (आंध्रप्रदेशांत) मल्लिकार्जुन, उज्जयिनींत महाकालेश्वर, नर्मदातिराचेर (ओंकारमांधना) ओंकार आनी अमलेश्वर, हिमालयांत केदारनाथ, डाकिनी क्षेत्रांत (खेड-पुणे) भीमाशंकर, वाराणशींत विश्वेश्वर, गोदावरी देगेर (नाशिकालागीं) त्र्यंबकेश्वर, परळी (बीड-मराठवाडा) वैद्यनाथ, दारूकावनांत (औंठा, परभणी-मराठवाडा) नागनाथ, सेतुबंधनालागीं रामेश्वर, शिवालय क्षेत्रांत (वेरूळ, औरंगाबाद-मराठवाडा) घृष्णेश्वर).

तैत्तरीय उपनिषदांत हीं बारा ज्योतिर्लिंगां म्हळ्यार बारा तत्त्वां अशें सांगलां. तीं तत्त्वां अशीं: ब्रह्म, माया, जीव, मन, बुद्धी, चित्त, अहंकार, आकाश, वायु, अग्नी, जल, पृथ्वी.

शिव मोहिनीच्या रुपाचेर भाळ्ळो आनी तिचेफाटल्यान लागलो, तेन्ना ज्या ज्या जाग्यांनी रेतस्खलन जालें, थंय थंय ज्योतिर्लिंगां आयलीं, अशें म्हणपाचीय चाल आसा.

विज्ञानाच्या मत्तान मात हीं बारा ज्योतिर्लिंगां म्हळ्यार सुप्त अवस्थेंतल्या बारा ज्वालामुखींचीं बारा उद्रेकस्थानां (सुवाती).

कशेंय जावं, कितेंय जावं, हे गजालीक एक तत्त्वचिंतनाची बसका आसा, विज्ञानीक नदर आसा आनी परिवर्तनाचे दिकेन फुडाराची आस्त आसा. देखुनूच गंगा, यमुना आनी पुराणांतले सरस्वती न्हंयच्या संगमाचेर मकरसंक्रांत सावन माघ वद्य चतुर्दस मेरेन (वा उपासमेरेन) देड म्हयनो जावपी पुण्यन्हाणांय 'कुंभमेळो' म्हूण वळखतात. ह्या काळांतल्या न्हाणांतलें म्हाशिवरात्रेचें न्हाण हें सवें आनी निमणें न्हाण! देड म्हयनोमेरेन संगमांनी झोंपड्यो बांदून राविल्ले लाखांनी 'कल्पवासी' महाशिवरात्रेक पवित्र न्हाण घेवन कुंभमेळ्याची सांगता करतात आनी पवित्र मनान परततात. पापांतल्यान मुक्ती मेळची आनी जल्ममर्णाच्या

फेऱ्यांतल्यान सुटचें म्हूण चलिल्ली लाखांनी लोकांची ही धडपड. तांचे श्रद्धेक हांसपाक हरकत ना, वेळार तांकां पिशांतूय काडपाक हरकत ना. पूण त्या पिशेपणांफाटलो हेतू समजावन घेतले उपरांतूच. श्रद्धा चुकीची आसत जाल्यार नवी घटमूट श्रद्धा निर्माण केले उपरांतूच 'विज्ञान' म्हणटात थंयूय जाल्यार श्रद्धा जाय पडटाच मूं!

कारण, ही परंपरा हजारांनी वर्सांफाटली. ब्रह्मदेवान देवांची निर्शेवणी आनी आळसाय घालोवन तांकां जागरूक करपाखातीर, उमेद हाडपाखातीर समुद्रमंथनाची युक्त काडली अशें म्हणटात. देवांनी ह्या म्हान वावरांत दैत्यांची मदत घेतली. दोगांनी मेळून भायर सरिल्लीं रत्नां बरेभाशेन वांटुनूय घेतलीं. पूण वांधो आयलो तो चौदाव्या रत्नावेळार. तें आसलें चिरंजिवीचो वर दिवपी अमृत! तेन्ना अमृतकुंभाक लागून जीं झगडीं जालीं, तेवेळार अमृताचे कण कांय कडांनी शिंपडले. प्रयाग (अलाहाबाद), हरद्वार, नासिक आनी उज्जैन अशा चार सुवातींनी मागीर दर वर्सा आदलून बदलून कुंभमेळे भरपाक लागले.

हे आख्यायिकेक सातव्या शेंकड्यांत भारतांत आयिल्ल्या चिनी प्रवासी ह्यू एन त्संगाचे दीसपटेचो आदार मेळटा. ताणें बरोवन दवरलां, तेप्रमाण ६४४ वर्सा सम्राट हर्षवर्धनाच्या काळार प्रयाग हांगा ७५ दिसांचो कुंभमेळ भरिल्लो आनी लागीं लागीं पांच लाख भाविक थंय पुण्यस्नान घेताले.

अशी परंपरा आसा म्हूणच कुंभमेळ भरपाक जाय वा शिवरात्र मनोवपाक जाय अशें न्हय. विज्ञानयुगांतल्या संहारक शक्तीक जाग्यार हाडटलो जाल्यार जण एका जिवाक शिवाक भेटोवपाची गरज आसा; अशा शिवाक की जाचेमदीं 'स्वयंप्रकाशी' नासुंये घडये, पूण फूक मारल्यार 'प्रकाशी' जावपी सदाशिव-तत्व पुरायेन आकाराक येवंक पावतलें आनी संहारांतल्यान सृजन, शिवाचें हेंच जीवन हें ध्येय-तत्व शिवमय जावन धाय दिकांनी पातळटलें.

# शबै शबै, शाबोऽ ओऽ

'शबै शबै' हीं उतरां हांवें तरी पयले फावट अंत्रुजकारांच्या रोमटांमेळावेळार आयकलीं. कला अकादमीच्या लोककला महोत्सवानिमतान लोककलेच्या ज्या कांय खेरीत आंगांनी वळख जाली, तातुंतलींच 'शबै शबै' हीं उतरां. उपरांत भौ. पुंडलीकबाबांच्या 'शबै शबै भौजनसमाज' नाटकान ह्या उतरांनी खेरीत रंग भरून तीं गांवांगांवांनी, शारांशारांनी पावयलीं. आयकुपाक, पळोवपाक मेळ्ळीं. गोंय सरकाराच्या राज्यपांवड्यावयल्या आनी थळाव्या समितींच्या तालुको पांवड्यावयल्या शिगमो-महोत्सवानिमतान तर 'शबै शबै'ची सामकी संवकळ जाली. इतली संवकळ की ह्या उतरांवरवीं आनी रोमटां मेळाच्या मोगांत पडले आनी परंपरा नासतनाय रोमटांमेळ काडून तातूंत नाचुंकूय लागले!

अर्थांत, आमकां परंपरा रोमटांमेळाची नासली आनी आमी केन्ना 'शबै' घालीना जाली तरी 'शाबोऽ ओऽऽ'ची गिरेस्त परंपरा आमकां लाबिल्ली. 'शाबो'च्या ह्या दायजाचें आनी 'शबै'च्या त्या दायजाचें एके वावळेन गुंथसारकें लागींचें नातें आशिल्लें आनी तें म्हळ्यार दोनूय गोंयचींच आशिल्लीं आनी दोगांयचोय शिगम्याकडेनूच संबंद आशिल्लो.

भुरगेपणासावन शिगम्याचे जात्रेवेळावयल्यो दिवजांच्यो भोंवरी, तरंगांच्यो भोंवरी आमी पळयत आयिल्ले. इतलेंच न्हय तर त्या भोंवरींचें एक आंग जावन ती मस्ती आनी उमेद अणभवत आयिल्ले. तातुंतल्यो त्यो धाकल्या चल्या भुरग्यांच्यो गुडयो, जाणट्यांचीं रंगीत वानीं, चलयो-सवायशिणींच्या दिवजांवांगडा नव्या न्हवऱ्यांच्यो दीपमाळो, धोल, ताशे, जगांटीवांगडाच शिंगांच्यो आंगाची ल्हंव फुलोवपी फुकी आनी ह्या सगल्या रणावाद्यांत भरसून गेल्लो 'शाबोऽ ओऽ'चो सूर जसो कितें आवयच्या दुदावांगडाच आमच्या रगतांत भरसत गेल्लो. उत्तर गोंयांतले शिगम्याचे भाशेंत हें आमचें 'रोमट' नवें, परकी कशें! पूण शम्भो (शंभू) म्हळ्यार 'शाबोऽ' आमचोय जाल्ल्यान आज 'शबै' आनी 'रोमट' सोपेपणान समजूंक पावलें.

जाल्यारूय काळीज हालोवपी आनी छातयेचे ठोके चुकोवपी उत्तर गोंयच्या रोमटांची आनी दक्षिण गोंयांतल्या जात्रेच्या भोंवरींची तशी तुळा करप समा जावचें ना, रोमटां-मेळाची आनी शिगम्या-नाचांची सर करप तर दोगांयचेरूय अन्याय केल्लेवरी जातलें. कारण, उत्तर गोंयचे रोमटांमेळ हे तातुंतल्या नाचांपरस वाजपाचे नदरेन आनी लोकजम्याचे नदरेन जशे आयकुपासारके आनी पळोवपासारके तशेच दक्षिण गोंयचे शिगम्यांतले लोकांनाच

हे गडगंज वाजपापरस आनी आकांत लोकजम्यापरस लोकगितांचे नदरेन आयकुपासारके आनी लय-तालांच्या नाचपाचे नदरेन पळोवपासारके. ह्या सगल्या गजालींचो विचार करुनूच जावये घडये, जाण्टेल्यांनी उत्तर गोंयच्या शिगम्याक 'व्हडलो शिगमो' अशें नांव दिलें आनी दक्षिण गोंयच्या शिगम्याक 'धाकलो शिगमो' अशें म्हळें. आतां धाकलो शिगमो फाल्गुन शुद्ध दसमीक सावन होळी पुनवेमेरेन, जाल्यार व्हडलो शिगमो पुनवे सावन फुडले पांच दीसमेरेन अशी एकाच शिगम्याची दोनकडेन वांटणी कित्याक हो मात संशोधनाचो विशय. घडये, दोनूय भागांतल्या सोयऱ्यांधायऱ्यांक संद दिवपाची जाण्टेल्यांची येवजण आसुंये!

आतां शिगमो धाकलो आसूं वा व्हडलो, उमेदींत मात ल्हान-व्हडपण वा उंच-उणाकपण आसपाचें कारण ना. कारण, शिगम्याची येवजणच मुळांत सगल्या तरांचें तथाकथित उंच-उणाकपण विसरून, ल्हान-व्हड दुख्खां विसरून चार दीस उमेदीन सारपाखातीर आनी झगडीं-दुस्मानपणां आसत जाल्यार तीं विसरून वचून एकचार घडोवपाखातीर, ते नदरेन शिगमो म्हळ्यार गोंयकारांक 'दसरो-दिवाळी'. उमेदीचे नदरेन कांय खीण चवथीक लेगीत फाटीं उडोवपासारकी ही परब. हालींसराक तर राज्य पांवड्याचेर शिगम्याचे महोत्सव सुरू जायतसावन गोंयचे लोकसंस्कृतीचें दायज सांगपी आनी सांबाळपी शिगम्याक खेरीत वजन आनी प्रतिष्ठा मेळपाक पावल्या. कार्नावालाच्या नांवासयकल कांय सुवातींनी जाता तशीच गुलाल वा पिचकारींनी रंग मारापाची होळये दिसाची कांय सुवातींवयली 'मस्ती' सोडली जाल्यार गोंयांत 'गुलाल' आनी 'रंगपंचम' शिगम्यांत भरसल्ल्यान गोंयचो शिगमो हालींसरा रंगीत जावपाक लागला. तातुंतूच महाराष्ट्र, कर्नाटक, उत्तर प्रदेश बी वाठारांतले कामगार त्या दिसा कार्नावालावरीच तोंडाक कट्टीं, रुपडीं बी घालून एकामेकांचेर रंग मारीत होळी खेळपाक लागिल्ल्यान गोंयभर शिगम्याचे पुनवेचें आनी होळयेचें खेरीत उमेदी रूप नदरेक पडपाक लागलां.

शिगम्याची ही उमेद मनयतनाच एक गजाल मात खंत निर्माण केलेबगर रावना आनी ती म्हळ्यार आमचे जाणटेले शिगम्याक समाजीक एकचाराचें रूप दिवपाक अपेशी थरले! काय तांकां 'विविधतायेंतल्यान एकता/एकचार' म्हणटात तेभाशेन विंगड विंगड जातींचें स्वरूप तशेंच दवरून तातुंतल्यानूच 'समभाव' सादपाचो आसलो? जातीवादाआड बंड करपाची तांची तयारी नासली काय जाती तशोच राखून दवरल्यार वावराचे नदरेन तें बऱ्याक पडटलें असो धूर्त, शाणेपणाचो विचार तांणी केल्लो? कितेंय आसलें तरी भौसामदल्या जाण्टेल्या 'देवांनी' शिगमो रचून दवरलो आनी शेंकड्यांनी, हजारांनी वर्सांचें दायज सांगत हो शिगमो अलिखीत नेमांनी, बांदावळींनी आयजूय नित्यनेमान, तेच उमेदीन चलत आसा, हें पळयल्यार त्या बरप अक्षर नकळ जाल्ल्या, पूण 'जाण्ट्या' आनी 'बुदवंत' भौसाच्या देवांक तुस्त तोखणायेची आरत दाखयत तितली थोडी!

भेसापासून भाशेमेरेन आनी चाल चलणुकेपसून ताल लयेमेरेन शिगम्याची जी बांदावळ तांणी केल्या, ती अजाप करीसारकीच. शिगम्याच्या गिमाळ दिसांनी आनी दक्षिणेकडल्या तापाळ वातावरणांत फावोशें धवें-फुल्ल पुडवें, धवेंफुल्ल खोमीस आनी माथ्याक धवो-फुल्ल मुंडासो. तेचपरी ह्या दिसांनी कुचकुचून फुलपी आबोल्यांच्या सोरांनी मुंडाशाचेर मुकुटावरी चडयिल्लो तुरो आनी हातांत रंगीत तोणयो हो आमच्या गड्याचो भेस. आमचो गडो त्या दिसांनी 'देव'! आतां मागीर कांय कडांनी धोतराची आडखळ म्हूण वा न्हेसपाक जमना म्हूण पुडवें-खोमसाचे सुवातेर खंय सलवार-सदरो येवं आनी मुंडाशांचो जागो पागोट्यांनी, तोपयांनी घेवं; फुलांय नकली जावं पूण आमच्या शिगम्याच्या गड्याचें गडेपण अजून पावणेर वचूंक ना. इतलेंच न्हय तर शिगम्याचें खाशेलें जेवण म्हूण कांय कडांनी स्पेशल नुस्त्याचो भूस आसूं वा सांगाताक शुद्ध 'तीर्थ' आसूं, जाल्यारूय आमच्या गड्यांचें गडेपण अजूनमेरेन तातुंतूय बुडूंक ना. उरफाटें आमचो शिगम्याचो हो गडो त्या दिसांनी तोखणायेचो विशय. कारण, खेळाच्या आनी नाचाच्या नाना कळाशीं वांगडाच ताका देवाधर्माचें एक अधिष्ठान त्या दिसांनी लाबिल्लें आसता. ताका ताच्या गुरून जसो कितें मंत्रायिल्लो आसता.

शिगम्याचे दीस लागीं पावतात, तशी आनी चड करून फाल्गुन शुद्ध दसमीची सुलूस लागता तशी कांय दीस पयलीं मांडार तोणी मारप जाता. त्या दिसा वेळीप वा गुरू (परंपरा चलत आयल्या तेप्रमाण) मांडार जमिल्ल्यांच्या हातांत खेळपाच्यो तोणयो काडून दिता. जल्म्याक पयलीं सांगणी जाता आनी पयलीं चौरंग जाता, तिवूय पंचमहाभूतांतले पयले शक्तीक, धर्तरेक होरावन.

*धर्तर पिरतम रचिली गा देवांनी*
*शेटीं अळंकार केले गा देवांनी*
*शेटीं अळंकार केले मूं*

उपरांत खेळांची येसाय जाता आनी दसमी दिसा रातभर आपल्या आपल्या मांडार खेळून मेळ दुसरे गांव खेळपाक म्हूण ते रातीं फांतोडेर भायर सरतात. शिगम्याचो नाल्ल 'देवा' वरी अळंग रितीन मेळावांगडा घेतिल्लो आसता. आनी मांड मोडले उपरांतूच (पुनवेदिसा वा कांय कडांनी चतुर्दशी दिसा) तो फोडपाचो आसता.

घरांघरांनी हे मेळ वा खेळे नाचपाक वतात तेन्ना खेळाचो क्रम लेगीत थरिल्लो आसता. मेळ नायकांचो जावं, कोमरपायकांचो जावं, वेळीप-गांवकारांचो जावं, पागी समाजाचो जावं, धनगरांचो जावं, देसाय-गांवकारांचो जांव, चौरंग, तोणयांमेळ, लावणी, तालगडी, गोफ, आरत असो सादारण क्रम आसताच. आतां खेळपाक वेळ उणो आशिल्ल्यान

वा कांय कडांनी भुरगेपणां जाल्ल्यान ह्या क्रमाक पाळो दिवप जाताच अशें सांगूंक नज. पूण चडशा पंगडांनी चडशा जाग्यांनी हो क्रम नेमावरी पाळप जाता.

*दनपारांचो भार जाला धूल्ल तापला*
*शिपली दांडो घेवन सीता धूल्ल कांडिता*
*धूल्ल कांडटा सिते धणसु गावला*
*तो धणसु घेवन सीता घरीं चालला*

सारक्यो रामायणकाळांतले प्रसंग उबे करपी चौरंगी जशे हे मेळ तालासुरांत गायतात, तेचपरी

*असे पर्बता दोंगरी चंदन फुलला*
*सबागेच्या राज आमी खेळ मांडिला*

चौरंगींत मेळाक आरत दाखोवपाक आयिल्ले नारीचें ज्युस्ताज्यूस्त वर्णन हे मेळ अशे खुबीन आनी सोबीत रितीन करतात की उत्तम साहित्याचो नमुनो म्हूण ह्या अशा चौरंगींचो अभ्यास जावंक जाय. देखीक चौरंगेचो हो थोडो वांटो.

पितांबर सावळ्याची कास न्हेशिला
बावन बिरंड्यांनी चोळी आंगा घातिला
नव रे लक्ष्यांचो हार गळ्यां घातिला
हाताचे वज्रचुडे हाता घातिला
पांच वातींची नारीन आर्त पेटविला
हालत धोलत नार बाहेर आला.

शिगम्याच्या पुराय खेळांत एका तोणया मेळाचेच कितलेच प्रकार आसात. सतां, इसूरां ओळ, जोती, चिपटां-ओळ, गांधीकुमातर, चाफे, बाणां ओळ, चंद्रा ओळ, कुरपण शितें, वांझे ताळे, झेलां, पडके, भोवरी, जान, घेगें, कोंबडे, शिंकॉल, सत्शीव, भींग जो बाळा, सावरी/झूम, हळदुली अशीं कितलिंशींच नांवां आनी तांकां धरून खेळ. दर एका ताळ्याचें गाणें मात इतिहास, पुराणांतल्या प्रसंगाची याद करून दिवपी; वांगडाच समाजीक परिस्थितीचेर उजवाड घालून मार्गदर्शन करपी. देखीक –

*१. चानये पोरा तुका तीन पाट*
*रावणान सिते व्हेल्या दाकय वाट.*
*२. बारीक काटो कणेरीचो*
*भांग भल्ला नारीचो.*
*३. खैरीचो खुटो रे कुंब्याचें दायें*
*यो गा सोयऱ्या बैल बांदया*
*४. सोनार शेट्टी कुलकर्णी आप्पा*
*दोगांयची संगत नाका रे बाप्पा*

तालगडी आनी गोफाच्या गितांनी श्रीकृष्णाक खाशेली सुवात लाबिल्ली दिश्टी पडटा. गोफाचीं गाणीं म्हळ्यार तर श्रीकृष्णाच्यो क्रिडाच. देखुनूच त्या गाण्यांचो आरंब लेगीत 'गोपाळकृष्ण महाराज की जय' अशेच घोशणेन जाता. कांय गण्यांच्यो देखी अशो–

*१. घ्या मुकुंदमुरारी गोविंद ...*
*२. मारूती सेवक रामाचा*
*वाल्मिकी शिष्य नारदाचा*
*३. शेंवते झाडाच्यो लांब ताळयो*
*लांब ताळयो तेका फुलकळयो*
*४. उड रे भोंवरा काळा निळा*
*उडुनी गेला भोंवर शेंवते तळा*

जिणेच्या रंगयाळ्या खिणांचें आनी रंग-संगतीचें पडबिंब कसो हो रंगीत दोरयांचो गोफ. ताचेकडल्यानूय जाल्यार शिकपासारकें खूब आसा.

थोडेभितर, शिगमो म्हळ्यार फकत धुल्ल कांडीसर उमेद काडपाचो नाच न्हय, शेवयां-पायसान संतुश्ट जावपाची परब न्हय वा मस्तेच्या रंगान न्हावपाची रंगपंचम न्हय; जाल्यार वायटाची होळी करतना नव्याक येवकार दिवपाची आनी सैमाचे एकचार शिकतना शिगम्यांतल्या गितां-नाचांवरवीं समाजीक एकचार आंगांत रिगोवपाची ही परब.

*आरत हाड गे तिका आसवंत*
*आयेपण जावं गे तुका सासवंत*

येदो व्हडलो आशीर्वाद दिवपाक जें बळगें लागता, तें आमकां हो शिगमो दिता.

देखुनूच आमी नमळायेन म्हणूंक फावो—

जल्म्या देवा नमन खेळ खेळटा
भुमीपुरसा देवा नमन खेळ खेळटा
घरवरपुरसा देवा नमन खेळ खेळटा
खेळट्या गड्या नमन खेळ खेळटा
खेळटया मांडा नमन खेळ खेळटा
वाजत्या तोणयेक नमन खेळ खेळटा
चुकत्या माकत्या नमन खेळ खेळटा.

# अशो जांवच्यो शिशांरान्नी मनची रात तन्नी, चान्नी!

मडगांवची दिंडी, जांबावलेचो गुलाल, शिरगांवची लईरायेची जात्रा, साळचे गडे, वास्कोचो सप्ताह, व्हडल्या गोंयचें फेस्त, पैंगीणची गड्यां-जात्रा तशी काणकोणची शिगम्याची जात्रा. तिसलान येवपी शिशारान्नीची जात्रा. फामाद तशीच धर्मीक नदरेन म्हत्वाची. परंपरेचे नदरेन इतिहास जागोवपी आनी उर्बा उमेदीचे नदरेन गोंय तशेंच कर्नाटकांतल्या हजारांनी भाविकांक श्रद्धेच्या म्हालवजार दोन दीस यथिश्ट मिरोवपाक दिवपी.

इतिहास संशोधकाच्या मताप्रमाण काणकोणच्या श्री मल्लिकार्जुन देवळाचो वाठार म्हळ्यार 'क्रौंचेदक्षेत्र'. 'श्रीस्थळ' तर ताच्या नांवांतच आसा. पूण ते भायर १७०० विलंबी नाम संवत्सरांत जिर्णोद्धार जाल्ल्या ह्या मल्लिकार्जुनाच्या वाठाराक कण्वपुरम, क्रौंचपूर अशा विंगड विंगड नांवांनीय वळखतात अशें शमीपत्रावेल्यान दिसून येता.

सैमान नटिल्ल्या ह्या सोबीत वाठारांत कण्वमुनी तपाक बशिल्ले म्हूण तो काणकोण. दाट रानान भरिल्लो म्हूण तो अडवट. पार्वतीच्या विरहान दुखेस्त जाल्ल्या श्रीशंकराक पार्वतीची भेट जाली ती हेच सुवातेर आनी त्या दोगांयचें म्होंवाळ मिलन घडलें तेंवूय ह्याच थळांत म्हूण हें क्रौंचेदक्षेत्र. 'अडवट सिंहासनाधीश्वर महापती काणकोण' हें बिरूद म्हळ्यार तर काणकोणाकच न्हय तर कर्नाटकाकय वण्र मिरोवपाक उपकारा पडपायेदें व्हडलें दायज. वाराणसी, उज्जयिनी, विद्यानगर, द्वारका, दौलताबाद, अहमदनगर, दिल्ली, श्रीरंगपट्टण आदी शारांचो खास उल्लेख ज्या शमीपत्रांत आसा, तातुंतूच 'श्रीक्षेत्र क्रौंचपुरवासी परतीर उज्जयिनी विद्यानगर पर्यंत मनकर्णिका श्री मल्लिकार्जुन लिंग' आसा अशेंय स्पश्टपणान म्हळां. मुळांतच जागृत आनी स्वयंभू लिंग आशिल्ल्या श्रीमल्लिकार्जुनाचे शिगम्याचे जात्रेक देखुनूच धर्मीक आनी उत्सवीच न्हय तर एक इतिहासीक म्हत्व आसा.

गंभीर प्रकृतीच्या पूण शांत, प्रसन्न कल्याणकारी शीव मल्लिकार्जुनाक ताची साठ पुरवाची परंपरा प्रभावळ कशी जावन उठाव हाडटा, आपले आपले तांकीप्रमाण भक्तगणांक पावता आनी आपलें ल्हानपण सांबाळून दवरून वाठाराक व्हड करतना मल्लिकार्जुनाकूय व्हडपण प्राप्त करून दिता. देखीक हीं कांय देवांचीं नांवांच पळयात. काशीपुरीस, भोमशीपुरीस (भूमीपुरूष), रामचंद्र पुरीस, घरतार, बालीजाण, पुरातन पुरीस, श्रीपरशुराम, पांचापुरीस, पार्वतीदेवी, नास, कुळपुरीस, प्रभावळ पुरीस, रामनाथ, माली पूर्वशासनी, जल्मी, तोरणी

पायक, वागरो, सासणयो, म्हारांगण. अर्थात, ह्या साठ पुरवांच्यो खाशेल्यो परंपरा आसात, तांचेय उत्सव आसात. पूण मुखेल उत्सव म्हळ्यार शिगमो.

आतां हो शिगमो म्हळ्यार 'मेळ' न्हय. पूण रोमटांवरीच ल्हंव फुलोवपी खडेगांठ धोल-ताशांचो, जगाटांचो, शेनाय-सुर्तेचो वाद्यवृंद आनी रंगयाळ्या गुडयो, वानी, अबदागिरी, तोन्नांच्या भोंवरींचो (मिरवणुकांचो) सुरेख, पवित्र संगम. हातूंत मुखेल नाच म्हणटात तो तरंगांचो आनी खाशेलेंपण म्हणटात तें हजारांनी सवायशिर्णींच्या, कुमारिकांच्या हाता-माथ्यारच न्हय तर खोशयेन तोंडारय पेटपी दीप-दिव्यांच्या भोंवरींचें. आपलेआपले घरवये कडसून मुखेल देवाकडेन येतना त्या त्या थारायिल्ल्या सुवातींनी तरंगां घेवन यथिश्ट नाचप, देवाच्या राजांगणांत विशेश सोबायेन, सुंदरकायेन, कलात्मक तरेन नाचतना कांय जाणांनी तरसादींचेय वेगवेगळे हात करप आनी हें करतनाच देवळाक पांच भोंवताडे मारप म्हळ्यारच भोंवर. नव्यानच लग्न जाल्ल्यांनी फाटीक गरे तोंपून घेवप हें दुसऱ्या दिसाच्या शेलीच्या भोंवरींचें खाशेलेंपण.

जात्रा उत्सवांच्या प्रशासकी स्वरूपाच्या संदर्भांत विचार करतना जातीसंस्थेचेर आदारिल्ली ही वेवस्था हो एक मुखेल दोश सोडलो जाल्यार येदी व्हडली ही जात्रा-उत्सवांची परंपरा कांय बादा येनासतना आडखळा मेकळी आयजूय चलत आसा हाचें अजाप करतना समाजशास्त्राचे नदरेनूय हाचेर विचार जावंक जाय. आतां हे भोंवरीचेंच उदाहरण घेवंया. वेळीप, किंदळकार आनी नगर्शेकार अशा तीन भावक्यांनी ह्यो भोंवरी चलतात. कितल्याशाच वर्सां सावन, नेमान दरवर्सा, दरफावट एक भोंवर सोंपली की फाटोफाट दुसरी सुरू जाता. 'ऑर्दबीर्द' कांय ना! कोणें, केन्ना, कितें करपाचें हें पयलींच थारावन दिल्लें आसता. तशें कांय वेवसायांक लागून उणाकपण दिसुंकूय येता. म्हळ्यार शींग फुंकपाचें तें देवळ्यान, धोल बडोवपाचो तो म्हारान वा तरसादीचे हात करीत नाचपाचें तें खेत्र्यान, तोको घेवपाचो तो वेळपान, तरंग घेवपाचें तें म्हाळशान, तीर्थ घालपाचें तें वेळपान.

पूण हे जात्रेचो विशेश असो की हांगा एक तोको सोडलो जाल्यार आनी भटाचे सुवातेर वेळीप तीर्थ घालता, प्रसाद दिता तें काम सोडलें जाल्यार कोणेंय खंयचेंय काम करपाक आडखळ ना! ज्याका ज्याका उमेद येता, नाचपाक जमता तो तो तरंग नाचयता, तरसाद वावुडटा, धोल ताशे बडयता, शिंगाक फूक घालता. हांगा जातीकातींचीं बंधनां सदळ जातात, उमेद-उर्बा तीं नाच्च करतात! मागीर आसाळी, खालवडें, भाटपाल अशो तीन घरवयो त्रिमूर्तेप्रमाण एकरूप जातात. वेळीप-किंदळकार-नगर्शेकार अशो तीन भावक्यो भावार्थान भरतभेटीची याद करून दितात आनी मागीर त्यावर्सा हिरामेळ काय शिशारान्नी हाकाय व्हडलोसो अर्थ उरना!

अशें आसल्यारूय थरावीक लोकांच्या पोटांत धाकधूक आसताच! जात्रा बरेभाशेन

जाल्यार पुरो अशें आयच्या झगड्याझुजाच्या युगांत तरी दिसप सामकें सभावीक. पूण शिगम्याचे जात्रेंत मात अशें कांयच घडना. पौष म्हयन्यांतले म्हालजेपुनवेक देवस्थानांत जो पयलो अवतार जाता, तो धरून शिगम्या-जात्रेच्या फाल्गुन वद्य सश्टीक जो निमणो अवतार जाता ते मेरेन बरेंवायट कितें घडल्यार ताची जापसालदारकी सगल्यांचेरच आसता. मागीर तो तरंगा-मेळावांगडा वचपी अठरा गड्यांतलो (देव घेवपी, भगत, धोलकार-जगांटकार, बुटयेकार) कोणूय आसूं, देवाचो एकाद्रो कुळावी आसूं वा म्हाजन आसूं.

तिसलान जावपी फाल्गुन शुद्ध त्रयोदशीदिसाच्या हिरामेळावेळार हाची बेस बरी प्रचिती येता. भक्तांमठ, शिरवाडो आनी देवाबाग (नगर्शें वाठार) अशा तीन सुवातींक ह्या निमतान म्हत्व येताच. पूण तो सगलोच वाठार ते रातीं कांचवेल्लेवरी जाता. तीन मुखेल गडे, तीन दुसरे गडे, तीन भगत, तीन धोलकार, तीन जगांटकार आनी तीन बुटयेकार सांगात्यांसयत जेन्ना एका आकांताच्या वेगान विडो घेवपाक थारायिल्ल्या घरांनी-घरवयांनी धांवतात, तेन्नाचो दर एक खीण आंगाची ल्हंव फुलोवपी, काळजाचो ठेको चुकोवपी.

तशे तरंगांचे अवतार म्हालजेपुनवेकूच सुरू जातात. कारवार वाठारांत मकेरी दोन, चेणयें, किन्नर, खारगें मेळून तीन अशे वट्ट पांच अवतार जातात. जाल्यार काणकोणांत खालवडें, किंदळें, बाबरें, पाटणे, भक्तांमठ, आगोंद, गुळें हांगा सात अवतार जातात. पूण शिशारान्नीचो अवतार खेरीत! पयलेंच खाशेलेंपण म्हळ्यार त्या दिसा खांब (तरंगां) कोणाच्याच आदाराबगर हारीन उबे दवरतात आनी ते तशे रावतात! दुसरें म्हळ्यार धोलकारी गड्यांक जमनीर न्हिदोवन तांच्या तकल्यांची रांदन (चूल) करून ताचेर निवेद्य शिजयतात! आनी ताचेकूय विशेश म्हळ्यार भगताक 'खरवत' दिवन, रगत काडून तें शिजयिल्ल्या तांदळांच्या निवेद्यांत घालतात. मागीर भगत ते तांदूळ गड्यांचेर आनी वाठारांत मारतात.

आंकवार चलयो यल्लमा देवीक सोडून 'देवदासी' पद्धत तिगोवन धरपाचे दुश्ट चालीआड वावर करपाच्या ह्या काळांत आनी देवाधर्माच्या नांवार हज्जारांनी कोंबडे-बोकडे कापपाचे चालीआड आवाज उठोवपाच्या ह्या जमान्यांत पोरण्यो, बुरशो चाली-रूढी परंपरेच्या नांवासकयल तिगोवन दवरपी अश्यो जात्रा, फेस्तां, उत्सव जायच कित्याक, असो एक जागरुतायेचो प्रस्न कांय लोक करतात. पूण यज्ञयागाच्या नांवासकयल निष्पाप प्राण्यांची हत्या करप हें जितलें समा न्हय, तितलेंच उमेद-उर्बा वाडोवपी जात्रा, फेस्तां नाकाच म्हणपूय समा न्हय. आतां चालीरितींची अतिताय केन्नाय वायटच! पूण जातूंत कोणाचें लुकसाण जायना, उरफाटें एकचार वाडपाक मदत जाता त्यो सगल्यो जात्रा, फेस्तां व्हडले उमेदीन चालू दवरपाक जाय. शिशारान्नी जाय त्योवूय हे खातीरच! फकत

परंपरा जागोवपाखातीर न्हय, इतिहासाचीं पानां चाळपाखातीर न्हय, कोणाकोणाक मिरोवपाखातीरूय न्हय, तर कायद्याचीच भंयभिरांत बाळगिनासल्या आयच्या 'सुदारिल्ल्या' सभ्य गुंडांक देवाधर्माची तरी दोरी नाकाक घालून जाग्यार हाडपाखातीर आनी वेळ पडल्यार जाग्यार बसोवपाखातीर तरी उत्सव-जात्रा जायच!

मात्त, शिशारान्नींसारक्यो जात्रा आनी विशेश करून तेनिमतान जावपी 'विधी' म्हळ्यार जादू, सर्कस वा चमत्कार न्हय, तर फकत इतिहासाची, परंपरेची याद करून दिवपी तो एक 'विधी' हाचें भान आमी सगल्यांनीच दवरप बरें. आतां तातुंतल्यो आनी तेसंबंदींच्यो कुड्ड्यो श्रद्धा जाता तितल्यो उण्यो करून आनी शक्य जाता जाल्यार ना करून ताका उमेद-उर्बा, एकचार वाडोवपी उत्सवी स्वरूप कशें कितें दिवपा येयत, हाचोच विचार चड करून जावपाक जाय. आनी जर हो असो विचार फळादीक जावपाक पावलो जाल्यारूच घडये हे अशे उत्सव, अश्यो जात्रा काळाचे कसवटेर सासणाच्यो तिगून उरतल्यो.

# संदर्भ

१. भारतीय संस्कृतीकोश – संपादक पं. महादेवशास्त्री जोशी.

२. Chipko Message
Chipko Information Centre
Parvatiya Navjeevan Mandal
Silyara, Tehri-Garhwal (UP) 249 115

३. भारताचा सांस्कृतिक इतिहास – प्रा. रा. वि. ओतुरकर, प्रा. शं. दा. चितळे.

४. रसाहार करा, निरोगी रहा – डॉ. ध. रा. गाला, डॉ. धीरेन गाला, डॉ. संजय गाला (भाषांतर: सौ. वासंती तोडकर).

५. सुनापरान्त, गोमन्तक, राष्ट्रमत दिसाळ्यांतले वेगळे वेगळे लेख.
(आयुर्वेद – डॉ. विनायक म. प्रभुदेसाय; देवांचे अन्न अळिंबी – पी. व्ही. देशपांडे; आयुर्वेदाकडून आरोग्याकडे – डॉ. (सौ.) सुप्रिया सु. मिराशी.

६. डॉ. ऑलिवीन्यु गोमीश, डॉ. जी. एम्. ए. शेख हांचे लेख.

७. श्री. मार्टीन मिनीन फेर्नांडीस, श्री. जेस फेर्नांडीस हांच्यो मुलाखती.

८. लेखांकडेन संबंदीत कवी, लोककलाकार.

९. राष्ट्रसेवादलची दिनदर्शिका, विश्व हिंदु परिषदेची दिनदर्शिका, इंदिरा आर्ट प्रिंटर्स, कोंब-मडगांवची दिसावळ, कालनिर्णय

ह्या सगल्यांचो हांव काळजासावन रिणकारी आसां.



## कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

**जल्मतारीख** : ४ एप्रिल १९४७

**पत्तो** : २०८, श्रीस्थळ, ग्रामपंचायत,
ॐ श्री दत्त, श्रीस्थळ-काणकोण, गोंय ४०३ ७०२

**शिक्षण** : एम.ए. (हिंदी) शिवाजी विद्यापीठ,
एम.ए. (मराठी + कोंकणी) गोवा विद्यापीठ.

**वेवसाय :** ६ मार्च १९६८ सावन शिक्षक म्हूण वेवसायाक आरंब. ३-८-१९८१ सावन अर्दवेळ आनी २६-६-१ सावन पुराय वेळ काणकोणच्या सरकारी उच्च मध्यमीक विद्यालयांत कोंकणी प्राध्यापक आनी राष्ट्रीय सेवा येव कार्यक्रम अधिकारी. उपरांत, १ फेब्रुवारी १९९२ सावन गोवा कोंकणी अकादेमींत सहायक सचीव.

**साहित्यीक वावर :** सुर्वेक मराठींतल्यान आनी सद्याक चडशें कोंकणीतल्यान विंगड विंगड विशयांचेर लेखन. राज्य संस्था, पर्वरी खातीर तशेंच हे संस्थेवरवीं शिक्षणसंचालनालय, पणजी खातीर आनी प्रौढ शिक्षण मिशनाखातीर पाठ्यपुस मार्गदर्शक आनी संदर्भ पुस्तकां निर्माण करपाच्या वावरांत एक लेखक आनी संपादक म्हूण वांटो.

'गोवा स्वातंत्र्यलढ्यातील काणकोणचा सहभाग' (१२-१२-१९८६) पुस्तकाचे एक लेखक, संपादक. 'गोमन्तक' 'राष्ट्रमत' काणकोण विशेशांकाचे लेखक, संपादक.

**उजवाडा आयिल्लीं पुस्तकां :** मनीसपणाचो ताज – जमनालाल बजाज (चरित्र) : १७ मे १९९२; चांदण्यांचे (कवितासंग्रह) : ७ नोवेंबर १९९४.

**साहित्यीक पुरस्कार :** मनीसपणाचो ताज – जमनालाल बजाज पुस्तकाक कोंकणी भाशा मंडळाचो १९९२ व स. नरसिंह दामोदर नायक पुरस्कार.

**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन**
श्रीस्थळ, काणकोण – गोंय ४०३ ७०२